# कोंकणी शब्दकोश

चवथो भाग – वर्चिल उतरावळ

* * *

## कोंकणी भाशेची कुळकथा

श्रीपाद रघुनाथ देसाय

सौन्दर्यलहरी प्रकाशन, कोथरूड, पुणे

करीत सांगात
कोण ब्रह्मांडांत
जिचे कुशी आयले,
आमी सरस्पतीं-पूत ।

— बयाभाव

✠ ✠ ✠

## प्राचीन अपभ्रंश वाङ्मय

जे अपभ्रंश भाशेंतल्यान कोंकणी भास उप्रासली, ते अपभ्रंश प्राकृत भाशेचें प्राचीनतम साहित्य म्हणून कविकुलगुरू कालिदासाच्या **विक्रमोर्वशीयम्** ह्या संस्कृत नाटकाच्या चवथ्या अंकांतल्या सत्तावीस श्लोकांकडे जाणकार लोक बोट दाखयतात !

कालिदासान हें नाटक इसवी सनाच्या चवथ्या शतकांत रचलां अशें मानतात. ताचे आदल्या आनी समकालीन संस्कृत नाटकांत गौण पात्रां शौरसेनी आनी माहाराष्ट्री ह्या प्राकृत भासांत उलयतना मेळटात. राजा, ऋषी, ब्राह्मण हीं पात्रां संस्कृत उलयतात.

विक्रमोर्वशीयाचो नायक सम्राट पुरूरवो हो चवथ्या अंकांत ताची प्रिय पत्नी उर्वशी ताका सोडून गेली, म्हणून तिच्या विरहान मदींमदीं पिशांतर जावन संस्कृत उल्लेवंच्या जाग्यार अपभ्रंश भाशेंत श्लोक गायता.

**मइं जाणिअ मिअलोअणिं,**
**णिसिअरु कोइ हरेइ ।**
**जाव णु णवतलिसामल,**
**धाराधरु वरिसेइ ॥८॥**

**अर्थ :** मियां जाणलें, मृगलोचनीक कोणतरी निशाचर व्हरता ! जांव ! (पळे) जाल्यार, नवेले विजेन सांवळो (असो) चकचकीत धाराधर (मेघ) वरसता !

( ... ान तीन चेर चालू )

# आर्यभारतीय भासांचो रूख



कोंकणी शब्दकोशकार



श्रीपाद रघुनाथ देसाय

जल्म : फाल्गुन शुद्ध एकादस, शके १८३८

# कोंकणी शब्दकोश

(Konkani Shabdakosha-IV-Supplement)

चवथो भाग – वर्चिल उतरावळ

आनी

# कोंकणी भाशेची कुळकथा

(Origin of Konkani Language)

श्रीपाद रघुनाथ देसाय

१९९०

सौन्दर्यलहरी प्रकाशन, कोथरूड, पुणे

त्वदीयाभिर्वाग्भिस्तव जननि वाचां स्तुतिरियम् ॥
–सौन्दर्यलहरी

बा, तुगेल्या उतरांनीं केल्ली ही तुजी तुस्त !



**मोल : रु. ५०/-**

प्रकाशिका :
सौ. सरस्वती श्री. देसाय
सौन्दर्यलहरी,
३० गणंजय सोसायटी,
कोथरूड, पुणे–411029

श्री. र. देसाय हाणी
राजीव प्रिंटर्स,
४८४/१ शनिवार पेठ,
पुणे–४११०३०.
ह्या छापखान्यांत
छापून घेतलें.

गेहे गेहे कलौ काव्यं, श्रोता तस्य पुरे पुरे ।
देशे देशे रसज्ञाता, दाता जगति दुर्लभः ।।

जाणी म्हाका कोंकणी भाशेची सेवा करूंक
उदार हातांनीं उत्तेजन दिलें,
आनी म्हजी जीण सार्थकीं लायली,
त्या
श्रीमान राजेंद्र वासुदेव देशप्रभु हांकां
हें पुस्तक मायेमोगान ओंपतां.

– श्री. र. देसाय

# प्रस्तावना

१. कोंकणी भाशेचो पयलोवयलो शब्दकोश रचपाचो वावर १९७९ सालांत गोंयांतल्या पेडणें कसब्यांत श्रीमान राजेंद्र देशप्रभु हांच्या राजवाडयांत तांच्याच अर्थीक आधारान चालू जालो. १९८६ सालामेरेन ह्या शब्दकोशाचे तीन भाग उजवाडाक आयले. शब्दकोशाची पुरवणी म्हणून चवथो भाग त्याच वर्सा उजवाडाक येवपाचो. पूण १९८७ सालांत कोशकार आनी ताची घरकान्न हांची भलायकी इबाडली. १९८८ सालांत ताणी आपली बिटकी गुठलावन पुण्यांत, कोथरूड गांवांत, सौंदर्यलहरी घरांत वचून विसवलीं.

२. आतां शब्दकोशाच्या चवथ्या भागाची खर्चाची जापसालदारकी गोवा कोंकणी अकादेमीन घेतली. आनी कोंकणी वाचप्यांच्या हातांत १९८० ते १९९० मेरेन चार भागांत सुमार पन्नास हजार उतरांचो कोंकणी शब्दकोश पावता. आमचे कुटुंबी जिणेंत जायतीं अद्भुतां घडल्यांत. तांतलें हें एक म्हालगडें !

३. एक मनीस धा वर्सां कोंकणी शब्दकोशाचे रचणुकेचो वावर करता, आनी तो कोश पूर्ण जावपाक कोंकणी भास इतली सोपी न्हय. ' जाय जाल्लीं संदर्भ-पुस्तकां विकतीं घेयात, आनी कोश बरे भाशेन पूर्ण करात,' म्हणपाची राजेंद्र सायबांनी मेकळीक दिल्ली. पूण धा-बारा वर्सांच्या काळान हांव पावुणशीं वर्सांचे तडीर पावलों. कोंकणी भाशेचो अभ्यास पूर्ण करचे खातीर म्हाका काणकोणां, कारवारा, मंगळुराक, कासारगोड, कोचीना बी वचून रावून थंयथंयची उतरावळ पुंजावक जाय आसली. जड्डे पिरायेक लागून हो वावर जावंक जाय तसो जालो ना !

४. इतलें सगळें बरोवपाचें कारण हेंच कीं हो शब्दकोशाचो वावर चालू रावूंक जाय. तो बंद पडूंक फावना. वयर दिल्ल्या गांवांनी शब्दकोशाचो वावर करपी वावराडे नेमून गोंयांत एक शब्दकोशाचें मुखेल केंद्र सरकारी व्यवस्थेन गोवा कोंकणी अकादेमीन उगडुंचें. ह्या धा ठांयच्या वावराडयांनी हो वावर चालू दवरून धा वर्सांनीं कोंकणी भाशेचो दुसरो शब्दकोश लाखभर उतरांचो उजवाडांवचो पडटलो. तशें केलें तर श्रीसीताराम प्रकाशन आनी सौन्दर्यलहरी प्रकाशन हाणी उजवाडायल्ल्या कोशाच्या वावराचें सार्थक जातलें. संवसारांतल्या साबार भासांच्या शब्दकोश रचणुकेचो वावर सतत खंय ना खंय, कोण ना कोण करीत रावतात. तशेंच कोंकणी भाशेचें जावंक जाय.

५. शब्दकोश रचतासतना उतरांची व्युत्पत्ती शक्य तितली बिनचूक दिवंचो प्रयत्न कोशकारान करूंक जाय. १९८३ सालांत ह्या शब्दकोशाच्या दुसऱ्या भागाचे प्रस्तावनेंत ' कोंकणी भास ही अपभ्रंश हे प्राकृत भाशेंतल्यान उप्रासली,' म्हणून पयलेंच विधान करून तें सिद्ध करचेखातीर कांय उतरांचीं उदाहरणां दिल्लीं. १९८६ सालांत उजवाडाक आइल्ल्या ह्याच शब्दकोशाच्या तिसऱ्या भागाचे प्रस्तावनेंत अपभ्रंश भाशेंतल्यान कोंकणींत आइल्ल्या जायत्या उतरांची यादी दिवंक मेळली. त्या भायर अपभ्रंश भाशेंतल्या कांय वाक्यां आनी वाक्यांशांचीं कोंकणींत केल्लीं रुपांतरां दाखोवन दिलीं. अपभ्रंश आनी

कोंकणी भासांचे मोडींत कितली सारकाय आसा तें दाखयलें. दोन भासांच्या वाक्य-रचणुकेंत इतली सारकाय क्वचितच पळोवंक मेळटा.

६. भारत सरकारान कोंकणी भास राज्यघटनेचे आठवे वळेरेंत घालची म्हणून कोंकणी भाशी वावराडे खूब धडपड करतात. भारतशास्त्री (Indologists) भारतांतल्या प्राचीन-अर्वाचीन काळांतल्या भासांचो एक वंशवृक्ष दाखयतात. प्राचीन काळासावन भारतांतल्यो वेगळचो वेगळचो भासो खंच्या पूर्व-भासांतल्यान उप्रासल्यो म्हणपाचें ह्या वंशवृक्षाच्या तक्त्यांत ते दाखोवन दितात. त्या तक्त्यांत कांय अल्पजिवी भासोय ते दाखयतात. देखीक : खोतान, टक्क, ल्हाण्डी त्री. पूण हे भासशास्त्री ह्या वंश-रुखाच्या तक्त्यांत कोंकणी भाशेचें स्थान आजून दाखोवन दिनात. भासां-रुखाच्या तक्त्यांत कोंकणी भाशेचें स्थान दाखोवन दिवप हें आमचें कर्तव्य. हो आमचो संस्कृतीधर्म. ह्या धर्माक पाळो दिवंचो म्हणून ह्या पुस्तकाच्या दर्शनी पानार (Frontispiece) आर्य-भारतीय भासां-रूख छापला आनी तांतूंत कोंकणी भाशेचें स्थान दाखोवन दिलां. राज्यघटनेचे आठवे वळेरेंत कोंकणी भाशेचो आस्पाव जावप ही गजाल खूब म्हत्वाची आसा. तेच कोंकणी भाशेचें दर्शन आमच्या आर्य-भारतीय भासां-रुखाच्या खांदयां भितर करून घेवप, हें त्याहून उण्या म्हत्वाचें न्हय. कोंकणी भाशेचे घडणीची आनी उदरगतीची जाण कोंकणी लोकांक जावप ही अत्यंत गरजेची गजाल, हातूंत दुबाव ना.

## कोंकणी भाशेची कुळकथा

७. साक्षर आनी सुशिक्षीत मनशांनीं आपल्या देशाचो इतिहास शिकूंक जाय. आपले संस्कृतायेची वळख करून घेवंक जाय. आपली भास बरे भाशेन अभ्यासूंक जाय. आपल्या देशाच्या आनी संस्कृतायेच्या इतिहासांत आपली भास खंच्या काळांत घडली; आपली चालू भास लोकांनी उलोवंचे आदी आपले पुर्वज खंची भास उलयताले, ह्या विशयाचो परिचय करून घेवंचो. इतिहासाच्या अभ्यासान आपले उदरगतीचो पावंडो आपणाक वळखूंक येता. आनी खंय कितें उणेपणां आपले भितर आसलीं तर तीं सुदारूं येतात.

८. आमचे भाशेचें कुळार वेदीक संस्कृत भाशेंत आसा, म्हणून शणै गोंयबाबांनी सांगलें. कोंकणी भाशेचें मूळ शौरसेनी प्राकृत भाशेंत आसा, म्हणून श्री. नागेशबाब सौंदे हाणी सांगलें. कोंकणी भास ही माहाराष्ट्री भाशेंतल्यान उप्रासली म्हणून डॉ. जुजे पेरेर हाणी सांगलें. अशीं निखटी विधानां करून सावार जनांक कोंकणी भाशेचें मूळ वळखूंक येवचें ना. ह्या विषयाचेर खोलायेन अभ्यास करूंक जाय. वर्सांचीं वर्सां अभ्यास करून संशोधन करूंक जाय. कोंकणी आनी संस्कृत भासांचो अभ्यास केल्ल्या जाणकारान प्राकृत भासांचो अभ्यास करूंक जाय. कारण संस्कृत भास क्रिस्तपूर्व तिसऱ्या-चवथ्या शेंकडयांत सुशिक्षितांच्या उलोवपाच्या वेव्हारांतल्यान बंद जाली. तेन्ना भारतांतल्यो आधुनीक भासो लोकांच्या वेव्हारांत येवंक नासल्यो. अर्थात संस्कृत भाशेंतल्यान एकय आधुनीक भारतीय भास उप्रासूंक ना.

९. आधुनीक आर्य-भारतीय भासो क्रिस्ती शकाच्या अकराव्या-बाराव्या शतकांच्या सुमाराक घडल्यात. क्रिस्तपूर्व चारपांच हजार वर्सांच्या काळासावन भारतांत सावार जन

उलयताले तांकां प्राकृत बोली म्हणटाले. मर्यादीत संख्येचे आर्य ऋषी आनी राजदरबारी क्षत्रीय लोक संस्कृत भास उलयताले. तांच्यो बायलो आनी आस्रीत लोक प्राकृत भासोच उलयताले. ऋषी, मुनी आनी कवी संस्कृत भाशेंत काव्या, नाटकां रचताले. नव्या नव्या येवजण्यानीं आनी काणयांनी संस्कृत भास सजयताले. ते संस्कृत भाशेंतलीं उतरां साबार जन सोपीं करून आपल्या प्राकृत भासांत वापरताले.

१०. त्या काळांत प्राकृत (दाक्षिणात्य), शौरसेनी, मागधी आनी पैशाची ह्यो चार प्राकृत भासो क्रिस्तपूर्व सुमार हजारभर वर्सांसावन क्रिस्तोत्तर चार-पाचशीं वर्सांमिरेन लोक उलयताले, बरयताले. संस्कृत भाशेचीं उतरां प्रत्येक प्राकृत भाशेंत बदलून सोपीं करून वापरुची खाशेली पद्धत आसली. ते ते भाशेचो विभक्तिक्रिया आनी क्रियापदांची रुपां घडची रीत खाशेली उरताली. उतरांच्या बदलाचे रितीक जाणकार लोक व्याकरण म्हणटाले. वररुची ह्या प्राकृत भासांच्या पयल्या व्याकरणकारान वयर दिल्ल्या चार भासांचें व्याकरण संस्कृतांत रचलें.

११. हें वररुचीचें व्याकरण रचलें त्या आदीं पाणिनी, कात्यायन ह्यांची संस्कृत भाशेचीं व्याकरणां वेव्हारांत आसलीं. वररुचीन सुमार अठराशीं वर्सां आदीं हें व्याकरण रचलें आसुये अशें जाणकार म्हणटात. नक्की काळ कोण नकळ.

१२. भारताच्या उत्तरेच्या अर्दांत आर्यांप्रमाण अनार्य लोक रावताले. त्या अनार्यांत नागवंशी लोक ल्हान ल्हान राज्यां करून आसले. रामायणांतल्या रामाचो पुत्र कूश हाची कुमुद्वती राणी नागकन्या आसली. अर्जुनाची उलुपी, भीमाची पद्मावती अशा नाग-कन्यांक क्षत्रियांनी वरून आर्यांचीं नागांलागीं नातीं जोडिल्लीं. ते नाग राजे पश्चिम हिंदुस्तानांतल्यान कोंकणांत-अपरांतांत बी पाविल्ले. वचत थंय, नागांव, नागपाडो, नागपूर नागवें बी नांवांची गांवां वसयताले. ते धर्मान हिंदू आसले; वैदिक धर्म पाळटाले. पराक्रमी आसले. आभीर, शक, पल्हव, शबर बी राजांमदीं ते भरसले. तांच्यो भासो अपभ्रंश भाशेंत भरसल्यो आनी चार-स प्राकृत भासांची क्रिस्तोत्तर पांचव्या-सव्या शतकांत जी अपभ्रंश भास घडली, ते भाशेच्या दोन मुखेल मोडींक नागर आनी उपनागर म्हणटाले, अशें प्राकृत भासांचे जाणकार सांगतात.

१३. क्रिस्तोत्तर सव्या शेंकड्यासावन सुर्वेच्यो चार-स प्राकृत भासो उलोवपांतल्यो गेल्यो. बरपांत, काव्यात, नाटकांत उल्ल्यो. साबार लोकांची वेव्हाराची भास राज्यकर्त्या आभीर, शबर आनी आर्य लोकांनी घडिल्ली अपभ्रंश भास, पयल्या चार-स भासांचें आनी संस्कृत उतरांचें दायज घेवन लसलसून राजभास आनी देसभास जाली.

१४. आधुनीक भारतीय आर्यभासो ह्यो दाक्षिणात्य (माहाराष्ट्री), मागधी, अर्ध-मागधी, शौरसेनी, पैशाची बी भासांतल्यान प्रत्यक्ष उप्रासल्यो नात. मुळाव्यो प्राकृत भासो आनी आधुनीक भासो हांचे मदलो सात आठशीं वर्सांचो काळ उत्तर, मध्य, पूर्व, पश्चिम आनी दक्षिणेक कोंकणांत आनी महाराष्ट्रांत, विदर्भामिरेन अपभ्रंश भास गडगडटाली. ते अपभ्रंश भाशेक थळाव्या बोलयांच्या पोन्न्या संसर्गान आधुनीक आर्यभारतीय भासो उप्रासल्यो.

१५. ह्या शब्दकोशाच्या चवथ्या भागाच्या मांगाताक ‘ कोंकणी भाशेची कुळकथा ’ हो निबंध जोडला. पंडीत हरगोविंददास टी. सेठ ह्या विद्वान भासशास्त्र्यान (Indologist) भारतांतल्यो आधुनीक आर्य भासो खंच्या प्राकृत भासांतल्यान आयल्यो तांची यादी मुखार दिल्ल्याप्रमाण दिल्या :

(१) माहाराष्ट्री अपभ्रंश – मराठी, कोंकणी.

(२) अर्धमागधी अपभ्रंश – पूर्वी हिंदी, अवधी, बघेली, छत्तीसगढी.

(३) मागधी अपभ्रंश (बिहारी) – मैथिली, मगही, भोजपुरिया.

(४) शौरसेनी अपभ्रंश – बुन्देली, कनौजी, व्रजभाषा बांगरू, हिंदी-उर्दू.

(५) नागर अपभ्रंश – राजस्थानी, मालवी, मेवाडी, जयपुरी, मारवाडी, गुजराती.

(६) टाक्की अपभ्रंश – पूर्वीय पंजाबी.

(७) व्राचड अपभ्रंश – सिन्धी.

(८) पैशाची अपभ्रंश – कश्मीरी.

१६. गुजराथी का विकास गुर्जर अपभ्रंश से हुआ। मराठी की शब्दावली संस्कृत, प्राकृत और अपभ्रंश के माध्यम से हुअी। अशीं विधानां पंडीत हरगोविंददास करतात. ग्रियर्सन हो भारतशास्त्री (Indologist) शौरसेनी अपभ्रंश, राजस्थानी अपभ्रंश, गुर्जर अपभ्रंश, अर्धमागधी अपभ्रंश, मागधी अपभ्रंश, महाराष्ट्री अपभ्रंश ह्या भासांतल्यान आधुनीक भारतीय भासो उप्रासल्यो अशें सांगता. अपभ्रंश हो दर एके प्राकृत भाशेचो थळावो विकार आसलो अशें ग्रियर्सन सांगता. **ह्या विद्वानांचेर अवलंबून भागना. आमचो अभ्यास आमीच करूंक जाय.**

१७. प्रत्यक्षांत पळोवंक गेल्यार महाराष्ट्री अपभ्रंश, मागधी अपभ्रंश, शौरसेनी अपभ्रंश अशा नांवाच्यो वेगवेगळच्यो भासो घडिल्ल्यो मेळनात. माहाराष्ट्री, शौरसेनी, मागधी आनी पैशाची ह्यो समकालीन प्राकृत भासो क्रिस्ती शकाच्या पांचव्या-सव्या शतकांमेरेन उलोवपांतल्यो बंद जाल्यो, तांच्या जाग्यार एक सामायीक अशी अपभ्रंश भास साकार जाली. तिच्यो नागर, उपनागर, व्राचड, शाबरी, औड्री, आभिरी अशो थळाव्यो बोली प्रांतोप्रातांनी लोक उलयताले. नागर म्हळ्यार आभीर, शक, कुशाण वंशांतल्या नाग लोकांची भास. हांच्या राज्यांक वायव्य भारतांत सुरवात जाली आनी भारतभर तें पातळ्ळें, तांचेबरोबर अपभ्रंश भास पातळ्ळी. **तरीय माहाराष्ट्री अपभ्रंश, शौरसेनी अपभ्रंश, मागधी अपभ्रंश असल्या नांवांच्यो भासो मेळनात !**

१८. क्रिस्ती शक ४०० सावन १००० मेरेन अपभ्रंश ही भारताचो राष्ट्रभाषा आसली. म्हळ्यार राजदरबारी लोकांची, वेव्हाराची भास आसली. क्रिस्ती शकाच्या सातव्या शतकासावन सोळाव्या शतकामेरेन ती भारतांतली एक साहित्यीक भास म्हणून नंदली. जैन कवी, मुनी, आचार्यांनी हे भाशेंत साहित्य रचलें. अकराव्या क्रिस्ती शतकासावन भारतांत अपभ्रंश भाशेंतल्यान आधुनीक भासो उप्रासल्यो. तरीय अपभ्रंश भाशेंत साहित्य रचताले.

१९. डॉ. वीरेन्द्र श्रीवास्तव, डॉ. वासुदेवशरण अग्रवाल, डॉ. सुकुमार सेन, डॉ. हरिवंश कोछड, डॉ. उदय नारायण तिवारी, डॉ. भोलानाथ तिवारी, डॉ. जगन्नाथराय शर्मा बी विद्वान प्रोफेसरांनी अपभ्रंश भाशेच्या साहित्याचो अभ्यास करून ते भाशेच्या उगम आनी विकासाचो काळ असो निश्चीत केलो.

२०. अपभ्रंश भाशेंतलें जायतें पद्य साहित्य आठव्या शतकासावन कवींनी रचलें. ते भाशेंतले चडावत साहित्य बाराव्या शतकासावन सोळाव्या शतकामेरेन रचून जालें. डॉ. हजारी प्रसाद द्विवेदी सांगतात : अपभ्रंश केवल आभीरों या अहिरोंकी ही भाषा नही थी। स्वयंभूने अपनी भाषा को देशी भाषा कहा है। श्री. जगन्नाथ राय शर्मा सांगतात की, 'अपभ्रंश भाषा अनेक भाषाओं का एक समुदाय है।' प्राकृत आनी अपभ्रंश भासांच्या अभ्यासांत दक्षिणेंतल्या विद्वानांपरस उत्तरेंतले भारतशास्त्री हाणी चड प्रगती केल्या. दक्षिणेंतल्या विद्वानांनी अपभ्रंश भाशेचें साहित्य संशोधन करपांत आघाडी मारली.

## शक, कुशाण सम्राट आनी आभीर राजे

२१. शक क्षत्रपांचें राज्य मथुरेंत क्रिस्तपूर्व ५० वर्सांसावन क्रिस्तोत्तर ५० वर्सां-मेरेन चालू आसलें. ताचे पयलीं ते सिंध प्रांतांत (शक राजा मॉएस) राज्य करताले. जैन परंपरेनुसार शकांनी क्रिस्तपूर्व पयल्या शतकांत माळव्याचेर स्वारी केली. मागीर ते दक्षिणेंत गुजराथ आनी महाराष्ट्रांत पातळ्ळे.

२२. इसवी सन ७८ सालांत कनिष्क ह्या शक सम्राटान माळवो जिखून आपलो शक चालू केलो. ताणे भूमक हो क्षत्रप गुजराथ, काठेवाड आनी माळव्याचेर नेमलो. भूमकाच्या नाण्यांचेर एके वशीन खरोष्ठींत आनी दुसरे वशीन ब्राह्मी लिपींत लेख आसले. भूमका उपरान्त कुषाण सम्राटान नहपानाक क्षत्रप म्हणून गुजराथ, काठेवाड, मध्यभारत, उत्तर महाराष्ट्र आनी कोंकण ह्या प्रांतांचेर नेमलो. म्हळचार क्रिस्ती सनाच्या पयल्या-दुसऱ्या शतकांत शक, पल्हव, आभीर वंशी राज्यकर्ते कोंकणामेरेन पावले. ह्या काळांत महाराष्ट्रांत सातवाहन राज्य करताले.

२३. नहपानाचो जांवय ऋषभदत्त हो नहपाना उपरान्त क्षत्रप जालो. ताणे कोंकणांतल्या दमणगंगा, डहाणूची खाडी, ठाण्यांतल्या न्हंयाचेर बी धर्मतरी चालू केल्यो. हे क्षत्रप वेदधर्मी आसले तांकां वेदधर्मी ब्राह्मणांनी क्षत्रीय म्हणून जानवीं घातलीं. ऋषभदत्तान वेदधर्मी राजाक सोबसारके धर्मादाय केले.

२४. नहपान क्षत्रपान गौतमीपुत्र सातकर्णी ह्या सातवाहन राजाचो नाशका-लागसार निर्णायक पराभव केल्लो. नहपान, चष्टन, चष्टनाचो पुत्र जयदामन आनी नातू रुद्रदामन (सन १३०–१३१) जाले. सातवाहन सम्राट गौतमीपुत्र सातकर्णीन क्षत्रपांचो पराभव केलो. रुद्रदामनान आपली कन्या वासिष्ठीपुत्र सातकर्णीक लग्नांत दिली. गौतमी-पुत्राउपरान्त शकांनी सातवाहनां कडच्यान परतून राज्याचे कुडके तोडले. इसवी सन १४० मेरेन चष्टन आनी रुद्रदामन हाणी विजय मेळोवन उज्जनीक राजधानी केली. रुद्र-दामनच्या राज्यांत अपरान्त आशिल्लो.

२५. सन ३१० मेरेन क्षत्रप आनी आभीर राजांची नाणीं मेळटात अशें महामहोपाध्याय मिराशी सांगतात. पश्चिमेचे क्षत्रप शकवंशी आसले. ते स्वतंत्र आसले. कुषाणांचे मांडलीक नासले. महाक्षत्रप ईश्वरदत्तान सन २२९ सालांत पश्चिम महाराष्ट्रांत सातवाहनांचो पराभव करून सत्ता हातांत घेतली. इ. स. २५० च्या सुमाराक आभीरवंशी शिवदत्ताचो पुत्र ईश्वरसेन हाणे क्षत्रपांचो पराभव करून पश्चिम महाराष्ट्रांत राज्य स्थापलें. मुखार ईश्वरसेनान वा ताच्या वंशजांनी कोंकण, खानदेशा सयत पश्चिम महाराष्ट्र, दक्षीण गुजराथ आनी मध्यप्रदेशाचो अनूप जिल्हो इतल्या प्रदेशार राज्य केलें. ईश्वरसेनान चालू केल्लो आभीर संवत खूब काळमेरेन चालू उल्लो. विदर्भांत इ. स. २५१ सालासावन आभीर संवत चालू जाल्लो. इसवी सनाच्या बाराव्या शतकांत हेमचंद्राचो शिष्य खंबायतचो कुमारपाळ राजा हाणे उत्तर कोंकणच्या मल्लिकार्जुन ह्या शिलाहार राजाक युद्धांत मारून अपरान्त जिखून घेतिल्लो. ह्या गुजराथी जैन राजांक आनी जैन मुनींक लागून कोंकणातले भाशेचेर अपभ्रंश भाशेचो प्रभाव हजारभर वर्सां चालू उल्लो. हिन्दी, राजस्थानी, गुजराती, माळवी आनी कोंकणी ह्या भासांचेर नागर आनी उपनागर अपभ्रंशाचो प्रभाव चड पडलो. हेर आधुनीक भासांचेर अपभ्रंशाच्या ह्या मोडींचो इतलो प्रभाव पडूंक ना.

## अपभ्रंश भाशेचें दायज

२६. 'कोंकणी भाशेचो कुळकथा' ह्या निबंधाक **अपभ्रंश–कोंकणी उतरावळ**, हें सुमार ३६०० उतरांचें परिशिष्ट जोडलां. क्रिस्ती शकाच्या धाव्या ते बाराव्या शतकांच्या तीन एकशीं वर्सांच्या काळांत अर्वाचीन भासांमदीं अपभ्रंशांतल्यान कोंकणी भास घडली. त्या तीनशीं वर्सांत उत्तर हिंदुस्थानांत वापरताले ते अपभ्रंश भाशेचीं सुमार ३६००० उतरां घेवन डॉ. नरेशकुमार हाणी अपभ्रंश-हिंदी हो शब्दकोश १९८७ सालांत रचलो. त्या शब्दकोशांत ३६०० म्हळ्यार धा टक्के उतरां विसाव्या शतकांत कोंकणींत वापरतात अशीं मेळ्ळीं. अर्थात धाव्या-बाराव्या शतकांत उत्तर हिंदुस्थान, राजस्थान, माळवो, गुजराथ आनी कोंकण ह्या सुमार देड हजार मैल लांब आनी शंबर-दोनशीं मैल रुंदीच्या भूंयपट्ट्यांत अपभ्रंश भास कशी सुप्रतिष्ठीत आसली तें सांगचें लागना.

२७. बाराव्या शतकासावन कानडी, फारशी, पुर्तुगेज, मराठी बी उतरांच्या संसर्गान कोंकणी भाशेन हजारांनी अपभ्रंश तद्भव आनी तत्सम उतरां वापरुंचीं सोडलीं आसतलीं. बाराव्या-तेराव्या शतकांतले कोंकणी भाशेचेर अपभ्रंश भाशेचो केदो प्रभाव आसतलो हें सहज कळटा.

२८. कोंकणीचो आनी मराठी भाशेचो संबंध गेल्ल्या शंबर वर्सांतच आयला. आनी तोय भटा-बामणां-वेपाऱ्यांपुरतो. कोंकणांत मराठी साळो ह्याच शतकांत उदेल्यो. घांटावेल्यान पुराणीक, हरदास येताले तांचे कडच्यान मराठी आयकूंक मेळटाली तितलीच. मराठी भाशेचो कोंकणांतलो इतिहास एदोच.

२९. प्राकृत भासांतलीं उतरां आधुनीक भासांनी उसपून घेतलीं तीं सुर्वेक चार-पांचशीं वर्सां. मागीर संस्कृत भाशेंतलीं उतरां थेट आधुनीक भासांत सतराव्या ते विसाव्या इसवी शतकांत आधुनीक भासांचे बरपी आनी वक्ते वापरीत आसात. आधुनीक भासांत हालींसराक भरशिल्ल्या संस्कृत उतरांच्या हुंवारान प्राकृत भासांतलीं वापरताले तीं मूळचीं उतरां कुशीक पडलीं. आधुनीक भासो संस्कृतमय, विद्वज्जड जाल्यो. आपापल्यो आधुनीक भासो संस्कृत भाशेंतल्यानच देंवल्यो अशें आधुनीक भासांचे बरपी मानूंक लागले. अस्तमतेंतल्यान भारतशास्त्र्यांनी प्राकृत भासांचो अभ्यास करून खऱ्या गिन्यानाचो उजवाड घालो.

३०. कोंकणी शब्दकोशाच्या दुसऱ्या आनी तिसऱ्या भागांच्या प्रस्तावनांत दिल्ली प्राकृत भासांची माहिती हांगा भोवनभोवन दिल्या. विषय नवीन आशिल्ल्यान वाचप्यांक भोवन भोवन सांगचो पडटा. अपभ्रंशाचे नागर, उपनागर मोडींतल्यान राजस्थानी, गुजराती, कोंकणी भासो घडल्यो. मराठी भास अपभ्रंशाच्या ह्या मोडींतल्यान उप्रासूंक ना, हें डॉ. कृ. पां. कुळकर्णी मान्य करतात. मराठी भाशेचो उद्‌भव दाखोवंक अपभ्रंश आनी मिश्र प्राकृत भासो हांचो भरस कारणीभूत जालो अशें डॉ. कुळकर्णी मानतात. (मराठी भाषा–उद्‌भव आणि विकास–पान १३४). कोंकणी आनी मराठी ह्या दोन भासांचीं मुळांच वेगळीं आसात. तांची व्याकरणी बांदावळ वेगवेगळी आसा. जाणी ह्या विषयाचो अभ्यास केलोच ना, ते उच्च रवान सांगतात, की 'कोंकणी ही मराठी भाषेची बोली आहे !' ते अज्ञानी आसात !

३१. कोंकणी भाशेच्या अभ्यासकांनी अपभ्रंश भाशेचो खोलायेन अभ्यास करूंक जाय म्हणून हो इतिहासीक फाटभुंयेचो तपशील विस्तारान दिला. कोंकणी लोकांचो आनी मराठी भाशेचो संबंध भोव थोडचा प्रमाणांत अठराव्या आनी एकुणिसाव्या शतकांत आनी तोय अल्पसंख्य हिंदू भटां-बामणांपुरतोच मर्यादीत आसलो. कै. अ. का. प्रियोळकार सांगतात, तो सतराव्या शतकांतलो गोंयांतलो मराठी साहित्याचो कारखानो (ग्रांथिक मराठी भाषा आणि कोंकणी बोली– प्रा. अ. का. प्रियोळकर, पा. १८५) ही ताणी आपले निव्वळ कल्पनेंतल्यान हाडिल्ली गजाल आसा. असले मराठी साहित्याचे कारखाने गोंयांत आशिल्ले अशें सांगून प्रियोळकारांनी कितें मेळयलें ? भंगू तें !

३२. रोमी लिपींत धा-पंद्रा हजार उतरांचे कोंकणी-पुर्तुगेज शब्दकोश पुर्तुगेज मिशनऱ्यांनी सोळाव्या क्रिस्ती शतकासावन रचले. पूण ते हातबरपांचे अवस्थेंतच तांचे तांकांच वापरूंक मेळटाले. पाद्रि माफेय ह्या इतालियन मिशनऱ्यान दक्षीण कोंकणांत एकुणिसाव्या शतकांत कोंकणी-इंग्लिश आनी इंग्लिश-कोंकणी भासांचे शब्दकोश ल्हान प्रमाणांत रचून, छापून उजवाडायले. एकुणिसाव्या शतकाच्या निमाण्या दशकांत मोसिंज्योर रुदोल्फशणै दाल्गाद ह्या आसगांवकार पाद्र्यान कोंकणी-पुर्तुगेज आनी पुर्तुगेज-कोंकणी अशे दोन शब्दकोश रचून, छापून उजवाडाक हाडले. दाल्गादान लातीं, पुर्तुगेज बी युरोपेव भासांच्या अभ्यासावांगडा संस्कृत, मराठी, कोंकणी ह्या भासांचोय बरो अभ्यास केल्लो अशें ताज्या शब्दकोशांवेल्यान दिसून येता. शब्दकोशांतलीं कोंकणी उतरां

शुद्ध आसचीं म्हणून दालगादान तीं देवनगरी लिपींत बरयलीं आनी छापलीं. तांच्या काळांत कोंकणी भाशेचें लेखी साहित्य मर्यादीत आसलें. म्हणून तांच्या शब्दकोशांच्या उतरांची संख्या पंद्रा-वीस हजार उतरांवयर पावली ना.

३३. विसाव्या शतकांत कोंकणी भाशेंत हजारांनी पुस्तकांचें साहित्य बरप्यांनी रचलें. शणै गोंयबाब, प्रो. रामचंद्र शंकर नायक, कवी बाकिबाब बोरकार, डॉ. र. वि. पंडीत, पांडुरंगबाब भांगी, चंद्रकांतबाब केणी, रवीन्द्रबाब केळेकार, पाद्रि आंतोन पेरेर प्रताप नायक, देवराय बैंदूर, चां. फ्रां. द कोस्ता बी शेंकड्यांनी बरप्यांनी ललित आनी विविध विषयांचेर कोंकणी साहित्य रचलें. आनी साबार प्रकाशकांनीं तें उजवाडायलें. ह्या साहित्याक लागून म्हजेसारक्या एका वावराड्याच्या वावरान धा वर्सांत पन्नास हजार उतरांचो कोंकणी शब्दकोश रचून उजवाडाक येवंक पावलो. कोंकणी भाशेचें मूळ खंचे प्राकृत भाशेंतल्यान आंकरेवन आयलें, ताचोय सोद लागलो. ह्या विशयांत जितलो वावर आजमेरेन जालो, ताचेपरस कितलो तरी चड वावर करपाचो आसा, हेंय कोंकणी वावराड्यांक आतां कळून येतलें.

३४. ह्या कोंकणी शब्दकोशाच्या वावरांत जायत्या बरें-मागत्यांनी म्हाका उत्तेजन दिलें आनी मोलादीक सुचोवण्यो केल्यो. गोमन्तक छापखानो, श्री. सीताराम प्रकाशन, भांडारकर प्राच्य विद्या परिषद, पुणे ह्या संस्थांची मोलादीक मजत जाली. गोंवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष आनी वांगडी हांचे मोलादीक आदार मेळून हो शब्दकोशाचो चवथो भाग उजवाडाक येवंक पावलो. हांच्या सगळ्यांच्या रिणांत हांव सुखान रावन. निखटे उपकार मानून तांचें रीण फिटना. हें पुस्तक जुळोवन छापपांत मे. राजीव प्रिंटर्सचे मालक आनी कर्मचारी हाणी जायते कष्ट काडले. देव तांचें बरें करूं.

३५. आज मेरेन कोंकणी लोकांनी श्रीसीताराम प्रकाशनाच्या पुस्तकांक सदांच येवकार दिलो. ते भाशेचो येवकार सौन्दर्यलहरी प्रकाशनाच्या ह्या पुस्तकाक कोंकणी आनी हेर भाशी जनता दितली म्हणून आंवडेतां.

सौन्दर्यलहरी,
३० गणंजय सोसायटी,
कोथरूड, पुणे–411029.

श्रीपाद र. देसाय
पोंवत्याची पुनव,
शालिवाहन शक १९१२.

# अनुक्रमणिका

# कोंकणी शब्दकोश

## वॅचल उतरावळ

**अ**—कोंकणी भाशेचे देवनागरी वर्णमाळेचो पयलो स्वर.

**अंक** (पु) संख्येचें चिन्ह; आंकडो; वस्तू मेजपाचें साधन (सं).

**अंकगणनयंत्र** (न) संख्यांचीं गणितां करपी यंत्र; Calculator (सं).

**अंकन** (न) गायनाचे स्वर खुणांनीं बरोवपाची लिपी; नोटेशन (सं).

**अंकप** (क्रिक) आंकडो काडप; खूण मारप; छाप मारप; मेजप (सं).

**अकरमाशी, अक्करमाशी, अकरमासो, अक्करमासो** (वि) अकरा माशांच्या वजनाचो (वजनान उणो तोळो); (ल) कमजात; उणाक जातीचो.

**अकलवंत** (वि) अक्कल आशिल्लो; बुदवंत.

**अकलेक येवप** – (ल) गळवज्रां येवप; हातापायां पडप; शरण येवप; पडून मरूंक येवप.

**अंकपाश** (पु) दिल्ल्यो संख्या एकामेकांकडेन वेगळे वेगळेपणान गुणून आयल्ल्या वेगळ्या गुणाकारांची बेरीज; पर्म्युटेशन; दिल्ल्या वस्तूंची चडांत चड पद्धतीनीं केल्ली अदलाबदलीची रचणूक.

**अकर्तो** (पु) न करपी; हातान कांय घडना, तोंडाची बडबड करपी असो (सं).

**अकस्मीक, अकस्मीत** (क्रिवि) अकल्पीत; एकाएक; येवजूंक नाशिल्लो; अनपेक्षीत; धाडदिशीं; सटकरून; घडांयच करून.



**अकळीत** (वि) अघटीत; कळूंक कठीन असो; (क्रिवि) कळनासतना (सं).

**अकारविल्हो** (पु) अ ह्या अक्षरासावन क्रमान करपाची रीत. अ, आ, इ, ई, उ, ऊ, असो अनुक्रम.

**अकालपरिणत** (वि) योग्य काळापयलींच पोक्त जाल्लो; बाळपणांत असामान्य विद्वान जाल्लो; अकालीं प्रौढपण आइल्लो.

**अंकीत** (वि) मेजचे-मापचे खातीर प्रमाणान खुणो करून आंकडे घातिल्लो; स्वाधीन (सं).

**अंकीत मोल** (न) विक्रीक दवरिल्ले वस्तूचेर बरयल्लो दराचो आंकडो (सं).

**अकीर्त** (स्त्री) निंदा; दुष्कीर्त; अपकीर्त; वायट उलोवप (सं)

**अक्कलकारो** (पु) जीब लाळावपाक आनी न्हीद येवपाक उपकरता अशी वखदी वनस्पत. जीव लाळावप हो गरमीच्या विकाराचेर आयुर्वेदीक गांवठी उपाय करताले.

**अक्रम** (पु) अन्याय; गुन्यांव; अपराध; बेशिस्त वर्तणूक; अपमान; गैरवर्तन (का).

**अक्रिस्तो** (वि) क्रिस्तांव न्हय असले लोक; क्रिस्तेतर.

**अक्लेद्य** (वि) भिजोवंक येना असो (सं).

**अक्शीचीं बियां** (न) अळशेचीं बियां; सणमियां (का).

**अखंडीतपणा** (न) थांबनासतना घडत रावपाची अवस्ता (सं).

**अखणो** (वि) अखंड; सगळो; संसलो.
**अखयो** (वि) सासणाचो; अक्षय; अजरामर; अज्रंवर (सं).
**अखान्तप** (क्रिअ) आकांतप (के).
**अखान्तु** (पु) आकांत (के).
**अखी तय** (स्त्री) अक्षय तृतिया; वशाख शुद्ध तृतिया.
**अखेर शेवट, अखेर शेवटाक** (क्रिवि) निमाणे; अखेरेक; शेवटाक.
**अगम** (व) अगम्य; कळूंक कठीन (सं).
**अगशे बी** (न) आकशेची बीय; सणमियां; अळशीचें बीं.
**अगांतुक** (क्रिवि) अकस्मात; अनपेक्षीत; अकल्पीत; आफोवंक नाशिल्लो (सं).
**अंगिकार** (पु) घेवप; स्विकार; मान्यताय (सं).
**अंगिकारप** (क्रिक) घेवप; आपणावप; आपलो म्हणप; स्विकारप.
**अंगिरस** (पु) अथर्व वेदांतले अभिचारमंत्र; एका ऋषीचें नांव (अंगिरा); अथर्ववेदांत अथर्व आनी अंगिरस हे दोन तरांचे मंत्र आसात.
**अंगिरा** (न) सवें संवत्सर; (पु) एका ऋषीचें नांव (स).
**अंगूर** (न) ताजें द्राक्ष (फा).
**अगोचर** (वि) समजूंक कठीन; अगम्य; चमत्कारांचो (सं).
**अग्नी** (पु) एका ताऱ्याचें नांव.
**अग्नीकाष्ठां भक्षण करप** – उज्यांत घालून घेवप.
**अग्नी दिवप** (क्रिक) प्रेताची अग्नीक्रिया करप. पोटांत अग्नी पडप – चड भूक लागप.
**अग्नीपंख** (पु) रोहीत पक्षी (सं).
**अग्नीपरीक्षा** (स्त्री) उजांत उडी मारून जळनासतना भायर सरची घडणूक; अग्नीदिव्य (सं).
**अग्नीबाण** (पु) उजो पेटोवन स्फोट जातकच अंतराळांत धांवपी यंत्रीक यान; रॉकेट (सं).
**अग्नीमापक** (पु) उज्याची खरसाण मापपाचें यंत्र (सं).
**अग्नीरोधक** (वि) उजो पेटूंक दिना अशी वस्तू; उजो पालोवपी (सं).
**अग्नीवर्ण** (वि) उज्याभाशेन चकचकीत रंगाचो (सं).
**अग्नीशाळा** (स्त्री) यज्ञशाळा; यज्ञघर; होमहवन करची कूड (सं).
**अग्नीहोत्री** (पु) अग्नीहोत्राचे व्रत घेणारो ब्राह्मण; चुकनासतना सदां नेमान अग्नीक मंत्रयुक्त आहुती दिवपी आनी जल्मभर अग्नी प्रदीप्त सांबाळपी व्रती ब्राह्मण; एक आडनांव (सं).
**अग्रक्रम** (पु) पयलो नंबर; पयलो पाट; प्राथम्य; पयलो पांवडो; पयलीं हातांत घेवप–अग्रक्रम दिवप (सं).
**अग्रगामी** (पु) फुडें वचपी; मुखार चलपी (सं).
**अग्रणी** (फ) फुडारी; नेतो (सं).
**अग्रधान्य** (न) खरीप पीक; पावसाळी पीक; कड्डण (सं).
**अग्रहक्क** (पु) पयलो अधिकार; प्राथम्य; पयलो मान (संअ).
**अग्रहायन, अग्रहायण** (पु) मार्गशीर्ष म्हयनो (सं).
**अग्रहार** (फ) ब्राह्मणांक दान दिल्ली जमीन; बामणवाडो (सं).
**अग्रासन** (न) पयलो पाट; मुख्य जागो.
**अग्रेसर** (वि) मुखावेलो; फुडारी; उंच अधिकारावेलो (सं).

**अघडीत** (वि) अघटीत; घडूंक फावना असो; अद्‌भूत (सं).
**अघोरमार्गी** (पु) मसुडेंत वमती करून अक्रितां करता तो गोसांय; अघोर पंथी नरमासभक्षक, मळभक्षक बी अमंगळ कर्तुपां करपी संप्रदायाचे लोक.
**अघोरी पंथ** (पु) भूत पिशाच वश करून घेवपी लोक; घाडी, जल्मी, देवी कुदोवन भुतचाळो थारावपी देवस्पण.
**अचकट, विचकट** (वि) रितीभायरो; विपर्यस्त; सुवाडदुवाड; कशाकशेंय.
**अचकूल** (वि) अधू; पंगू; दुबळो; अपंगूल.
**अचल, अचळ** (वि) थीर; दृढ; हालना असो (सं).
**अचिंत** (क्रिवि) अनपेक्षीत; अकस्मात; अकल्पीत (सं).
**अज** (पु) बोकड; जल्माक येना असो; देव; सूर्यवंशांतल्या एका राजाचें पुराणांतलें नांव (सं).
**अज-एकपद** (पु) उत्तर धूव ह्या तान्यांचें वेदीक नांव (सं).
**अजमोदो** (पु) एके जातीच्या ओंव्यान्चें झाड; वखदी ओवों.
**अजाणपण** (न) अज्ञान; नकळ जावप.
**अजाणयां** (क्रिवि) नकळटां.
**अजिजी** (स्त्री) लाचारी; दीनपण (अ).
**अजरांवरकी, अजरांवरकाय** (स्त्री) म्हानारपण आनी मरण हीं दोनय येंवचीं नात अशी अवस्था; अजरामरत्व; अजरपण (जरा नाशिल्लो) आनी अमरपण (मरण नाशिल्लो) अशी शक्ती; अजरामरपण.
**अटलिगा** (स्त्री) माळो; गच्ची (सं).
**अटळ** (व) टाळूं नज असो; घडूंचो रावना असो (सं).
**अटापप, आटापप** (क्रिक) आळाबंदा येवप. हो चलो मायबापाक, मेस्त्रीक कोणाकच अटापना. जोऱ्यान, व्यादीन माका आटापिलो (१५६६).
**अटीतटी** (स्त्री) हुमरी तुमरी; तेर्म.
**अटुक** (वि) अटंग्य. अटुक रानांत कां करिती कायळी नां, सिर्री करतली सिरली नां (१५६६).
**अँटेना** (न) रेडिओ-तरंग घेवंचे आनी सोडचे म्हणून केल्लो विद्युद्वाहकाचो संच वा व्यूह. दूरदर्शनाच्या यंत्राक तारेन जोडून उंच जाग्यार अँटेना बसयतात.
**अठड** (वि) साडे आठ (के)
**अठरा पगड जाती** (स्त्री) वेगवेगळ्या तरांचीं पागोटीं वापरपी वेगवेगळ्या साबार जातींचे लोक.
**अडगय** (न) लोणचें (के).
**अडणाडी** (वि) अडाणी; मुर्ख (का).
**अडणी** (स्त्री) लांकडाचें वा धातूचें निवणें.
**अडव** (पु) घाण दवरिल्ली वस्तू (का).
**अडसर** (पु) आडवो दांडो; आडांबो.
**अडा** (स्त्री) कांठ; कठडो; गराद.
**अडिगळ** (न) ऐरण; हरणी; धाडांवचो फातर (का).
**अडिनडिल्लो** (व) अडचणींत पडिल्लो.
**अंडिपुनर्** (पु) मदेराचें झाड (का).
**अडी** (स्त्री) अडचण.
**अडेसरी** (स्त्री) मानायाक वा वावराडेक दिमवडयाचो मुशारो म्हणून दिवपाचें अडेच शेर धान्य.
**अड्डी** (वि) अडेची; (स्त्री) अडचण; आडखळ (का).
**अड्डो** (पु) धंदो; कारखानो; क्लब; वांगड; संस्था (का).

**अणखो** (पु) थोमणो.

**अणजाण** (वि) अज्ञानी; नकळटो.

**अणवेपण** (न) उणाकपण; क्षुद्रताय (का).

**अणवो** (वि) उणाक; नीच (का).

**अणूकेंद्र (न), अणूगर्भ** (पु) अणूंतलो केंद्रबिंदू; Nucleus (सं).

**अणूबॉम्ब** (पु) युरेनियम २३५ वा प्लुटो-नियम ह्या जड मूळ पदार्थांच्या अणूंच्या विदारणाक लागून किरणोत्सर्गी स्फोट घडोवपी गर्नाल (स्फोटक).

**अणूभट्टी** (स्त्री) युरेनियम वा प्लुटो-नियम धातू वापरून उष्णताय, कार्यकारक शक्ती निर्मिपी (रिॲक्टर) भट्टी.

**अणूवाद** (पु) सगळो संवसार गुरुत्वा-कर्षण आनी गती आशिल्ल्या अणूंचोच घडिल्लो आसा अशें मानपी शास्त्र.

**अणूविज्ञान** (न) वस्तूंतलो अणू फोडून ताचो उपयोग करपाच्या शास्त्राची विद्या.

**अण्वस्त्र** (न) अणूबाँब; अणू फोडून संहारक शक्ती उप्रासपी बाँबगुळो (सं).

**अंतःप्रतिभा** (स्त्री) अंतस्कर्णांतल्यान उम-ळून येवपी कलागूण वा वाङ्मयीन तेज.

**अंतर** (न) फरक; भेद; वेगळेपण; पैसाव; दुरी; लांबाय (सं).

**अंतरण** (न) दोन वस्तूंमदल्या अंतराची मापणी (सं).

**अंतर दिवप** (क्रिक) पैसावप; वचन मोडप; खोटेपण करप; संकटाच्या वेळार मजत करिना जावप.

**अंतरप** (क्रिअ) सोडून वचप; मरप (सं).

**अंतरपाट** (पु) हिंदू समाजांतल्या लग्नांत माळ घालचे पयलीं घोवबायलांच्या मदीं धरतात तो पड्डो (सं).

**अंतरसाक्षी** (पु) योगी; परमेश्वर; आपलो आत्मो (सं).

**अंतराय** (पु) वेगळेपण; दुराय (सं).

**अंतरो** (पु) कवितेंत वा पदांत ध्रुपदा-उप्रांतचो भाग; संगितांत ध्रुपद, ख्याल बी भाग आमतात. तांतलो चिजेचो दुसरो भाग. अंतऱ्यांत गवय तारसप्तकांत चडूंक शकता (सं).

**अंतर्गोल भिंग** (न) भितर्यां वांटकुळें जाल्लें भिंग; कॉन्केव्ह लेन्स.

**अंतर्ग्रह** (पु) पृथ्वीचे कक्षेभितर जो ग्रह फिरता तो ग्रह. बुध आनी शुक्र हे दोन ग्रह पृथ्वीहून सुर्याक चड लागीं आशि-ल्ल्यान तांच्यो भोंवडेच्यो कक्षा पृथ्वीहून ल्हान आसात. म्हणून हे दोन अंतर्ग्रह. बाकीचे, मंगळ, गुरू, शनी, युरेनस, नेप्-चून आनी प्लुटो हे बहिर्ग्रह. कारण, ते सुर्यासाकून पृथ्वीपरस खूब पटींनीं दूर आसात. तांच्यो कक्षा पृथ्वीहून खूब व्हड आसात.

**अंतर्दर्शक** (पु) कुडींत जाल्लो रोग तपा-सचेखातीर तारेच्या आकाराचें हारशाचें यंत्र मूतशिरेचे वाटेन, परसाकडचे वाटेन वा गळ्यांतल्यान कुडींत रिगोवन कुडींतलो रोग तपासतात. घडये यंत्रांतले कात्रीन ऑपरेशन करतात अशें यंत्र (सं).

**अंतर्धान जावप, अंतर्धान पावप** (क्रिअ) दिष्टीभायर वचप; दिसना जावप (सं).

**अंतर्निष्ठ** (वि) समाधी लागता असो (मुमुक्षू); समाधीयोगाचेर निष्ठा आशिल्लो (सं).

**अंतर्बाह्य** (क्रिवि) भितर आनी भायर.

**अंतर्माळ उडप** (क्रिअ) आवरो उडप; प्राण वचप.

**अंतर्याम** (न) अंतरंग; अंतस्कर्ण; गर्भ-कूड; भितल्लो खण (सं).

**अंतर्लिखीत प्रस्तर** (पु) फातरांत कोरांतिल्लें बरप (सं).
**अंतर्लेख** (पु) कोरिल्लें बरप (सं).
**अंतर्लेखन** (न) भितल्ल्यान बरवप; आकृती कोरांतप (सं).
**अंतर्वक्र** (वि) वर्तुळाच्या भितल्ल्या भागासारको (खोलगट) कोरिल्ल्या पृष्ठभागाचो (भिंग, कांच) (सं).
**अंतर्वर्ती** (वि) भितर आसपी; अंतरंगांत वावुरपी (सं).
**अंतर्वर्ती ज्वलनयंत्र** (न) भितल्लें इंधन जळून ते शक्तीन चलता अशें इंजीन; Internal Combustion Engine. देख: मोटारगाडी, विमान, पाणबुडी.
**अंतर्वेदी** (स्त्री) गंगा आनी यमुना ह्या न्हंयांमदलो प्रदेश (सं).
**अंतर्वेध** (पु) भितर्यां फोडप वा छेदप.
**अंतर्वेधन** (न) एक वस्तू दुसरे वस्तूंत शोषून वचप (सं).
**अंतवंत** (वि) नाशवंत; मर्त्य; मरणाधीन (सं).
**अतवो** (वि) अनोळखी.
**अंतःप्रज्ञा** (स्त्री) शिकनासतना जल्मासावन आपशींच सुचता अशी ज्ञानशक्ती; अंतःप्रतिभा; आपशींच असामान्य कला, वाङ्मय, तत्वज्ञान, विज्ञानसंशोधन घडपाची शक्ती (सं).
**अंतःप्रज्ञा** (स्त्री), **अंतःप्रत्यय** (पु) जल्मासावन आपशींच लाभता तें गिन्यान; शिकनासतना कळटा अशें गिन्यान; चिंतनान लाभता असो ज्ञानाचो दिष्टावो.
**अंतःसामर्थ्य** (न) भितल्ली शक्ती; अंतस्कर्णांची इच्छाशक्ती; कांय काळान अणभवाक येवपी शक्ती (सं).
**अंतःसागर** (वि) समुद्रांतलो; सबमरीन.
**अंतःस्फुर्ती** (स्त्री) अंतस्कर्णांतल्यान सुचिल्ली कलाकृतीची कल्पना; मनांतली प्रेरणा (स).
**अंतःस्राव** (पु) भितल्ले भितर व्हांवप.
**अंतःक्षेपण** (न) भितर तोपून घालप; इंजेक्शन (सं).
**अंतर्ज्ञान** (न) ज्ञानेंद्रियांनीं, भायल्या साधनांनीं समजून घेवंक नाशिल्लें, पूण अंतर्मनांतल्यान आपशींच सुचिल्लें गिन्यान.
**अंतरपाखें** (न) वणटीभायलो छप्पराचो भाग; पांवळी (का).
**अंतिका** (स्त्री) जाणटी भयण (सं).
**अतिताय** (स्त्री) अतीतायेची वर्तणूक; फाजीलपण; बेमर्याद वागणूक; मर्यादेभायलें वर्तन (सं).
**अति धाडसी** (वि) जिवाची पर्वा करिनासतना धोको आशिल्लें काम करपी; अती साहसी.
**अतिनील लोहीत** (वि) किरणपट्टाच्या (सात रंगांत विभागिल्ल्या प्रकाशकिरणाच्या) जांभळ्या रंगाचे पेलेवशीनचो (किरण रंग); अल्ट्राव्हायलेट (सं).
**अतिपुष्टी** (स्त्री) सुमाराभायर वाढ वा पोषण (सं).
**अतिभौतीक** (वि) भौतीक शास्त्राचे नेम लागू जायनात असो; भौतीक शास्त्राच्या नेमांपेल्यानचो (सं).
**अतिरंजीत** (वि) चड भडक रंगात रंगयल्लो; सुमाराभायर वाखाणिल्लो; अतीशयोक्ती केल्लो (सं).
**अतिरेक** (पु) अतीताय; रितीभायर वागणूक; सुमाराभायली वर्तणूक.
**अतिरेकी** (पु) अतीतायेन वर्तुपी; विवेक सोडून वागपी; बेमर्याद; बेताल वर्तणुकेचो; अमर्याद (सं).

**अतिशयीत** (वि) चडांत चड; जास्तींत जास्त; खुब्ब (सं).
**अतिस्फोटक** (वि) चड मोठो स्फोट करपी (सं).
**अतिमानव** (पु) मनशांहून श्रेष्ठ योनींतलो (सं). यक्ष, किन्नर, विद्याधर, देवगण, देवदूत, हांकां अतीमानव म्हणटाले.
**अतिश्राव्य** (वि) आवाजाच्या वेगाहून चड वेगान वचपी (सं).
**अतींद्रिय** (वि) इंद्रियांक कळना अशें। सामान्याभायलें (सं).
**अतींद्रिय ज्ञान** (न) इंद्रियाहून श्रेष्ठ साधनेन जाणून घेवपाचें ज्ञान.
**अंतुरी** (स्त्री) पत्नी.
**अतूट** (वि) तुटना असो; अखंड (सं).
**अंतेवास** (पु) लागीं रावप; सहवास; शिष्यत्व (सं).
**अंतेवासी** (पु) शिष्य; गुरुलागीं रावून शिकपी (सं).
**अंतेस्तु** (वि) गुमानीत; अंतस्थ; गुपीत; मनांतलो (सं). हांव घरिचि धनिन, माका अंतेस्तु विश्वासु सांगनाति (१५६६).
**अंत्यक्रिया** (स्त्री) मर्णानंतरचो धर्मीक विधी; मर्तीक (सं).
**अंत्यज** (स्त्री) म्हार, मांग, चांबार बी जातींतल्या लोकांचें पोन्न्या काळांतलें जातीवाचक नांव, निमाणे जातींत जल्मल्लो (सं).
**अत्यंतीक** (वि) अतीशयीत; निमाणेकडचो; निमाणे श्रेणीचो (सं).
**अंत्य-यात्रा** (स्त्री) निमाणो प्रवास; प्रेतयात्रा; स्मशानयात्रा (सं).
**अंत्यावस्था** (स्त्री) निमाणी अवस्था; मरण (सं).
**अंत्याश्रम** (पु) संन्यासाश्रम; संन्याशाची जीण जगप; चवथो आश्रम. ब्रह्मचर्याश्रम, गृहस्थाश्रम, वानप्रस्थाश्रम आनी संन्यासाश्रम हे चार आश्रम हिंदू धर्मशास्त्रान घालून दिल्यात (सं).
**अंत्याक्षर** (न) (उतरांतलें) निमाणें अक्षर (सं).
**अत्युच्च** (वि) सगळयांवयलो; सर्वश्रेष्ठ.
**अंत्येष्टी** (स्त्री) मर्णाउप्रांतचो धर्मविधी.
**अत्रक** (न) सुतक.
**अंत्रूज** (स्त्री) गोंयांतलो फोंडें तालुको.
**अथ** (अ) सुरवातीचें उतर; आतां; (पु) आरंभ (सं). अथ पासून इतीमेरेन – सुरवातीसावन अखेरमेरेन.
**अथंय** (क्रि वि) त्या जाग्यार; हयतंय; लागशिल्या जाग्यार.
**अथर्वणां** (न) जाणवायो; गिन्यानां (सं).
**अथर्वन्** (पु) अग्निपूजक; प्राचीन काळांत घाडपण करपी अग्निपूजक पुरयत आनी गुरू; अथर्व वेदांतले कल्याणकारी मंत्र. (इराणी अथ्रवन्).
**अथर्वांगिरस** (पु) अथर्ववेदाचे पोन्नें नांव.
**अथ्रेकणी** (स्त्री) उमळशीक आशिल्लें विरहगीत.
**अंदप** (क्रिक) वांदप; आंवळप (सं).
**अदब, अदबी** (स्त्री) नम्रताय; विनय; शिष्टाचार; नमस्कार (अ).
**अदलाबदल** (पु) एक वस्तू दिवन तिचेबदला दुसरी घेवप; साटेंलोटें (अ).
**अंदाजपत्रक** (न) फुडारांत घडपी व्हडा वावराच्या जमाखर्चाचो विचारपूर्वक तपशिलान केल्ल्या अंदाजाचो हिशोब; बजेट एस्टिमेट्स्.
**अदालत** (न) न्यायालय (अ). लोकअदालत–लोकन्यायालय.

**अदिश, अशर** (वि) आस्पाव आशिल्ली पूण दिशा नाशिल्ली (संख्या); Scalar; गती नाशिल्ली (संख्या) (सं).

**अदीक करप** (क्रिक) मेळवप; वाढवप.

**अदीक चिन्ह** (न) बेरजेचें चिन्ह; +.

**अदीक जावप** (क्रिअ) चड जावप; वाडप; (ल) उणें जावप; सोंपप. कपलाचें कुकूम अदीक जालां–कुकूम पुसलां. घरांत तांदूळ अदीक जाल्यात–तांदूळ सोंपल्यात.

**अदुखो** (वि) कन्नॉट्टॉ; निर्दुखो; दुस्वाशी.

**अदूर दिश्टी** (स्त्री) वाचूंक दिसना जावपाची दोळयांची व्याधी.

**अदृढ** (वि) चंचल; अथीर; अस्थीर; धड न्हय असो (सं).

**अद्‌भूतप्रज्ञ** (वि) म्हा ज्ञानी; असामान्य गिन्यानाचो; कल्पना करूं नज इतलो गिन्यानी (सं).

**अद्‌भूतरम्य** (वि) अजापांचो आनी मन भुलोवपी; रोमँटीक; चमत्कारपूर्ण आनी मोहक (सं).

**अद्रूण** (क्रिवि) मुद्दाम; बळयां.

**अधःस्वस्तीक** (न) पळोवप्याच्या पांयां-पोंदचो धर्तरेंतलो बिंदू (सं).

**अधांतरीं** (क्रिवि) अंत्राळांत (सं).

**अधिकर्ज** (न) सुमाराभायर काडिल्लें रीण.

**अधिकारिणी** (स्त्री) अधिकार आशिल्ली संस्था वा सरकारी खातें; देख: प्रादेशिक परिवहन अधिकारिणी–रिजनल ट्रान्स्पोर्ट ऑथॉरिटी; R.T.O.

**अधिक लाभांश** (पु) बोनस (सं).

**अधिशासक** (पु) गव्हर्नर (सं).

**अधिशेष** (वि) गरजेपरस चड; सुमारा-भायर चड उरिल्ली शिल्लक (सं).

**अधिव्याख्यातो** (पु) महाविद्यालयांत वा विद्यापिठांत विद्यार्थ्यांक व्याख्यानरूपान शिकोवपी अध्यापक; लेक्चरर (सं).

**अधिष्ठीत** (वि) वशिल्लो; स्थापिल्लो.

**अधीक्षक अभियंतो** (पु) राज्यांतल्या मुख्य सरकारी अभियंत्याच्या खालोखाल वात्रपी आनी कार्यकारी अभियंत्यांवेल्या हुद्याचो अभियंतो; सुपरिंटेंडींग एंजिनीयर.

**अधिसुचोवणी** (स्त्री) अधिकारान दिल्ली चत्राय.

**अंधूक** (वि) धड दिसना असो; साण्टो-सो; मंद (सं).

**अध्यात्मवाद** (पु) आत्मो आनी ताचे विषयींचें वेदांतशास्त्र खरें मानपाचें तत्व-ज्ञान (सं).

**अध्यादेश** (पु) वटहुकूम; कायदेमंडळांत मंजूर जांवक नाशिल्ली आनी चड गर-जेची म्हणून ताकतिकीन काडिल्ली तात्पु-रत्या अवधीची कायद्याइतलीच अधिकार आशिल्ली राष्ट्रपतीची जाहीर आज्ञा.

**अध्यास** (पु) सतत चिंतन; ध्यास; धसको (सं).

**अध्यापिका** (स्त्री) शिक्षिका; शिकोव-पीण; मास्तरीण (सं).

**अध्वर्यू** (पु) स्वतःच तोडान गद्यमंत्र म्हणत यज्ञांतलीं सगळीं कामां करपी ऋत्विक (सं).

**अनंतपार** (वि) अंतपार नाशिल्लो; अनंत.

**अनंतर** (क्रिवि) उपरांत (सं).

**अनंती** (स्त्री) अनंतचतुर्दशीच्या व्रताचो दोरो (सं).

**अनन्य भक्ती** (स्त्री) एकाचीच (देवाची) केल्ली उपासना (सं).

**अनन्यसाधारण** (वि) जाचे सारको दुसरो ना असो; असामान्य; अद्वितीय.

**अनपत** (स्त्री) हलाखीची अवस्था; पत नाशिल्ली अवस्था.

**अनमनप, अनमानप** (क्रिक) अनुमान करप; अंदाजप (सं).

**अनखंण** (स्त्री) भरनाशिल्लें पोट; आदवड.

**अनर्जीत रजा** (स्त्री) नोकरींत उपस्थिती नाशिल्ल्यान खात्यार जमा जांवक ना, पूण गरजेक लागून घेवंची पडटा अशी रजा. ही रजा बिनपगारी जावंक शकता किंवा फुडें मेळपाचे अर्जीत रजेंतल्यान वाशील घालूं येता.

**अनवत्र्य** (स्त्री) तीन तारांची विणा (सं).

**अनवळखी** (वि) वळख नाशिल्लो.

**अनवाणी, अनवाणयां** (वि) पायांत कांय घालिनासतना; रिकाम्या पांयांनीं.

**अनामीक** (वि) नांव नाशिल्लो (सं).

**अनारी, आनारी, अंधारी** (स्त्री) घुंवळ; (दोळयांमुखार) काळोख.

**अनावरण** (न) उक्तावण; उजवाडावप.

**अनासक्ती** (स्त्री) आसक्ती नासप; वान्सा नासप; विरक्ती; निरिच्छताय.

**अनाहत नाद** (पु) वाजयनामतना स्पंदनांत आथिल्लो आवाज. तो संवयेक लागून आपशींच येवंक लागता.

**अनिरुद्ध** (पु) मृगमंडळांतल्या एका ताऱ्याचें नांव; पुराणांत वर्णिल्लो कृष्ण भगवंताचो नातू.

**अनिवार** (वि) निवारूं नज, दांबूंक येना असो; अनिर्बंध; सत्तेभायलो; ताब्यांत नाशिल्लो (सं).

**अनुकृती** (स्त्री) एके वस्तूच्या प्रमाणांची आनी धाटणेची केल्ली दुसरी वस्तू. वस्तूचे प्रतिकृतीचो सांचो करून त्या सांच्यांत कडयल्ली धातू ओतून वा प्लास्टरची केल्ली दुसरी वस्तू.

**अनुक्रम** (पु) एका फाटल्यान एक अशी व्यवस्था (सं).

**अनुक्रमांक** (पु) अनुक्रमाचो आंकडो; रांगेंतलो वा व्यवस्थेंतलो कोणाफाटलो आनी कोणाफुडलो हें दाखोवपी आंकडो; घडिचारांच्या क्रमांत कोणाउप्रांत आनी कोणाआदीं घडलो हें दाखोवपी आंकडो; गुणांचे सर्तींत कोणापरस वरचड आनी कोणाहून गुणांनीं उणो हें दाखोवपी आंकडो (सं).

**अनुग्रह गूण** (पु) उत्तेजनार्थ दिल्ले गूण; ग्रेस मार्क (सं).

**अनुत्तरीय** (वि) ज्याची जाप वा खुलासो मेळूंक ना असो (सं).

**अनुपकार** (पु) दुसऱ्याचो उपकार स्मरना जांवचो गूण; कृतघ्नताय; बेयमानपण.

**अनुपकारी** (वि) दुसऱ्याचे उपकार मानिना असो; बेयमान; कृतघ्न (सं).

**अनुपद पातळी** (स्त्री) आडवी सपाटी.

**अनुभोग** (पु) सुखदुःखाची प्रचिती; अनुभव (का).

**अनुयान** (न) यांत्रीक गाडयेक फाटल्यान जोडिल्ली, ओडून व्हरपाची गाडी; ट्रेलर.

**अनुयोजन** (न) जुळणी; क्रम लावप; संबंध नक्की करप (सं).

**अनुरादें** (न) अनुराधा नक्षत्र (के).

**अनुरोध** (पु) धोरण; दिशा; अनुसंधान; मार्गदर्शन; अवलंब; मागणी; इच्छा-पुर्ती; वृत्ती (सं).

**अनुरोध करप** (क्रिक) मागप; आश्रय घेवप; आचरणांत हाडप.

**अनुलेखन** (न) सांगिल्ल्याप्रमाण बरोवप.

**अनुशेष** (पु) थारायल्ल्या वावरांतलो करपाचो उरिल्लो वावर; बॅकलॉग; वेळच्या

वेळार जायना जावन फाटीं उरिल्लें काम.

**अनुस्फुरीत प्रकाश** (पु) प्रकाश पट्टांतल्या जांभळ्या आनी अतीत-जांभळ्या (Ultraviolet) किरणांची एकामेकांचेर प्रतिक्रिया जावन प्रकाशाक मेळिल्लो दुदाळ रंग; Fluorescent light (सं).

**अनेकलो** (वि) आनीक एकलो.

**अन्न-उदक** (न) खाण आनी पिवन; अन्न-पाणी (सं).

**अन्न करप, अन करप** (क्रिक) अन्न खावप; जेवप-खावप.

**अन्न तुटप**–(ल) जेवणावेली वान्सा वचप.

**अन्ननलिका** (स्त्री) गळ्यांतल्यान पोटांत अन्न व्हरपी नळी (सं).

**अन्नाक म्हारग**–(ल) अन्न मेळना अशे अवस्तेंतलो; दळिद्री.

**अन्नाक लागप** (क्रिअ) नोकरी धंदो मेळप; अन्न मेळची व्यवस्था जावप.

**अन्नाक लावप** (क्रिक) नोकरी धंदो मेळवन दिवप.

**अन्नान्न करप** (क्रिक) खांवक कांय नाशिल्ल्यान अन्न अन्न म्हणून विखळापप.

**अन्नान्न जावप** (क्रिअ) खांवक कांयच ना अशी दशा जावप.

**अन्यत्र** (क्रिवि) दुसरीकडे; हेर जाग्यांनीं.

**अन्यसाधारण** (वि) दुसऱ्यासारको; सामान्य (सं).

**अन्यमनस्क** (वि) दुसरीकडे लक्ष गेल्लो.

**अन्यावर्शी** (क्रिवि) अन्यायान; अधर्मान; अनितीन (सं).

**अन्वय** (पु) संबंध; नातें; जुळणी (सं).

**अन्वस्त** (न) आलेखांत यू ह्या इंग्लिश अक्षरासारकी दिसपी वांकडी वळ; पॅराबोला (सं).

**अन्वेषण** (न) सोद (सं).

**अपंगत्व** (न) दुबळिकाय; कुडीच्या एका वा चड आंगांची निरुपयोगी वा दुबळी अवस्ता (सं).

**अपगमन** (न) दिशा चुकप; वाट चुकप; गतीरोध (सं).

**अपगमन कोण** (पु) दिशा चुकपाच्या कोणाच्या अंशांची संख्या (सं).

**अपत्या साली** (स्त्री) आपटयाच्या झाडाची साल.

**अपघातकक्ष** (पु) अपघातान आजारी पडिल्ल्यांची हॉस्पिटलांतली कूड; कॅज्युवल्टी वॉर्ड (सं).

**अपद्रव्य** (न) हीण. चांदी वा तांबें हें भांगरांतलें अपद्रव्य; उणाक असो मिसळिल्लो जिन्नस; दुदांत उदक हें अपद्रव्य.

**अपभ्रष्ट** (वि) इबाडिल्लो; अधःपात जाल्लो (सं).

**अपमृत्यू निर्णेतो** (पु) अपमृत्यूची कायदेशीर चवकशी करून निवाडो दिवपी न्यायाधीश; कोरोनर (सं).

**अपरसूर्य** (पु) तेजस्वी पुरूष (सं).

**अपरा विद्या** (स्त्री) संवसारीक गिन्यान; ब्रह्मविद्या वा ब्रह्मज्ञान सोडून बाकी सगळयो वेव्हारीक विद्या (सं).

**अपराह्ण** (न) दनपार; मध्यान्हा उप्रांतचो दीस (सं).

**अपरिमीत, अपरमीत** (वि) अगणीत; खूब; असंख्य; सुमाराभायर; अतिशय.

**अपरिमेय संख्या** (स्त्री) जी संख्या दशांशांत बरयल्यार अनंत अनावर्ती दशांश अपूर्णांकाचें रूप घेता ती संख्या; गणूंक येना अशी संख्या; बिनचूक सांगूंक येना अशी संख्या. देख: ·४३२९ (सं).

**अपरी यत्ता** (स्त्री) ल्हान भुरग्यांची पयले यत्तेआदीं शिकताले ती यत्ता, प्रायमर.

**अपरूब** (वि) दुर्लभ; दुर्मीळ (के).
**अपलाप करप** (क्रिक) नाश करप; फारावप. सत्याचो अपलाप करप–फट उलवप; खोटेपणां करप.
**अपसमन** (पु) चुकीचो समज; गैरसमज.
**अपसरण** (न) अरिष्ट; बिरमत (सं).
**अपसामान्य** (वि) चाग्चौगांहून निराळो.
**अपसूर्य** (पु) सुर्याकडल्यान चडांत चड अंतराचेर आसून सुर्याभोंवतणी भोंवपी सुर्यमाळेंतलो ग्रह; प्लुटो (सं).
**अपसोयेग** (पु) अपघात.
**अपहरण** (न) अन्यायान घुरी घालून फारावप (सं).
**अपक्षय** (पु) हवामानाची वा वातावरणाची झीज.
**अपार्थीव** (वि) धर्तरेचें न्हय तें; अध्यात्मीक; अधीदैवीक (सं).
**अपार्य** (वि) उजवाडाचे किरण जातूंत वचूंक पावनात अशें; अपारदर्शक; किरणप्रतिरोधक; जे वस्तू पेल्यानचें दिसून येना अशें (सं).
**अपास्त** (वि) आलेखांत एकामेकांसावन पैस वचपी दोन सामक्या रेगांची आकृती; हायपरबोला (सं).
**अपीन** (स्त्री) अफीम (के).
**अपुत्रुकी** (वि) निपुत्रीक. तागेरि पुत्रु ना (१५६६).
**अपुर्बुद्द** (वि) अज्ञानी; अजाण; निर्बुद्द; मंद बुद्दीचो (सं).
**अपूर्ण वर्तमानकाळ** – ह्या शब्दकोशाच्या पयल्या भागांत पान १७ चेर दुसऱ्या खांब्यांत १६–१७ वळींत दिल्ली देख : राम काम करीत आसा, अशी वाचची.
**अप्पंत** (वि) सभ्य; शिष्ट (का).
**अप्पु, अप्पो** (स्त्री) मिठी; आलिंगन; चुनाचे, गोडाचे, हुड्डांच्या वा उकडया तांदळांच्या पिठांत कालोवन वांटिल्ल्या पिठाचे हालउंडे (का).
**अप्रमितु** (वि) अगणीत; मेजूंक येनात असले; अपरमीत; असंख्य; अप्रमेय; अमीत; अमाप; खूब (सं).
**अप्री, अपुरी (यत्ता)** (स्त्री) शाळेंत भुरग्याक नवीनच घालताले तेन्ना पयले यत्तेआदीं एक वर्स प्रायमर ही इयत्ता शिकयताले. हे यत्तेंत बाराखडी बरोंवक-वाचूंक आनी पाडे शिकयताले, ती यत्ता.
**अप्सरप** (क्रिअ) पर्जळप; उक्तावप (सं).
**अफलातून** (वि) अवास्तव; नवलांचो; प्लेटो ह्या ग्रीक तत्ववेत्त्याचे कल्पनेंतलो; प्लेटोनीक; कल्पनारम्य पूण प्रत्यक्षांत घडूंक कठीन असो (अ).
**अफीम** (स्त्री) अफीण; अफू (अ).
**अफेनद उदक** (न) शाबू लायल्यार फेंस येना असलें उदक; चुनखडी, कॅल्शम कार्बोनेट वा धातूंचे खार मिसळिल्लें उदक. असल्या उदकान शाबूच इबाडटा आनी तें उदक कितेंच स्वच्छ करूंक उपकरना (सं).
**अबकारी** (वि) कैफ हाडपी वस्तूं संबंदाचो (फा).
**अबकारी खातें** (न) कैफ येवपी वस्तूंचे विक्रेचेर नियंत्रण दवरपी आनी पटी वसूल करपी सरकारी खातें (फा).
**अबनूस** (पु) काळचा रंगाच्या घट्ट लांकडाचो रूख; एबनी लांकूड (का).
**अबलख** (वि) बहुरंगी; एकाहून चड रंगांचो (घोडो); चमत्कारांचो; गूढ (अ).
**अबादान** (वि) पुराय; शेकानशेक; आदीपासून अंतामेरेन; अनंत काळामेरेन (अ).
**अबोरशीं पडप** (क्रिअ) अनाथ जावप; दुखांत पिचप (पु).

**अभयवन** (न) सावदांची-सवण्यांची शिकार करुंची परवानगी नाशिल्लें रान; सावदांक-सवण्यांक अभयदान आशिल्लें रान (सं).
**अभयारण्य** (न) मोनजातीक मनशांनीं त्रास दिल्यार सरकार ख्यास्त भोगयता अशें रान (सं).
**अभिक्रिया** (स्त्री) प्रतिक्रिया; एक घडि-चार घडलो म्हणटकच ताका लागून दुसरो जावपी असो घडिचार. देख: हवेंत चड उष्णताय जावन हवा कुंद जाली कीं वादळ जावन पावस पडप.
**अभिजातवाद** (पु) अभिजाताचो आदर्श मुखार दवरून वागपाची वृत्ती; समाजांत नांवाजल्या लोकांप्रमाण वर्तुंची पद्धत; बऱ्या मनशांचें अनुकरण करची चाल (सं).
**अभिनव कला** (स्त्री) मनोरंजक आनी मनशाची भावना उदात्त करता अशी कला. चित्रकला, शिल्पकला, संगीत, अभिनय, नृत्यकला (सं).
**अभिनयगीत** (न) हावभाव करून म्हण-पाचें गीत (सं).
**अभिमानास्पद** (वि) अभिमान दिसचो अशे तरेचो (सं).
**अभिमूख** (वि) अनुकूल; लोकाभिमूख— लोकांकडे वचपी, लोकांक अनुकूल असो; समाजाभिमूख.
**अभियोजक** (पु) फिर्यादी वकील (सं).
**अभिलेख** (पु) आवाजाची कोरणी; ध्वनीनोंद; ध्वनीलेख (सं).
**अभिषिक्त** (वि) माखलेलो; अभिषेक केल्लो; मंत्र म्हणत पवित्र न्हाण घातिल्लो.
**अभिषेक** (पु) पवित्र न्हाण; वेदमंत्रांसयत विधीपूर्वक घाल्लें न्हाण. हें न्हाण देवाक, राजाक, युवराजाक, संन्याशाक बी घाल-तात (सं).
**अभिसरण** (न) घोळणूक; हालचाल; घोळप (सं).
**अभिस्फोटक** (पु) चड वेगान फुटपी दारू-सामान; डायनामायट (सं).
**अमंतरपण** (न) मुद्दो सोडून उलोवप; अप्रत्यक्ष रितीने थोमणे मारप.
**अमरवेल** (स्त्री) आकाशवेल; एक वखदी वनस्पत (सं).
**अमलदार** (पु) अधिकारी; सत्ताधारी; ऑफिसर (अ).
**अमलदारी** (स्त्री) अधिकाऱ्याची पदवी आनी सत्ता; ऑफिसरकी (अ).
**अमन्त, अमान्त** (वि) अमानत (के).
**अमाल** (वि) अमली; कैफ हाडपी; (पु) अमल; कैफ (अ).
**अमीन** (पु) कारभारी; एजंट; काम-दार; विश्वस्त; बेलीफ (अ).
**अमूर्त** (वि) आकार नाशिल्लो; दोळ्यांक दिसनाशिल्लो; इंद्रियांक जाची जाणकारी जायना पूण मनान वळखूंक येता असो; भाववाचक (सं).
**अमृतत्व** (न) अमरकाय; मरण नाशिल्ली अवस्ता; अंवरपण (सं).
**अमृतवल्ली, अमृतवेल** (स्त्री) एक वखदी वाल; गुळवेल (सं).
**अमृताय** (स्त्री) अंवरपण; अमरकाय; मरण नाशिल्ली अवस्ता (सं).
**अम्मलबजावणी** (स्त्री) घडवप; करप; (हुकुमाची) तामिली; आज्ञेप्रमाण करप (अफा).
**अम्ल** (पु) आम्ल; जांतलो हायड्रोजन वायू काडून खार करूं येता अशा रसाय-णीक द्रव्याची जात; ॲसिड (सं).
**अयथार्थ** (वि) यथार्थ न्हय असो; अयोग्य;

निरर्थक (सं).

**अयाळ** (पु) विधवा बायलेच्या घोवाचें नांव बरोवंचे पयलीं बरोवपाचें उतर. साळुबाय अयाळ विठोबा, अशें बरयल्यार साळुबाय ही विठोबाची विधवा बायल, असो अर्थ जाता.

**अय्यगळ** (पु) आचार्य; शणै; अध्यापक (का).

**अय्यापण** (न) आयावपण; सवाशीणपण.

**अय्यापणाची** (वि) आयाव; सवाशीण.

**अय्यो** (अ) अरेरे; कटाकटा; अजापाचो वा करुणेचो उद्‌गार (का).

**अरगोळ** (पु) दुवो.

**अरण्यरुदन** (न) रानांत जाल्ली रडारड; आयकुपी लोक नाशिल्ल्यान फुकट गेल्लें रडप (सं).

**अरळ** (वि) रोसान थपथपिल्लो; (क्रिवि) अलगद; दुखय नासतना; ल्हव; जतनायेन.

**अरा** (स्त्री) मध्यासावन वृत्ताकड वचपी सरळ रेघ (सं).

**अरुंदमापी** (वि) नेंरो गेज (रुळांचो रस्तो); दोन रुळांमदीं दोन फुटांचे अंतर आशिल्लो (रेल्वेमार्ग) (सं).

**अरेरे** (अ) दुःख प्रगटांवचो उद्‌गार; करुणेचो उद्‌गार.

**अर्गळा** (स्त्री) सांखळी; बेडी; दाराची खिळी (सं).

**अर्चन** (न) पुजा-पनस्कार; प्राण-प्रतिष्ठा; माखणी (सं).

**अर्तलो-पर्तलो** (स्त्री) येरादारी (१२५०)

**अर्थ-अपुर्बाय** (स्त्री) कोडकौतूक; लाड; इच्छा पुरवप.

**अर्थउकल** (स्त्री) अर्थाची फोडणिशी.

**अर्थकारण** (न) अर्थशास्त्राचो वेव्हार; धनसंपत्तीचो वेव्हार (सं).

**अर्थप** (क्रिक) फोडणिशी करप; अर्थ सांगप (सं).

**अर्थप्राप्ती** (स्त्री) दुडवांची जोड; धन-दौलतीचो लाभ; येणावळ; मिळकत.

**अर्थभेद** (पु) वेगळो अर्थ (सं).

**अर्थांतरन्यास** (पु) एकेच शब्दरचनेंत दोन वेगळचा अर्थांचे आस्पावणेचो अर्था-ळंकार (सं).

**अर्थालंकार** (पु) काव्यांत एकाच मज-कुरांत वेगवेगळे अर्थ आस्पांवची रचणूक; काव्याच्या अर्थांत रचिल्लो अलंकार. शब्दालंकाराहून अर्थालंकार चड श्रेष्ठ.

**अर्दकुटो** (वि) हातांतले काम अर्दकुटें सोडपाची संवय आशिल्लो.

**अर्दगुळो** (पु) गुळयाचो अर्दो वांटो; हेमीस्फीअर; गोलार्ध (सं).

**अर्दमेलो** (वि) मरणालागीं पाविल्लो; मरणोन्मूख; मरणासामखार पावला अशे अवस्तेंत (सं).

**अर्दविराम** (पु) विरामाहून उणो पूण स्वल्प-विरामाहून चड वेळ (वाचतामतना) थांबपाची खूण (सं).

**अर्दूक** (न) अर्दो कुडको; अर्दो वांटो.

**अर्नप** (क्रिक) आंवळप; अंदप; घट्ट बांदप.

**अर्न्ड लीव्ह** (स्त्री) नोकरी करून जोडिल्ली हक्काची रजा; जोडिल्ली रजा; अर्जीत रजा (इं).

**अर्बूद** (न) कुडींत आंग सुजून जाल्ली गांठ; ट्युमर (सं).

**अलग** (वि) वेगळो; निराळो (सं).

**अलगट** (वि) चमकुपी; उठून दिसपी.

**अलगज्जी** (वि) अपंगूल; दुबळो; क्षुद्र.

**अलगूज** (न) पांवो; मुरली (फा).

**अलक्ष्य** (वि) लक्षांत धरूंक येना असो; कळूंक कठीन असो (देव) (सं).

**अलोट** (वि) खूप; अगणीत; अपार (सं). अलोट प्रेम, अलोट संपत्ती, अलोट दु:ख, अलोट साहस, अलोट पैसो.

**अलोट गर्दी** (स्त्री) असंख्य लोकांची गचडी.

**ॲलोपथी** (स्त्री) व्याधीच्या परिणामाच्या विरुद्ध परिणाम घडोवपी उपचारशास्त्र; युरोपांतल्यान संवसारभर पातळून लोकप्रीय जाल्ली, शवविच्छेदनाच्या आधारान अभ्यासपाची आधुनीक वैजकी (इं).

**अल्पसंख्यताय** (स्त्री) मावार लोकसमाजांतलो वेगळो ल्हान वांटो आसची विशेषताय.

**अल्पायू** (वि) थोडो काळ जियेवपी; म्हातारो जावचे पयलीं मरपी (सं).

**अलबम** (पु) चित्रांचो संग्रह; चित्रांची पेट वा कोठी (फा).

**अवकहडा चक्र** (न) जल्मनक्षत्रावेल्यान जल्मल्ल्या भुरग्याच्या नांवांचें आद्याक्षर सुचोवचें फळज्योतिषशास्त्रीय चक्र. ह्याभायर ह्या चक्रांत नाडी, योनी, गण, नक्षत्र, वर्ण, राशीस्वामी आनी जल्मरास दिल्लीं आसतात.

**अवकाश** (पु) पृथ्वीच्या वातावरणाभायलो अंतराळांतलो जागो (सं).

**अवकाश भुमिती** (स्त्री) रेषा, पृष्ठभाग आनी घण वस्तू हांच्या मापमेजपाचें शास्त्र.

**अवकाशयान** (न) धर्तरेच्या वातावरणाभायर भोंवून येवपी यंत्रीक वाहन; स्पेसक्राफ्ट (सं).

**अवकाश विज्ञान** (न) अंतराळ विद्या; धर्तरेच्या वातावरणाभायल्या आसावाची आनी खगोलांची (अंतराळांतल्या गुळयांची) शास्त्रीय माहिती (सं).

**अवकाळ** (पु) दुष्काळ; पावस वेळार पडना जावन उदकाचें आनी धान्याचें जाल्लें दुर्भिक्ष (सं).

**अवखळ** (वि) द्वाड; आडांगी (सं).

**अवघड** (पु) अपघात; (वि) कठीण; दुस्तर (सं).

**अवघडप** (क्रिअ) भेरेवप; मुयेवप; जड जावप; कठीण जावप; अपघात जावप.

**अवघो** (वि) सगळो; निखटो; फक्कत.

**अवचितवाडो** (पु) शिंदळींची वसती; वेश्यांचो वाडो.

**अवच्छेद** (पु) चक्राच्या वा वर्तुळाच्या दोन अरांमदलो भाग (सं).

**अवंतर** (वि) हेर; इतर; अवांतर (सं).

**अवतरण छत्र** (न) हवेंतल्यान खोल उडी मारपाची सुरक्षा-सत्री; पॅराशूट (सं).

**अवतरण** (क्रिअ) देंवप; देवान मनीसजल्म घेवप (सं).

**अवतार पूर्ण जावप, अवतार सोंपप** (ल) मरण; काबार जावप.

**अवतारू** (वि) व्यापाऱ्यांचे सांकेतीक बोलींत १० हो आंकडो.

**अवंदा** (क्रिवि) अवनूं; ह्या दिसांत; हालीं (१२५०) (प्रा).

**अवनास** (न) अननस (पु).

**अवमूल्य** (न) उणें जाल्लें मोल (सं).

**अवमूल्यन** (न) मोल उणें जावप; मोल उणें करप (सं).

**अवयवीकरण** (न) अवयव वेगळे दाखवप; बिजगणितांत पदावलीचे अवयव विसकटावप; Factorisation.

**अवर** (वि) सकयलो; उणे प्रतीचो (सं).

**अवरक्त किरण** (पु) किरणपट्टांतलो तांबड्या किरणाखालचो निखटे दुनमा-

थर्मोस्टाट (सं).

**उष्णाचो रोग** (पु) परम्याची व्याधी.

**उष्मगतीक** (न) उष्णतेची शक्ती आनी यांत्रीक वा विद्युत्शक्ती हांचे भितल्ले तुलनेचें शास्त्र; थर्मोडायनॅमिक्स (सं).

**उष्मांक** (पु) कॅलरी; एक लिटर उदकाचें तपमान एका शतमान (सेंटिग्रेड) अंशान वाडवंक लागता तितली शक्ती; उष्णता मेजपाचो एकक; खाणाजेवणान कुडीची उष्णताय आनी शक्ती वाडटा ती मेजपाचो एकक (सं).

**उसंखळ, उच्छृंखल** (वि) धुडबुडो; हुनहुतो; अस्थीर (सं).

**उसमोड** (स्त्री) खरस; उमर्मट; खांकीचो उमाळो.

**उसव** (पु) अवकाश; जागो; देग; समास (मार्जीन); सवड; सवलत.

**उसह्चारि** (स्त्री) मांडयेर; उत्संगार; उशार (के).

**उसुरमोड** (स्त्री) उसर्मट.

**उस्कय** (स्त्री) एक जंगली झुडूप. ह्याचो पालो झाडांच्या मुळांत सारें म्हणून उपकरता.

**उस्कार** (क्रिवि) बेगीन.

**उस्तऱ्यां व्हरप, उस्तरें व्हरप** (क्रिक) (ल) रागार जावप; मनाक वायट लावन घेवप.

**उस्तवारी** (स्त्री) व्यवस्था; चवकशी; कारभार (का).

**उळगी** (पु) कारभारी; अधिकारी (का).

**ऊ**—कोंकणी भाशेचे देवनगरी वर्णमाळेचो सवो स्वर.

**ऊंच** (वि) उंची आशिल्लो; दिग्ग; (क्रिवि) वेल्या जाग्यावयलो; उंचाटेवेलो.

**ऊज** (पु) वापर; संवय (पु).

**ऊणावु** (पु) चूक; उणाय (के).

**ऊन** (वि) उणे.

**ऊर्ध्वपातन** (न) रसायणशाळेंत रासायणीक मिश्रणाची गरगरून उप्रासपी क्रिया; रसायणीक द्रावांत दुसरो रोस घाल्न मूळच्यीं द्रावणातलीं द्रव्यां वेगळीं करपाची क्रिया. दुदांत मीठ घालें की दूद फुटून चायबोय जाता ती क्रिया; रसायणीक मिश्रण फुटपाची क्रिया (सं).

**ऊर्फ** (पु) दुसरें नांव; टोपण नांव; उपनांव (अ).

**ऋ**—कोंकणी भाशेचे देवनगरी वर्णमाळेंत संस्कृत भाशेंतल्यान कोंकणींत आयिल्ल्या उतरांत उपयोगी असो स्वर.

**ऋग्वेद** (पु) यज्ञदेवतांच्या गुणवर्णनाच्या आनी यज्ञांत येवन हविर्भाग घेवंचे म्हणून आपोवपाच्या पद्य मंत्रांचो ग्रंथ. हो ग्रंथ धा मंडलांत वांटिल्लो आसा. सगळ्या मंडलांनीं मेळून १०२८ सुक्तां (स्तोत्रां) आसात. ह्या सुक्तांत १०५५२ ऋचो (मंत्रांचे चरण) आसात. सुमार पांच हजार वर्सांपयलीं हे मंत्र रचल्यात.

**ऋचा** (स्त्री) चरण आशिल्लो वेदमंत्र.

**ऋणचिन्ह** (न) **वजा** खूण; एके संख्येंतल्यान दुसरी संख्या उणी करपाची खूण.

**ऋणप्रस्थ, ऋणाग्र** (न) नकारी विद्युत-

प्रवाह सुरू जाता तें स्थान (सं).

**ऋणबिंब** (न) मूळ देखाव्याची नकारात्मक प्रतिमा; नेगेटीव (सं).

**ऋणवास्तव संख्या** (स्त्री) संख्या रेषेचेर शून्य बिंदूचे दावेकडल्यो संख्या.

**ऋतुमान** (न) हवामान (स).

**ऋषभ** (पु) संगितांतलो रे नांवाचो स्वर-सप्तकांतलो दुसरो स्वर; वंशांतलो श्रेष्ठ पुरुष(नरर्षभ, पांडवर्षभ); जातीवंत बैल (स).

**ऋषभनाथ** (पु) जैनांचो पयलो तीर्थकर.

**ए**—कोंकणी भाशेंचे देवनगरी वर्णमाळेंतलो णववो स्वर.

**एकक** (पु) कसलेय वस्तूचें वेव्हारांत चड वापरांत आशिल्लें प्रमाण वा माप; संख्येंतलो ल्हानांत ल्हान पुर्णांक म्हळचार १ ही संख्या (सं).

**एकजिनसी** (वि) समान वा सारक्या गुणधर्मांचे; सगळयांमदीं एक सामान्य घटक आसा अशे.

**एककडे, एकोकडे** (क्रिवि) एकेवशीन; एके वटयां.

**एकदाम** (क्रिवि) एकदम (के).

**एकदिल** (वि) एका मताचे; एका विचाराचे.

**एकपण** (न) एकी; एकत्व.

**एकपक्षी** (वि) एकतर्फी; एकेच बाजून वावुरपी; एका पक्षाखातीर वावुरपी; एके बाजून.

**एकबगत** (वि) दिसातल्यान एकच फावट जेवपी; एकभुक्त (के).

**एकमध्य** (वि) एकच केंद्र बिंदू आशिल्लीं (एकाहून चड वर्तुळां वा वस्तू) (सं).

**एकमुद्राक्षर यंत्र** (न) छापखान्यांत एक एक नवीन टायप ओतून मजकूर जुळोवपी यंत्र; मोनोटायप मशीन.

**एकमेक** (सना) एक दुसऱ्याक.

**एकमेकान, एकमेकाक** (सना) दर एकान दुसऱ्या प्रत्येकाक.

**एकलोशीं** (क्रिवि) एकलोच आसतना; एकांतांत.

**एकवती** (वि) एकवत करपी; नेमान वागपी; उपासतापास करपी;

**एकवार** (क्रिवि) एक फावट; एकदां.

**एकवीध** (वि) एके तरेचो (सं).

**एकसानि** (अ) एकंदर (के).

**एकसामयीक समीकरण** (न) एकाहून चड समीकरणाचो एकाच गणितांत उकल करपाचें बैजीक गणित; Simultaneous equation (सं).

**एका अर्थी** (क्रिवि) एके बाजून येवजिल्यार; एका अर्थान (सं).

**एकायक, एकाएकीं** (क्रिवि) अकस्मात; कोणाक कळनासतना; सटकरून.

**एकांक** (पु) एकक; युनीट.

**एकाकी** (वि) एकसुरो; (पु) एका ताऱ्याचें नांव (स).

**एकाणवि** (वि) एक्याण्णव्द (के).

**एकांतरीत** (वि) आलटून पालटून उप्रासपी; एक सोडून दुसरो, तिसरो सोडून चवथो ह्या क्रमान (सं).

**एकांतायेचें घर** (न) क्रिस्तांवांत पाद्री, माद्री आनी धर्मीक वृत्तीचे लोक वसींतल्यान कांय दीस प्रार्थना करीत एकांतांत रावपाखातीर धर्मीक संस्थांनीं बांदिल्लो मठ.

**एकाद्रो, एकादलो** (अ) कदाचित; घडये.
**एकादवेळ** (क्रिवि) एकाद्‌्या वेळार.
**एकार्थी** (वि) एकाच अर्थाचे; सारक्या अर्थाचे (सं).
**एकाशीं** (वि) एक्यायशीं (के).
**एकाक्षर ब्रह्म** (न) ब्रह्म हया अर्थाचें एकच अक्षर; ॐ (सं).
**एकी** (स्त्री) ल्हान वयाच्या विद्यार्थ्यांक वर्गातल्यान मुतूंक वचूंक परवानगी मेळचे-खातीर शिक्षकाक किरोंगळी दाखयतात ती खूण.
**एकीबेकी** (स्त्री) १९१० सालांत गौड-सारस्वत बामणांभितर जाल्ली एक चळ-वळ.
**एकूणाणवि** (व) एकुण्णवद (के).
**एकेक** (वि) एक एक; एकलो एकलो (के).
**एक्कलेक** (सना) प्रत्येकाक.
**एक्को** (पु) एका घोडयान ओडचेल्ली दोन चाकांची प्रवासी गाडी.
**एक्स रे** (पु) क्ष किरण; वीज-चुंबकी किरण; विशेष शक्ती आशिल्लो किरण; मनशाचे कुडींतल्यान आरपार वचून फोटोचे फिल्मीचेर मनशाचे कुडीची प्रतिमा दाखोवपी अशा विजेच्या कणांनीं सोडिल्ले किरण (सं).
**अॅटॅक** (पु) हल्लो; घुरी; धपको; काळजाचें खर दुखणें (इं).
**एडको** (पु) मेंढो (द्रा).
**एड्स** (पु) पत्तो (के).
**अॅडव्हान्स** (पु) इसारो; कामाखातीर फारीक करपाच्या दुडवांचो काम करचे आदीं दिवपाचो पयलो हप्तो; आद्यांताद (इं).
**एदाळा, एदना** (क्रिवि) हया वेळामेरेन; एन्नादर.
**एदोळच्याक** (क्रिवि) एदोळसावन आतां-मेरेन.
**एदोळपर्यान** (क्रिवि) इतलो वेळमेरेन.
**एफैत** (पु) परिणाम (पु).
**एबनी** (न) काळया रंगाचें घट्ट टिकाऊ लांकूड. हें झाड भारतांत पूर्व किनाऱ्यार जाता (इं).
**एंबार्ग** (पु) सरकारी हुकुमाचेर न्याया-लयीन स्थगिती (पु).
**एरियप्प** (पु) ताज्या पिठाचो तुपांत तळिल्लो सुरनळो.
**एर्दैर** (पु) वारस; मालमत्तेचो हक्कदार (पु).
**एली** (अ) कार, करपी, मालक हया अर्थांचें जोडउतर. देख: वांटो – वांटेली – वांटयाचो मालक. भागेली, खंडेली (खंड घालपी), भाडेली (भाडयान वावुरपी), अर्देली – अर्दाचो धनी.
**एली** (स्त्री), **एलो** (पु), **एलें** (न) हीं कुसां विशेषणाक लायतात. तांकां लागून त्या उतराच्या अर्थांत बदल जायना. देख : काळेलो (काळो), गोरेली (गोरी), धवेलें (धवें).
**एलेफांत** (न) धव्या चिटाचें लुगट (पु).
**एलेयसांव** (न) निवडणूक; इलेक्शन (पु)
**एवीं** (अ) हे तरेन (अप).
**एवांळें** (न) हेवाळें (के).

**ऐ**—कोंकणी भाशेचे देवनगरी वर्णमाळेचो धावो स्वर.
**ऐतार** (पु) आयतार (के).
**ऐन** (न) मुद्दल; मूळ रक्कम; व्याजाक

लायिल्ली रक्कम (अ).

**ऐन्द्रीय** (वि) इंद्रियां आशिल्लो; जिवो वा जितो आशिल्ल्या जिवाचे कुडीचो; ओर्गेनीक (सं).

**ऐंवेरां, ऐंवेरि** (क्रिवि) अवेरां; परां-उप्रांतच्या दिसा (के).

**ओ**—कोंकणी भाशेंचे देवनगरी वर्णमाळेचो अकरावो स्वर.

**ओंकार** (पु) दोळयांतल्यान व्हांवपी दूख; आंसू (के).

**ओखद** (न) वायटाचेर उपचार वा उपाय (१२५०); वैज आनी रसायणशास्त्री तरेकतरांच्या वस्तूंचीं ओखदां करून रोगांचेर उपाय करतात.

**ओखेवप** (क्रिक) कौतूक करप; शाबा-सकी दिवप; अपुर्बाय करप.

**ओगळो** (वि) चड; आगळो.

**ओघ** (पु) लोट; प्रवाह; झोत (सं).

**ओजिष्ट** (वि) बळिष्ट; तेजिस्ट; सशक्त; प्रभावी (सं).

**ओंटो** (पु) उंट (अप).

**ओट्टु** (वि) एकंदर; सगळें (का).

**ओडणी** (स्त्री) वान्सा; इच्छा; ओड; ध्यास; बुरखो; पालव.

**ओढगस्त** (स्त्री) ओढाताण; त्रास; हलाखी; कष्ट.

**ओण** (स्त्री) गल्ली; वाडो (का).

**ओतप, वतप** (क्रिअ) राशींतल्यो वस्तू वा रास वा द्राव सकला पडप वा गळप; (क्रिक) राशींतल्यो वस्तू वा रास वा द्राव सकला पडूंक दिवप वा गळवप.

**ओतशाळा** (स्त्री) धातू कडोवन वेग-वेगळ्या आकारांनीं (आयटींनीं) तो रोस ओतून सुकतकीर ताचीं आवतां करपाचो कारखानो; फाउंड्री.

**ओप** (न) हस्ताक्षर; हातबरप (के).

**ओपप** (क्रिक) दिवप; अर्पण करप (१२५०).

**ओपवावप** (क्रिक) मान्यताय दिवप; मान्य करप; कबूल जावप; मंजूर करप; पसंत करप.

**ओपार** (स्त्री) उपमा; दृष्टांत; थोमणो (द्रा).

**ओपोजिसांव** (न) विरोध (पु).

**ओप्पिगी** (स्त्री) संमती; मान्यताय; कबुली; परवानगी (का).

**ऑब्जेक्टीव्ह** (वि) तिरायताचे नदरेन; वस्तुनिष्ठ (इं).

**ओब्रिगाद** (वि) आभारी; उपकारी (पु).

**ओब्रिगासांव** (न) कर्तव्य; लागणूक; (ल) बायलमनशेची म्हयन्याची आफड (पु).

**ओमथप** (क्रिक) उमथो करप; उमथप; उरफाटो करप; वतून उडवप.

**ओमथो** (वि) उमथो; उरफाटो; तोंड सकल केल्लो; उपडी पडिल्लो.

**ओमसोर** (स्त्री) उतावळ (के).

**ओरपप** (क्रिक) उरबडप (१२९०).

**ओराव** (पु) तांदूळ (के).

**ओर्देनार जावप** (क्रिअ) पाद्रीपणाची दिक्षा घेवप (पु).

**ओर्देनासांव** (न) पाद्रीपणाची दिक्षा (पु).

**ओर्सामेंत** (पु) सरकाराचें, नगरपालिकेचें वा मोठे संस्थेचें फुडल्या वर्सांचें जमा-खर्चाचें अंदाजपत्रक (पु).

**ओलणी** (स्त्री) वालको; पंचो (१२५०).

**ओल धरप** (क्रिक) जामीन धरप; घाण-वटाक घेवप (का).
**ओवट** (वि) औट; साडेतीन (के).
**ओवसुन्न** (वि) अशक्य (के).
**ओंवाळणी** (स्त्री) देवचाराची, भुताची बाधा जांवची न्हय म्हणून नाल्ल, कोंबो, तांतयां बी रातचीं ओंवाळून भायर उडय-तात ती.
**ओंवाळप** (क्रिक) मुखा भोंवतणी फिर-वप; दिवो ओंवाळप; आरत ओंवाळप; दिष्ट काडचेखातीर मुठल्यांनीं ओंवाळून तीं भायर उडवप; दिष्ट काडचेखातीर ल्हान भुरग्यांक मीठ म्होवरेन ओंवाळणी करप.
**ओंवाळून उडवप** (क्रिक) एक फावट वा तीन फावटी मुखाभोंवतणी फिरावन भायर उडवप.
**ओव्हर** (क्रिक) क्रिकेट खेळांत गोलंदाज फलंदाजाचेर एका उप्रांत दुसरो अशे स वा आठ फावटी बॉल मोखून मारता. ह्या स वा आठ बोलांच्या षटकाक आनी त्या बॉलांचेर फलंदाजान फटके मारून धांवो काडटकीर जाल्ल्या खेळाक ओव्हर म्हणटात; विकेटच्या एका तोंकाकड-च्यान दुसऱ्या तोंकार उबो राविल्ल्या फलंदाजाचे विकेटीचेर बोलांचें षट्क वा अष्टक मोखप (इं).
**ओशाळप** (क्रिअ) लजप; तोंड उतरप; चेरो पडप.
**ओशाळो** (वि) लजिल्लो; तोंड उत-रिल्लो; चेरो पडिल्लो.
**ओष** (न) जियेवंक गरजेचें हुनसाणीचें आनी शक्तीचें एकक वा परिमाण; कॅलरी (सं).
**ओहम**(Ohm) (न) विद्युत रोधाचें माप; विजेच्या प्रवाहाचे गतीचें माप (इं).
**ओळकंबें** (न) जखमी हात उखल्लले अव-स्तेंत रावपाखातीर गळयांत बांदपाची लुगटाची पट्टी; स्लींग.

**औ**—कोंकणी भाशेचे देवनगरी वर्णमाळेचो बारावो स्वर.
**औषध-निर्माण विद्या** (स्त्री) वखदां तयार करपाचें शास्त्र; फार्माकोलॉजी.
**औषध-निर्माण शाळा** (स्त्री) फार्मसी; डॉक्टरांच्या यादीनसार वखदां मिसळून दिवपाचें दुकान (सं).

**क**—कोंकणी भाशेचे देवनगरी वर्णमाळेंचें पयलें व्यंजन.
**क** (अ) दुसरे आनी चवथे विभक्तेचें नामांक दोनय वचनांत लागपी कूस. देवाक, बायलेक, न्हंयेक, देवतांक, भुर-ग्यांक. बी. पुरूषवाचक, दर्शक आनी संबंधी सर्वनामांक क च्या जाग्यार एकवचनांत का आनी भोववचनांत कां हीं कुसां लागतात-म्हाका, तुका, ताका, तिका, आमकां, तुमकां तांकां. सामान्य सर्वनाम आनी आत्मवाचक सर्वनामांक क हेंच कूस लागता. कोणाक, आपणाक, कित्याक (कितें + क).
**कंकणग्रहण** (न) सूर्य आनी धर्तरी हांचे मदीं अमाशे दिसा चंद्र येवन तो सुर्याचे आड मधोमध असो दिसलो, तर सूर्य कांकणा भाशेन दिसता अशें सूर्यगिराण.

**कंकणवारु** (पु) दिवाणाचो नायक; न्यायाधिशाची आज्ञा फिर्यादी, आरोपी, साक्षीदार बी लोकांक कळोवपी सरकारी न्यायालयाचो नोकर.

**कंकासप** (क्रिअ) ताळो सरांट म्हणसर आड्डप; व्हडान आड्डप.

**कचकच** (पु) कोयर.

**कचकचीत** (वि) भरगच्च; भरपूर; खूब.

**कचकडो** (पु) सेल्युलोज नायट्रेट आनी कापूर हांच्या मिश्रणाचो रांधो; फिल्मीचो रांधो; सेल्युलॉयड; व्यस्तचित्राचो (नेगेटीव) रांधो.

**कचमळप** (क्रिअ) पोटांत धवळप; (ल) मनांत वायट दिसप.

**कंचेफळ** (न) तोरांज्य; तोरिंगण; आंबट नारिंग.

**कटक** (न) सैन्य (सं).

**कटकटा** (अ) अरेरे; हाय हाय (१२५०)

**कटकरोयण** (स्त्री) कुटकी; ल्हान भुरग्यांच्या परसाकडच्या वखदांचें एक आंग.

**कटलैं** (न) धर्मीक रुढी (का).

**कटलेट** (न) मासाचो तळिल्लो कुडको.

**कटा** (अ) कर्मा अद्रुष्टा; हाय देवा! (१२९०).

**कटावणी** (स्त्री) आंकडो; लिव्हर (तरफ); तेंक्याचे मजतीन कमी शक्तीनय वावर सोपो करपी दांडो.

**कंटाळवाणो** (वि) कंटाळो हाडपी; वाज हाडपी.

**कटिसूचिवेध** (पु) कण्यांत सूय तोपून रोग परिक्षेखातीर कण्यांतलो द्राव काडटात ती वैजकी क्रिया (सं).

**कट्ट** (न) निर्बंध; कारस्थान (का).

**कट्टर** (न) पिंजकी दाळी; पोन्नो हातरपटो; पोन्नी वस्तू; (ल) चड म्हातारो मनीस वा प्राणी.

**कट्टी, कपळाची कट्टी** (स्त्री), **कट्टूल** (न) (ल) नशीब; फुट्टूल.

**कट्टीखायरो** (वि) (ल) दळिद्री; नष्टो.

**कट्टें** (न) सुकिल्लें कंवच; तकलेची सुकिल्ली हाडावळ; (ल) नशीब; कपाळ.

**कट्टो** (पु) तकलेची हाडावळ; फुटकें आयदन; (ल) (वि) फुटिल्लो.

**कठीण वा जड उदक** (न) उदकाच्या पांच हजार वांटयांत एक वांटो खार आशिल्लें उदक; मध्यम हार्ड वॉटर. असल्या उदकांत शाबुवाक फेंस येवप कठीण. म्हणून लुगट बरे भाशेन धुयना. असल्या उदकान न्हातकीर आंग खरखरीत जाता.

**कंठूल** (न) ल्हान कंठ.

**कठोरपण (न) कठोराय** (स्त्री) निष्ठूरपण; निर्दयपण; उग्रताय (सं).

**कडकडप** (क्रिअ) थरथरप (१५६६).

**कडी** (स्त्री) हांड; कटी. बाळकाक कडिये धर्लो (१५६६).

**कडचिल** (न) कोरांतणें; चरक; छिनपाचें आवत; लेथ यंत्र (का).

**कंडणाधारे** (वि) मुसळधार; कांडणा एदे धारेचो (पावस).

**कडव** (वि) दोंगर तुटिल्ल्या कडयासारक्या खोल उताराचो; खर; उग्र; तीक्ष्ण; दाट; गडद; निबिड; शक्तिमान; तेजस्वी (का).

**कंडम** (वि) उणाक; निषिद्ध; क्षुद्र; पाष्ट (इं).

**कडव** (पु) न्हंयेची आलतडी पलतडी वचची तार (का).

**कडसाण** (स्त्री) कोडसाण; कोडू रूच; कोडवाय.

**कडसून, कडच्यान, कडल्यान** (अ) हातान; हातसून; पासून; सरसून; लागच्यान.

**कडसो** (पु) दोंगराचो तुटिल्लो कडो; तुटिल्ली धडा; घळी (का).

**कंडी** (स्त्री) पोंवल्यांची गांवठी सत्री.

**कडुफळ, काकमारी** (न) सेर्वेजींत कैफ येवपाक घालतात, नुस्तें मारपाक वापरतात अशें एके वनस्पतीचें फळ.

**कडबेऊ** (पु) कोडूनिंब.

**कडेरी** (अ) मागीर; उप्रांत; बगलेक; लागसार.

**कंडो** (पु) पावसांत भिजूं नये म्हणून शेतांतलीं कामेरीं तकलेर घेतालीं तो पानांचो आनी बेळांचो विणिल्लो खोटलो.

**कंडो हालवप** (क्रिक) (ल) काम उणें केलें तरी कंडो हालयत रावून चड काम केल्याचें सवंग करप.

**कड्डी** (स्त्री) बडी; काठी.

**कणकणे येवप** (क्रिअ) कंटाळप; वाजेवप.

**कणगर** (पु) बटाट्याची कोंकणांत कलम म्हणून वाढयल्ली नवीन जात.

**कणगली** (न) कणेराचें फूल.

**कणपीर** (स्त्री) कोथपीर; धनो; कोथबीर (का).

**कणपो** (पु) गोरवांक खांवक घालपाची दोणी (का).

**कणवाळाय, कणवाळकाय** (स्त्री) कणव; करुणा; दया.

**कणसो** (वि) तिरशा दोळयांचो; काणो (के).

**कण्ण, कड्‌ण** (न) दाळीची खीर; मुगांचे भाजिल्ले दाळीचें कड्‌ण.

**कण्ण** (पु) कोंडो (द्रा).

**कथकली** (पु) नृत्यनाट्याचो एक प्रकार.

**कथलें** (न) कथलाचें कुंडलें.

**कदयात** (न) कलयाद (के).

**कदळी** (स्त्री) कापराचें झाड (Cinnamomum Camphora.

**कदां, कदींच** (क्रिवि) केन्नाच (१५६६).

**कंदामुळां** (न) रानांत रावपी लोकांनीं खांवचेलीं वनस्पतीचीं मुळां आनी कांदे (कारांदे) (१२५०).

**कंदाय** (न) कर; पटी; महसूल (का).

**कनिनिका** (स्त्री) दोळयांचो पड्‌डो; छाती आनी पोट हांचेमदलो पड्‌डो (डायाफ्राम) (सं).

**कनीक** (न) भांगर (१५६६). ताणि म्हळें कन्यादान कन्या, तेंचि उतर आयकुनु पंचेविस कोटी सोवर्ण दिलें.

**कन्सल्ट करप** (किक) तज्ञांचो सल्लो घेवप (इं).

**कन्सल्टेशन** (न) तज्ञावरोवर केल्ली चर्चा; तज्ञाचो सल्लो (इं).

**कंपनगती** (स्त्री) दोन विरुद्ध दिशांनीं समान प्रमाणांत चालू रावपी गती (सं).

**कपरसूत** (न) जस्त धातू.

**कप्पो** (पु) खंड; खंडणी; पटी; कर; (का).

**कपिलस्नान** (न) वल्या वस्त्रान आंग पुसप (सं).

**कबजो** (पु) तावो (अ).

**कबंध** (न) कुडीचें तकली नाशिल्लें धड.

**कबुलार्थ** (पु) संमती; मान्यताय.

**कंबळ गोरूं** (न) मेंढरूं.

**कमजोरी** (स्त्री) अशक्ताय; दुबळेपण (फा).

**कमंडलू** (पु) जोगी, बैराग्यांचो वा संन्याशाचो उदकाचो पोन्ने तरेचो तांबयो (सं).

**कमलासन** (पु) कमळांत बसला असो ब्रह्मदेव (सं).

**कमाकमा धांवप** (किअ) वेगान वा बेगी-बेगीन धांवप.

**कमान** (स्त्री) चाप; स्प्रिंग (फा).

**कमानदार** (पु) तिरंदाज; धोणुवान बाण मारपी; (वि) आर्क आशिल्लो; बांक-दार (फा).

**कमाल** (स्त्री) हुशारी; चपळाय; विक्रम; सर्वश्रेष्ठताय (अ).

**कमावप, कमवप** (क्रिक) (धन) जोडप; मेळवप; वावर करप; कमाविशी; (चामडें) ताणून, रगडून मोव करप (सं).

**कमाशी** (स्त्री) मशागत; जमीन चड पिकाळ करचेखातीर केल्लो वावर.

**कम्मार** (पु) भरेकार (के); रंगारी; लोहार (का).

**कयली** (स्त्री) नळो (१६००); भाकरी भाजूंक उपकरता अशें मडकेचें वा हेर आयदनाचें पोंद.

**कयेस्पार** (पु) बदनामी; नाचक्की; बकच्छायो; छळणूक; हालउपाद्रे (का).

**करक** (स्त्री) खूब वर्सांचें उंच वाडिल्लें माडाचें झाड.

**करंगूट** (स्त्री) अर्दकुटें कांडिल्ले तांदूळ.

**करंजप, करंजेवप** (क्रिअ) करमप; करमे-वप; आंबसाण आनी खारसाण आंगांत जिरप; एकरूप जावप; एकजीव जावप.

**करटी** (स्त्री) कट्टी; नाल्ली; नाल्लाचें अर्दें कंवच. हातांत कट्टी येवप – भिकेची पाळी येवप; दिवाळें वाजप.

**करटें काडप** (क्रिक) भीक मागप (के).

**करंडक** (पु) सर्त जिखतल्या गडयाक वा पंगडाक बी दितात तो सोबीत चांदीचो चषक वा करंड (सं).

**करडि** (न) अस्वल (का).

**करणी चिन्ह** (न) समान अवयवी मूळ काडपाचें चिन्ह; √; देख : वर्गमूळ $\sqrt[2]{}$ घनमूळ $\sqrt[3]{}$ बी.

**करणें** (न) करणी; कर्तूप; वावर; घडीत (अप).

**करतनों** (क्रिक) करतलों (के).

**करदातो** (पु) कर फारीक करपी; पटी भरपी (सं).

**करनकरो स्वभाव** (पु) कोणेय जाणटयान सांगिल्ल्याचे उरफाटें वागपाचो स्वभाव.

**करनकरो** (वि) करतां, करना म्हणून धोंगां सवंगां करपी.

**करप** (क्रिक) वावरप; लग्न करून हाडप (चली करप); (न) काम; कर्तूप; घडप (एके वस्तूची दुसरी वस्त); बन-वप (माल, वस्तू); म्हणप (संध्या, पुजा करप) आनी उपचार करप; चिंतप (जप करप; ध्यान करप); म्हणप (उच्चार); दंडप (दंड करप).

**करब, कराब** (न) बायलां कानांत घाल-तात तांतलो एक दागिनो.

**करबाड** (न) उशिकांडयाची शिवडी.

**करबेव** (पु) करबील (के).

**करान** (अ) कडल्यान ह्या अर्थांचें कूस (के).

**कराळ** (वि) भयानक; घोरेंकार (सं).

**करिलो** (क्रिक) केलो (के).

**करो** (पु) मातयेची घागर (१२५०).

**कर्कटक** (पु) कंपास (सं).

**कर्कोटो** (वि) खडबडीत; ओबडधोबड (का).

**कर्गप** (किअ) वितळप (का).

**कर्णरेषा** (स्त्री) चौकोनाच्या विरुद्ध कोनांक जोडपी सरळ रेघ (सं).

**कर्णिका** (स्त्री) मनशाच्या हृदयाच्या चार खणां मदल्या वयल्या दोन खणांचें नांव.

**कर्णिका** (स्त्री) काटकोन त्रिकोणाची काटकोनाचे •विरुद्ध आसता ती बाजू; कमळाचो गर्भकोश; उपकर्ण; हेडफोन्स.

**कर्णीक** (पु) राजदरबारांतलो मंत्री; शानभोग (का).

**कर्तन** (अ) लागून हया अर्थाचें कूस (का); (न) कातरण; कातरिल्ले भाग; कागदाचें कर्तन – कागदाचे कुडके कापतासतना उरिल्ले तिरांटे; कापणावळ (सं).

**कर्तबगार** (वि) पराकमी; हुशार; व्हड कर्तुपां करपी.

**कर्तबगारी** (स्त्री) पराकम; हुशारी; हिकमत.

**कर्तुपकाय** (स्त्रीं) कर्तवगारी; पराक्रम; फिशालकाय.

**कर्तुत्वदशा, कर्तूपदशा** (स्त्री) पराकम; व्हड वावर (सं).

**कर्नाटक** (न) कानडी लोकांचें राज्य.

**कर्नाटकी संगीत** (न) कर्नाटक, आंध्र, तामीळनाड आनी केरळ हया राज्यांतले लोक गायतात तें रागदारी संगीत.

**कर्पुरीकरण** (न) वस्तू जाळून तिची वाफ करून, ती परतून थंड करून गोठवपाची क्रिया; शुद्धीकरण (सं).

**कर्पो** (वि) काळो (का).

**कर्ब** (पु) कार्बन; वेगवेगळया तीन वस्तूंच्या रुपांत निजांत मेळपी मूलभूत वस्त. (१) निश्चीत आकार नाशिल्लो कोळसो, (२) भुसभुशीत (**मोव**) कोळसो (शिसपेन्सिल), (३) हिरो. हया तीन अवस्थांत कर्ब मेळटा (सं).

**कर्बद्विप्राणील** (पु) कार्बन जळटकच जाल्लो वायू; कार्बन आनी प्राणवायू हांचो $CO_2$ हया प्रमाणांत रसायणीक एकवट; कार्बन डायोक्सायड; प्रत्येक जिव्या प्राण्याच्या श्वासांतल्यान भायर येवपी वायू.

**कर्बेकप्राणील** (पु) कार्बन ही जळवाची वस्त पूर्ण जळनासतना अर्दकुटी जळून प्राणवायूशीं रसायणीक एकवटांत $CO_1$ प्रमाणांत जुळळी कीं एक विखारी घाणयारो आनी उज्यालागीं पावल्यार रोखडोच पेटपी असो जाता तो वायू; कार्बन मोनोक्सायड (सं); जळव म्हणून द्रावक अवस्तेंत तो सिलिंडरांनीं भरून रांदपाक आनी जाळपाच्या वावराक वापरतात.

**कर्मकट्टो** (वि) दळिद्री; दुर्दैवी; फुटक्या नशिबाचो; उणाक.

**कर्मकांड** (न) वेदमंत्र आनी ब्राह्मणां हया ग्रंथांतल्या विषयाक कर्मकांड म्हणटात. उपनिषदांक ज्ञानकांड म्हणटात. भगवद्गीता हें उपनिषदांचें सार आशिल्ल्यान ज्ञानकांडांत उरता.

**कर्मळो** (पु) उग्र वासाची सुर्याचे पुजेक वापरूंची वनस्पत; वायलो माथ्यांत माळटात अशी वासादीक वनस्पतीची पत्री; एके वनस्पतीचीं वासादीक मुळां (का).

**कर्माधीन** (वि) नशिबान थारायल्लें; नशिबाक लागून घडटा अशें (सं).

**कर्षकीय** (वि) चुंबकाचो; ओडपाची शक्ती आसपी (सं).

**कर्षूक** (पु) लोहचुंबक; चुंबक; ओडून धरपी; मॅग्नेट (सं).

**कऱ्हें** (न) उंट; करें (१२५०).

**कलंडप** (किअ) तोल वचप; कलप; वांकडो जावप; उमथप.

**कलत्रवृत्ती** (स्त्री) पत्नीच्या सेवाधर्माची वर्तणूक; घोवाची सेवा करपाची बायलेची कर्तव्याची जाणीव आनी आचरण (सं).

**कलंदर** (वि) भणंग; कळिद्री; भिकाड्डो (फा).

**कलमेवप** (क्रिअ) गजप; कलम येवप; विखारी रांप चडप.
**कलाकृती** (स्त्री) कलापूर्ण आकृताय; कलात्मक वस्तू; सुंदर वस्त (सं).
**कलाकौशल्य** (न) कलेची कुशळ कारागिरी; कलावस्तू करपांतली कुशळकाय.
**कलात्मक, कलापूर्ण** (वि) कलेच्चे कुशळकायेन घडयल्लो; अणभवूंक सुंदर; सौंदर्याचो परिणाम घडवपी; कलायुक्त (सं).
**कलात्मकता** (स्त्री) कलायुक्त आसपाचो गूण (सं).
**कलेश** (पु) कळसो (के).
**कल्मो** (पु) मुसलमानांचे मूळ धर्ममंत्र (अ).
**कल्पन** (न) रेखाचित्र; प्रत्यक्ष वस्तूचो कागदार काडिल्लो नमुनो वा नमुन्याची प्रतिमा; युक्ती; मांडणी; अनुमान (का).
**कल्पनी** (स्त्री) कैंची; कातर (का).
**कल्लो** (पु) मासळेचें गालफूड; माशांनीं श्वास घेवपासोडपाचें झांप (फा).
**कल्सप** (क्रिक) मळप (पीठ) (का).
**कवड दिल्लें** – दार बंद केल्लें (के).
**कवतोक** (न) कपट; जादूची करणी.
**कवयिता** (पु) कविता रचपी; गाणीं रचपी; कवी (सं).
**कवयित्री** (स्त्री) कविता रचपी बायलमनीस; गाणीं रचपी बायल.
**कवायत** (स्त्री) शिस्तींतली एसाय; परेड (अ).
**कवीकल्पना** (स्त्री) कवीक सुचतात आनी कवी कवितेंत रचता ते सामान्यांभायले विचार आनी चिंतनां (सं).
**कवितारती** (स्त्री) कविता रचपाचें आनी वाचून भोगपाचें सूख (स्त्री).
**कविव्र** (न) एका चरणाची कविता.
**कवी संकेत** (पु) प्रत्यक्ष संवसारांत घडिल्ले दिसनात पूण पोन्न्या काळासावन कवींनीं कवितांतल्यान प्रगटावन वाचप्यांनीं खरे मानिल्ले आसतात अशे घडिचार. देखः दुदांत उदक मिसळून हंस पक्ष्यामुखार दवल्ल्यार तो दूद तितलें पिता, आनी उदक वेगळें सोडून दिता (हंसक्षीर न्याय). चक्रवाक पक्षी आनी ताची मादी रातचीं एका पानाच्या दोन कुशींनीं बसतात. सगली रात तीं एकामेकांक सोदीत आरडटात, आनी तरीय एकामेकांक मेळूंक पावनात (चक्रवाक संकेत). स्वाती नक्षत्राचो पावसाचो थेंबो जिते शिपयेच्या तोंडांत पडटा आनी ताचें मोतीं जाता. हे निखटे कवीसंकेत आसतात. हे खरे घडिचार अशे घडनात.
**कवीत** (न) काव्य; कर्तूप (सं).
**कवेस्परु** (पु) कवीश्वर; प्रसिद्ध कवी; लोकप्रीय कवी; श्रेष्ठ कवी (१५६६).
**कशा** (स्त्री) फाटीच्या कण्यांतलो स्नायूंचो दोर (सं).
**कशाचो कसो, कशा कसोय** (क्रिवि) अनियमीत; नेम नाशिल्लो; वांकडोतिकडो.
**कशापि** (पु) खाडगी; कसाब (के).
**कशिदो** (पु) कस्तो; बेलबुट्टी; नकशी; लुगटाचेर वेगवेगळ्या रंगात सुतान शिविल्ली नकशीची कलाकुसर. (फा).
**कशेरू** (पु) फाटीच्या कण्याच्या हाडांची मांकळ (सं). फाटीचो कणो (का).
**कशेरूक** (पु) फाटीच्या कण्याचो मणको.
**कश्ती** (स्त्री) पारशी लोकांचें यज्ञोपवीत. प्रार्थना करतना हातांत धरपाची आनी मागीर कमरेक बांदपाची लुगटाची पट्टी.
**कश्शी** (वि) कशे रितीन, कशे अवस्थेंत (के).

**कष्ट** (पु) त्रास; वावर; शेतकामाचो वावर; उपिल्लें शेत; भाजीपाल्याचें पोरसूं (सं).

**कष्टकार** (पु) शेतकामती.

**कष्टपलो** (किअ) कष्टलो; कष्ट भोगले (के).

**कष्टवप** (किक) कष्ट दिवप; त्रास दिवप.

**कंस-कर्षूक** (पु) घोडयाच्या आकाराचो लोहचुंबक (सं).

**कंस काडप** (किक) कंसाची आकृती बरवप; गणिताचे पदावलींत कांय संख्या वा राशी वा पदां कंसांत आसतात आनी कांय पदां कंसाभायर आसतात. पदावलींतलो कंस काडचे खातीर पदावलीचें मोल बदलूं नये म्हणून गणीत करचें पडटा. तें गणीत करून कंस काडून उडोंव येता. कंस काडटकच पदावली सोपे अवस्तेंत येता.

**कसलेंकि** (वि) कांय तरी.

**कसलोय** (वि) कोणाय तरेचो; कोणाय प्रकारचो; कोणेय जातीचो.

**कसवटी** (स्त्री) ओरकल; भांगर वा चांदी कसाक लावन परिक्षा करतात तो फातर. भांगर कसाक उतरता तरी पळोवंचें.

**कसाब** (वि) निर्दय; क्रूर; (पु) कसायाचो धंदो करपी (फा); (पु) मुसलमानांतली एक जात. गाय-कसाब; बकर-कसाब.

**कसाबकरणी** (स्त्री) निर्दय काम; निष्ठूर वर्तणूक; क्रूर कर्तूप.

**कसो** (पु) कमरेक बांदिल्ली लांबट (पैशांची) चिरी.

**कसोच** (किवि) कितेंय करुन; मुळींच; कितलेंय केलें तरी.

**कसोबसो** (किवि) मोठचा कष्टांनीं; जेमतेम.

**कस्ती** (स्त्री) पारशी लोक कमराक बांदतात आनी प्रार्थना करतना हातांत धरतात ती धव्या लुगटाची पट्टी; ही कस्ती वापरप हो एक पारशांचो धर्मसंस्कार आसा.

**कस्तुर मोगरें** (न) मोगऱ्याच्या बारीक फुलांची जात.

**कस्तुरी मोगरो** (पु) एक घाणयारो रातकिडो.

**कस्तुरी मेरू** (पु) वोंत्रलेंतल्यान सुवामीक मेण तेंवपी हरणाची जात (सं).

**कस्सी** (सना) कितें (के).

**कळना** (किक) खबर ना; समजना; जाणना. ह्या कियापदाचो कर्तो चतुर्थी विभक्तींत उरता. ह्या कियापदाचें वचन कर्माच्या वचनानुसार घडटा. म्हाका गाणें कळना, म्हाका गाणीं कळनात.

**कळ** (स्त्री) खर वेदना; मर्णांतीक दूख; वड; तिडक; सणक.

**कळप** (किअ) समजप; ध्यानांत येवप; अर्थ समजप; ज्ञान जावप; गमप (सं). ग्रेस्त पाड जाललो कळना, तीळ शिपडललो कळना, कुंवाळो कुसललो कळना.

**कळलावो** (पु) तीड काडपी; चाडयाळो; झगडें लावन दिवपी.

**कळसी** (स्त्री) तांदूळ मापूंचें एक आयदन (का).

**कळसुलो** (पु) ल्हान कळसो (सं).

**कळाकुळ** (स्त्री) चतुराय; सबावीक ओड; कळाकोळी; सुखदुक्ख; कणव; करुणा; कळवळो.

**कळीचो नारद** (पु) पुराणांतल्या नारद ऋषीसारको झगडें नाशिल्ल्या जाग्यार झगडें लावन दिवपी (मनीस).

**कळूक** (वि) खदोळ.

**कळेंवप** (किअ) झाडाक कळे फुटप.

**कळेची वेळ** (स्त्री) आकांताची वेळ; आणीबाणीचो वेळ; अतीदुःखाची वेळ.

**कळेंवप** (किअ) कळे फुटप; कळयो लागप.

**कळ्ळी** (पु) कांटेनिवडूंग; निवलकणें.

**का** (अ) दुसरे आनी चवथे विभक्तेंत पुरुषवाचक, दर्शक आनी संबंधी सर्व-नामांक एकवचनांत लागपी कूस. देख: म्हाका, तुका, ताका, हाका, हेका, हिका, तेका, जाका, जेका, जिका.

**कां** (अ) दुसरे आनी चवथे विभक्तेंत पुरुषवाचक, दर्शक आनी संबंधी सर्व-नामांक भौवचनांत लागपी कूस. देख: आमकां, तुमकां, तांकां, तेकां, जांकां.

**काक** (न) मावळण (गावडी).

**कांकण गिराण** (न) गिराण काळांत सूर्य वांटकुळचा कडयासारको दिसता तो देखावो.

**काकपद** (न) मजकूर बरोवपांत चूक जाली तर थंय ^ अशी खूण करून बिन-चूक मजकूर वळीवयर बरयतात अशी ही कावळयाच्या दोंक्यासारकी खूण आसता. कॅरेट (ह्या इंग्लीश उतराचो अर्थ 'गळिल्लो मजकूर' असो जाता).

**काकळूतचार** (वि) काकुळटेस्त; काक-ळूत करपी; मोगाळ; दयाळ; काक-ळुतीची वर्तणूक.

**काकळुतेणो** (वि) काकळूत येंवची अशे अवस्तेंतलो.

**कांगचेवप, कांक्षेवक** (क्रिअ) दबाव मारप; धीर नासप; फुडेफाटीं सरप.

**कागद** (पु) कागदाचो ताव वा पान; (न) पत्र; चीट (अ).

**कागदी कोळसो** (पु) पातळ थराचे अव-स्तेंत खणींत मेळपी कोळसो.

**कांगावो** (पु) खोटो प्रचार; कारण नास-तना बोवाळ; कांगा, कां गा असो बोवाळ; कित्याक गा असो बोबाट.

**कागाळ** (स्त्री) तक्रार; घडिल्ल्या घडि-चारा संबंदान 'कित्याक गा' म्हणपाची तक्रार.

**काचरी** (स्त्री) वस्तू किसावन आइल्ली किसूळ.

**कांचलेप** (पु) इनॅमल; गुळगुळीत चक-चकीत थर.

**काचींबुचीं** (न) ल्हान भुरगीं बाळां. भौव-चनांतच वापरतात.

**काचेरी** (स्त्री) कार्यालय; कचेरी (के).

**काजळमाऊ** (पु) माको; तेल काडून ओखदाभाशेन माखूंक वापरतात अशी वनस्पत.

(चे) **काजीक जीव लावप** – (चे) खातीर जीणभर कष्ट काडप वा मरप.

**काजुरू पणसु** (पु) रसाळ पणस; बर-कय (के).

**काजू घोंगू** (स्त्री) काजू बी (के).

**काजूल** (न) मिसा वेळार इगर्जेंत वा कसल्याय धर्मीक कार्यावेळार पाद्री घालता तो पोशाख (पु).

**काट** (पु) रांप (१२९०); बांद; धरण; बांदावळ; (वि) अडाणी; जंगली; संस्कारहीण (का).

**काटकाय** (स्त्री) बंड; दंगो; घुरी (का).

**काटकोन चौकोन** (पु) चारय कोन काट-कोन आशिल्ल्या चौकोनाची आकृती (सं).

**काटकोन त्रिकोण** (पु) एक काटकोन आशिल्लो त्रिकोण (सं).

**काटटेव** (स्त्री) कुकुडसो; कोंबयांच्या आंगावेल्यो पुशयो.

**काटलीस** (न) मांसाचो तळिल्लो कुडको; कटलेट (इं).

**काटू** (वि) चिक्कू; पैशाचो लोभी; कंजूस (का).

**काटकोन्यो** (पु) काटकोन जुळवपाचें आवत; गुणयो.

**काटापणी** (स्त्री) तळयाचो बांद.

**काटें** (न) रुखाच्या मुळाभोंवनणचो बांदून काडिल्लो पार.

**कांटेखायरो** (वि) दळिद्री; तिडकी; दुसऱ्यांक कारणाबगर दुखोवपी; तुटको.

**कांटो** (पु) घडयाळीचे तबकडेर तास, मिनिटां, सेकंद दाखवपी फिरत्यो काडयो. इंग्लिशींत हांकां हात म्हणटात. अवर हँड, मिनीट हँड, सेकंद हँड.

**कांटयानिवळी** (स्त्री) निवलकणें.

**कांडण – दुदी** (पु) कोंकणदुदी; म्हारो दुदी (१५६६). आपुल्या दोळयांतुलें कांडण देखनां, पेल्याच्या दोळयांतले कुस-कुट देखता.

**कांटो काडप** (क्रिक) (ल) जिनो मारून उडवप.

**काडप** (क्रिक) आशिल्लो थंयसावन हालोवन दुसरीकडे दवरप; माखप (आंगाक तेल); चोळप; लेपप (मिर्ग्यां काडप, चुनो काडप, रंग काडप); देंवप, उतरप (क्रिअ) (जोर काडप); वखळप (पावस काडप); प्रसिद्ध जावप (क्रिक) (नांव काडप); व्हगडावप (अन्न काडप); निंदा करप; (इज्जत काडप); विकती घेवप (सॉर्त काडप, तिकीट काडप); गाळी संवप (आवय-बापूय काडप); बेशुद्ध पडिल्ल्याक सावध करप (जीव काडप); खूब त्रास दिवप (जीव काडप); आंगांत आशिल्लो भायर घालवप (जोर काडप, भूत काडप, जुदेव काडप); नाग-वप (घर काडप); उकतें करप (दार काडप); सांगिल्लें मान्य करप (ल) (दार काडप); उष्टें अन्न काडून जागो धुवप वा शेण काडून साफ करप (उष्टें काडप); संबंध तोडप (आंग काडून घेवप वा आंग काडप); कच्च जावन भियेवप (आंग काडप); न्हिदप (न्हीद काडप); हातपांय आनी आंग ताणप (आळस काडप); उदक बांयतल्यान वयर हाडप (उदक काडप); बांदप (घर वा हेर बांदावळ बांदून काडप); तोडप (फळां, फुलां काडप); सगळें व्हगडावप (दिवाळें काडप); वचूंक दिवप, वचप (दीस काडप, गत काडप); कष्टान काळ घालवप (दिस काडप); आळसाक लागून तोंडान लांब स्वास घेवन सोडप (जांबय काडप); संभोग घेवप (ल) (कांदे काडप); स्यास्त लावप (वडीर काडप); उदर-गतीक येवप (नशीब काडप); दूद पिळप (दूद काडप); चिड्डून रोस काडप (नाल्लाचो वांटून); घाण्याचेर वा गिरणीचेर तीळ वा खोबरें घालून तेल काडप; धंय चाळून लोणी काडप; वेंचप (तांदळांतलो आसो वा फातर); आसो काडप – कांय तादूळ पाटार घोळो-वन तांतलो एक काडून कोणाच्याय कुवाडयाची जाप दिवप.

**काडाओड** (स्त्री) धडपड; तळमळो.

**काडायें करप** (क्रिक) कायमचें सोडून वचप; काडोन वचप.

**काडीखार** (पु) मडवळखार; कॉस्टीक सोडो.

**काडीभर काम** (न) हांगाची काडी उखलून थंय दवरपाचें सामकें सोपें काम

(१२९०).

**काड्या-पेटी** (स्त्री) आगपेटी; फस्क; माचीस.

**काणगो** (पु) तन्नो कळो; तंबर; चंवर.

**काणघेवप** (क्रिक) काडून घेवप; ताब्यांत घेवप.

**काणल** (न) ल्हान काणी; चुटको.

**काणसळ** (न) कानसूल (के).

**काणसो** (वि) काण्या दोळ्याचो; तिरसो (के).

**काणाका, काण्णाका** – काडूं नाकात.

**काणीक, काणूक** (स्त्री) अर्घ्य; देवपुजा; देवाक दिल्ली भेटवस्त (का).

**काणें** (न) खण; खाण; लांबायेचें माप; जोडवाट; सांधो; जोडणी.

**काणेकाण** (न) केळीची कांडी.

**काणेवप** (क्रिक) करप; समजप; थारावप; राखप; घडवप; (क्रिअ) घडप (का).

**काणो दोळो करप** – एकाद्री वस्त पळेली तरी पळेली ना अशें दाखवप; दुर्लक्ष करप.

**काण्णोजी** (पु) (ल) हिकमती मनीस.

**कांतप** (क्रिक) कोत्रावप; कोरप (फातर वा लांकूड); कापूस वा लोंकर पिंवळून (सुताचो) धागो करप (सं).

**कांतर** (पु) बांद घालून पिकाळ केल्ली न्हंयेलागची जमीन (१६००); भोंवतणीं उदक खेळोवन पिकाळ केल्ली जमीन.

**कातरो** (पु) भेतो; फूट; जखम; फोपळीची पेंड.

**कातली भाजी करप** – (ल) उलोवन उलोवन तासंपट्टी करप.

**काताल्ग** (पु) खरेदेविक्रेच्या मालाच्या नमुन्यांच्या चित्रांचें आनी दरांच्या माहितीचें पुस्तक; कॅटलॉग (पु).



**काती** (स्त्री) धारदार सुरी (१२५०).

**कांतीग** (न) स्तोत्र; देवाचें प्रार्थनागीत; गीत (पु).

**कातो** (पु) काथो (के).

**काथो कांडप** (क्रिक) (ल) अर्थ नाशिल्ली चर्चा करप; काथो कुटप; बेठी बडबड करप.

**कांदरप, कानरप** (क्रिक) खरपप; खाजवप; नाखटांनी किमचप वा ल्हवू उरबडप (प्रा).

**कादी** (पु) मोयरांचो धर्मगुरू; काझी (१५६६).

**कांदे जोखप** (क्रिक) (ल) झेमप; न्हिदेन लकप.

**कानकवडां पडप** (क्रिअ) भयरो जावप; कान फुटप.

**कान फुकप** (क्रिक) (ल) चाडी सांगप. कान फूक म्हळ्यार वान फुकता.

**कानफोड** (स्त्री) एक वखदी वनस्पत; कान दुखपाची व्याधी.

**कान भरप** (क्रिक) (ल) चाडी सांगप.

**कानमंत्र दिवप** (क्रिक) सल्लो दिवप; आदींच सुचना करप.

**कानवाद** (पु) परंपरा (१५६६). मागिले कानवादप्रमाणीं – पोन्ने रितीनसार.

**कानशिरप** (आवाज) (क्रिअ) उलोंवचें उतर तोंडांतल्यान न येतां गळ्याचे खोलायेंतल्यान येता अशें आयकुप्याक दिसप; अशक्तायेक लागून उतराचो आवाज बारीक जावप.

**कानसळ** (न) कानसूल (के).

**कानसावप** (क्रिक) कानशीन घांसप.

**कानाक खडो लावप** – केल्ली चूक परत करचो ना म्हणून निश्चय करप.

**कानाचो खिळो** (पु) कानाचो खिळ्या-

भशेन दिसता असो भाग.
**कानार घालप** – (ल) सांगप.
**कानी** (स्त्री) गोरवाक आळाबंदा ह्राड-पाक शिंगांचेर घालतात तें दांवें.
**कानोकोनसो** (पु) आडखळींतलो जागो; (ल) सगळ्या घरांतलो जागो.
**कानोटी** (स्त्री) जळू.
**कान्नी** (स्त्री) गरयेची घट्ट दोरी.
**काप** (पु) कान तोपून बायलांनीं घाल-पाचो एक भांगराचो सरपळी अडकंवचो दागिनो. काप गेले, भोंकां उल्लीं – ऐश्वर्य गेलें, ऐश्वर्याच्यो खुणो उल्ल्यो.
**काप** (पु) चौकोनी आकाराची कानांत घालताले ती मुदी. काप गेले, भोंकां उल्लीं– कानांत वस्ती घालूंक म्हणून केल्ले बुराख उल्ले. वस्ती उल्ल्यो नात. गरिबी आयली.
**कापड न्हेसप** (क्रिअ) (ल) विधवा बाय-लेन दुसऱ्या पुरुषालागीं लग्नाची बायल म्हणून वागपाचो समाजीक विधी करप; घोवान सोडिल्ले बायलेन जाती-पद्धतीन दुसरो घोव करप.
**कापड न्हेसवप** (क्रिक) (ल) विधवा वा घोवान सोडिल्ले बायलेक जातीचे पद्ध-तीन बायल म्हणून पत्करप.
**कापडयो** (पु) कोळी (किडो).
**कापडाची बायल** (स्त्री) घोव मरतकच वा एका घोवाक सोडून जाती-पद्धतीन कापड न्हेसून दुसऱ्या घोवाची जाल्ली बायल.
**कापडाचो** (वि) (ल) कापडाच्या घोव-बायलांक जाल्लो (पूत).
**कापडाचो घोव** (पु) कापडाची बायल करपी पुरूष.
**कापडी** (पु) यात्रेकार.
**कापप** (क्रिक) हणप (केळ); कापून कुडके करप (पणस, आंबो, सफरचंद); (ल) फसोवन लुसकान करप.
**कापरी** (वि) कापराच्या झाडाच्या लांक-डाचो; कापराचो.
**कांपवप** (क्रिक) थरथरावप; भयान वा रागान थरथरत अशें करप.
**कापात करप** (क्रिक) आंड भ्रेजरून मातिल्ल्या प्राण्याक (बैल, रेडो) शांत करप.
**कांपीन, कांपाईंज्य** (स्त्री) चापाची किणकिणी घांट; मेजार दवरून कोणा-कय आफोवंक वाजोवपाची घांट; साय-कलीची घांट (पु).
**कापूरबाळें** (न) केळयाची एक जात.
**कापो** (वि) मुको आनी मडमडीत; चिक-चिकीत आनी मोव न्हंय असो (पणस).
**कापया-कोर** (पु) पिंगसो रंग; काफ-येच्या पिठयाचो रंग (पु).
**कांबळ-कीड** (स्त्री) सुकुंडो.
**काबीज करप** (क्रिक) झुजून ताब्यांत घेवप; जिखून घेवप (अ) तुजें राजे काबीज केलें. शार काबीज केलें (१५६६)
**काबो** (पु) मक्केंतलें देवाचें घर (अ).
**काम** (न) हातरूण; बिछानो (पु); (पु) पुराणांतल्या कृष्णभगवंताच्या पुताचें, प्रद्युम्नाचें एक नांव; दादल्या बायलांच्या मनांत संभोगाची इच्छा उपजवपी देव; कामदेव; संभोगाची वासना (सं).
**कामचार** (पु) शिदळकी; व्यभिचार.
**कामचोर** (पु) वावरांत आंग चोरपी; आंगचोर; वावर करूंक फाटीं सरपी; कामाची टाळाटाळ करपी (सं).
**कामट, कांबट** (न) कांबीट; कोंडयाची पातळ आनी लांब कपची; बेळ.
**कामत** (न) शेत; शेती; (शेतीचो)

वावर (१२५०); शेतकार.

**कामती** (पु) शेतकार (१५६६).

**कामदेव** (पु) पुराणांत आनी संस्कृत काव्यांत वर्णिल्लो मदनदेव; संवसारसूख भोगुंची वान्सा मनशाच्या मनांत उप्रासपी कामविकार होच एक जणू देव; कंदर्प; अनंग (कूड नाशिल्लो).

**कामपोज** (न) न्हीद येवंची म्हणून घेतात अशी गुंगेची गुळी (इं).

**कामभोग** (पु) शरीरसंभोग (सं).

**कामलि** (स्त्री) पंडुरोग.

**कामशमन** (न) संभोगाचें समाधान; नर आनी मादी हाणी एकामेकांची कूड भोगून केल्ली वान्सेची समाधानी (सं).

**कामसू** (वि) आवडीन वावर करपी (सं).

**कामाचार** (पु) शरीरसंभोगाचो नाद; संभोगाची अतीशय आवड (सं).

**कामातूर** (वि) संभोगाचे इच्छेन तळमळटा असो (सं).

**कामार**, **कामारु** (पु) कामगार; कारागीर; सुतार; लोखंडाचीं आवतां घडवपी (१५६६).

**काय** (अ) ता, ताय, त्व हया अर्थाचें विशेषणाक जोडून भाववाचक नाम करपाचें कूस. सुंदरकाय – सुंदरपण, सौंदर्य. सोबीतकाय – सोबा, गोमटेपण. धर्मिष्टकाय – धर्मीकपण. निष्ठूरकाय – निष्ठूरत्व, निष्ठूरता, निष्ठूरपण.

**कांयचें कांय** (वि) कित्याचें कितेंय; कांयबांय; सुसंगत नाशिल्लें; अर्थ नाशिल्लें.

**कायदेभंग** (पु) सरकारी कायदो मोडप; महात्मा गांधीन केल्ली कायदेभंगाची चळवळ.

**कायदेमंडळ** (न) मतदारांनीं निवडून दिल्ल्या म्हाजनांची कायदे करपी सरकारी विधानसभा, विधान परिषद, लोकसभा.

**कायदे-म्हुर्ती** (पु) न्यायमुर्ती; उच्च न्यायालयांतलो न्यायाधीश; नांवाजतो कायदेपंडीत.

**कायमपद-वेतन** (न) कायम नेमणूक जाल्ले नोकरेचो थाराइल्लो पगार (सं).

**कांयमांय** (अ) कितेंयतरी.

**कायरस** (पु) फोडणी घालून, आंबशें, तिखशें, गोडशें, नाल्लारोस घालून केल्लें, दुदी, तवशें बी शाकांचें सार.

**कायरें** (न) कर्तव्य (के).

**कायवडो** (पु) तांदळांच्या पिठाचो नाल्लाच्या रोसांत मळून थापून तळिल्लो वडो.

**कायश** (स्त्री) पेट; **बॉक्स** (पु).

**कायशांव** (पु) प्रेत पुरूंक व्हरतात ती पेट (पु).

**कायाकल्प** (पु) म्हाताऱ्या मनशाक शक्ती दिवन जुवानासारको करपाचो आयुर्वेदीक उपचार (सं).

**कार** (पु) हो प्रत्यय हाच्या आदल्या उतराकडचो संबंध आशिल्लो असो जाता. पणजेकार – पणजेंत रावपी. फोंडेंकार – फोंडेंचो नागरीक. बाजारकार – बाजारांत वावुरपी वा रावपी. कलाकार – कलापूर्ण असो वावर करपी. नाटककार – नाटक बरोवपी. किर्तनकार – किर्तन करपी.

**कार** (पु) करपी; मालक; वावुरपी; वेपार करपी; वेव्हार करपी, दूदकार, नालकार, तेलकार (दूद, नाल, तेल विकपी); चित्रकार – चित्रां काडपी. मुर्तीकार – मुर्ती कोरांतपी; गुन्यांवकार – अपराध करपी; फिर्यादकार – फिर्यादी. पैशेकार – श्रीमंत. कांकणकार – कांकणां घडवपी, कांकणां विकपी, बायलांच्या

हातांत कांकणां चडवपी. मशालकार – मशाल धरपी. पानकार – झाडावेलीं पानवेलीचीं पानां काडून, विकतीं घेवन, बाजारांत दुकानदाराक विकपी. सुभाषीत-कार – सुभाषितां रचपी; घरकार – घराचो मालक, घरांत रावपी. भुरगीं-बाळकार – भुरग्याबाळांचो बापूय वा पालनकर्तो; बायलकार – लग्नाची बायल आशिल्लो; काष्टीकार – काष्टी न्हेसपी, काष्टेकार, गरीब मनीस.

**कार** (पु) अक्षर वा नाद ह्या अर्थाचें कूस. ॐकार – ॐ हें अक्षर; ॐ हो उच्चार (आवाज). रकार – र हें अक्षर. मकार – म हें अक्षर. उकार – उ चें चिन्ह, कोमरो. इकार – ऱ्हस्व वेलांटी. गांवाच्या वा वाडयाच्या नांवाक कार हें उतर जोडून कांय लोकांचीं आडनांवां घडटात. घोडे-कार हें घोडयांच्या व्यापाऱ्याचें आडनांव जावन, मागीर त्या व्यापाऱ्याचे वंशज दुसरे धंदे करूनय, घोडेकार हें पुर्वजांचें आडनांव लायतात.

**कार** (वि) खारट; तोरट; जिबेक झोंबता असलो; झणझणीत (का).

**कारक** (पु) करपी; अवयव; योजक; साधन. आनंदकारक, दुःखकारक, समा-धानकारक, क्लेशकारक, मोक्षकारक. व्याकरणांत नाम वा सर्वनाम आनी क्रिया-पद हांचो संबंध आसता ताका कारक म्हणटात. कर्तो, कर्म, करण (साधन), संप्रदान, अपादान आनी अधिकरण हे कारकाचे स प्रकार आसतात. ह्या प्रका-रांक त्या विभक्तीचो अर्थ म्हणटात. देख : प्रथमा विभक्तीचो अर्थ कर्तो. म्हळचार पयली विभक्ती कर्तृकारक आसता. तिसरी विभक्ती कर्तृकारक आनी करणकारक आसता. सटवे विभक्तेचो अर्थ संबंध असो जाता. पूण ते विभक्तेचो क्रियापदालागीं संबंध येना. म्हणून संबंध ह्या अर्थाक उपपदकारक समजतात.

**कारंज्याची बांय** (स्त्री) उदकाचे पातळे-हून खोल खणून उदक वयर उसळपाची व्यवस्था आशिल्ली बांय.

**कारंट** (न) गिमांत रानवट झाडांक लागपी आंबट गोट फळ; कांट.

**कारण** (न) ∵ (गणितांतलें कारण दाखोवपी संक्षिप्त चिन्ह) (सं).

**कारफाळें** (न) दोन घरां सांवरून धरपी वणत.

**कारबो** (पु) वखदां वा सोरो भरून दवरपाची बारीक तोंडाची आनी मोठया पोटाची बाटली; बुधलो; कार्बोय (पु).

**कारागिरी** (स्त्री) हातकाम; हातान घड-काम करची विद्या; घडकाम (फा).

**कारांदां** (न) रानवट झाडाचीं खांवचीं बारीक गोड-आंबट फळां; करवंदां.

**कारांदी** (स्त्री) कारांद्यांचो वेल.

**कारिनो** (पु) ब्राह्मी तेल करपाची वन-स्पती; चटणी, भाजी हातूंत वांटून खांवची ब्राह्मी वनस्पती.

**कारी** (पु) करपी; करणारो ह्या अर्थाचें कूस. कार्यकारी – काम करपी. गुणकारी – गूण हाडपी, गुणाक घालपी. परिणाम-कारी; सुखकारी – सुखदायक (सं).

**कारु** (पु) उपकार. तुका केलल्याचो कारु ना (१५६६).

**कार्ग** (न) ताबो; कबजो; सत्ता; जबाबदारी; वजें; चार्ज; पोटांतलें अजीर्ण (पु).

**कार्तिगल** (पु) कार्तीक म्हयनो.

**कार्बन कांडी** (स्त्री) विजेचो पर्जळीत

उजवाड घालचेखातीर केल्ली घनदाट कोळशाची कांडी. असल्या दोन कांडयांतल्यान वीज घोळयत तांची तोंकां एकामेकांक जळटां जळटां जुळयलीं कीं चकचकीत प्रकाश पर्जळटा. हो पर्जळ प्रकाशचित्र (फोटो) काडपाची वस्तू पर्जळांवक उपकरता.

**कार्बन पोलाद** (न) ज्या पोलादाची प्रतवारी (पांवडो) तांतल्या कार्बनच्या प्रमाणाचेर अवलंबून आसता अशें पोलाद.

**कार्बन मोनोक्सायड** (पु) अर्दकुटो जळ्ळा असो वायुरुपांतलो कार्बन; कर्बकप्राणील (CO.). इंधन म्हणून हाचो उपयोग जाता. द्रावक (लिक्वीड) अवस्थेंत तो सिलिंडरांनीं भरून रांदपाखातीर आनी उद्योगांच्या कारखान्यांत वापरतात. ताका लिक्वीड पेट्रोलियम गॅस म्हणटात (इं).

**कार्यकर्तो** (पु) वावुरपी; वावराडो; (लोककल्याणाचो) वावर करपी; समाजीक कार्यकर्तो, राजकी कार्यकर्तो (सं).

**कार्यकक्षा** (स्त्री) वावराचे सत्तेची मेर.

**कार्यकारणभाव** (पु) अमूक एका कारणाक लागून अमूक एक कार्य घडटा असो कार्यकारणाचो घनिष्ट संबंध.

**कार्यकुशल** (वि) वावर करपांत हुशार.

**कार्यदर्शी** (पु) कार्यवाह; सेक्रेटरी; चिटणीस.

**कार्यभाग** (पु) कार्याचें साध्य; कार्याचो उद्देश; कार्यसिद्धी. जो दुसऱ्याचेर विस्वासलो, ताचो कार्यभाग बुडलो.

**कार्यकारी समिती** (स्त्री) कारभारी मंडळ; कार्यकारिणी.

**कार्यवाह** (पु) चिटणीस; सेक्रेटरी; कारभारी (सं).

**कार्यसमिती** (स्त्री) कारखान्याच्या कामगारांचे प्रतिनिधी आनी व्यवस्थापनाचे प्रतिनिधी हांची व्यवस्थापनाक कामगारविषयक सल्लो दिवपी समिती; **वर्क्स** कमिटी.

**कार्यालयप्रमुख** (पु) कचेरेचो मुखेल अधिकारी; व्यवस्थापक (सं).

**कार्यान्वीत करप** (क्रिक) वापरांत हाडप; प्रत्यक्षांत उतरावप; करून दाखवप; साकार करप; मूर्त रूप दिवप (सं).

**कार्योन्मूख** (वि) कार्याविशीन तोंड आशिल्लो; वावराक उपेगी असो (सं).

**कारेंगाद** (वि) चड प्रमाणांत मिसळिल्लें; गडद रंगाचो (पु).

**कार्वो, कोर्वो** (पु) वखदां वा ॲसिड घालून दवरंची मोठ्या पोटाची आनी बारीक तोंडाची भायल्यान बारीक बेतान विणिल्ली बाटली वा कुपी, मोलादीक सोरो सांठोवपाकय असले बुधले वापरतात (पु).

**कार्षापण** (पु) प्राचीन काळांतलीं क्षत्रप राजांचीं सोन्याचांदीचीं नाणीं.

**कालकुलार करप** (क्रिक) मेजप; अनुमान करप; गणीत करप (पु).

**कालकूल** (न) गणीत; हिशेब (पु).

**कालखंड** (न) उपकल्प; यूग; कांय हजार वा शेंकडयांनीं वर्सांचो काळ. धा-वीस वर्सांचोय ल्हान कालखंड म्हणूं येता (सं).

**कालगणना** (स्त्री) काळाचो हिशोब; दीस, म्हयनो, वर्स बी परिमाणांत वेळाचें गणीत (सं).

**कालयुक्त** (न) बावन्नावें संवत्सर (सं).

**कालवड** (स्त्रीन) पाडी; धवें पापलेट नुसतें.

**काला** (वि) स. कोयंडेबालांच्या खेळांत खणीसावन बालामेरेन कोयंड्यान अंतर

मेजपाचे आंकडे : पांव, चेटमेट, बुरमूट, घोडा, दुत्शी, काला, झील.

**कालानुक्रम** (पु) पयलीं घडिल्ल्याची पयली नोंद, मागीर घडिल्ल्याची मागीर नोंद (सं).

**कालो** (पु) मिस्रण; मेळचांत करपाचो खेळ; जायत्या अन्न पदार्थांचो रांच वा भरीत; खतखतें; जात्रेंतलें दशावतारी नाटक; गोपाळकालो — कृष्ण आनी गवळी-गौळणी हांचीं संवगां घेवन केल्लो रास-नाच; धंयकालो.

**काल्दीन** (न) हुमण (पु)

**कांवकूंव करप** (क्रिक) नकार दिवप.

**कांवचेवप** (क्रिअ) भिवप, भिडेवप.

**कावडीगार** (पु) कावडकार; कावडींत विक्रेचो माल (दूद, भाजी बी) घालून बाजारांत विकपी; तीर्थयात्रेक कावडींत-ल्यान काशीचे गंगेचें उदक हाडून दक्षि-णेच्या रामेश्वराक न्हाणोवपी यात्रेकार.

**कावल** (पु) आंगरक्षण; पारो (का).

**कावलकार** (पु) आंगरक्षक; पारेकार; बॉडीगार्ड (का).

**कावळ** (न) तांबें; पोन्या टिनाची मोड (१५६६).

**कावळेरी** (स्त्री) कावळी; कावळ्याची मादी.

**कावळेरूं** (न) कावळेरी.

**कांवारकेंसार** (वि) काचाबूल; सैरभैर; गोंदळिल्लो.

**कावी** (वि) कावेच्या रंगाचो; भगव्या रंगांचो.

**कावो** (पु) कारस्थान; कपट (फा).

**काव्यात्म, काव्यात्मक** (वि) काव्यान भरिल्लो; काव्यमय; काव्यपूर्ण; अळं-कारीक भाशेंत रचिल्लें; काव्यगूण आसात असो (सं).

**काशी-कुंवाळो** (पु) कुंवाळयाची एक जात.

**काशीयात्रा** (स्त्री) उत्तर हिंदुस्थानांत गंगा न्हंयेचे कांठावेले काशी नगरींत विश्वेश्वराच्या दर्शनाक वचून गंगेंत न्हाव-पाची भोंवडी. काशीयात्रेन पुण्य घडटा अशें हिंदू मानतात. (सं).

**काश्मीर** (पु) काश्मिरी पाषाण; स्फटि-काचो फातर; संगमरवरी फातर.

**काष्टी-कुसको** (वि) एकूच काष्टी आशि-ल्यान ती घाणीन कुसली तरी तीच न्हेसून रावपाइतलो दळिद्री; कळिद्री.

**काष्टी सुकी आसप** — (ल) काष्टेक घाण लागिल्ली नासप; निरपराधी आसप; सज्जन आसप.

**कास** (स्त्री) दमडी; अर्दो पानदुडू (का). ४ दमडचो — पैसो, तीन पयो (पानदुडू)-पैसो. पोन्या वर्सांनीं नाण्यांचें मोल निश्चीत नासतालें.

**कांसप** (क्रिक) द्वेष करप; दुस्वास करप.

**कासव, कांसव** (स्त्री) कांसव.

**कासांवदी** (न) तोरांच्या लोणच्याचो एक प्रकार.

**कांसूड** (पु) कांसव (गा).

**कांसेद** (स्त्री) थकावट; स्रम जावप; पुरो जावप (पु).

**कास्क** (न) साल; आवरण; पॅकींग (पु).

**कास्ताचो** (वि) (ल) बरे जातीचो; अस्सल जातीचो; शुद्ध जातीचो; शुद्ध रक्ताचो; अस्सल बिजाचो (पु).

**कास्ताद** (वि) अस्सल; जातीवंत (पु).

**कास्तिस्ल** (न) मेणवातीची खुंटी; दिव-टोणी; मेणवात पेटोवन लांवची खोवणी.

**काहूर** (न) कावरें; खुबळ; संभ्रम; भोंवरो; बावटळ (का).

**काळकय, काळकोय** (स्त्री) कामिणीचें वायट (का).
**काळगत** (स्त्री) काळाचें वचप; काळ जावन वचप (सं).
**काळगी** (पु) खाटीक; काडगी.
**काळजाचो** (वि) धीट; धाडसी; खांपो; मायेचो (प्रा).
**काळजिरें** (न) कोडसार जिरें.
**काळजोर** (पु) दिसांचो जोर; तिफॉयद; टायफॉयड (का).
**काळ-न्हीद** (स्त्री) मरणाची न्हीद; मरण (सं).
**काळमुखो** (वि) काळया तोंडाचो; काळ-तोंडो.
**काळमृत्यू** (फ) आकस्मीक मरण; अप-घाती मरण (सं).
**काळसरप** (क्रिअ) काळसार जावप.
**काळांचो** (पु) गोरखमुंडी; मुंडण केल्लो.
**काळानुक्रम** (पु) आदल्या आनी मागी-रच्या काळांतल्या घडिचाराची लागण वा संगती; फाटल्या फुडल्या काळाचो व्यवस्थीत क्रम (सं).
**कालिंगण** (न) काळींग (का).
**काळी चंद्रकळा** (स्त्री) बायलांचें काळया रंगाचें न्हेसपाचें कापड. ह्याची देग वेगळया रंगाची उरता.
**काळीज उडवप** (क्रिक) मनाक धक्को बसप; खूब भियेवप.
**काळीण** (स्त्री) (ल) दुष्ट बायल; सत्यानाशी स्त्री.
**काळीं पानां** (न) खांवच्या पानांची गडद ह्रिरव्या रंगाची जात.
**काळूकु** (पु) काळोख (के).
**काळो दुडू** (पु) सरकारान थारायल्ल्या दराहून चड दरान माल विकून मेळयल्लो अनधिकृत पैसो; प्राप्तीकर कमी भरचो म्हणून प्राप्ती कमी दाखोवन उरिल्लो आनी हिशोबांत दाखयनात असो पैसो.
**काळोबा** (पु) एका दैवताचें नांव; यम-देव.
**काळो-सांवळो** (वि) काळसार; चड काळो न्हय असो (का सं).
**कांक्षप** (क्रिक) इच्छप; जाय जावप; इच्छा करप; हावेस धरप (सं).
**किकिल्यारी** (स्त्री) कटलरी सामानाचें दुकान; चाकू, सुरयो, कपबशयो, ग्लास, बारकीं आयदनांचें बी दुकान (पु).
**किक्रांट** (स्त्री) किळांच.
**किंचुक** (क्रिअ) किळंचप (के).
**किच्चोंदोरि** (स्त्री) घूस (के).
**किटक** (पु) किडो (सं).
**किटकनाशक** (पु) किडे मारपी (सं).
**किटकी** (स्त्री) जनेल, खिडकी, बारी (का).
**किटप** (क्रिअ) काळो जावप; किडेवप.
**किटाळ** (न) उज्याची कीट; बारीक कीट.
**किट्ट** (वि) गडद (काळो); दाट (काळो); चड काळखाचो (द्रा).
**किडावप** (क्रिक) तिडावप; त्रास दिवप.
**किडनी स्टोन** (पु) मुतखडयाचें दुखणें (इं).
**किडिविडी, किडबीड** (स्त्री) प्रेताची तिरडी (के).
**किडेरो** (वि) किडीन कोरांतिल्लो.
**किड्डप** (क्रिक) (दांत) करकरावप;
**किणकिणे येवप** (क्रिअ) कंटाळो येवप; वाजेवप; उबगप.
**कितकी** (अ) काय कितें; वा दुसरें कितें; कितेंकी; कितली.
**कितो** (सना) कितें. मेलल्याचो पांव

कोल्यानीं खेलो कितो, भालुवांनीं खेलो कितो (कितें) ? (१५६६).

**किदें** (सना) कितें (सं).

**किनतान** (न) तागाचें लुगट; साकाटें (फा).

**किनरो आवाज** (पु) बारीक आनी उंच आवाज; दादल्याचो बायलमनशेच्या आवाजासारको आवाज; टिपेचो सूर.

**किन्नरी विणा** (स्त्री) वेळूच्या दांडयाक चौदा पड्डे बसोवन आनी दोन तोंकांक दोन दुदी बसोवन वाजयतात तें तारांचें स्वरवाद्य (सं).

**किंबहुना** – चड उतरांनीं कित्याक सांगूंक जाय ?; चड विस्तारान सांगचें लागना.

**किमच** (न) मुसक; बारीक जीव.

**किंमत काडप** (क्रिक) गणीत करून वस्तूचें मोल सांगप.

**किरकावळें** (न) वायट सया; काळवाण.

**किरकोळपण** (न) सामान्यपण; क्षुद्रताय.

**किरटो** (वि) बारकेलो; खिन्नट; किडकिडीत; किडिल्लो.

**किरणन** (न) प्रकाशन; उजवाड घालप.

**किरणविज्ञान** (न) किरणोत्सार, क्ष किरण, वैश्वकिरण बी किरणांचो अभ्यास; वैजकेंत आनी उद्योगधंद्यांत किरणांचो उपयोग करपाचें गिन्यान; रेडियोलोजी (सं).

**किरणी** (स्त्री) खोती; खंड (१६००).

**किरणोत्सार** (पु) अणूच्या गाभ्यांतल्यान तीन तरांचे किरण भायर सोडप.

**किरपणें, किरमणें** (वि) वाज हाडपी; खूब वेळ आनी त्रास काडपाचें.

**किरमाणी ओंवो** (पु) दंतांचे व्याधीचेर उपकरता तो चोरओंवो.

**किरमप** (क्रिक) खोरज किमचप; उरबडप; (ल) इल्लो इल्लो त्रास दियत रावप.

**किरमिजी रंग** (पु) तांबडया रंगाची किंचित निळी छटा.

**किरमीज** (स्त्री) किरमिजी रंग (फा).

**किरलू** (पु) किल्ल; कोंडयाचो आंकूर (के).

**किरले** (पु) मूळव्याधीचें वायट (के).

**किरलो** (पु) मूळव्याधीचें वायट (के).

**किरांटी** (स्त्री) किरोंगळी (गा).

**किरवप** (क्रिक) (ल) कुडीची इच्छा भागवप; संभोगाची वान्सा पुरी करप.

**किराणें** (न) गुलांटी; लाग उडी.

**किरांव** (वि) गार. थंड किरांव – थंडगार.

**किरीट** (पु) ग्रह वा तान्याभोंवतणचें उजवाडाचें वळें; मुकुटा फाटली प्रभावळ; मुकूट (सं).

**किर्गी** (स्त्री) फाटले पिळगेंतल्या आंकवारींचो घागरो; स्कर्ट.

**किर्णफूल** (न) भांगराचो बायलांच्या माथ्यांतलो एक दागिनो.

**किर्तीके** (न) कृत्तिका नक्षत्र (के); कातयो.

**किर्मोळी बोट** (न) किरोंगळी.

**किर्र** (वि) रातकिडयांचो वा रानकिडयांचो किर्र असो भेष्टावपी आवाज जायत रावता अशें. किर्र रान – घणदाट जंगल; अरण्य.

**किर्ल** (पु) मानीचो कोंवळो आंकूर; कणकीचो कोंवळो आंकूर. हाची शाक करून खातात.

**किर्लकांतनें** (न) तोंकाक कोयती बांदिल्लो मानगो. झाडाचीं फळां वा पालो काडूंक उपकरता.

**किलक** (न) बेचाळिसावें संवत्सर.

**किल करप** (क्रिक) दबप; मर्यादेन

वागप; मानप. हें क्रियापद चड करून नकारार्थी वापरतात.

**किलकिली** (वि) अर्दी उगडी. किलकिली नदर. किलकिलें दार – अर्दकुटें उकतें दार. किलकिले दोळे – मात्शे उकते दोळे.

**किलवण्यो** (स्त्री) खेळण्यो; बाळकी; उचकी.

**किवप** (क्रिक) बोंचप; तोंचप.

**किवाटप** (क्रिअ) किंवाटो येवप; तिडक मारप.

**किसर** (न) तोंक आशिल्ली बारीक काडी; घट आनी ताठ तंतू.

**किसवणी** (स्त्री) कीस काडप; बारीक शिनप; (ल) सखोल चर्चा, पिंजारणी.

**किळचां** (न) बारीक जीव; गालमो वा सुंगटांची चिरप; सामान्यतायेन ज्या आकाराची वस्तू वा जीव आसता तेच जातीचे वस्तूची वा जिवाची साप ल्हान जात.

**किळसवाणो** (वि) वीट हाडपी.

**कीं** (अ) दुबाव दाखोवपी उतर. हो कीं तो ? – हो काय तो ? (सं).

**कीं** (अ) म्हणटकच, मागीर, तेन्ना, फुडें सांगितल्याप्रमाण, ह्या अर्थांचें उभयान्वयी अव्यय (फा). ताणें म्हाका सांगलें कीं फाल्यां यो. हें वाक्य बदलून कीं च्या जाग्यार म्हण वा म्हणून हें उतर घालूं येता. फाल्यां यो म्हणून ताणे म्हाका सांगलें. तो आयलो कीं म्हाका सांग – तो आयल्याबराबर (तेन्ना) म्हाका सांग. अशें घडलें कीं ताका राग येता – अशें घडलें म्हणटकच (कार्याकारण संबंध) ताका राग येता.

**की** (अ) ता, ताय, काय, त्व, पण ह्या अर्थाचें भाववाचक नाम घडोवपाचें कूस. घोवकी – घोवण. सुतारकी, सोनारकी – सुतारपण, सोनारपण (धंदो). भावकी – भावपण (नातें). गांवकी – गांवपण – गांवांतल्या लोकांच्यो चवकशो.

**की** (स्त्री) लेखाची उजळणी; गणीत (तोंडी वा लेखी); पाडो (लेख). पावकी – पाव (।) वा चौथो वांटो हे संख्येचो शंबरमेरेन पाडो. निमकी – एक निम्मे निम्मे, सावन शंबर निम्मे पन्नास, मेरेनचे धा पाडे. पाउणकी, सवायकी, दिडकी, अडेचकी, औटकी, चवडकी (४।। चे पाडे).

**की** (अ) अथवा; किंवा; वा (के).

**कीट** (स्त्री) जल्मून चड दीस जांवक नाशिल्लें ल्हान भुरगें.

**कीण, खीण** (न) घट्टो; आंगाक घष्टून घष्टून पडिल्ली माव.

**कीर्ण** (न) किरण; उजवाडाचो झोत.

**कील** (न) कळ; वर्म; प्लग.

**कीस** (पु) खिसो; बॉल्स (के).

**कुंकडि** (स्त्री) कोंबडी; कुकड (के).

**कुकडूक** (न) पारवो; कबुतर.

**कुकमार्चन** (न) देवीचें आंगभर कुकुमाची अर्चा करपाची पुजा (सं).

**कुक्कूट पाळण** (न) कुकडां पोसपाचो धंदो.

**कुक्कूड कुंभो** (पु) भारद्वाज पक्षी.

**कुचिद्वीपण** (न) कुसकेपण; कपट.

**कुचीत** (वि) वायट (१२५०).

**कुचेकुमड** (पु) मारून शाकोती करून खातात असो लांब शेंप्याचो नाचुंची संवय आशिल्लो पक्षी; भारद्वाज पक्षी; कुक्कूड-कुंभो.

**कुचो** (पु) कोनसो (फा).

**कुच्छितकाय** (स्त्री) निंदा वा उपहास करची वृत्ती; थोमण्यांनी उलोवप (सं).

दशावतारी नाटकांच्या निमाणें गोकुळांतल्या कृष्णाचो आनी गवळी-गवळणींचो करताले असो नाचाचो खेळ.

**गवाक्षर** (पु) गोक्षूर; मसाल्याचें एक आंग.

**गव्हर** (न) भुयार; गुहा (सं).

**गसकसो** (पु) धबधबो.

**गहजब** (पु) बोवाळ (फा).

**गहन गती** (स्त्री) कळूंक कठीन असो मार्ग. कर्मणो गहना गतिः, मुयेन गिळळो हती – कर्माची गती कळूंक भोव कठीन.

**गहीन** (वि) सात्वीक; क्षमाशील; विनयशील (सं).

**गहिनीनाथ** (पु) नवनाथांमदलो एक सिद्ध पुरुष; निवृत्तिनाथांचो गुरू.

**गळचेपी** (स्त्री) गळो आंवळप; कोंडी; अडचण; दडपण.

**गळपटी** (पु) गळयाभोंवतणी थंडींत गुठलांवचो लोंकरी लांबट कुडको; मफलर; स्कार्फ.

**गळपट्टी** (स्त्री) खोमसाक, कोटाक, सदऱ्याक गळयाकडे शिवतात ती दाट सोबीत पट्टी; कॉलर; गॉल. उकती गळपट्टी – ओपन कॉलर.

**गळपास** (पु) गळफांस (के).

**गळफांस घेवप** (क्रिक) आपल्याच गळयाभोंवतणी फांस घालून आत्महत्या करप.

**गळसरी** (क्रिवि) भांगराच्या पोवनांची, मुयेदांची वा पुतळयांची बी गांथावन बायलो गळयांत माळ घालताल्यो ती माळ.

**गळसरेचो तांबयो** (पु) तांबयाचो एक घाट आसलो, तो. असोच गळयाचो घाट तांबया भाशेन कळशाचोय आसतालो.

**गळितप** (क्रिक) घेवप (के).

**गळो दाटप, गळो भरून येवप** – दुःखान गळयाकडे ओलसाण भरप; गहिंवर येवप; हुडको येवप.

**गाजप** (नांव) (क्रिअ) प्रसिद्ध जावप; किर्ती जावप; व्हडान आयकूंक येवप.

**गाजारो** (पु) चिचारो (के).

**गा जावप** (क्रिअ) (ल) मरप (के).

**गांठ** (स्त्री) ग्रंथी; जित्रुवाच्या कुडीच्या आंगांपांगांनीं द्राव स्रवपी स्नायूची गुठली; ग्लँड (प्रा).

**गांठबल** (न) न्हवऱ्याच्या शेल्याच्या आनी व्हंकलेच्चे पामरेच्या तोंकांची लग्नकार्यांत मारिल्ली गांठ; गोंयच्या कांय देवस्थानांच्या तळयांत म्हाजन आनी ताची वायल जोडयांनी न्हातात तें दंपत्य.

**गांठोडें** (न) पोटली; वजें; (ल) मुदगो.

**गांठ्यो** (स्त्रीं) तळिल्ल्यो तिखट शेवयो (गु).

**गांडगुदगी** (पु) इन्कलुएंझा जोर; डेंगू जोर.

**गांडींत गू नासप** (ल) आंगांत शक्ती नासप; त्राण नासप.

**गांडीव** (न) महाभारतांतल्या अर्जून पांडवाच्या धनुष्याचें नांव.

**गाडो** (पु) लांकडी वांदावळीचें ल्हान दुकान.

**गाद** (न) म्हण (के).

**गांद** (न) चंदन (के).

**गादयेकार** (पु) सोन्याचो दुकानदार.

**गादी** (अ) सारको, वरी हया अर्थीचें कूस (के).

**गादी** (स्त्री) शेत; भुसभुशीत जमीन; सोन्याचें दुकान (का); राज-सिंहासन (फा).

**गादें** (न) जमीन; प्रदेश (का).

**गादेवप** (क्रिक) सुस्तावप; आळसावप (१२९०).

ादो, गाद्दो (वि) गलिच्छ; मुस्तेल्लो; पु) शेत; म्हण (के).
ांधारली मूस (पु) चाबतकीर गांज येता सो विखारी मूस; गांजील मूस.
ांधी (पु) किराण्या मालाचो आनी देशी खदांचो वेपारी; एक आडनांव (गु).
ान (न) गाणें; कवन (सं).
ानकाव्य (न) गावन म्हणचेलें काव्य (के).
ाबणो (वि) (ल) पैशेकार; श्रीमंत.
ाबळ (न) सुटिल्ल्या पोटाची कुशीची वडी; कॉळ.
ाबळो (पु) काबळो; नाल्लाचो किशिल्लो काथो.
गाबेवप, गाबा वचप (क्रिक) गाव धरप; फळप; आनी गर्भ धरप.
गाबो (पु) गाभो; गर (के).
गाभो (पु) भितल्लो भाग; गर; (सं). केळीचो गाभो – केळीची भितल्ली कांडी.
गामा किरण (पु) मोटको क्ष किरण (इं).
गाय (अ) काय; येत गाय; आयलो गाय; वतलो गाय? संभव दाखवपाचें उतर.
गायकी (स्त्री) प्रसिद्ध गवयांचो संप्रदाय; गवयाची गायनाची हातोटी (सं).
गायतोंडो (वि) भिडेस्त; मर्जीमाफीक; (पु) एक आडनांव.
गायन्त्र (न) ग्रामोफोन (सं).
गार (पु) करपी ह्या अर्थाचें फारशी भाशेचें जोडउतर. मजतगार, कामगार, यादगार, (फा). हास्यगार (हंसोवपी कलाकार); वाडेगार – वाडेकार, वाडचार रावपी.
गारठप (क्रिअ) थंडेन शेंकेवप.
गारठो (पु) आकांताची थंडी; खूब शीं.
गाराई (स्त्री) खांदयेवेल्यान देंवपी पाळ,



गार्फ (पु) अस्तमतेंत खावपाक्रो जिन्नस तोंडाकडे व्हरपाखातीर वापरतात तो कांटयांचो चमचो; फॉर्क (पु).
गालमिशी (स्त्री) गलो.
गालव (पु) एका तान्याचें नांव; पुराणांतलो एक ऋषी.
गांवकारी (स्त्री) गांवकारांच्या रासवळ शेतांभाटांची सरकारी कायद्यान व्यवस्था राखपी सरकारी ग्रामसंस्था; कोमुनिदाद.
गांवखातें (न) गांवाची व्यवस्था दवरपी सरकारी नोकरवर्ग; गांवठी धंदो.
गांवगुंड (पु) गांवांत तवनासपणांत प्रसिद्ध असो मनीस.
गांवजेवण (न) गांवांतल्या लोकांक घाल्लें जेवण.
गांवठण, गांवठाण (न) गांवांतल्या लोकांची वसती.
गांवरान (न) गांवाच्या भोंवतणची जमीन.
गांवस (पु) गांवाचें संरक्षण करपी (क्षत्रीय); एक आडनांव.
गांव-सवाशीण (स्त्री) गांवांत शिंदळकेक प्रसिद्ध अशी बायल.
गांवुनगो (पु) गांवकार (का).
गाशो (पु) हातरूण; रजय; खोगिरावेली पातळ गादी (अ).
गाळ (स्त्री) दोंगराची पिकाळ देंवती जमीन; दोण; गाळी; अपशब्द; वायट उतर.
गाळावप (क्रिक) गाळी संवप (का).
गाळी (स्त्री) गाळ; देंवतेवेली वसती वा वाडो; अपशब्द; वायट उतर; निंदा.
गाळीव (वि) गाळिल्लो; वेंचिल्लो.
गाळेकंपास (पु) पोकळ वस्तूचें भितल्ल्यान आनी भायल्यान माप घेवपाचें कंपास; कॅलिपर.

**गिन्ना** (पु) गाय वा म्हशी वियेतकच नवेंच दिखाळ दूद कडोवन केल्लो पाक; खरवंस; पोस (का).
**गिमाळो** (पु) गिमाचो मोसम; उन्हाळो.
**गिरकुलो** (पु) ल्हान गिरो.
**गिरगिरी** (स्त्री) घुंवळ; घेरी; बेशुद्धी (का).
**गिरप, गिराब** (पु) मगज; गर.
**गिरबर्जो** (स्त्री), **गिरबुजें** (न) चिमणी हें सवणें.
**गिरभी** (स्त्री) फोपळीचो तुरो; माडयेची शिवडी.
**गिराणयो तारो** (पु) दुसऱ्या ताऱ्याच्या आडोसाक आइल्लो असो दिशिल्ल्यान ताका गिराण लायलां अशें दिसवपी तारो.
**गिरी** (अ) की, काय, पण, ताय अशा अर्थाचें विशेषणाक जोडटकीर भाववाचक नाम करपी कूस. देख : वस्तादगिरी, भोंदूगिरी, दादागिरी. हें कूम नामाकय जोडटात. देख : कामगिरी, कारागिरी, मध्यस्तगिरी, शिपायगिरी, रखवालगिरी. नामाक जोडटकीच गिरी हचा उतराचो अर्थ काम असो जाता (फा).
**गिरी** (पु) गोसावी, सिद्ध हांचो एक संप्रदाय. हे आपल्या नांवामुखार गिरी हें उतर जोडटात. मुक्तगिरी, युक्तागिरी, दद्गिरी बी.
**गिरीकंदर, गिरीगव्हर** (न) दोंगरांतली गुहा (सं).
**गिरेस्तावप** (किक) श्रीमंत करप; सधन करप; विकास करप; उत्पन्न वाढवप; धन जोडप (सं).
**गिर्यारोहण** (न) दोंगर चडपाचो वावर.
**गिलाफ** (पु) पिराचे कबरीवेलें वस्त्र (अ).
**गिलायू** (पु) टॉन्सील; ताळयांतल्यो गांठी (सं).
**गिल्डिग** (न) भांगराच्या अतिशय पानळ थराचो मुलामो; भांगराशिवाय दुसऱ्या धातूंचो पातळ गिलावो; रंगाचो मुलामो; पुस्तकाच्या कवराचेर भांगराच्या पानळ थराचीं अक्षरां छापप वा चित्र छापप; हें गिल्डिग लांकडी वस्तूंचेर, मखरांचेर, पालख्यांचेर, खुर्च्यांचेर बी करतात.
**गिवसण** (स्त्री) गंवसण; खोळ; पांगरूण.
**गिळंकृत करप** (क्रिक) गिळप (सं).
**गी, गीय** (स्त्री) गाडयेचें येरें; वाहनाची दिशा थारावपी चक्र वा आवताचो दांडो; मार्गदर्शक माहितीचें पुस्तक (पु).
**गीच** (अ) कीर, कच, कूच हचा अर्थाचें कूम; उप्रांत.
**गीण वा खरवंसाचें सांदन** (न) इडलीचे वाटलेंत शिजयल्लो दुदाचो खरवंस.
**गुंफा** (स्त्री) गुंफा; भुंयेर (के).
**गुच्छ** (पु) पुंजुलो; जमो (सं).
**गुंजक** (पु) गूं असो आवाज करपी; बझर (सं).
**गुजरी** (स्त्री) बायलो पांयांत घाल्तात ती चांदीची घागऱ्यांची सरपळी. गुजराथी बायलो भांगराच्यो गुजऱ्यो हातांत घालताल्यो (फा).
**गुजरी तोडी** (पु) संगितांतलो एक प्रसिद्ध राग.
**गुंड** (वि) खोल; (न) वर्तूळ; गुळो (का).
**गुडकी** (स्त्री) सोन्याचें दुकान; कुमारी; ताबेर्न (का).
**गुडसूल** (पु) खोंप (का).
**गुंडाय** (स्त्री) खोलाय; वांटकुळसाण (का).

**गुंडाळप** (क्रिक) गुंडी करप; गुठलावप; कवळप; गुठलावन व्हरप; बंद करप.

**गुडाकेश** (पु) आळसाक वा न्हिदेक जिखपी अर्जून पांडव (स).

**गुडी** (स्त्री) खोंप; ल्हान घर; झेंडो; वंदेर; पताका.

**गुंडो** (पु) वांटकुळसार फातोर.

**गुडो** (पु) दोंगर (का).

**गुड्डेगिरी** (स्त्री) वशिलेबाजी.

**गुड्डो** (वि) मोटवो; गिड्डो (का); (पु) (ल) वशिल्लो; फावोर.

**गुण** (पु) अलंकार; वस्त (के).

**गुणधर्म** (पु) निजाचो गूण आनी दोष; स्वभावविशेष (सं).

**गुणनखंड** (पु) अवयव; घटक; फॅक्टर (बिजगणीत) (सं).

**गुणप** (क्रिक) दोन संख्यांचो गुणाकार करप; एके संख्येची दुसरे संख्येइतली पट काडप; एक संख्या दुसरे संख्येचे पटीन वाढवप (सं).

**गुणयो** (पु) गवंड्याचो काटकोन्यो; काटकोन जुळवपाचें आवत (फा).

**गुणलावण्य** (न) गुणाचें सौंदर्य; गुणांची सुंदरकाय (सं).

**गुणवत्ता** (स्त्री) सद्‌गुणांचें भांडवल; गुणांची श्रीमंती; गूण आसप; गुणवंत-काय (सं).

**गुणश्रेढी** (स्त्री) भूमितीच्या नेमान सद्‌-गुणांची जावपी वाढ; गुणांच्या वाढीचो क्रम, वाढीचें प्रमाण (सं).

**गुणसंख्या** (स्त्री) परिक्षेंत वा सर्तींत वा खेळांत मेळयल्ल्या मार्कांची बेरीज; स्कोअर (सं).

**गुणाक पडप** – (वखदाचो) गूण येवप; (वखदान) दुखण्याक उतार पडप.

**गुणाक येवप** – गूण पडप; बऱ्याक पडप.

**गुणाकार** (पु) गुणाकाराचें उत्तर (सं).

**गुणांचो** (वि) गुणी; सद्‌गुणी; गुणवान.

**गुणात्मक** (वि) गुणांसंबंदीं; गुणांच्या प्रमाणान; गुणांच्या मापान; गुणांचे तुलनेन; गुणांचेर आदारिल्लो (सं).

**गुणी** (अ) खातीर; गुणाक लागून.

**गुणिले चिन्ह**–गणितांतलें गुणपाचें × चिन्ह.

**गुणिलो, गुणुलो** (वि) गुणांचो; गुणी; सद्‌गुणी. शाणुलो-गुणुलो अशें ल्हान भुर-ग्याक म्हणटात.

**गुण्या गोविंदान** (क्रिवि) बरे भाशेन; आनंदान; खोशयेन; आपखोशयेन. गुण्या-गोविंदान कुटुंबांत नंदचें, मागीर देव पावतलो.

**गुण्यो** (पु) काटकोन काडपाचें आवत; टी स्क्वेअर; इंग्लीश T हचा अक्षराच्या आकाराची वळी मारपाची पट्टी.

(वायटकाराक) **गूण नासप** (क्रिअ) वायटाक उतार पडना जावप.

**गुंतणूक** (स्त्री) अडणूक; घुस्पण; (पैशांचो) वापर; गुंतो; गदळ.

**गुंतवणूक** (स्त्री) आडावणूक; वापरणूक; धंद्यांतलें भांडवल.

**गुन्यांव मागप**–अपराधाखातीर क्षमा मागप.

**गुप्त धन** (न) दिष्टीक पडना अशें धन; ज्ञान, गुण, तप, चातुर्य, शाणपण बी गुणांचें धन (सं).

**गुप्तहेर** (पु) वळखूंक येना असो जासूद वा पोलीस; गुप्ताचारी.

**गुप्ताचार** (पु) हेरगिरी (का).

**गुप्ताचारी** (पु) गुप्त पोलीस; हेर; डिटेक्टीव; सी. आय. डी. पुलीस.

**गुप्ती** (स्त्री) काठयेंत लिपयल्ली तरवार;

भितर तरवार आशिल्ली काठी (सं).

**गुप्तीं** (क्रिवि) चोरयाणीं; दुसऱ्यांक कळनासतना; गुप्तपणान.

**गुंफप** (क्रिक) गुथप; गांथप; माळ करप (प्रा. इ. स. ८९०); फांती गुथप.

**गुमान करप** (क्रिक) विश्वास धरप; पर्वा करप.

**गुरगुंजी** (स्त्री) गुंज.

**गुरबजि, गिरबुजें** (न) चिमणी (के).

**गुरबा उदक** (न) गुलाबपाणी (के).

**गुरबीण** (स्त्री) गुरवार बायल.

**गुराम** (न) साकाची आनी ताडपत्रांची गांवठी पावसाळी कंडी (का).

**गुरीब** (वि) धाकटो; गरीब ह्या उत्तराक प्रासाखातीर जोडून येवपी उतर गरीबगुरीब (अ).

**गुरुकिल्ली** (स्त्री) कठीण काम करपाचें गुरूकडसून घेवपाचें ज्ञान; कठीण प्रसंगाचेर रामबाण उपाय.

**गुरुकुल** (न) वसतीगृह आशिल्ली शाळा; गुरूचें कुटुंब (सं).

**गुरुजी** (पु) गुरूक, शिक्षकाक मानान मारचेलो उलो (सं).

**गुरुत्व** (न) मोठेपण; गुरुत्वाकर्षण; मोठे वस्तून ल्हान वस्तूक आपलेकडेन ओडून घेवपाची वृत्ती आनी ते ओडीचें प्रमाण वा माप (सं).

**गुरुत्वमध्य** (पु) गुरुत्वाकर्षणाचो मध्यबिंदू; ज्या बिंदूच्या ठांय पदार्थाच्या सगळ्या भागांचें समतोलन जाता तो बिंदू (सं).

**गुरुदक्षिणा** (स्त्री) शिक्षण पूर्ण जातकच गुरूची इच्छा शिष्यान पूर्ण करपाची प्राचीन पद्धत (सं).

**गुरुपरंपरा** (स्त्री) गुरुशिष्यांची परंपरा.

**गुरुपौर्णिमा** (स्त्री) आषाढ म्हयन्याची पुनव; व्यासपौर्णिमा (सं).

**गुरुभक्ती** (स्त्री) गुरूचें प्रेम; गुरूचो आदर; गुरुसेवा; गुरुदेवाची उपासना.

**गुरुमुखी** (स्त्री) पंजाबी भाशेची आनी शिखांच्या धर्मग्रंथाची लिपी.

**गुरूपदेश** (पु) गुरून दिल्ली म्हत्वाची शिकवण; गुरुमंत्र; गुरूची गुपीत शिकवण.

**गुरुवार** (पु) ब्रेस्तार; सप्तकाचो पांचवो दीस (सं).

**गुरू घेवप** (क्रिक) अध्यात्मीक गुरूकडल्यान जपमंत्र, पुजापाठ, एकवनाची दिक्षा घेवप.

**गुर्तावप** (क्रिक) वळखप (का).

**गुर्तु** (पु) वळख; परिचय (का).

**गुर्बिणी** (स्त्री) गुरवार बायल.

**गुलगुलीत** (वि) झुबकेदार; गोंडस.

**गुलगुलो** (पु) उदक थंडगार रावचेखातीर घडयल्ली मातयेची सुरई (अ).

**गुलगूल** (वि) गोडगोड; कानाक गोड लागपी (खबरी).

**गुलछडी** (स्त्री) फुलझाडाच्यो खांदयो व्रडयेसारक्यो ताठ आसून तांकां आंगभर येवपी फुलांची जात (फा).

**गुलछबू** (पु) निशिगंधाचें फूल; लांबट सफेद रंगाचें सांजवेळा फुलपी फूल (फा).

**गुलबक्षी** (स्त्री) धवीं, तांबडीं, जांवळीं सांजवेळचीं फुलां फुलपी एक फुलझाड; गुलबक्षीचें फूल (फा).

**गुलमोहोर** (पु) तांबडया रंगाचीं आंगभर फुलां येवपी सोबीत झाड (फा).

**गुलाबकळी** (स्त्री) सुकयल्लो गुलाबाचो कळो रेचक (भायरी) वखद म्हण उपकरता.

**गुलाबजाम** (पु) मैदो, तूप आनी खवो

मेळून तळिल्ल्यो गुळयो साकरेच्या पंकांत मुरयतात ती मिठाय.

**गुलाबशेंवतें** (न) बायलांनीं माथ्यांत माळपाचो गुलाबाच्या आकाराचो भांगराचो दागिनो.

**गुलामगिरी** (स्त्री) बंधन; बंदेपण; दास्यत्व (फा).

**गुळफो** (वि) चिकचिकीत गुळो.

**गुळरी** (स्त्री) गॉड घालून भाजिल्ली पिठाची पोळी.

**गुळपापडी** (स्त्री) पातळ गॉडांत पाकयल्ल्यो रव्याचो वडयो वा गुळयो (कु).

**गुळपोळी** (स्त्री) गॉड घालून केल्ली पोळी.

**गुळवेल** (स्त्री) एक वखदी वनस्पत; अमृतवेल.

**गुळाचो गणपती** (पु) (ल) आळशी आनी फोपसो मनीस.

**गट** (पु) गुपीत; गूढ; रहस्य; जमो; एकवट.

**गूण** (वि) पट वा पेट ह्या अर्थाचें जोडउतर. दुगूण, त्रिगूण, चतुर्गूण, पंचगूण बी. बरी बाजू; सत्प्रवृत्ती; सदाचरण; बऱ्याची ओड; सत्यप्रियता; धैर्य; पराक्रम; सचोटी; लोकप्रियता; सदभिरुची; चारचौगांच्या हिताची ओड; सेवेची भावना; कर्तव्यप्रियता; कर्तव्यकठोरताय; विनयशील वृती; यश मेळोंवची धडपड; सद्‌गुणांची चिकाटी; परोपकारी वृत्ती; सत्व, रज आनी तम हे तीन गूण म्हळयार मनोवृत्ती मनशांभितर उण्याअदीक प्रमाणांत निजांतल्यान येतात.

**गूणि** (अ) खातीर ह्या अर्थाचें कूस (के).

**गृहखातें** (न) राज्यांत शांतता नांदची म्हणून पोलीस, गुप्तहेर, वृत्तव्यवसाय, वहातूक, समाजीक स्नेहसंबंध, तुरुंग बी खात्यांचें नियंत्रण करपी सरकारी खातें.

**गृहपती** (पु) घरधनी; गिरेस्त.

**गृहमंत्री** (पु) गृहखात्याचो लोकप्रतिनिधी प्रधान.

**गृहस्थाश्रम** (पु) लग्न जावन घरसंवसार करपाची अवस्था (सं).

**गृहस्थी** (वि) गृहस्थाक सोबता अशी; (स्त्री) गिरेस्तकाय; सभ्यपणा; सभ्य आचरण (सं).

**गृहीत धरप** (क्रिक) खरें धरप; प्रत्यक्ष नासलें तरी धरून चलप.

**गृहीतक** (न) प्रत्यक्षांत नासतनाय, आसा अशें समजल्ली वस्त वा कल्पना; पॉस्च्युलेट; मानीव गुणधर्म (सं). अनुमान प्रक्रियेखातीर उदाहरण म्हणून मान्य केल्लें विधान.

**गृहिणी** (स्त्री) पत्नी; घरकान्न (सं).

**गृहीतागमा** (स्त्री) श्रीमती नाथीबाई दामोदर ठाकरसीं महिला विद्यापिठाची स्नातिका पदवी; विदुषी (ज्ञानसंपादन केल्ली); बी. ए. च्या पांवड्याची महिला विद्यापिठाची पदवी (सं). जी. ए. अशें ह्या उतराचें संक्षिप्त रूप करताले. हिचे मुखारची पदवी घेतालीं ती 'प्रदेयागमा.' हिचें पी. ए. अशें सँक्षिप्त रूप जातालें.

**गेंडी** (स्त्री) हॉकीचो खेळ खेळचेली विशिष्ट पद्धतीची वांकड्या तोंकाची काठी; हॉकी स्टिक (गु).

**गेण** (न) वेंथाचें माप (का).

**गेर, घेर, हेर** (अ) घरांत ह्या अर्थाचें कूस. रामागेर, रामाघेर.

**गेलो, घेलो, गेल्लो, घेल्लो, हेलो, हेल्लो** (अ) घरचो, घरांतलो ह्या अर्थाचीं कुसां.

**गेस्ट** (पु) पावणो; सोयरो (इं).

**गेळ हातोडो** (पु) खिळे निखळांवचो एक

तोंक वांकडें भेतून घडयल्लो तुतयो.

**गेळें** (वि) गेडें (का).

**गैदी** (वि) आळशी आनी गलिच्छ; अव्यवस्थीत (हिं).

**गैबी** (वि) गुप्त; गूढ (अ).

**गैबीनाथ** (पु) नवनाथांपैकीं सांहिरांवा-नाथ आंबियेचो गुरू.

**गैरकायदो** (वि) बेकायदेशीर; कायद्याचे भायर (अ).

**गैरमाहिती** (स्त्री) चुकीची खबर (अ).

**गैरमाहीतगार** (पु) अज्ञानी; चुकीची समजूत आशिल्लो (अ).

**गैरवाजवी** (वि) अयोग्य; गैरशिष्ट (फा)

**गैरसावध** (वि) बेसावध; सावध नाशिल्लो; लक्ष नाशिल्लो (असं).

**गैरहिशेबी** (वि) हिसपाभायलो; हिशेब नकळ आशिल्लो; पोंच नाशिल्लो; गैर-अंदाज; तारतीम नाशिल्लो (फा).

**गोंकनळी** (स्त्री) मकनळी; गळो; नाळो.

**गोकर्ण** (पु) गायचो कान; (न) गायच्या कानाचे सारकायेचें भुरग्यांक दूद बी पाज-पाचें बोंडलें.

**गोकर्ण क्षेत्र** (न) कारवार जिल्ह्यांतलें गोकर्ण म्हावळेश्वर हें शिवलिंगाचें प्रसिद्ध देवस्थान; रामायणांतल्या रावणान शिवलिंग हुमटायतना तें गायच्या कानाच्या आकाराचें जालें. हाका लागून लोक ताका गोकर्ण लिंग आनी थंच्या गांवाक गोकर्ण क्षेत्र म्हणूंक लागले (सं).

**गोकर्णी** (स्त्री) धव्या वा निळ्या गायच्या कानासारक्या फुलांची एक वेल; गोकर्णीचें फूल.

**गोंगाट** (पु) बोवाळ; गडबड; कलकल.

**गोग्रास** (पु) गायेक दान म्हणून जेवण वा तणाचो दितात तो घांस (सं).

**गोचर** (वि) प्रत्यक्ष दोळ्यांक दिसपी (तारे); कळून येबपी (सं).

**गोज्जु** (स्त्री) उकडिल्ल्या तोराची चटणी.

**गोटारलि** (स्त्री) कोठाल्ल (के).

**गोठवप** (क्रिक) शेंकेना अशें करप; घट्ट करप; (क्रिअ) शेंकेवप.

**गोंड** (पु) फुलांच्या केंसरांचो तुरो.

**गॉड खांवक वचप** – (ल) उपकारा पडना जावप (तकली).

**गोडबाळें** (न) गोड्स चकली; कोडबाळें.

**गोडो** (वि) गोड सभावाचो.

**गोडाचो बांदो** (पु) गोडाची ढेंप.

**गोंडि** (स्त्री) नाल्लांची पेंड (के).

**गोड्डु** (पु) गडे (के).

**गोत्र** (न) प्राचीन ऋषींलागीं मानिल्लो कुळाचो संबंध (सं).

**गोत्रज** (पु) एकाच गोत्राच्या कुळांभितर जल्मल्ले (सं).

**गोत्रताटो, गोतरचाटो** (पु) वंशाचो दांडारो (वृक्ष); वंशाचो तपशील; लग्नांत नवे व्हंकलेक घोवाच्या कुळांत घेवपाचो सुवाळो (सं).

**गोणटें** (न) गोणपाट; बारदन (१२५०).

**गोदान** (न) गाय दान दिवप (सं).

**गोधन** (न) गोरवां हीच संपत्ती; माल-कीची गोरवां (सं).

**गोपाळकालो** (पु) गोकुळाष्टमी दुसऱ्या दिसा धंयहंडी फोडपाचो खेळ; जात्रांनी करतात तो कृष्णाचो खेळ (सं).

**गोप्रदान** (न) शास्त्रोक्त पद्धतीन ब्राह्म-णाक केल्लें गायचें दान (सं).

**गोफ** (पु) तोणयांनीं नाचत खेळन मेळांत माथ्यार विणटात अशी दोरयांच्या गोफाची वीण; ही वीण उलगडून नाच सोंपता.

**गोबर** (पु) कांयच न्हय अशी वस्तू; क्षुद्र वस्तू.
**गोबराची परिक्षा नासप** – कसलीच पारख नासप.
**गोबर जाण जावप** – कांयच नकळ जावप.
**गोबर नकळ जावप** – कांयच नकळ जावप.
**गोबराळो** (वि) गोबऱ्या रंगाचो.
**गोमटाय, गोमटायि** (स्त्री) सुदरकाय; गोबीतकाय (सं).
**गोयंडो** (पु) कुलो; भेंडाचो भाग (के).
**गोरजी** (पु) जैनांचो ग्रामगुरू.
**गोरटी** (स्त्री) कोरांटी; एक फुलझाड.
**गोरक्ष** (पु) जोगी; नाथपंथी; एक सिद्ध-मार्ग; मच्छिंद्रनाथाचो शिष्य (१२५०); गोरखो; गोरवां राखणो (सं).
**गोरेडो** (पु) गवो बैल (गा).
**गोरोमोरो** (वि) फिकट जाल्लो; तोंड उतरिल्लो; पडिल्ल्या चेऱ्याचो.
**गोलक** (पु) वांटकुळो गुळो (सं).
**गोलंदाजी** (स्त्री) शत्रुसैन्याचेर केल्लो तोफेचो मारो; क्रिकेटच्या खेळांत गोलंदाजान फलंदाजाची विकेट उडोवंचखातीर चेंडू मोखपाची क्रिया; बोलींग (फा).
**गोलांतर** (वि) भितल्ल्यान गोल; कॉन्केव्ह (कांच). असले कांचेचो उपयोग दुर्बिणींत आनी कॅमेऱ्यांत जाता.
**गोलें** (न) पांच शेर तेलाचें माप.
**गोवक्रिया** (स्त्री) गोपालन; गायेक पोसप (क).
**गोंवप** (क्रिक) गुतवप; घुस्पावप.
**गोवळ** (पु) गोरवांचो गोठो.
**गोंवळी** (पु) राखणदार; पाद्री; गोरवां राखून दूददुबत्याचो धंदो करपी गवळी; गवळ्यांची जात.
**गोंवळीक** (स्त्री) राखण; राखणदारी; मार्गदर्शनाची जबाबदारी; गोरवां राखचो धंदो.
**गोंवळी बाप** (पु) रोमन कॅथलीक क्रिस्तांवांचो पापसायब.
**गोवाय** (न) गोह; गोधा; घोरपड; Iguana (के).
**गोष्ट** (पु) गोठो (के).
**गोळ** (पु) फांस; लोंबण; सकयल आदार नासतना वयल्यान बांदून लोंबवप.
**गोळची भाजी, घोळची भाजी, घोळीची भाजी** (स्त्री) रुचीक कोंवळी पालेभाजी; गोळचे वालीच्या पानांची भाजी.
**गोळ जावप** (क्रिअ) कंठमणी सुजप; थायरॉयड रोग जावप.
**गोळा करप** (क्रिक) वेंचप; एकठावप (म).
**गोळा लावप** (क्रिक) दोनय हात बांदून तें दोरयेन मनशाक आडवे पाटयेक टांगप आनी सकयलो आधार काडप; लोंबवप.
**गोळाबेरीज करप** (क्रिक) सगळ्या बेरजांची एक बेरीज करप; सारांश काडप; तात्पर्य सांगप.
**गोळार मारप** (क्रिक) फांसार चडवप; फांशी दिवप; फांस गळ्याभोंवतणी आंवळून मरसर टांगप; उमकळावन मारप.
**गोळी** (स्त्री) गुळी; पिपिरमिटाची वडी; वखदाची गुळी; तुबकाची गुळी (सं).
**गौड** (पु) म्हाजन (का) (बारावो शेंकडो); गांवसभेचो अधिकारी; ग्रामसंस्थेचो मुखेल.
**गौडपादाचार्य** (पु) कवळें मठाचो स्वामी; गौडपादान स्थापिल्ल्या संप्रदायाचो मठाधिपती स्वामी (सं).
**गौडप्रभु** (पु) देशप्रभु; नाडप्रभु; प्रति-

ष्ठीत अधिकारी; गांवाचो प्रमूख; पाटील (१३००).
**गौडबंगाल** (न) जादू; मंत्रतंत्र; बंगाल प्रांतांतली जादूविद्या; (पु) बंगाल देशाचें एक नांव.
**गौडसारस्वत** (पु) पंचगौड ब्राह्मणांनली एक जात.
**गौडा** (पु) पाटील; गांवचो मुखेल सरकारी अधिकारी (का).
**गौरी** (स्त्री) पार्वती देवी; एक संगीत राग; कुमारी (देवी).
**ग्यालन** (न) पेत्रोल, घासलेट मापपाचें सुमार स बाटल्यो तेल मावता एदें ब्रिटीश माप (इं).
**ग्रॅच्युइटी** (स्त्री) नोकरी सोंपतकच मालक (सरकार, कंपनी) नोकराक खोसयेन देता ती भेट वा दुडू; पेन्शनराक सरकारी कायद्यान मेळटा ती निमाण्या कांय म्हयन्यांच्या पगारांचे रकमेइतली देणगी (इं).
**ग्रंथराज** (पु) महान ग्रंथ; व्हड पुस्तक; म्हत्वाचें पुस्तक (सं).
**ग्रंथी** (स्त्री) जित्रुवाच्या कुडीच्या आंगांपांगांत गरजेचो द्राव स्रवपी स्नायूची गांठ; मानीचें पेर; दोन हाडांमदलो सांधो; लग्नगांठ (सं).
**ग्रथीत** (वि) ग्रंथांत बरयल्लें; गुथिल्लें; गांथिल्लें (सं).
**ग्रस्त करप** (क्रिक) घांस मारप; गिळप; ग्रासप; त्रास दिवप; छळप (सं).
**ग्रहचार** (पु) ज्योतिषशास्त्रानसार ग्रहांकडल्यान पिडा वा सूख भोगप (सं). रांडे बायलेक सातकडचे ग्रहचार.
**ग्रहदशा** (स्त्री) फलज्योतिषशास्त्रानसार ग्रहांचे भोंवडेंत ते मनशांचेर आनी हेर वस्तूंचेर करतात तो बरोवायट परिणाम
**ग्रहशांती** (स्त्री) वायटार आशिल्ल्या ग्रहांक संतुष्ट करचेखातीर केल्लो होम
**ग्राभ** (पु) क्लच; पकडो (सं).
**ग्रामराज्य** (न) गांवांचे रासवळ मन्तेची राटावळ; ग्रामसंस्थेचो कारभार आनी अंमल (सं).
**ग्रामसंस्था** (स्त्री) कोमुनिदाद; गांवां तल्या मूळ गांवकारांची रासवळ हक्काच्या शेताभाटांचो सर्वजनीक कायदेशीर कारभार करपी संस्था (सं).
**ग्राम्य** (वि) गांवढळ; असभ्य; अडाणी
**ग्राश मारप** (क्रिक) (ल) बूट पॉलीश करप; मालीस करप; लाचारीन तुस्त करप; तोंडपुजेपण करप (पु).
**ग्रासप** (क्रिक) खावप; गिळप; गिरासप; गिराण लावप (सं).
**ग्राहक पुस्तिका** (स्त्री) प्रत्येक गिरायकाच्या वा खातेदाराच्या जमाखर्चाच्या हिशोबाचें ल्हान पुस्तक; पास बूक. हो हिशोब दुकानदार वा बँक अधिकारी बरयतात आनी तें पुस्तक गिरायकाकडेन उरता (सं).
**ग्राहीक** (पु) गिरायक (१२५०).
**ग्राह्य पुरावो** (पु) कायद्यान मान्य करू येता असो पुरावो.
**ग्रेग** (वि) ग्रीक; ग्रीस देशाचो; ग्रीक लोकांचो; (स्त्री) ग्रीक भास (पु).
**ग्रॅनायट फातर** (पु) कोंकणांत सगळीकडे मेळटा तो जांबो फातर. घरां बांदपाक हो फातर शिमिटाहून चड उपयोगी आसता (इं).
**ग्रेनेड** (पु) हातान मोखून मारूं येता असो स्फोटक बाँब (इं).
**ग्रेनेडियर** (पु) सैन्याचे आघाडीर हात-

बॉम्ब मोखून मारीत हल्ल्याची वाट मेकळी करपी सैनीक (इं).

**ग्लुकोज सलायन** (न) गंभीर अवस्थेंतल्या वायटकाराक ०.९% मीठ आनी ०.५% ग्लुकोज ९८.६% शुद्ध उदकांत मिसळून शिरेंतल्यान दितात तो द्राव (इं).

**ग्वाही** (स्त्री) खात्री (फा).

**घ**—कोंकणी भाशेचे देवनगरी वर्णमाळेचें चौथें यंव्जन.

**घट** (पु) विजेरेचें सेल; विजेच्या मसाल्याची कांडी (सं).

**घटका, घडी** (स्त्री) चोवीस मिनिटांचो वेळ (सं).

**घटकाभर** (क्रिवि) थोडो वेळ; कांय वगत; एके घटकेचो वेळ; २४ मिनिटांचो वेळ.

**घटनात्मक** (वि) राज्यघटने संबंदाचो; रचणुकेविशीं; घटनेच्या नियमासंबंधीं.

**घटना-समास** (पु) रसायण शास्त्राप्रमाण एका रेणूंत आशिल्ल्यो अणूंच्यो जाती आनी तांचें प्रमाण दाखोवपी सूत्र; केमिकल फॉर्म्युला (सं).

**घटसाण** (स्त्री) घटवाय; शक्ती.

**घटस्थापना** (स्त्री) आश्वीन शुद्ध पाडव्यासावन नमीमेरेन देवीच्या देवळांत तांबयांत (कलश) देवीची स्थापना करून णव दीस पुजा पाठ (सप्तशती) करतात, तें देवकार्य. दसमी दिसा घटविसर्जन करतात. पाडव्याक घट बसता आनी दसमी दिसा उठटा अशें म्हणटात.

**घटस्फोटीत** (वि) काडीमोड जाल्लो (सं).

**घटा** (स्त्री) घटका.

**घटाकाश** (न) घटांतलें अंतराळ; कळशांतली वा आयदनांत आशिल्ली पोकळी वा पोकळ जागो. घटाकाश, मठाकाश (घरांतली पोकळी) हीं उतरां तत्वज्ञानाचे चर्चेंत येतात.

**घटाघटा** (क्रिवि) घटाघटा असो आवाज करीत (पिवप).

**घटां-फोपळां** (न) (ल) बारिकसाणी; सगळो बारीक सारीक तपशील; मुळावी माहिती; कसल्याय देवकार्याक सगळयांपयलीं लागपी वस्तू म्हळ्यार पुजेचो तांबयो (घट) आनी सुपारी म्हळ्यार फोपळां.

**घटाय** (स्त्री) घटसाण; शक्ती; बळ; दृढताय; निग्रह; निर्धार; उणाय; कमताय.

**घंटिका** (स्त्री) घागरी (सं); ल्हान खुळखुळो.

**घटितार्थ** (पु) भविष्यांत कितें घडटलें ताजो ज्योतिषी अंदाज; घटिचाराचो अर्थ; घडलां ताचेवेल्यान शिकपाचें शाणपण.

**घटोत्कची** (वि) महाभारतांतल्या घटोत्कचासारको अवाढव्य; घटोत्कचान राक्षसी जादुगिरीन शत्रूंक (कौरवांक) फसयले, तसली (जादूविद्या). घटोत्कचाचो बाजार-फसवो बाजार. घटोत्कचाची माया – फसोवपाचो वेव्हार.

**घट्ट** (क्रिवि) व्हडान; मोठचान; (वि) बळकट; मजबूत (के).

**घडकार** (पु) लोहकार; लोखणाच्यो वस्तू घडोवपी; हेमाडकार; घडकामी.

**घडगडप** (क्रिअ) घडगड असो आवाज जावप; उलथोपालथो जायत घसरत सकल पडप.

**घडगडो** (पु) काल्यांत, जात्रेंत बाजारांत खेळटात तो गांवठी जुगार.

**घडघड** (पु) कुपांचो घडघडाट; घडघड असो आवाज.

**घडघडाट** (पु) घडघड घडांयच असो आवाज.

**घडघडीत** (वि) टणटणीत; धडधाकट; निरोगी. घडघडीत वाचप–सडसडीत, चुकनासतना आनी अडखळनासतना वाचप.

**घडणार, घडणारो** (पु) घडपी; घडचो आसा असो.

**घडणी** (स्त्री) घडिचार.

**घडयेचो** (वि) घडी करून वा जोडून थोडे जागेंत दवरूं येता असो. घडयेचो दरवाजो – बिजागऱ्यांनीं जोडिल्ल्या फळ-यांचो दरवाजो;

**घडवाट्टे** (न) घटकापात्र; म्हुर्ताचे घटकेचें आयदन.

**घडसप** (क्रिक) एकठांय जोडप; सांदप; सांदावप.

**घडीघडी, घडोघडी** (क्रिवि) भौनभौन; परतपरत; वारंवार.

**घडीत** (न) घडिचार; घडप; जावप; घटिचार; घटितार (सं).

**घडी मोडूंक नाशिल्लो** – नवो ताल्ल; उसवंक नाशिल्लो; वापरूंक नाशिल्लो; कोरो करकरीत (धोतरजोडो, शालू, कपडो).

**घडीव** (वि)ठोकून ठोकून आकार दिल्लो.

**घणघणाट** (पु) घणघण असो आवाज.

**घणसा बैल** (पु) गणेसा देवाचो बैल; नंदी बैल; कितेय सांगलें तरी हय म्हणून वा ना म्हणून मान हलोवंक शिकयल्लो बैल; (ल) दुसऱ्याचे बुद्दीन वागपी मनीस.

**घणाघाती** (वि) जड तुनयाच्या आघाता-सारको; जबरदस्त.

**घन** (वि) तीन ममान मंख्यांच्या गुणाका-राचें उत्तर; लांबी, रुंदी आनी उंची हांच्या गुणाकाराचें परिमाण "घन" अशें म्हणटात. देख : घन इंच, घनफूट, घन-मिटर बी.

**घनगर्जना** (स्त्री) कुपांचो गडगडाट; घडघडो.

**घनघोर** (वि) महाभयंकर (स).

**घनचक्कर** (वि) गडबडीचो; अव्यव-स्थीत; गोंदळिल्लो; हातघाईचो; हाणा-मारीचो.

**घनदाट** (वि) गच्च भरिल्लो; गर्दीचो; चिगींट आशिल्लो (स).

**घनपाठो** (पु) घनपाठ, क्रमपाठ. जटापाठ बी वेगवेगळ्या पद्धतींपैकी घनपाठ पद्धतीन वेद पाठ म्हणपी (सं).

**घनभुमिती** (स्त्री) भरीव वस्तूची भुमिती. पोकळ नाशिल्ल्या वस्तूंचें मापन; तीन बाजू (लांबी, रुंदी, उंची) आशिल्ल्या वस्तूंचें मेजमाप (सं).

**घनमाप** (न) एखाद्या वस्तूची लांबी, रुंदी आनी उंची हांचो गुणाकार करून आइल्लें माप. देख : घनफूट, घनमिटर बी.

**घबांयच** (अ) घब्ब करून अचकीत पड-पाचो आवाज.

**घमघमप** (क्रिअ) परमळप; वासान भरप.

**घमघमाट** (पु) खूप परमळ.

**घमघमीत** (वि) बऱ्या वासाचो; पर्म-ळीक.

**घर** (स्त्री) मरतासतना वायटकाराच्या गळ्याकडे जावपी घरघर असो आवाज; लाळ गळ्याकडे एकठावन स्वास घेता-सतना जाता तो आवाज.

**घर** (न) वसतेची बांदावळ; रांवचे-खातीर पोखरिल्लें बीळ; भोंको; बुराख; खेळाच्या नाटीची चौकट वा खण; फल-ज्योतिष कुंडलेच्या चौकोनाची जागा; स्थान; आगर; कोष्टकाचो रकानो वा कॉलम (सं).
**घरखर्च** (पु) घर-कुटुंब पोसपाक लागता तो खर्च.
**घरटें** (न) ल्हान घर; सवण्याचो घोंटेर.
**घरबुदी** (पु) तांबडो दुदी.
**घरधनी** (पु) घराचो मालक; कुटुंबां-तलो कर्तो पुरूष.
**घरपोंच** (क्रिवि) घराकडे पावतो केल्लो.
**घर फोडप** (क्रिक) (ल) कुटुंबांत वांकडे-पण करून वेगळेचार करप; घराचें दार वा छप्पर फोडून घर नागवप.
**घरफोडो** (पु) घर फोडपी.
**घरबसल्या** (क्रिवि) वावर करिनासतना.
**घर बुडप** (क्रिअ) घराची दुर्दशा जावप.
**घरबैठो पगार** (पु) घराकडे रावून काम करिनासतना मेळटा तें वेतन; पेन्शन; निवृत्तीवेतन; बसपागार.
**घरभर** (क्रिवि) घरांत सगळेकडेन; घराच्या सगळ्या भागांनीं.
**घरभाडें** (न) दुसऱ्याच्या घरांत रांवचे-खातीर दिवची पडटा ती म्हयनेम्हालची रक्कम.
**घरभाडें भत्तो** (पु) नोकरेच्या पगाराच्या प्रमाणानसार गांवांत वा शारांत घरांच्या भाडयाचे दर वाढले म्हणून नोकरांक पगारावरोबर दितात तो भत्तो.
**घरमोडो** (वि) घरकुटुंबांत वांकडेपणां करपी; कुटुंबांत धोंस घालपी.
**घर रिगप** (क्रिक) दुसऱ्याचें घर फोडून नागवप; **घरठाव करप; घर ताब्यांत** घेवप; घरकारीण जावप.
**घर लागप** (क्रिअ) मरतासतना वायट-काराच्या गळ्याकडे लाळ सांचून स्वास घेतासतना घरघर असो आवाज जावप; मर्णकाळचो घुस्मटमार.
**घरवत** (न) घरसंवसाराचें सामान.
**घरवती** (वि) कुळीण.
**घरवाली** (स्त्री) घराची मालकीण; घर-धनयाची बायल.
**घरवालो** (पु) घराचो मालक.
**घर शिवप** (क्रिक) दर वर्सा छपराचे नळे साफ करून परते दाळप.
**घराचो** (वि) घरा-कुटुंबांतलो.
**घराणें** (न)वंश; कूळ; एकाच कुटुंबाच्यो कांय पिळग्यो.
**घरोघर, घरोनघर** (क्रिवि) साबार घरांनीं; दर एका घरांत.
**घरोबो** (पु) घराबो; दोस्ती; कुटुंबाची मित्रताय; सोयरीक; लग्न.
**घर्षक** (पु) घांसपी; रबर; कागदावेलो मजकूर घांसून उडोवपी रबराच्या झाडाच्या दिखाचो कुडको (सं).
**घर्षण** (न) घांसपाची क्रिया (सं).
**घर्षणी** (स्त्री) गती रोधक; घांसून गती थांबवपी; ब्रेक (सं).
**घष्टी** (पु)कुटुंबांतल्या बायलांचो कष्टाचो वावर.
**घस** (स्त्री) तूट; कसर; मापतासतना आइल्ली तूट.
**घसघस** (पु) वैभव; दबाजो; व्हडपण.
**घसट** (स्त्री) सलगी; सवकळ; दाट परिचय; घसळ.
**घसरकांच** (स्त्री) घसरायत दाखवपाचे कांचीर छापिल्लें चित्र वा प्रतिमा; स्लायड. ही मॅजीक लॅटर्नचेर दवरून उज-

वाडाच्या झोतान कांचींतलें चित्र पडुयार दाखयतात.

**घसरउड्डाण** (न) पांवलांक पोंदा पत्र्याच्यो पट्टयो बांदून हातांनीं सळयो धरून बर्फाळ दोंगरावेल्यान घसरपाचो खेळ; स्कीइंग. हो खेळ स्वीडन, नॉर्वे, फिनलंड बी बर्फाळ देशांत लोकप्रीय आसा.

**घसरण** (स्त्री) घसरपी जागो.

**घसरत्राण** (न) सपाट जमनीवेल्या बर्फाच्या थरार घसरत फिरपाच्या खेळांत सुरक्षीत घसरपाचें पांयांच्या तळव्यांक बांदपाचें विशिष्ट पत्र्यांचें पांयतण; स्केट. स्केटींग म्हळचार सपाट बर्फाळ जमनीर घसरपाचो खेळ.

**घसरपट्टी** (स्त्री) घसरउड्डाण करतासतना पांयांच्या तळव्यांक बांदपाची, घसरपाची विशिष्ट पट्टी; स्की.

**घळघळावप** (क्रिक) घळघळत अशें करप; दुवांतत अशें करप; गुरवारणीचो गर्भ पुरे म्हयने जांवचेपयलीं काडून उडवप.

**घळयेपण** (न) निष्काळजीपण; दुर्लक्ष; बेपर्वाय; घाळपण.

**घळयो** (वि) निष्काळजी; घाळ रावपी.

**घळ्ळ जावप** (क्रिअ) सर्गदन जावप; अजापीत जावप; प्रभाव पडप.

**घाई, घाय** (स्त्री) ताकतीक; बेगीन करपाची गरज; त्वरा; जलदी.

**घागरपाट** (पु) बायलांच्या कमरांत घालपाचें घागराळें.

**घागराळें** (न) बायलांच्या कमरांत घालची घागऱ्यांची सरपळी; घागऱ्यांचो पट्टो; घागरपाट.

**घांट** (पु) दोंगर चडपा-उतरपाची वाट वा रस्तो.

**घाटणो** (पु) रगडयाचो गुंडो; घुडसांद्याचो गुंडो.

**घाटदार** (वि) नमुनेदार; सोबीत; प्रमाणशीर आंगांपांगांचो (स).

**घांट-धुपारत** (स्त्री) दत्ताच्या देवळान घांट धुपारत वाजतना भुतां संचरल्ली मनशां थरथर कांपतात. ते तरेचो थरथरो (सं). खूब भयाची अवस्था.

**घांटप** (क्रिक) चाळप; चर्चा करप; खल करप; धवळप (ताक) (के).

**घाटप** (क्रिअ) उलोवणें वा चर्चा जावप, घांसप; (ताक) चाळप.

**घांट लागप** (क्रिअ) पिसावप (के).

**घाटो** (पु) लुस्कान; उणाय; तूट.

**घाण पिनॅर** (वि) कर्ज काडटना जामीन म्हणून दवरिल्ली मोलादीक वस्त वा घाणवट दवरिल्ली जमीन (पु).

**घाणेवप** (क्रिअ) घाण मारप.

**घात करप, घात मारप** (क्रिक) विश्वासघात करप; जाणे आपलेचेर विश्वास दवल्लो ताचेकडे कपट करून ताचें खूब लुसकान करप.

**घातवार** (पु) अशूभ दीस; जल्म कुंडलेनसार वायट दीस, वायट नक्षत्र, वायट म्हयनो बी थारायतात. तांकां घातवार, घातनक्षत्र बी म्हणटात.

**घातांक** (पु) समान संख्यांच्या गुणाकाराची फावट दाखवपी आंकडो. हो आंकडो मूळ समान संख्येच्या मुखार बारीक आकारान वरसो बरयतात. देख : $४^२$ म्हळचार चार ही संख्या ४×४ अशी गुणली. $४^३$ म्हळयार चार ही संख्या ४×४×४ अशी गुणली. पयले संख्येंत २ आनी दुसरे संख्येंत ३ हे घातांक.

**घातांकगणन, घातगणन** (न) लघुगणन, लोगॅरिथम.

**घातूक, घातक** (वि) घातमारो; त्रास दिवपी; नष्टो; लुस्कान करपी (सं).

**घाबरट** (वि) भित्रो; भिजूड.

**घाबरोघुबरो** (वि) भयान आकांतार आयिल्लो.

**घालघसर** (स्त्री) दुर्लक्ष; निष्काळजीपण; हलगर्जी; चुकभूल.

**घालप** (क्रिक) गणीत घालप – गणीत करूंक सांगप. हुमाणें घालप – सोडोवंक सांगप. हार घालप – पराभव करप (खेळांत). कपडे घालप – कपड्यांत आंग घालप; न्हेसप.

**घालप** (क्रिक) पेटवप (आग घालप); जागो भरूंक आपणेंच घालून घेवप–बांदाक घालप; खांवटचा घालप – (ल) सामकोच निरुपयोगी आसप; (लक्ष) दिवप; ध्यान दिवप; आमडप (भायर घालप); (उडी) मारप (उडी घालप); नमस्कार घालप – साष्टांग नमस्कार करप. देणगी घालप – देणगी दिवपाच्या आश्वासनाची लेखी नोंद करप. पावणेक लांस घालप – पावणेर घाल्ले वस्तूचें मोल चडवप. बायलेक दागिनो घालप – दागिनो विकतो हाडून बायलेच्या आंगार सदांकाळ वापरूंक म्हणून दिवप

**घालामेल, घालाघाल** (स्त्री) वयरमकयल येवप; उलथापालथ; तळमळ; ताकतीक; धांवसारो.

**घाव** (पु) खांप; फार; धपको; जखम; घाय; कोंक. एक घाव, दोन कुडके.

**घावटो** (पु) लुस्कान; तोटो; बुड.

**घांस दिवप** (क्रिक) जेवण भरवप (भुरग्याक वा आजारी मनशाक); लग्नांतल्या जेवणांत व्हंकलेन घोवाचें नांव घेवन घोवाक आनी घोवान बायलेक घांस दिवपाचो सुवाळो.

**घांशिल्लो कांच** (स्त्री) धव्या रंगाची कांच.

**घांस काडप** (क्रिक) चावून कुडको काडप.

**घाळणें** (न) कालवणाचें वांटून धवळिल्लें साहित्य; हुमणाचा रोम आनी वांटिल्लें आयतें.

**घाळप** (क्रिअ) हलगर्जीपणां करप; चुकप; घाळ रावप.

**घिट्ट, घिट्टी** (स्त्री) भोंवाडो; फेरो; घेराव.

**घिरगुंटी** (स्त्री) भोंवरो (खेळणें) (के).

**घिवर** (पु) तांदळांच्या पिठाचो भरपूर तुपांत तळून पिठीसाकर घालून खावपाचो वडो (सं).

**घिसाडी** (पु) घडकार; लोहार.

**घुंगट** (पु) माथ्यावेल्यान घेतिल्लो तोंड लिपोवंचो पालव; बुरखो; बोखरणी (प्रा).

**घुंगूर** (पु) ल्हान चलयांक कमराक बांदताले तें खुळखूळ वाजपी पोकळ तगड.

**घुटकार** (पु) घुरी घाल्पी.

**घुटकार** (पु) घोंट घेवपी; घोंटपी; मारेकार; छळपी.

**घुटमळप** (क्रिअ) रेंगाळप; कळाव लावप.

**घुटुघुटू** (क्रिवि) घोंट घेवपाचो आवाज; ल्हान भुरग्याच्या पिवपाचें वर्णन.

**घुडगुडप** (क्रिअ) घुडगूड आवाज जावप.

**घुडसांदो** (पु) रगडो.

**घुडसूल** (न) खोंपटी (का).

**घुपशी** (स्त्री) घुसपण (के).

**घुमट** (पु) चिरेबंदी बांदकामाचो वांटकुळो घूड; देवळाचो घूड.

**घुमटभट्टी** (स्त्री) लोखंडाचो रोस वितळांवचें खॉर्ण.

**घुमटी** (स्त्री) माथ्यावेल्यान घुमट बांदिल्ली ल्हान देवळी.
**घुरगडी** (स्त्री) तंबाकूचो धुंवर फोपमांनीं ओढ्न धुंदी ह्याडपाचें एक साधन; नाल्लाच्या बेलक्याक एके वाटेन नळी (तोंडात घालपाक) आनी दुसरे वाटेन उबी पोकळ नक्षीदार नळी आनी ताचेर तंवाकू भाजपाचें चिलीम दवरून बेलक्यां-तल्यान तंबाकूचो धुंवर ओडपाचें साधन; गुडगुडी; घुडगुडी; गांवठी हुक्को.
**घुरींब** (पु) पावसांत भिजूं नये म्हणून माथ्यार घेवचेलो कंडो.
**घुरूत** (पु) पिठाची चिकट पातळ खळ.
**घुंवडी** (स्त्री) घुंवपाची फेरी; आपले भोंवतणची फेरी.
**घुंवप** (क्रिअ) घुमप; भौन भौन तोच आवाज काडप; गाजप. आपलें भोंवतणी फिरप.
**घुडू** (पु) घोंटेर (के).
**घूम** (पु) कानांत बायलो घालताल्यो असो बारीक मोतयांचो गुळचासारको दागिनो.
**घूंवळि** (स्त्री) घुंवळ; चक्कर (के).
**घेणेकार** (पु) कर्जदार; सावकार.
**घेर, हेर** (अ) घरांत, घराकडे ह्या अर्थाचीं कुसां. रामाघेर, रामाहेर.
**घेरी** (स्त्री) घुंवळ; बेशुद्धी; चक्कर (अप).
**घेरोसो** (पु) घैरांव.
**घेलो, हेलो** (अ) घरचो, घरांतलो, घरा-कडलो ह्या अर्थाचीं कुसां. रामाघेलो, रामाहेलो, रामाहेरलो – रामाच्या घरां-तलो, रामाहेरचो.
**घेव** (स्त्री) घेवपाचो वेव्हार. देवघेव – देणेंघेणें; दिवपघेवप.
**घेवडें** (न) घबाड; मुगदो; ठेवो.
**घेवप** (क्रिक) पैशे (दान वा कर्ज म्हणून) घेवप. मनार घेवप – मन लावन करप.
**घेवप** (क्रिक) शिकप (ज्ञान, धडो); अभ्यासप (तालीम, संथा घेवप); पिवप (तानेक घेवप); एकवत म्हणून चलवप (व्रत घेवप); भोगप (सूख घेवप); सोसप (उलोवणें, खरडपट्टी), धारण करप (पगडी, उपरणी, शाल); आंगार घालप (पांगरूण घेवप); रागान वा दुःखान आपुणहून कपल आपटप (कपलां घेवप). नड्डेचो घोंट घेवप – नड्डेक घांस मारप. प्राण वा जीव घेवप – जिवानशीं मारप. देख घेवप – अनुकरण करप, शिकप. माथ्यार घेवप – (ल) सुमाराभायर कौतूक करप; लाड करप; नाका जाल्ली अपुर्बाय करप. नांव घेवप (देवाचें) – नामस्मरण करप, जप करप; (घोवाचें) प्रसंगविशेषार उखाणो घेवन भितर घोवाचें नांव गुथप. दिक्षा घेवप – कसल्याय संप्र-दायाची शिस्त लावन घेवप. उपकार घेवप – उपकार मानप. धन्यवाद घेवप – धन्यवाद मान्य करप. पेटप (पेट घेवप).
**घेवप** (क्रिक) उच्चारप (नांव – देवाचें वा घोवाचें); प्रमाण करप वा सपूत घेवप. आवयचो, देवाचो, जिवाचो बी सपूत घेवप. हत्या करप; (जीव घेवप) खून करप; जीव घेवन पळप – जीव सांबाळून सुटप वा मेकळीक जावप; संकटांतल्यान सुटप. पेज घेवप – पेज जेवप. दूद घेवप – दूद पिवप. वखद घेवप – वखद पिवप वा चाटप. ल्हान भुरग्याक घेवप – आंगार धरप. जामीन घेवप – फसवणूक जांवची न्हय म्हणून तारण घेवप वा लेखी आश्वासन घेवप.

**घेवप** (क्रिक) आंगांत घुसवप (एनिमाचें उदक, वखद, इंजेक्शन). उपचार करप (शेक घेवप); मार खावप(पेट घेवप); थापट वा धपको खावप (धपको घेवप, थापट घेवप); निरोप घेवप – पैस वचप. सपूत घेवप – देवाच्या वा प्रिय मनशाचे साक्षीन अमूक काम करतलों वा करचों ना म्हणून गंभीरपणान सांगप. सपूत मोडल्यार पाप लागता ही मूळ भावना.

**घोगेलो** (वि) घोग्यांनीं व्हांवपी; घोग्यांचो; मोठ्या धारांचो.

**घोंटप** (क्रिक) घांसून गुळगुळीत करप.

**घोटशेल** (न) गुप्त धन; ठेवो.

**घोडा** (वि) चार. कोयंडेवाल्यांच्या खेळांत खणीसावन बाल्लामेरेनचें अंतर मेजपाचे कोयंडयाचे आंकडे. पांव, चेटमेट, बुरमूट, घोडा, दुत्शी, काला, झील.

**घोंटुरो** (पु) गरिबांचे वसतेची ल्हान खोंप.

**घोडी** (स्त्री) चौपाय; घडवंची.

**घोटो** (पु) पांयांचो खुबो.

**घोडूक** (न) कोंबेल्ली काजू बीय; एक रानवटी रूख.

**घोडें मारप** (क्रिक) (ल) लुस्कानाक घालप.

**घोडेमोडणी** (स्त्री) घोडयाचो मुखवटो कमराक बांदून केल्लो सैनिकी थाटाचो लोकनाच. सत्तरी आनी सांखळी तालुक्यांत हो लोकप्रीय आसा.

**घोडेव्रत** (न) गांवकार पोन्न्या काळांत सरकाराक भरताले तांतली एक पटी.

**घोडयार बसून येवप** – ताकतिकेन येवन बेगीन वचूंक सोदप.

**घोण** (स्त्री) धार; जळवणी.

**घोपाण** (न) होपाण; मर्दपणा; घोवपण.

**घोयरेव** (पु) पैरांव (के).

**घोरप, घोरेवप** (क्रिअ) न्हिदांत घुर्र घुर्र असो श्वासाचो आवाज जावप.

**घोषक** (पु) वाद्याचो आवाज घुमवपी आंग. देख: सतार वा विणा हांचो दुदी वा दबो; चामडयाच्या वाद्याचें बूड; वेणू, शेनायेची नळी बी.

**घोषक** (पु) ल्हान आवाजाचो व्हड घोष करपी यंत्र; मेगॅफोन.

**घोस्ताक वचप** (क्रिअ) आवडप; रुचीक लागप (पु).

**घोळंकार** (पु) मोठो घोळ; घुस्पागदळ; गुंतागुंत.

**घोळकावणो** (वि) घोळकावपी; भौनभौन उतरां दिवन तीं मोडून लोकांक फावटी घालूंक लावपी.

**घोळकावप** (क्रिक) फसवप.

**घोळटोक** (स्त्री) वापर; उपेग; येवपवचप.

**घोळणी** (स्त्री) धुपणी; बायलमनशेक जाता तें आंगार (रक्तस्राव).

**घोळणूक** (स्त्री) हालचाल; गती; वापर.

**घोळप** (क्रिक) वावरप; कष्ट काडप; संवय जावप; फिरप. म्हाराबरी घोळा जाय, रायाबरी खाय जाय (१५६६).

**घोळवप** (क्रिक) (मनांत) भौन भौन याद करप.

**घोळशी** (स्त्री) रांवशीसारकें नुसतें.

**घोळाक घालप** (क्रिक) गोंदळावप; घुस्पवप; त्रासांत घालप.

**घोळाक पडप** (क्रिअ) गोंदळप; त्रासांत पडप.

**च**–कोंकणी भाशेचें देवनगरी वर्णमाळेचें सवें व्यंजन.
**चकचकप** (क्रिअ) चकचकीत दिसप; चकाकप; लकाकप; झळझळीत दिसप; उजळ दिसप; प्रकाशप; पर्जळप.
**चकचकाट** (पु) चकचकीत दिसपाचो गूण; उजवाड; पर्जळ; प्रकाश.
**चकपक** (वि) लिकलिकीत; मोहक; भुलवपी; झकास; झ्यानोत.
**चकाचूर** (पु) बारीक मोडतोड; चक्काचूर; बारीक बारीक कुडकेजाल्ली वस्त; नाश.
**चकुलीं** (न) चकल्यो; चकऱ्यो (का).
**चक्कर** (स्त्री) घुंवळ; वांटकुळी फेरी; भोंवडी; व्हॉल्त.
**चक्कर मारप** (क्रिक) फेरी मारप; भोंवडी मारप.
**चक्की** (स्त्री) घुंवत रावपी चक्र; पिठाची गिरण; चक्रां भोंवडावपाचें यंत्र. पाणचक्की – उदकाच्या प्रवाहान फिरपी चक्रांचें यंत्र. पवनचक्की – वाऱ्याच्या झोतान पंखो फिरून चक्रां फिरवपी यंत्र.
**चक्रदांतो** (पु) चकली गाळपाचें आवत.
**चक्रपाणी** (पु) सुदर्शन चक्र हातांत धरपी विष्णू वा कृष्ण भगवान (सं).
**चक्रमुद्रांकीत** (वि) सायक्लोस्टायल केल्लो.
**चक्रमुद्रीत करप** (क्रिक) एका विशिष्ट (स्टेन्सील) कागदाचेर पेनान वा टंकलिखीत मजकूर टायप करून चक्राकार रिळाचेर विशिष्ट शाईन कांय कागदांचेर छापप; सायक्लोस्टायल करप.
**चक्रवप, चक्रावप** (क्रिक) गोंदळावप; फसवप.
**चक्रवाल** (पु) दिशा दाखोवपी कंपास; होकायंत्र; क्षितीज; आकाश आनी पृथ्वी मेळटात ती धार (सं).
**चक्री कार्यक्रम** (पु) थारायल्ल्याप्रमाण एका फाटल्यान दुसरो असो वेगळच्या वेगळच्या प्रकारांचो कार्यक्रम. प्रार्थना, पुराण, कीर्तन, भजन, आरती, मंत्रपुष्प बी. ईशस्तवन, प्रास्तावीक भाषण, उद्‌घाटन, अध्यक्षीय भाषण, आभारप्रदर्शन, राष्ट्रगीत बी.
**चक्री गिरी** (पु) ज्वालामुखीचें तोंड.
**चक्री परिषद** (स्त्री) जायत्या उलोवप्यांच्या भाषणांचो कार्यक्रम; राउंड टेबल कॉन्फरन्स.
**चक्री पुराण** (न) एकाच दिसा आळीपाळीन जायत्या पुराणिकांचें पुराण. चक्री व्याख्यान बी.
**चक्रु** (न) पावली; चार आण्यांचें नाणें.
**चंचलन** (न) वयग्मकयल वा उणी अदीक घोळणूक; सतत जावपी हालचाल (सं).
**चंचूप्रवेश** (पु) मात्सो शिरकाव; चोंच घालपाइतली सवलत (सं).
**चटको** (पु) ध्यास; नाद; हुनसाणीचो चुरचुरो; आंग भाजपाचो धक्को.
**चटय क्षेत्र** (न) घरांत रावूंक आनी वापरूंक मेळटा तो जागो.
**चटोर** (वि) चावट; छाकटो; हलकट.
**चड-जांबळो** (वि) किरणाच्या सात रंगांच्या पट्ट्यांत जांबळया रंगा पेलो (रंग); अल्ट्रा-व्हायलेट (रंग).
**चडणी** (स्त्री) चडटी; चडण; चडपाचो जागो.
**चडप** (क्रिअ) दुखप; वळप; धरप. फाटींत चडप – फाटींत दुखप; फाटींतले स्नायू ताठ जावप; पांयांत चडप – पांयांत अशक्तायेन दोरयो येवप.
**चडावत** (क्रिवि) चडशो; चड करून;

हूसंख्य; गरजेपरस चड; संख्येन अर्धी-न चड; (स्त्री) मायोरी; मेजॉरिटी.

**डुणें** (वि) चड+उणें; कमीजास्त.

**णकूल** (न) न्हंयतलें वांटकुळसार मामाळ ुरबूस नुसतें.

**णचणप** (क्रिक) रागान उलवप; व्हडान उलवप.

**णचण** (क्रिअ) चडून चडून (के).

**णाक** (स्त्री) खाडयेचें एक सुरबूस ुसतें; व्हड चणकूल.

**णी** (स्त्री) चिंचारो (१६१७).

**तकोर** (स्त्री) चौथाय; चवथो वांटो.

**चतुर्गडी** (स्त्री) चतुस्सिमा; चार बाजूंची हद्द (का).

**चतुर्थक** (पु) चौथाय; चवथो वांटो.

**चतुर्थाश्रम** (पु) चौथो आश्रम; संन्या-माश्रम; आयुष्याची चौथी अवस्था (सं).

**चतुर्थी विभक्ती** (स्त्री) चवथी विभक्ती; संप्रदान कारकाची विभक्ती.

**चतुर्भूज** (वि) चार बावळयांचो; चार हातांचो (सं).

**चतुश्र** (पु) संगितांतल्या तालाचो चार मात्रांचो विभाग (सं).

**चतुष्कोण कंस** (पु) गणिताचे पदावलीं-तलो चार कोनांचो कंस; [ ].

**चंदन** (न) (ल) नाश. धा हजार रुपया जुगाराक लावन चंदन केलें.

**चंदायी** (स्त्री) सफाई.

**चंदी** (स्त्री) घोडयाक खांवक घालतात तें खाण. पेंड, हरभरो, तण बी (हिं).

**चंद्रक** (स्त्री) चंद्रकोरीची आकृती.

**चंद्रकळा** (स्त्री) चंद्राच्यो सोळा आकृत्यो. चांदने पंद्रशींत दर दिसा एक एक कळा वाडत पुनवेचे रातीं सोळा कळांचो पूर्ण चंद्र दिसता. अमाशे दिसाचे रातीची चंद्राची कळा आमकां दिसना. तीच कळा पयली. सतरावे कळेन चंद्र अमृताचो वर्षाव करता अशी कवीकल्पना आसा.

**चंद्रकांत** (पु) गायनशास्त्रांतलो एक राग.

**चंद्रकांत मणी** (पु) चान्यांत पाझरता असो कविसंकेत आशिल्लो बहिर्गोल कांचेचो कुडको (१२९०).

**चंद्रकोर** (स्त्री) शुद्ध पक्षांत पाडव्यासावन पंचमीमेरेन आनी वद्य पक्षांत एकादशी सावन चतुर्दशीमेरेन दिसता तें चंद्राचें रूप. चंद्रकोरीच्या आकाराचें कपलार लायल्लें कुकूम.

**चंद्रकौंस** (पु) संगीत रागदारींतलो एक राग.

**चंद्रनक्षत्र** (न) चंद्र पृथ्वीभोंवतणी फिरता त्या क्रांतीवृत्ताचे सत्तावीस वांटे करून प्रत्येक वांटयाक नक्षत्र म्हणटात. तांचीं नांवां सूर्यनक्षत्रांभाशेन अश्विनी, भरणी, कृत्तिका बी आसात. प्रत्येक नक्ष-त्रांत चंद्र दर भोंवडेंत उण्यो अदीक घटका उरता. उत्तराषाढा आनी श्रवण ह्या दोन नक्षत्रांमदीं अभिजित हें अठ्ठाविसावें नक्षत्र धरतात. ह्या क्रांतिवृत्ताच्या भागांत चंद्र पावतकच तो ज्या तारकापुंजालागीं पावलो अशें दिसता ताकाय नक्षत्र हें नांव दितात. प्रत्येक नक्षत्रांतल्या ताऱ्यांचीं नांवां प्रसिद्ध आसात. नक्षत्रांवेल्यान म्हयन्यांचीं नांवां घडलीं. देख: चित्रा – चैत्र; विशाखा – वैशाख; ज्येष्ठा – ज्येष्ठ; पुर्वाषाढा – आषाढ, श्रवण – श्रावण; पुर्वाभाद्रपदा – भाद्रपद; अश्विनी – आश्वीन; कृत्तिका – कार्तीक; मृगशीर्ष – मार्गशीर्ष; पुष्य – पौष; मघा – माघ; उत्तराफल्गुनी – फाल्गून.

**चंद्रमाहीर** (पु) चंद्रिमाचो कुडको (के).
**चंद्रानना** (वि) चंद्रिमासारक्या सुंदर मुखाची; सुंदर मुखाची (सं).
**चंद्रार्क** (पु) चंद्र आनी सूर्य (सं).
**चंद्रावळ** (स्त्री) चंद्रांचो (उपग्रहांचो) वांगड वा चोमो (सं); एकाच ग्रहा-भोंवती भोंवपी उपग्रहांचो चोंबो (सं); चंद्रमाच्या कुडक्यांची (उपगिऱ्यांची) माळ वा कडें (कड्यासारको दिसपी उपग्रहांचो पुंज).
**चंद्रावो, चांदवो** (पु) अस्मानगिरी.
**चंद्रास्त** (पु) चंद्र मावळप. हो घडिचार दर तिथीक वेगवेगळ्या वेळार जाता.
**चंद्रम, चंद्रीम** (पु) धर्तरे भोंवतणी घुंवपी उपग्रह; चंद्र (सं).
**चंद्रोदय** (पु) चंद्राचें उदेवप. हो दर तिथीक वेगळ्या वेळार घडटा (सं).
**चपणी** (स्त्री) व्हलयेची वांटकुळी फळी.
**चपरास** (स्त्री) ऑफिसांतल्या शिपायाच्या पट्ट्यांतलो बिल्लो; बक्कल; बुकल (फा).
**चंपाकळी** (स्त्री) बारीक तांदळाची एक जात.
**चपापप** (क्रिअ) दचकप; वचकप.
**चप्पो** (वि) अळणी; बेचव (का).
**चबकधवळो** (वि) चाडयाळो.
**चमक मारप** (क्रिअ) कळ मारप; वेदना जावप; चड दुखप.
**चमगीदड** (पु) पाखो; वटवाघूळ.
**चयन** (न) वेंचणूक; पंजावणी (सं).
**चयापचयन** (न) पचूंक योग्य अशी वस्तू पोटांत पावतकच थंयच्या रोसांत मिसळून तिची जिवी पेशी जावपाची प्रक्रिया. ही जिती पेशी (Living cell) कुडीचो भाग जाता. हयो पेशी कुडीच्या वेगवेगळ्या भागांत घोळटना वेगवेगळीं रुपां घेत आनी वदलत बदलत कांय काळान सडून तांच्या जाग्यार नव्यो पेशी येतात. हे प्रक्रियेक चयापचयन म्हणटात. Metabolism.
**चर** (वि) हालपी; चलपी (सं).
**चरंड** (स्त्री) गायर (के).
**चरतल्लें** (न) जिवाणें (के).
**चरतें** (न) चरत पातळपी खोरज.
**चरळ** (स्त्री) देवळांत मोठ्या चौकार खांब्यामदीं चार आंगळां खोल दवरिल्ली वसकेची जमीन. प्रदक्षिणेकडचे वायलमन-शांचे बसचे जागेक सरवळयो म्हणटात.
**चराय** (स्त्री) गोरवां चरोवंचो मुशारो.
**चर्चप** (क्रिक) लेप लावप; उटी लावप; आंग रंगवप (सं).
**चर्चापीठ** (न) चर्चा करपी मंडळ वा संस्था; अभ्यासकेंद्र (सं).
**चल** (न) मूल्य कळूंक ना अशें संख्या-चिन्ह. देख : अ, ब, क, एक्स वी; (वि) बदलपी (सं).
**चलच्चित्रण विद्या** (स्त्री) सिनेमाचो वोल-पट वा चित्रपट करपाची विद्या (सं).
**चलतना** (क्रिवि) कांय अपराध करिनासतना; आपल्या वावरांत आसतना; कारण नासतना; सहज. देख : चलतना शंबर रुपये फुकट गेले; चलतना मार खांवचो पडलो; चलतना नांवाक कलंक लागलो.
**चलन** (न) चाल; घोळणूक; गती; वदल; ह्ालचाल (सं).
**चलनी** (वि) चलनांत आशिल्लो; वापरांत आशिल्ली (नोट).
**चलप** (क्रिअ) उपकारा पडप, लागू आसप (कायदो, वखद, सांगणी-म्हणणी)

**चलप** (क्रिअ) चमकप; सुस्थितींत आसप (बरें चलप); घोळप (यंत्र चलप); वावरप, काम करप; (गाडी, वाहन,यंत्र); प्रगती करप (शिक्षण चलप, चालू आसप); पसरो चलता, धंदो बरो चलता; दवाखानो बरो चलना – सुस्थितींत ना. पोट चलता (भरता); तकली चलता – तकलेक कल्पना वा उपाय सुचतात.

**चलबिचल** (स्त्री) अस्वस्थकाय.

**चलयंत्र** (न) गतिमान यंत्र; चालू आशिल्लें यंत्र; गरज लागत थंय चलपी यंत्र (सं). चक्र चलता –घुंवता. गाडी चलता – मार्ग आक्रमण करता. नाणें चलता – वापरांत आसा, उपेगी पडटा. तिकीट, पास चलता – उपकरा पडटा. वखद चलता – उपेगी पडटा, लागू जाता. सत्ता चलता – अधिकार अमलांत आसा.

**चलवप** (क्रिक) चलता अशें करप; मार्गदर्शन करप (धंदो, वेव्हार, संस्था, राजकारण, समाजकार्य); काम करून घेवप (कारखानो, दुकान, शाळा, संस्था बी); चलोवन घेवप (धंदो बी)

**चलाऊ** (वि) चलपासारको; उपयोगी. कामचलाऊ – कामाक उपेगी.

**चलाखी** (स्त्री) चपळाय; धूर्तपण; हुशारी; बुदवंतकाय (फा).

**चलित्र** (न) गती दिवपी यंत्र; मोटर.

**चवडो** (पु) पांवलांच्या बोटांलागचो तळपायाचो पुठ्ठो.

**चवर्थे तण** (न) हिंदू समाजांत लग्नांत करतात तो ल्हायांचो होम (लाजाहोम) हो विधी.

**चंवरभार** (वि) चंवरान भरून वणवल्लो (रुखाचो खांदो).

**चवऱ्याण्णोय** (व) चवऱ्याण्णव्वद; ९४.

**चंवशीं, चौंशीं** (क्रिवि) चारीय बाजूंनीं; चारीय कडांनीं; सगळेकडे.

**चंवसून, चौंसून** (क्रिवि) चारय बाजूंकडच्यान; सगळीकडच्यान.

**चंवळे** (पु) एकाच गुरवाचारान जल्माक आइल्ले चार भुरगे. ह्या उतराक एकवचन ना. चंवळचो चलयो हें स्त्रीलिंगी रूप. चंवळीं चेडवां, भुरगीं हे नपुसकलिंगी रूप.

**चवो** (पु) एके वस्तूंत दुसरी वस्तु घट्ट बसची म्हणून तांतले पयले (भायले) वस्तूक आटयांचें तोंड वा बुराख करतात. दुसरे वस्तूक (भितर घालपाचे) आटयाचें तोंक घट्ट जुळत अशें कांततात. ह्या दोनीय वस्तूंच्या आटयांक चवे म्हणटात. तांबयाच्या तोंडाक आनी धांकणाक अशेच चवे वा विळखे कांतून घडयतात.

**चषक** (पु) सर्तीतलें विजयचिन्ह म्हणून बक्षीस दितात असो देंठ आनी कान आशिल्लो चांदीचो सुंदर पेलो; कांचेचें देंठ आशिल्लें मद्यपात्र (सं).

**चळकांप** (पु) थरकांप; धडकी; थर्त भंय (सं).

**चळकांप सुटप** (क्रिअ) थरथरो चालू जावप; कांपरो लागप.

**चळचळ कांपप** (क्रिअ) भयान थरथरप.

**चळचळप** (क्रिअ) थरथरप; पाझरप.

**चळवळो** (पु) चळवळ करपी; लफडेबाज.

**चाखरमानी** (पु) चाखरी करपी कामदार.

**चाखरीचुखरी** (स्त्री) नोकरीबिकरी; कामधंदो (फा).

**चांचाळ** (स्त्री) नाका जाल्ली बडबड; वोवाळ.

**चाटवप** (क्रिक) चाटूंक लावप.
**चाटो** (पु) खणकेर विणपाचें सूत गुंडाळचेखातीर खणकी बसयतात ती चरक्याची बारीक दांडी.
**चाडयाळो** (वि) चाडयो सांगपी (का).
**चाडयेरो** (वि) चाडीखोर.
**चाडी, चाती** (स्त्री) पोकळ रीळ. ह्या रिळाचेर विणपाचें सूत गुंडाळटात.
**चांद** (पु) चंद्राच्या आकाराचो विजयचिन्ह असो बिल्लो.
**चांदमारी** (स्त्री) नेमबाजीची कवायत (हिं).
**चांदय** (वि) कपलाचेर धवो थिबो आशिल्ली गाय वा बैल.
**चांदरात** (स्त्री) शुद्ध पाडव्याची रात (हिं).
**चांदलो** (पु) लग्नाकार्यांत यजमान्याक करतात तो आहेर (गु); चंद्राच्या आकाराचो थिबो.
**चांदवो** (पु) सोबीत छत; अस्मानगिरी (हिं).
**चांदी आटवप** (क्रिक) (ल) रग जिरवप; जशाक तशें दिवप.
**चांदीमामा** (पु) ल्हान भुरगीं चंद्राक मारतात तो उलो.
**चांदोडको** (पु) भिखारी वोडजानें नमतें.
**चांदोबा** (पु) चंद्र; चंद्रीम (भुरग्यांचे भाशेंत).
**चांद्रमान** (न) चंद्राचे भोंवडेर आदारिल्ली कालगणना; चांद्र वर्साचे दीस ३५४ जातात.
**चांद्र म्हयनो** (पु) शुद्ध पाडव्यासावन अमाशेमेरेन २९ दीस १४ तास आनी १४ मिनटांचो म्हयनो.
**चांद्रायण** (न) प्रायश्चित्त म्हणून आडायल्लें एकवत. पुनवे दिसा पंदरा उंडयो जेवप मागीर वद्य पंद्रशींत दररोज एक एक उंडी उणी करीत अमाशे आनी शुद्ध पाडव्या दिसा एकेच उंडयेर दीस काडप. चान्ने पंद्रशींत दररोज एक एक उंडी वाडयत पुनवे दिसा पंद्रा उंडयो जेवन रावप हें एकवत.
**चाप्पो** (वि) आडूक; सुवाद नाशिल्लो (का).
**चांफें फुलवप** (क्रिअ) (ल) हांसप.
**चाबप** (पोटांत) (क्रिअ) (पोटांत) मुरडप; घांस मारप; वळाठे येवप; दुखप.
**चामकोळ** (पु) चामखीळ (के).
**चामटो** (वि) कंजूस; वातड; चिवट.
**चाय** (स्त्री) च्या (के).
**चार** (पु) वेव्हार; रीतभात; कर्तूप; कृत्य; करणी. लोकिचार – लोकांचें म्हणणें; लोकापवाद. लोकाचार – लोकांची रीतभात. वेडेचार – पिशेपणां.
**चारी** (पु) मेस्त; सुतार (का).
**चारोळी** (स्त्री) चारा-झाडाच्या फळांची बीय; चारबीय; हयो बियो कुस्करून खाजक्यांत, हालव्यांत बी घालतात.
**चालक** (पु) चलोवपी; कारभारी; व्यवस्थापक; वाहन चलवपी; ड्रायव्हर (सं).
**चालचमकण** (न) वळण; रीतरवीस; संस्कार; शिक्षण.
**चालचर्या** (स्त्री) वागणूक; कांती; नुरा; डौल.
**चालिंचिले** (क्रिअ) चालीक लागले (के).
**चावडयो करप** (क्रिक) खबरी मारप; चकाटां पिटप.
**चावयाळें** (न) चावयांचो घोंस.
**चाळणावळ** (स्त्री) चाळपाखातीर दिल्ली मजुरी.

**चाळणींत पडप** (क्रिअ) गोंदळांत पडप; संकष्टांत पडप.
**चाळवाचाळव** (स्त्री) उलथापालथ; हालवाहालव.
**चाळि** (स्त्री) चाळण (के).
**चाळिदाय** (स्त्री) कायल (के).
**चाळिशी** (स्त्री) चाळीस वर्सांची पिराय; दोळयांक चष्मो लांवचो अशी दोळयांची अवस्ता; दोळयांची दुबळिकाय.
**चाळीस मोगरो** (पु) सुमाराकशा वासाच्या झबकेदार मोगऱ्या फुलांची जात; रान-मोगरो; सहस्र मोगरो; हजारी मोगरो.
**चिकटाय** (स्त्री) चिकटपण; चिकटाण.
**चिकटो** (पु) कडुणाच्या वा धान्याच्या रोपांर पडपी एक जंतूरोग.
**चिकणमाती** (स्त्री) ॲल्युमिना आनी सिलिका हांच्या मिश्रणाची माती.
**चिकणाय** (स्त्री) चिकटसाण; चिवट-साण.
**चिकणी सुपारी** (स्त्री) आगळांत शिज-यल्ली तांबडी सुपारी.
**चिकनळी** (स्त्री) चिपनळी; पिचकारी.
**चिकाचो पड्डो** (पु) कोंडयाच्या बारीक ताशिल्ल्या काडयांचो पड्डो. मुसलमानी घरांनी बायलो भायल्या दादल्यांक दिसच्यो न्हय म्हणून अंतःपुराभायर हो पड्डो बांदताले.
**चिकित्सालय** (न) आजारी मनशाच्या प्रकृतीची डॉक्टरान बारीक तपासणी करून उपचार करपाचें घर; दवाखानो; क्लिनीक; हॉस्पिटल (सं).
**चिकॉत** (त) पानवळ; ख्यास्त; जशाक तशें (पु).
**चिकॉत दिवप** (क्रिक) (ल) धडो शिक-वप; ख्यास्त दिवप (पु).
**चिकोळी** (स्त्री) फुलांनी सजगयल्लें चक्र; पुष्पचक्र; फुलांचें कडें.
**चिक्की** (स्त्री) पटणी, गोडांत कुटिल्लीं मोममी भिकणां वा चिरमुल्यां वा नाल्लाचें चून तुपांत धवळून पाक थापटून केल्लीं कापां.
**चिखंड** (स्त्री) सुकी सुपारी (१६१६).
**चिंगरप** (क्रिअ) चिड्डून वचप; (क्रिक) चिड्डप; चिड्डावप.
**चिघळपी** (पु) आजूबाजूची ओल्साण ओडून घेवपी.
**चिचन्दोर** (स्त्री) चिचोंदरी (के).
**चिंचांब** (स्त्री) आमटाण; चिंच (के).
**चिंचोळो** (वि) निमुळटो; एके वटेन जाडो आनी दुसऱ्या तोंकाक बारीक असो.
**चिच्छक्ती** (स्त्री) चित् + शक्ती; ज्ञान-रुपी शक्ती; दैवी शक्ती (सं).
**चिटकुलो** (वि) चिकुलो; कुकुलो; धाकलो; ल्हानगो (का).
**चिटकोबा** (पु) शिवशंकर; शिवाचें मातयेचें लिंग.
**चिटमिटकी** (स्त्री) चिटकीमिटकी; बारीक गवारीचे भाजयेची एक जात.
**चिटमिटो** (पु) चुरचुरो; चुकल्यासारकें दिसप; चुटपूट.
**चिटवाळो** (वि) दुसऱ्याक हांसोवन किट-किटे हाडपी; विनोदी; चंचल करपी; अस्थीर करपी; किटकिटावपी; थिबक्या थिबक्यांचो.
**चिट्को** (पु) चोंट (१६१६).
**चिट्टो** (पु) चिमटेवेलो तीळ.
**चिडखोर** (वि) तिडपी.
**चित दिवप; चित्त दिवप** (क्रिक) ध्यान दिवप; लक्ष दिवप; सारकें आयकप; चिंतन करप; चिंतप (सं).

**चितपट** (पु) कुस्तींनलो एक पेंच वा डाव.
**चिती** (स्त्री) वांटकुळी पोकळ सळाक; समांतर बाजूंची घनाकृती वस्तू; नळ-कांडी (सं).
**चित्तीरें** (न) चित्रा नक्षत्र (के).
**चितोणी** (स्त्री) पडबिंब.
**चित्** (न) ज्ञान; ज्ञानब्रह्म; चेतना; जाणकारी; जाण; जाणीव; चैतन्य; हालचाल (सं).
**चित्तत्व** (न) चैतन्य; ज्ञानतत्व; ज्ञान-ब्रह्म (सं).
**चित्तवृत्ती** (स्त्री) मनाची ओड (सं).
**चित्तवेधक** (वि) लक्ष ओडून घेवपी; मनाचेर परिणाम करपी (सं).
**चित्तशुद्धी** (स्त्री) मंवमार्गांतल्यो वऱ्यां-वायट कल्पना मनांतल्यान काडून उडो-वप; मन निर्मळ करपाची विद्या (सं).
**चित्ताकर्षक** (वि) मन ओडून घेवपी; भुलवपी; मनमोहक (सं).
**चित्रकला** (स्त्री) चित्रां काडची विद्या; बावलीं काडची विद्या (सं).
**चित्रठसो** (पु) चित्र छापचेखातीर केल्लो पत्र्याचो कोरीव छाप; ब्लॉक; पोन्न्या काळांत लांकडी छाप करताले.
**चित्रफीत** (स्त्री) चित्रपट; फिलम; बोलपट; सिनेमांत दाखयतात ती प्रकाश-चित्रांची माळ.
**चित्रभानू** (न) सोळावें संवत्सर.
**चित्ररथ** (पु) चित्रां, सवंगी लोक, देखावे बी प्रदर्शन आशिल्लें मिरवणुकीचें वाहन; फ्लोट; एका गंधर्वाचें नांव (सं).
**चित्रलिपी** (स्त्री), **चित्रलेख** (पु) चित्रां-तल्यान विचार प्रगट करपी प्राचीन बरप.
**चित्रलेखा** (स्त्री) मीर्ग नक्षत्राच्या पुंजां-तलो एक तारो (सं).
**चित्रव्यक्तक** (पु) चित्राचें ऋणबिंब (नेगेटीव) वा धनबिंब (पॉझिटीव) स्पष्ट करपी रसायण; डेवलपर (सं).
**चित्रव्यक्ती करप** (क्रिक) आकृतीचें ऋण-बिंब वा धनबिंब स्पष्ट करप; डेवलपिंग.
**चित्रा, चित्रो** (स्त्री) चौदावें नक्षत्र.
**चित्रान्न** (न) फोडणां घाल्लो भात; ममालेभात; पुलाव; खिचडी; साकर-भात; बिर्याणी (सं).
**चित्रीक** (पु) चित्रां काडपी; चित्रां वा बावल्यो रंगोवपी; चित्रकार; बावलेकार; बावलीं आनी चित्रां काडपी आनी रंग-वपी; चितारपी (सं).
**चिदानंद** (पु) ज्ञानरुपी आनंद; परमे-श्वर (सं).
**चिद्रूप, चित्स्वरूप** (वि) ज्ञान होच परमे-श्वर; ज्ञानरुपी देव (सं).
**चिनारप** (क्रिअ) चिनारी येवप; धुवळ येवप.
**चिनेंकणंग** (न) चिनें (के).
**चिन्न** (वि) सुंदर (के).
**चिन्ना** (वि) रम्य; बरो (के).
**चिन्मय, चिन्मात्र** (वि) चित्+मय. चित्+मात्र; ज्ञानमय; ज्ञानरूप; पर-ब्रह्म; परमेश्वर (सं).
**चिन्मयानंद** (पु) ज्ञानरूप आनंद; परमेश्वर.
**चिन्ह** (न) गणितांतलीं चिन्हां; अदीक + ; उणे – ; गुणिले × . भागिले ÷ ; कंस ( ) ; [ ] ; { } ; दशांश 0.2 वी खुणो √ ; < ; > ; L; △ ∵ ; ∴ ; = बरो-बर चिन्ह (सं).
**चिम्वार** (पु) सोनार; रत्नपारखी; जवाहिराचो वेपारी; पैशे वाटावन दिवपी दलाल; सराफ (का).

**चपट** (न) चिबूड; मोधें.
**चपाड** (न) रोस पिळून उरिल्लें उशि॰ ांडयाचें सोप.
**वबट** (न) तवशें (के).
**वबडोण** (स्त्री) चिबडां जातात तो बेल.
**चवली** (स्त्री) ल्हान चिंबू वा चंबू.
**चरकांब** (स्त्री) चिरिल्ली बारीक कांब; चरिल्ली ल्हान रुंदेची कांब.
**चरकाम** (न) (लांकडां) चिरपाचो गावर; खरवतीन चिरपाचें काम.
**चिरकुटो** (वि) तवनास; कुटाळ.
**चिरंगट** (स्त्री) गर्दी.
**चिरडप** (क्रिक) नेटान चेपप; चेंचप.
**चिरडी** (स्त्री) ल्हान् साडी.
**चिरणिके** (स्त्री) कस्तो; भरतकाम (का).
**चिरणी** (स्त्री) वळ; रेग; रिस्क (१६१६).
**चिरतरूण** (वि) सदांकाळ जुवान उरपी.
**चिरनिद्रा** (स्त्री) सासणाची न्हीद; मरण (सं).
**चिरप** (क्रिअ) चीर वचप; कापप; हत्यारान जखम जावप.
**चिरवाळो** (वि) आंगाक चिरवो पडिल्लो (१६१६).
**चिरवो** (स्त्री) धव्यो उवो (भौवचन). (एकवचन – चिरू).
**चिरू** (स्त्री) गलिच्छ मनशाच्या आनी मानजातीच्या आंगार चरपी रंवथो; धवी ऊव.
**चिरेखांबो** (वि) चिऱ्यांचे खांबे आशिल्लो (मांगर, घर, नाळिएट).
**चिरेबंद** (वि) चिऱ्यानी बांदून काडिल्लो; चिरेबंदी.
**चिरोटी** (स्त्री) मैद्याची पातळ पदरांनीं दोडून लाटिल्ली आनी तळिल्ली गोडशी चपाती.
**चिरोटो** (पु) णव पदरी चिरोटी; हो दुडून दुडून लाटिल्ल्यान चौकोनी जाता; मैद्याची लाटून घडयो घालून तिकोनी तळिल्ली साकरेची चपाती साकर घालिनासतना मीठ घालून खारी बिस्किट करूं येता.
**चिरो पडप** (क्रिक) फातर पडप; बंद जावप (१२९०).
**चिलवण** (न) लीख; बारीक ऊव (का).
**चिलवाण** (स्त्री) चिल्लर; खुर्दो; सुटीं नाणीं (के).
**चिलींपिलीं** (न) काचींबुचीं; ल्हान पोरां.
**चिल्लं** (न) मोजे. हातचिल्लं; पांयचिल्लं.
**चिंवचिंवाट** (पु) खुबशा सवण्यांची आरड.
**चिवटांग** (न) शेराच्या सोळाव्या वांटयाचें माप; साडेचार टांकांचें माप; निन्नाठी. ७२ टांकांचो शेर जाता. नवटांग – शेराचो आठवो वांटो जाता अशें माप.
**चिंवटो** (पु) चिमटो (१६१६).
**चिंवप** (क्रिक) ल्हान भुरग्याक दुदाची चींव चोखूंक लावप (के).
**चिंवाड** (न) रोस पिळून काडिल्ल्या उशिकांडयाचें सोप; चिपाड.
**चीड** (पु) देवदार रूख. हिमालयाच्या मुळसांत वाडटा.
**चीरि** (स्त्री) पोती (के).
**चीप** (न) कांसूल; कुलेर (का).
**चुकप** (क्रिअ) इबाडप; सारकें जायना जावप; करूंक समजना जावप; गाडी चुकप – सुटपाच्या वेळार आपूण पावना जावप; गणीत चुकप – गणीत सोडवंक येना जावप, गणिताचें उत्तर चुकप; वाट चुकप – प्रवाशान चुकीचे वाटेन वचप; चूक करप. (क्रिक) अपराध करप. म्हजेर

चुकलो – म्हजेर अन्याय केलो; म्हजो अपराध केलो.

**चुकप** (क्रिअ) चुकामूक जावप; गांठ-भेट जायना जावप.

**चुकारू** (वि) नेमान घडना असो; चुकून घडटा असो.

**चुकावळ** (स्त्री) चुकांची यादी.

**चुकू** (न) दुकराचें पील.

**चुडटी लागप** (क्रिअ) (ल) जळप; उजो लागप.

**चुडटी लागिल्लो** (वि) (ल) पाडा पडिल्लो; नाका जाल्लो; वायटाळो.

**चुडटी लावप** (क्रिक) (ल) पेटयल्ले चुडटेन दुसरी वस्त पेटवप वा जाळप.

**चुडटे-सोरोप** (पु) मोग्गामार्की दिमता अशी चुडटी वळप; हावको; फटींचें भंय; खोटी भेष्टावणी.

**चुणी** (स्त्री) मिरी; शिरकुटी; घडी (फा).

**चुणीदार** (वि) मिरयो पडिल्लो; घडी-दार (फा).

**चुतड भयण** (स्त्री) सख्खी भयण.

**चुतड भाव** (पु) सख्खो भाव.

**चुंबकत्व** (न) ओड; चुंबकाक लागून जाल्लें आकर्षण (सं).

**चुबकप**, **चुमळप** (क्रिक) (लुगट) उमळ-टासतना कुचकुचावप.

**चुंबी** (पु) चुंबन घेवपी; गगनचुंबी – गगनाचें चुंबन घेवपी; (ल) गगनाक (आकाशाक) तेंकपी; खूब उंच (सं).

**चुंबीत** (वि) चुंबन घेतिल्लें; चुंबिल्लो.

**चुमडी** (स्त्री) गुड्डी; तुंबाक मारपाची गुड्डी; कोळंबेंतलें उदक व्हांवून वचचें न्हय म्हणून मारिल्ली चुमळी.

**चुरकें** (न) चुतडें; एक सौम्य गाळ.

**चुरगाळप** (क्रिक) चुर्यो घालप.

**चुरप** (क्रिक) चुरी घालप; शिरकुटी घालप; दोडप; चुरगाळप.

**चुरंबुटेवप** (क्रिक) शिरकटप; शिरकुटचो पडप; संकोचप (के).

**चुरी** (स्त्री) शिरकुटी; दोड; दुमड; दोडयाची शिरकुटी. दोडिल्ल्यान पडिल्ली शिरकुटी.

**चुलत भाची** (स्त्री) चुलत भयणीची धूव.

**चुलत भाचो** (पु) चुलत भयणीचो पूत.

**चुलत भावंड** (न) चुलत भावभयण; चुलत्याचो पूत वा धूव.

**चुलत मेवणी** (स्त्री) बायलेची चुलत भयण.

**चुलत मेवणो** (पु) बायलेचो चुलत भाव वा चुलत भयणीचो घोव.

**चुलाण** (न) भट्टी; फुगांव.

**चुळ करून** (क्रिवि) चुळ असो आवाज करीन (मुतप वा तेलाचे कायलींत तळचे-खातीर कितेंय घालपाचो आवाज).

**चूक मागप** (क्रिक) चूक जाली म्हणून क्षमा मागप.

**चूर्ण** (न) चुरो; बुकी; पिठो; चिड्डून केल्लो पिठो (सं).

**चूळो** (पु) भोंगो; पिल्लूक; शिटी (के).

**चेंचप** (क्रिक) धाडावप; चिड्डप; आण चिड्डप; (बैल वा रेडो हांचो आण) माड्डवप; झेजरप.

**चेटमेट** (वि) दोन. कोंयडे बालांच्या खेळांत खणीसावन अंतर मेजपाचे आंकडे : पांव, चेटमेट, बुरमूट, घोडा, दुत्शी, काला, झील.

**चेट्टो** (वि) सपाट (का).

**चेडूं** (न) धूव; हिंदू समाजांतली एक जात.

**चेडूल** (न) चेडवाक ल्हानपणांत अपुर्बायेन मारिल्लो उलो; चेडयेची ल्हान धूव (१६१७).

**चेण्डें** (न) धोलकें (मल्याळी).

**चेतन** (न) जागेपण; सावधपण; शाबुद्दी आसप; जीव आसप; शुद्धी (सं).

**चेतना** (स्त्री) प्राणशक्ती; हालचाल; जीव; जिवंतपण (सं).

**चेतनी** (स्त्री) संज्ञा तंतू; नर्व्ह (सं).

**चेता** (स्त्री) संज्ञा तंतू. कुडीच्या सगळचा आंगापांगांतली जाणीव फाटीच्या कण्याच्या स्नायूंच्या दोरखंडात आनी मेंदूंत पावोवपी तंतू; मेंदूंत उप्राशिल्ली इच्छा पुरी करचेखातीर कर्मेंद्रियांकडे (हात, पांय, तोंड, मुतपाचे आनी हागपाचें आंग) आनी ज्ञानेंद्रियांकडे (दोळे, कान, नाक, कातडी. जीब) संदेश दिवपी, कूडभर पावतात अशे ज्ञानतंतू (सं).

**चेता संस्था** (स्त्री) कूडभरचे ज्ञानतंतू आनी मेंदू आनी मेरूरज्जू (कण्यांतले स्नायू) हांचे मदली सुखदुःख समजून घेवपी, वेगवेगळचो भावना जाणपी अशी व्यवस्था; मेंदूक जाल्ली इच्छा कुडीच्या आंगांपांगांकडच्यान अंमलांत हाडपाची ज्ञानतंतूंची व्यवस्था (सं).

**चेंदो** (पु) सेवा; खूश करचेखातीर केल्ली सेवा.

**चेपाचेपी** (स्त्री) गर्दी.

**चेप्पो** (वि) कोरो; निखटो (का).

**चेर** (अ) वयर हचा अर्थाचें सातवे विभक्तेचें कूस. देख : आमचेर, तुमचेर, देवाचेर, धर्माचेर, बायलेचेर, घोवाचेर, मनशाचेर, गांवांचेर बी.

**चेल्लाण** (न) कल्सांव (के).

**चेल्लो** (पु) चलो (के).

**चेवप** (क्रिअ) राग येवप.

**चेष्टेखोर** (वि) चेष्टा करपी; चाळवपी; एनरावपी.

**चेः** (अ) ना हचा अर्थाचो उद्गार; उबगणेचो उद्गार.

**चैतन व्यूह** (पु) कशेरूंतल्या (फाटीचो कणो) स्नायूंची आनी मेंदूच्या स्नायूंची व्यवस्था वा लागेबांधे (सं).

**चो** (अ) सर्वनामांपैकीं पयल्या आनी दुसऱ्या पुरुषाचीं एकवचनी रुपां सोडून बाकी सगळचा सर्वनामांक आनी नामांक लागपी सटवे विभक्तेचें कूस. हें पुलिंगी रूप आसून दुसऱ्या लिंगांत ची आनी चें अशी एकवचनी आनी चे, च्यो, चीं, हीं भौवचनी रुपां अनुक्रमान पुल्लिंगी, स्त्रीलिंगी आनी नपुसकलिंगी जातात.

**चॉकोलेट** (न) कोको, गंवांचें पीठ हांच्यो दूद, साकर, तूप वा लोणी घालून शिजयल्ल्या पाकाच्यो गुळयो वा कापां (इं).

**चोखो** (पु) चुंबक; चोखपी; ओडून घेवपी.

**चोंदो** (पु) सुमाराभायर घणवटाय वा गर्दी.

**चोपड** (न) चौघडी; चार घडयांचें लुगट. कापडचोपड – तरेतरेचीं लुगटां.

**चॉपस्टिक्स्** (स्त्री) चिनी लोक जेवंचेखातीर बापरतात त्यो काडयो.

**चोंबडो** (वि) आगांतूक; आमंत्रणाबगर आइल्लो; बायलां फाटल्यान लाळ घोंटपी.

**चोबराब** (वि) चार पेट; चौपेट.

**चोबाळणी** (स्त्री) सुमाराभायली तुस्त; लाडीगोडी; भुलवणी.

**चोमडी** (स्त्री) चुमडी; गुड्डी; उदक व्हांवून वचचें न्हय म्हणून मारिल्लो गुड्डो.

**चोंयखांबी** (पु) चार भोई; पालखी वा माचूल उबारपी.
**चोरओवों** (पु) ओव्यांची एक जात; वखदी बियां.
**चोरटो व्यापार** (पु) बेकायदेशीर धंदो; चोरून माल देशांत हाडप वा देशाभायर व्हरप; तस्करी; स्मग्लींग.
**चोरदार** (न), **चोरदरवाजो** (पु) लोकांच्या सहज लक्षांत येना अशें गुप्त-दार.
**चोररान** (न) वाटमान्यांचो राबितो आशिल्लें रान.
**चोरलिंबू** (न) सादें लिंबू.
**चोरवेळ** (स्त्री) चोर येवंक पावतात अशी वेळ.
**चोरशिवण** (स्त्री) भायल्यान दिसना अशी शिवण.
**चोरूव** (पु) चरू (के).
**चोरो** (पु) दुखीच्या जाग्यार बिबो तापो-वन दितात तो दाग.
**चोवचाळीस** (वि) चव्वेचाळीस (के).
**चोळपट** (स्त्री) घरांतली चौकी.
**चौ** (वि) चार ह्या अर्थाचें मुळवें कूस. देख : चौरस; चौपट; चौखणो (प्रा).
**चौक**(पु)देवळाचो सभामंटप (१२५०); चवाठो; रस्त्यांचो नाको.
**चौकण्ड** (वि) चौकोनी (के).
**चौंकप** (क्रिअ) चमकंप (के).
**चौक भरप** (क्रिक) रांगोळेंत रंग वा रंगांरंगांचे दाणे भरप; कस्त्याचो एक प्रकार.
**चौकीदारी** (स्त्री) रखवालदारी.
**चौकुडो** (पु) कानांत दादले घालताले असो भांगराच्या वा चांदीच्या चार कांडयांचो कुडूक.
**चौघडी** (स्त्री) दोन फावटी दोडिल्लें चार दुट्टी लुगट; चार पदरांचें वा थरांचें लुगट; चार दुट्टी लुगट.
**चौचौ** (पु) आगामी बोलपटाचो परिचय करचेखातीर तांतले कांय म्हत्वाचे कुडके दाखोवपी जाहिरातपट; पुस्तकाचो परि-चय करून दिवपी लेख.
**चौथाय** (स्त्री) चौथो वांटो; सतराव्या-अठराव्या शेंकडयांत मराठी सैन्यान आपल्या मुलखाक त्रास दिवंचो न्हय म्हणून हिंदुस्थानांतले मुसलमानी राज्यकर्ते मरा-ठयांक आपल्या सरकारी वसुलाचो चौथो वांटो खंडणी म्हणून दिताले ती.
**चौथी पेंड** (स्त्री) पाडयाच्या वेळार माडार आसता ती आडसरांची पेंड. पयली पेंड ही सगळयांत जून नाल्लांची पेंड ती सगळयांत पयलीं पाडपाची. चौथी पेंड दोन म्हयन्यांनीं पाडूंक तयार जाता.
**चौपालवी** (स्त्री) चौपदरी; झोळी.
**चौरंग** (पु) चार खुरांची बसका; चोफाळो; चवाय (सं).
**चौरंगी सामनो** (पु) चार पक्षांमदली खेळाची (क्रिकेट) सर्त.
**चौरस** (वि) क्षेत्रमापक; लांबयेक रुंदयेन गुणून आयिल्लें क्षेत्रफळाचें (माप) (सं). देख : चौरस फूट; चौरस मिटर; हेक्टार.
**चौवीस अवतार** (पु) भक्तांचें रक्षण करूक श्रीविष्णून घेतिल्ले दशावतार : मत्स्य, कूर्म, वराह, नरसिंह, वामन, परशुराम, राम, कृष्ण, बौद्ध आनी कलंकी आनी चौदा प्रासंगीक आनी सिद्धावतार आसात. नारद, शौनक, नारायण, स्वायंभू, कपिल-मुनी, दत्तात्रय, ऋषभदेव, हंस, हयग्रीव, पृथुराज, ध्रुव, धन्वंतरी, मोहिनी आनी व्यास.

**च्यावन** (न) चिक्र; गुळम; कांचेचो वा चिनी मानयेंचो वांटकुळो वाडगो (पु).

**छ**—कोंकणी भाशेचे देवनगरी वर्णमाळेचें सातवें व्यंजन.

**छत्तिशी** (स्त्री) ३६ हे संख्येंत आंकड्याचीं तोंडां विरुद्ध बाजूंनीं आसात ती अवस्था; वैर; शत्रुत्व; बाकड.

**छत्रचामर** (न) राजाच्या माथ्यार धरतात ती सोबीत सत्री आनी फाटल्यान वावुडटात त्यो चवऱ्यो (सं).

**छत्रसिंहासन** (न) राजाचें दरबारांतलें सिंहासन आनी ताचेवेलें सोबीत छत्र.

**छंद** (पु) गांवक येता अशी उतरांची रचणूक; गायनाची चाल; गायनाचे चालीचें नाव (सं).

**छंद-सुलभ** (वि) गांवक सोपो (सं).

**छंदीष्ट** (वि) वायट नाद आशिल्लो; लहरी; नादीष्ट (सं).

**छंदोबद्ध** (स्त्री) गायनाचे चालीन रचिल्लो; छंदांत बांदिल्लो (सं).

**छपाई** (स्त्री) छापपाची मजुरी; छापणावळ.

**छप्पन** (वि) (ल) खूब; जायते.

**छांदिष्टपण** (न) विसंगत हालचाल वा वावर परत परत करपाचो मानसीक रोग.

**छादी** (स्त्री) कपट, फटवण.

**छाप मारप** (क्रिक) रंगाची आकृती उठावप; प्रभाव घालप; छापप (फा).

**छाया** (स्त्री) एके भाशेंतल्या श्लोकाचें दुसरे भाशेंत शब्दशः रुपांतर; पडबिंब; सावळी; राखण; चर्या; प्राकृत भाशेंतले कवितेचें संस्कृत भाशेंत शब्दशः रुपांतर.

**छायाचित्रण** (न) फोटोग्राफी; फोटो काडचो विद्या. फोटोग्राफ ह्या उतराचो अर्थ प्रकाशचित्र. छायाचित्र हें उतर चुकीन वापरतात.

**छायानट** (पु) संगीत शास्त्रांतलो एक राग (सं).

**छायाप्रत** (स्त्री) दिसपांत सारकी अशी प्रत; डमी; नकली पूण हुबेहूब अशी वस्तू वा मनीस (सं).

**छायायंत्र** (न) खुणो केल्ल्या फळयाचेर वतांत खुटयेची सावळी पडटकच वेळ समजपाचें साधन (सं).

**छिद्रमय** (वि) आंगभर छिद्रां आशिल्लो.

**छिद्रांक टंकक** (पु) पंच ऑपरेटर; यंत्रांत कागद घालून त्या कागदाचेर विशिष्ट अर्थाचे बुराख मारपाची विद्या शिकिल्लो कारकून (सं).

**छिन्नविच्छिन्न** (वि) खूब कुडक्यांनीं मोडून वा कोसळून पडिल्लो; कुडके कुडके जावन पडिल्लो.

**छीः** (अ) वीट येवन येता तो उद्गार; कंटाळयाचो उद्गार.

**छेदिका** (स्त्री) छेदपी रेषा.

**ज**— कोंकणी भाशेचें देवनगरी वर्णमाळेचें आठवें व्यंजन.

**जकातनाको** (पु) जकात फारीक करून गांवांत वा देशांत भितर सरपाचो वा जिन्नस भितर हाडपाचें सरकारी ठाणें (अ).

**जग** (न) ब्रह्मांड; मनशांचें वसतीस्थान;

मनीस समाज; चारचौग लोक.

**जगच्चालक** (पु) जगत् + चालक; जग चलोवपी; जगाचें पालन-पोषण करपी; जग सांबाळपी; परमेश्वर (सं).

**जगज्जनक** (पु) जग निर्माण करपी; ब्रह्मदेव; जगाचो बापूय (सं).

**जगत्कर्तो** (पु) जग घडवपी; ब्रह्मदेव; परमेश्वर; विश्वकर्मो (सं).

**जगद्वंद्य** (वि) सगळ्या जगान नमस्कार करचो अशे योग्यतेचो (सं).

**जगन्नायक** (पु) जगाचो स्वामी (सं).

**जगन्निवास** (पु) सगळें जग जाचेभितर आसा असो देव (सं).

**जगन्माता** (स्त्री) जगाची आवय; देवी जगदंबा (सं).

**जगन्मान्य** (वि) सगळें जग जाका मान दिता असो (सं).

**जग्गलि** (न) वसरो; वारांद (के).

**जगलोक** (पु) साबार लोक; समाज; चारचौग लोक.

**जटापाठी** (पु) जटापाठाचे पद्धतीन वेद-मंत्र म्हणपी (सं).

**जटायू** (पु) रामायणांत वर्णिल्लो गिदांचो राय. सितेक सोडोवंक हाणे रावणालागीं युद्ध करतासतना युद्धांत तो मेलो.

**जड-ओड** (स्त्री) जड वस्तू हलके वस्तूक ओडटा हो सिद्धांत; गुरुत्वाकर्षणाचो नेम.

**जड जावप** (क्रिअ) (तकली) जड जाल्ले-भाशेन दिसप; आंग जड जालां अशें दिसप; सुस्ती येवप; (दोळे) न्हिदेक येवप; (ल) गर्वाक लागून दुसऱ्याकडे दुर्लक्ष करप. उलौंक जड – गर्विष्ठ. कामाक जड – आळशी. तकलेन जड – निर्बुद्ध. पैशाक जड – चिक्कू, कंजूस.

**जडणघडण** (स्त्री) जोडणावळ; सांध-काम.

**जडणावळ** (स्त्री) सांधपाची, जोडपाची मजुरी.

**जडावप** (क्रिअ) वाढप; जड जावप; चड वायट जावप; घाव जडावप – पुलवप. फोड जडावप – चड मोठो जावप आनी चड दुखप.

**जडी** (स्त्री) मूळ; वखदी पाळ.

**जणलमातु** (वि) कायम; मामणाचो (१६००).

**जणीक** (वि) जणाचो, व्यक्तीचो (सं).

**जत, जति, जोत** (स्त्री) एके चालीचें लोकगीत; लोकगिताची एक चाल (१२५०). जैन धर्मी स्तोत्र.

**जंतूरोधक** (वि) जंतूनाशक; अंटी सेप्टीक (सं).

**जंत्र, जंतर** (न) जादू; यंत्र; कठीण कसोटी; बारीक बुराखांची तार ओडपाची पट्टी (सं).

**जथापथ** (वि) योग्य तरेन; यथायोग्य; फाव तसो; जेमतेम; जमत ते भाशेन (सं).

**जनस्वी** (वि) लोकसेवेंत सदांच मग्न आशिल्लो; लोकाभिमूख; लोकांखातीर जीव ओंपपी (सं).

**जनीत्र** (न) निर्माण करपी साधन; (वीज) उप्रासपी यंत्र; डायनेमो; यंत्रीक शक्तीचें विजेंत (वीजशक्ती) रुपांतर करपी यंत्र (सं).

**जनेरल** (न) जनेल (के).

**जन्म** (पु) जलम (सं).

**जन्मप** (क्रिअ) जलमप (सं).

**जपप** (क्रिक) जतनाय करप; सांबाळप; जतनाय घेवप.

**जबराय** (स्त्री) जुलूम; जबरदस्ती (फा).

**जंबार** (न) काम; वावर (का).
**जमात-प्रार्थन** (न) वृंदगायन; सगळ्यांनीं मेळून म्हणची प्रार्थना.
**जमीन अस्मान एक जावप** – (ल) खूब पावस पडप.
**जमीन अस्मानाचें अंतर** – खूब अंतर; व्हड फरक वा भेद.
**जय** (न) अठ्ठाविसावें संवत्सर.
(० की) **जय** – (ल) (अमक्याचो) जय जांव; (अमक्याक) जैत मेळूं.
**जयिथर** (न) असुर्पेच्या णव्वदाव्या वांटचाच्या मोलाचें तांब्याचें नाणें (१६००).
**जरिपटको** (पु) मराठ्यांच्या स्वारींत सेनापतीक दिल्लें जरीचें निशाण; सेनापतीक दिल्लो जरी कमरपट्टो.
**जरीकांठी** (वि) जरीची देग आशिल्लो.
**जरूर** (क्रिवि) नक्की; अवश्य; गरजेचें (अ).
**जर्कीन** (पु) दादल्यांचें लोंकरी वा चामड्याचें जाकीट (इं).
**जलक्रिया** (स्त्री) मेल्ल्या पितरांच्या नांवान सोडटात तें मंत्रोदक (सं).
**जलचर** (पु) उदकांत जियेवपी प्राणी (सं).
**जलतरण** (न) उदकांत पोंवप; उदकांतले तरकतरा खेळ (म).
**जलदी** (स्त्री) घाई; त्वरा; बेगसाण (फा).
**जलद्वेष** (पु) पिसावल्ल्या प्राण्यान (कुत्र्यान) चावतकच उदक नाका जावपाची जाता ती व्याधी; हायड्रोफोबिया; पाणीपिशें (सं).
**जलप्रळय** (पु) संवसार-बुडटी (सं).
**जलप्रांगण** (न) समुद्राचे वेळेसावन तीन मैलमेरेन समुद्रांतलें अंतर. ह्या अंतरामेरेन किनाऱ्यावेल्या राज्याचो अधिकार चलता.
**जलमंदीर** (न) सयभोंवतणी तळें बांदून मदीं बांदिल्लें घर वा देऊळ (सं).
**जलमापन लेखक** (पु) नळांतल्यान उदक व्हांवन वता ताचो हिशोब दवरपी यंत्र; पाणयाचो मिटर.
**जलमार्ग** (पु) समुद्रावेल्यान आनी न्हंयांतल्यान सुरक्षीतपणान होडयांनी, तारवांनीं आनी बोटींनीं प्रवास करचेले मार्ग. उदकावेल्यान प्रवास करपाचे सुरक्षीत मार्ग शिकून घेवपाक कांय वर्सां उमेदवारी करची पडटा.
**जलराज** (पु) जातूंत भांगर विरघळटा अशें आम्ल (ॲसीड); खर नत्राम्ल (१०० टक्के नायट्रीक ॲसीड) आनी खर हायड्रोक्लोरीक ॲसीड हांचें मिश्रण. असल्या खर आम्लांच्या मिस्रणाबगर भांगर विरघळूंक शकना. ह्या मिश्रणाक ॲक्वा रेजिया म्हणटात. हातूंत भांगर आनी प्लॅटिनम हे धातू विरघळटात. ॲक्वा रेजिया म्हळ्यार जलराज वा सगळ्यांत खर असो द्राव (सं).
**जलोत्सारण** (न) वापरिल्लें उदक निचरावप (सं); ड्रेनेज.
**जल्म घेवप, जल्मा येवप** (क्रिअ) जितो जीव म्हणून आवयच्या गर्भाशयांतल्यान भायर सरप.
**जल्मजूग** (न) जायते जल्म; जल्मजल्मांतर; जायत्या जल्मांचो काळ (सं).
**जल्म दिवप, जल्माक घालप** (क्रिक) गुर्वार जावन बाळक बियेवप; बायलमनशेकडेन संभोग करून तिका भुरगें जायत अशें करप; (पसरांनीं) गाबणीं जावन पोर वियेवप; (सवण्यांनीं) तांतयां

घालून रावणेक बसून जितीं पिलां काडप.

**जल्लूटाण** (वि) जळवेभाशेन त्रासीक (भुरगें).

**जवनिका** (स्त्री) मनशाच्या हृदयाच्या चार खणांमदल्या सकयल्या दोन खणांचें नांव (सं).

**जवळां** (न) एकाच गुरवाचारान जल्मल्लीं एकाहून चड भुरगीं; जुंवळीं.

**जशाचो तसो** (वि) पयलीं आशिल्लो तसो.

**जस्तावलेपन** (न) जस्ताचो [illegible]वो दिवप.

**जळकाय** (स्त्री) मत्सर (के).

**जळको** (वि) अर्दकुटो जळिल्लो; जळटासतना.

**जळजळ** (पु/स्त्री) दाह; भगभग.

**जळधुनी** (स्त्री) धुंवराळ उजो.

**जळप** (क्रिअ) जडप; जडावप (के).

**जळा-मळा** (क्रिवि) सगळचा जाग्यांनीं; अव्यवस्थीतपणान शिंपडिल्लो; खंयतरी; वचत थंय.

**जळामळाक, जळामळार** (क्रिवि) जागोजाग; जळींमळीं; वेगळचा वेगळचा जाग्यांर.

**जळी-स्थळीं** (क्रिवि) उदकांत आनी जमनीचेर; सगळीकडेन; संवसारभर (सं).

**जाकोबसर** (पु) धक्को तोलून धरपी यंत्राचो भाग; शॉक-ॲब्सॉर्बर (इं).

**जाग** (स्त्री) लागसार आशिल्ल्या लोकांचो वा प्राण्यांचो आवाज; कानोसो; मागमूस.

**जागती न्हीद** (स्त्री) शिटूक न्हीद; गाढ न्हय अशी न्हीद.

**जागतो** (वि) जागो आशिल्लो; जागपी; सावध. जागतो (पारो).

**जागप** (क्रिअ) जागो रावप; जागृत रावप; (ल) (उतराक) पाळो दिवप; कृतज्ञ उरप; उपकार आठवप (सं).

**जाग येवप** (क्रिअ) न्हिदांतल्यान जागो जावप; सावध जावप; (ल) दुर्लक्ष जाल्ली वस्त लक्षांत येवप; आळस सोडप.

**जागरयो** (पु) जागराच्या खेळाची देवता; जागराच्या खेळांतलें एक सवंग.

**जागृत ज्वालामुखी** (पु) मातयेचो खतखतीत रोस उमळून मोखपी अवस्थेंतलो दोंगर (सं).

**जागृत देवस्थान** (न) दैवी शक्तीचो लोकांक प्रत्यय येता अशें देवस्थान (सं).

**जागोजाग** (क्रिवि) साबार जाग्यांनीं; खूब जाग्यांचेर; सगळेकडेन (फा).

**जाग्यार नासप** (क्रिअ) (ल) लक्ष नासप.

**जाग्यार हाडप** (क्रिक) (ल) योग्य जाणीव करून दिवप.

**जाचेंद, जाचंद** (पु) त्रास दिवपी; शिकारी; प्रवासी (के).

**जाण** (स्त्री) गिन्यान; समजण; समज (अप).

**जाणणार** (पु) ज्ञानी (अप).

**जाणवीक** (स्त्री) ज्ञान.

**जाणार** (पु) जाण जावपी.

**जातकर्म** (न) बाळ जल्मल्याचो उत्सव (के) (सं).

**जातगंगा** (स्त्री) जातींतल्या लोकांचो समाज वा भौस; जातींतल्या लोकांक शिस्त लावपी समाजसंस्था.

**जात घालप, जात दवरप** (क्रिक) जातीभायर घालप; बहिष्कार घालप.

**जाती** (स्त्री) वृत्त; संगितांत रागाचे स्वररचनेची विशेषताय (सं).

**जातीण** (स्त्री) घिरड; लांकडी दांतें. हें

भात कांडूंक उपकरतालें.
**जातीय** (वि) जातीवर्गाचो (सं).
**जातीयताय** (स्त्री) जातींमदल्या भेदांक सुमाराभायर म्हत्व दिवपाची वृत्ती; जातीचो सुमाराभायर अभिमान (सं).
**जातीव्यवस्था** (स्त्री) जातीची थारा-वणी; जातीची विशेषताय; एके जातीचो दुसऱ्या जातींकडचो वेव्हार (सं).
**जातीसंस्था** (स्त्री) जातीची घडवण; जातीची रचणूक (सं). समाजाची जाती-जातींमदीं विभागणी आनी व्यवस्था.
**जातें** (न) दातें (गा).
**जात्य गुणाकार** (पु) गमीकरणाच्या एका पदाच्या अंशांचो दुसऱ्या पदाच्या छेदा-बरोबर गुणाकार; क्रॉस गुणाकार.
**जात्यंध** (वि) जातीच्या फाजील अभि-मानाक लागून सत्याची जाणविकाय नासपी (सं).
**जात्यंधताय** (स्त्री) जातीच्या अभिमानाक लागून समजिकाय व्हगडांवचो दोष (सं).
**जादूचो कंदील** (पु) कांचेर वा सेल्यु-लॉयडचे पट्टेर वस्तूंचें वा देखाव्याचें ऋणबिंब वा धनबिंब घेवन उजवाडाच्या झोतांतल्यान त्या बिंबाचें काळोखांतल्या पडद्यार चित्र दाखवपी दिव्याचें यंत्र; मॅजीक लँटर्न.
**जानपद गीत** (न) लोकगीत; कोणें रचलां तें खबर नामतना लोकांच्या तोंडांत घोळटा अशें गीत; परंपरेन लोकांच्या तोंडांत घोळत आयिल्लें गीत (सं).
**जापसाल** (पु) प्रस्नाची जाप; प्रस्न आनी जाप (फा)
**जापसालकी** (स्त्री) जबाबदार वागणूक; कर्तव्य; प्रस्नाक जाप दिवंची कामगिरी; बांधिलकी; उत्तरदायित्व (फा).
**जांब** (पु) (ल) तांबशे पोलें; गुलगुलीत गाल; जांबाच्या फळासारके पोलें.
**जांबली** (स्त्री) सामान घालून व्हरपाचो करंडो.
**जाबळी** (स्त्री) पागिल्लें नुसतें कमराक बांदून व्हरपाची सुंबाची पोती.
**जाबळो** (पु) नाल्ल घालून व्हरपाक विणिल्लो सुंबाचो जाळयेचो साक (१५६६); नाल्ल व्हरपाखातीर विणिल्लो बेताचो भोंक्यांचो खोटलो.
**जामीनदार** (पु) जामीन रावपी; प्रतिभू; फियादोर; खात्री दिवपी (फा).
**जामीनदारकी, जामीनदारी** (स्त्री) जामीनकी; खात्री दिवप; घाणवटपण (फा).
**जाय आसप, जाय जावप** (क्रिअ) मेळची इच्छा जावप; मेळची गरज आसप.
**जायण** (स्त्री) जाणकारी; जाणीव.
**जायणी, जाळणी** (स्त्री) फाजील चौकशी; जाळवणदारकी; नसतो कारभार; नाका जाल्ली चवकशी.
**जायदीस** (पु) वाढदीस (के).
**जायसर** (क्रिवि) घडसर; घडमेरेन; घडून वचमेरेन.
**जायां घेवप** (क्रिक) उष्णो घेवप.
**जार** (न) वीख; (वि) विखाळो (फा).
**जार** (क्रिवि) हैराण.
**जारकर्म** (न) शिंदळकी (सं).
**जारज** (पु) आवयच्या गर्भाशयांत आकार घेवन वाडून जल्माक येवपी; अंडज हो तांतयांत वाडपी प्राणी; उद्भीज हो वन-स्पतींतल्यान वा बियेंतल्यान वाडून जल्माक येवपी; स्वेदज हो दुसऱ्या प्राण्याच्या घामांतल्यान जल्माक येवपी. देख : रुवां, रंवथो, उवो, किट्टी बी.

**जारीण** (स्त्री) शिदळ बायल; व्यभिचारीण (सं).
**जालंधर** (पु) नवनाथांपैकीं एक सिद्ध; योगाभ्यासांतली एक अवस्था (सं).
**जावण** (न) जेवण.
**जावप** (क्रिअ) घडप; करूंक जमप; करूंक येवप; (आंगाक) बरोबर बसप; आंगांत वचप; बेताचो आसप. हो कोट म्हाका जाता – फिट बसता. जोतें वा बूट पांयांक जाता – जुस्त बसता; मापाचें आसप. विकार जावप – आनंद वा दुःख जावप, आर जावप, उदर जावप. खोरज जावप; उकाडो जावप, हून जावप, थंड जावप, पास जावप, डॉक्टर जावप, सर्गदन जावप.
**जावप** (क्रिअ) सोंपप. करून जावप – करून सोंपप. चलून जावप – चलून सोंपप. उलोवन जावप, हांसून जावप, रडून जावप, न्हिदून जावप, बरोवन जावप, भोगून जावप, जेवन जावप.
**जावप** (क्रिअ) वचप (कु).
**जावळ** (न) ल्हान भुरग्याच्या माथ्याचे केंस.
**जावळो** (वि) जुंवळो.
**जाहीरनामो** (पु) सरकारचें प्रसिद्धीपत्रक (अ).
**जाळगो** (वि) हट्टी; छळवादी; नष्टो.
**जाळप** (क्रिक) भाजप (जमीन); (ल) पान जाळप – पत्त्यांनी खेळटना हलकें पान उतरून विरुद्ध बाजूक हात करूंक दिवप.
**जाळप करप** (क्रिक) पावसाचे आदीं शेतजमीन जाळ करून भाजप.
**जाळां** (न) दर्यांत नुसतें पागपाची बारीक घरांचीं जाळी. जाळांनीं बारीक नुसतें पागतात. जाळांचें नुमतें हेर नुमत्यापरस सवाय मेळटा, कारण तें रांपणीच्या वा शेवकाऱ्यांच्या नुमत्याइतलें रुचीक नासता.
**जाळीदार पांटली** (स्त्री) नकशीदार बुराख आशिल्ली पांटली (दागिनो).
**जाळयांत पकडप** (क्रिक) (ल) फसवप; कपट करून ताब्यांत घेवप.
**जिज्वार, जेजूं** (पु) उपास; मास खांवचो प्रतिबंध; पुराय उपास (पु).
**जिगजिगावप** (क्रिक) त्रास दिवप.
**जिगजिगो** (वि) त्रास दिवपी; दगदगावपी.
**जिगजीग** (स्त्री) दगदग; त्रास.
**जिजी** (स्त्री) जाणटे भयणीक उलो मारपाचें उतर; ताई; माई; आका (हिं).
**जितेपण** (न) जिवंतपण; हो जल्म; चालू जीण.
**जितेपणीं** (क्रिवि) जितो आसतना.
**जिन** (पु) भगवान बुद्धाचें एक नांव; बौद्ध धर्मी महापुरूष; जैन समाजांतलो अवतारी पुरूष (सं).
**जिनसी** (वि) जिनसांचो; वस्तूंचो (अ).
**जिनसां-जिनसांचो, जिनसी-जिनिसी** – तरेकतरांचो; वेगळ्या वेगळ्या प्रकारांचो (अ). एकजिनसी – एकेच जातीचो; भेसळ नाशिल्लो. ऐनजिनसी – मुखेल वस्तू आशिल्लो; अस्सल जातीचो (अ).
**जिप्सम** (न) शंखजिरें; संगजिरें (इं).
**जिबट** (वि) बडबडो; खादाड.
**जिबेक कांटो लावप** – चूप बसप; आयकल्लें, पळयल्लें कोणाक सांगना जावप; जेवणाखाणाचें कडक पथ्य करप.
**जिबेर आसप** – जिबेच्या तोंकार आसप; तोंडपाठ आसप.

**जब्बो** (पु) झब्बो; शर्ट; सदरो.
**जबोळी** (स्त्री) उज्याची ज्वाळा; उज्याच्या जाळाचें बारीक तोंक.
**जरगो** (पु) जमात; वंश (फा); तांदळांची एक जात; जिरेसाळ.
**जरात काडि** (न) कोडू किरायतें.
**जर्णोद्धार** (पु) मोडूंक आइल्ले वस्तूची परती बांदावळ (सं).
**जवट** (वि) काटक; दमदार; चिवट; तणग्वर; बळकट.
**जवटसाण** (स्त्री) चिकाटेन जियेवपाची शक्त.
**जवदाळ** (न) जिवाणें.
**जवन** (न) जीण; अस्तित्व (सं).
**जवनकलह** (पु) जगचे खातीर प्रत्येक प्राण्याक हेरांलागीं दिवंचें पडटा तें झूज.
**जिवनळ** (पु) बोरूच्या झाडांची एक जात; कोंडयांची एक जात.
**जिवन्मुक्त** (वि) जितेपणी सुखदुखाच्या भोवजाळांतल्यान मेकळो जाल्लो (साधू, परमहंस, साक्षात्कारी पुरूष); सिद्ध पुरूष (सं).
**जिववप** (क्रिक) जियेत वा जगत अशें करप.
**जिवश्च-कंठश्च** (वि) जिवाइतलो प्रीय; जिवाभावाचो (सं).
**जिवा-चवन** (न) दुर्दैवाक लागून काळ-जाक जाल्ली जीवघेणी खंत.
**जिवाच्यान** (क्रिवि) जिवाचो सपूत.
**जिवाणें** (न) सोरपाचे जातीचो जिवूप.
**जिवाभावाचो** (वि) आपल्या जिवाइतलो प्रीय.
**जिवार घाल्प** (क्रिक) आपल्या जिवाहून चड माया करप.
**जिवार जीव वचप** -- भोवन भोवन वेगुद्ध पडप.
**जिवाश्म** (न) मेल्ल्या जिवाच्ची वा प्राण्याच्ची फातरांत चेपिल्ली आकृती; फॉस्सील.
**जिवाळप** (क्रिअ) जीव भरप; जितो जावप; जियेवप; जगप.
**जिवोपजिवी** (वि) दुसऱ्या प्राण्याच्या आंगार जगपी (जीव); स्वेदज (सं).
**जिव्हाळो** (पु) स्वताच्या जिवाइतलें आप-लेपण वा मोग (सं).
**जिव्हाळयाचो** (वि) जिवलग; प्राणप्रिय.
**जीण** (स्त्री) जिवांचें वा प्राण्यांचें जिवन; पिराय; आयुष्य.
**जीव** (पु) प्राणी; जिवूब; जंतू; रंवथो; किडो; तेज; वीर्य; (ल) उत्साह; धमक; शक्ती; सत्व; सार; स्थैर्य; मजबुती; बळ; मन; प्रवृत्ती.
**जीव अर्दो करप** – हैराण करप.
**एकजीव करप** – वेगळे काडूंक येनात इतले दोग जाण एकरूप जावप; एकठावप; संघटन करप.
**जीव लावप** – माया करप; जीव घेवन पळप – जिवाच्या भयान पळून जीव वांचवप; जीव धरप – आरोग्य सुदरप; जिवार उदार जावप – मरूंक तयार जावप; जिवानशीं वचप – मरप. जिवानशीं वांचप – मरणांतल्यान वांचप; जिवार उठप – जिवानशीं मारूंक येवप; जिवार उडयो मारप – दुसऱ्याचे मजतीन बडेजाव दाखवप; जिवावेलो (प्रसंग) – जीव वचूंक पुरो पडत असलें अरिष्ट; जिवार येवप – नाइलाज जावप, करची इच्छा नासप; जिवाक जीव दिवप – जिवा-प्रमाण करप. जीव की प्राण करप – प्राणाइतलो प्रिय मानप; जीव सकल पडप – अरिष्टांतल्यान सुटका जावप;

जीव मारप – जिवाक वळवळावप; जीव सोडप – प्राण सोडप; जीव जाग्यार नासप – अस्वस्थ जावप; जीव राखप – प्राणरक्षण करप, जीव सांबाळप; जीव सुकप – संकष्टांत पडप; भिरांकूळ जावप; जिवाक कितेंय करून घेवप – आत्महत्येचो उपाय करप; जिवार उदार जावप – जिवाचो पर्वा करिना जावप, मरूंक तयार जावप.

**जीवकूट** (न) कीडमूय; किटक (सं).

**जीव-चक्र** (न) वेगवेगळया जिवप्राण्यांचो विकास वा उदरगत; प्राण्यांचें सुदरप वा हुशार जावप. मनशाळून जीव (जनावरां) हुशार जांवक पावतात.

**जीव-चिन्ह** (न) फातरांत चेपून मुकिल्लो प्राणी; जीवशेष; जिवाश्म (सं).

**जीवरसायणशास्त्र** (न) प्राण्यांच्या आनी वनस्पतींच्या जिव्या कुडींनीं आशिल्ल्या आंगांचें आनी द्रवांचें रसायणीक ज्ञान; Biochemistry.

**जीवविज्ञान**, **जीवशास्त्र** (न) प्राणीशास्त्र; साबार प्राण्यांचे जिणेचो अभ्यास Biology (सं).

**जीवशेष** (पु) भुयेंत फातरांत मेळिल्लो प्राण्याच्या सांगाडयाचो छाप; Fossil.

**जीव सूड जावप** – जीव हलको जावप; चिंता ना जावप.

**जुंगो** (वि) जुनाट; पोन्नां; जड्डो; थेरडो; जर्जर.

**जुडटी** (स्त्री) जोड.

**जुम्मल पद्धत** (स्त्री) संख्या वयल्या स्थानासावन सकयल्या स्थानामेरेन वाचपाची भारतीय पद्धत (अ). दोन कोटी अठ्ठेचाळीस लक्ष पंचवीस हजार चारशें बावीस २,४८,२५,४२२.

**जुंवळणी** (स्त्री) जोडणी; एकठावणी.

**जुंवळप** (क्रिक) जुंवळ लागप; नर आनी मादी हाणी एकमेकांची कूड भोगप; झंवप; संभोग करप.

**जुंवळिल्लीं** (वि) जोडिल्लीं.

**जुंवळीं** (वि) एकेच आवयच्या एकाच गुरवाचारान जल्मल्लीं एकाहून चड भुरगीं.

**जुवानी** (स्त्री) तरूणपण (सं).

**जुंवारी** (पु) जुगारी; जुगाड्डो; जुगार खेळपी (सं).

**जुंवावळ** (स्त्री) जुंव्यांचो पुंजुलो; द्विपसमूह.

**जूं** (पु) झोप (के).

**जॅक** (पु) जड वस्तू कमी त्रासान वयर उखलपाचें आवत; स्क्रूजॅक – वजन उखलपाचे वेढे आशिल्लें आवत (इं).

**जेडू** (पु) कोळी; कोळचो.

**जेनी** (स्त्री) बायलांचें संभोगाचें आंग; योनी (अपभ्रंश जोणी).

**जेमतेम** (क्रिवि) जितल्याक तितलो; कसोवसो; कष्टान; किचीत मुमाराकसो.

**जेर** (अ) चे वयर ह्या अर्थाचें सातवे विभक्तेचें कूस. म्हजेर, तुजेर, ताजेर, हिजेर, तिजेर, ह्याजेर इतल्याच सर्वनामांचीं अशीं रुपां जानात. हांतल्या कांय सर्वनामी रुपांक विकल्प आसात. ते अशे : ताचेर, हिचेर, तिचेर, हाचेर. बाकी सर्वनामां चेर हें कूस घेवन सातवी विभक्ती घडटात.

**जेर** (वि) हैराण; त्रस्त; पराजीत (फा).

**जेर करप** (क्रिक) हैराण करप; बांदून घालप; पराभव करप (फा).

**जेरवप** (क्रिक) त्रास दिवप; हैराण करप.

**जेरासांव** (न) पिळगी (पु).

**ेवणखाण** (न) जेवण हें शीत, रोस वा मण, तोंडाक, कडी, पोळी, भाजी वा वडे, ोडशें अशा पदार्थांचें पानार वाडून घेवन दसांतल्यान दोन फावट जेवतात तें. त्या भायर कांय लोक पेज आनी तोंडाक हेंय ेवण म्हणून दिसांतल्यान एक फावट ेवतात. ह्या जेवणाभायर जें कितें इल्लें इल्लें खातात ताका खाण म्हणटात. देख : फोव, पोळी, भाजी, लाडू, ह्यालव्याचें ़ाप, नेवरी, चकली, आंबो, पणसाचे घरे, ्ोणस, तवशें, पाव, बिस्किटां, खाजें, शंकरपाळयो बी वस्तू मनाक मानत त्या ेळार खांवचें खाण. च्या, काफी, दूद हेंय खाणांत धरूं येता. जेवण चड करून थारायल्ल्या वेळार जेवतात. खाण; खावपाक वेळ थारायल्लो आसताच अशें ना.

**जेवो** (पु) जेवपाचें सामान; शिदो.

**जैतवंत, जैतिवंत** (वि) जैत मेळयल्लो; यशवंत, यशस्वी, विजयी (सं).

**जैतून** (न) आंबाडयाचे जातीचें चोंच नाशिल्लें ऑलिव्ह नांवांच्या येवरोपी नांवाचें वखदी तेलाचें फळ (अ). हाचीं खारांत करमेल्लीं फळां जेवतना तोंडाक बरीं लागतात.

**जैतो** (वि) जायतो; खूब (के).

**जैमिनी** (पु) वेदांची फोडणिशी करून मिमांसा म्हळयार कर्मकांडाचेर धर्मसुत्रां म्हणून ग्रंथ रचपी प्रसिद्ध ऋषी.

**जैव** (वि) जिवाचे कुडीचो, जिवाचे कुडीविशींचो (सं).

**जो** (अ) एकवचनी सर्वनामाक लागपी सटवे विभक्तेचें कूस. म्हजो, तुजो, ताजो, तिजो, तेजो, म्हाजो, हाजो, हिजो, हेजो. तिसऱ्या पुरुषवाचक सर्वनामाचीं ताचो, तिचो, तेचो, आनी दर्शक सर्वनामाचीं ह्याचो, ह्िचो, हेचो अशींय विकल्पी रुपां घडटात. जो ह्या कुसाचीं स्त्रिलिंगी जी आनी नपूसकलिंगी जें अशीं रुपां जातात. भोववचनांत जे, ज्यो, जीं अशीं तीन लिंगांत रुपां जातात.

**जोखप** (क्रिक) रोखप; नेम धरप; आर्म जोखप.

**ज्योग** (पु) भांगराच्या आनी रुप्याच्या दागिन्यांचो संच; सट्टो; जुगार (पु).

**जोगयां** (न) जैन समाजांतली भिक्षाव्रती लोकांची जात.

**जोगलावप** (क्रिअ) वीज अंत्राळांत चकचकप.

**जोगवप** (क्रिक) सांबाळून दवरप.

**जोगी** (पु) नाथपंथी म्हात्मो; जैन समाजांतली भिक्षेचें व्रत घेतिल्ल्या लोकांची जात (१२५०).

**जोगूल घालप** (क्रिक) विजेप्रमाण चमकप.

**जोडगीर** (न) जोडाक्षर; दोन वा तीन व्यंजनाचें स्वरासैत अक्षर.

**जोडयो गिरो** (पु) उपग्रह; ग्रहांभोंवतणी भोंवपी ल्हान ग्रह.

**जोडये तारे** (पु) एकमेकांच्या सांगातान रावतात अशें भासपी तारे.

**जोडवीं** (न) हाताच्या बोटांत घालपाची भांगराच्या सल्ल्यांची जोडी; चांदीचीं जोडवीं बायलो दोनय पांयांच्या मदल्या बोटांत घालतात.

**जोतिसकी** (स्त्री) अंतराळांतल्या गुळयांचे दिसपाचे, भोंवडेचे बी माहितीचें शास्त्र.

**जोतीं झरवप** (क्रिक) (ल) खूब येरादारी घालप; जायते कष्ट काडप.

**जो-तोर** (अ) जोर तोर; जर तर; जर (प्रा).

**जोंपा घालप** (क्रिक) झोंपय मारप (के).
**जोबां** (न) खुब्याची एक जात.
**जोयशिकी** (स्त्री) जल्मकुंडलेवेल्यान जल्मल्ल्या मनशाचें वा संस्थेचें आयुष्यांतलें भविष्य वर्तवपाचें शास्त्र; फल-ज्योतीष शास्त्र, णव ग्रह, सत्तावीस नक्षत्रां, बारा राशी हांची मनशाच्या जल्मकाळची स्थिती गृहीत धरून वेगवेगळया ग्रहांच्या, नक्षत्रांच्या भोंवडयांनुसार मनशाक भोगता तें फळ वर्तवपाचें शास्त्र (सं).
**जोयशिकी** (स्त्री) ज्योतीष शास्त्र; जोय-शाचो वावरधंदो.
**जोयशी** (पु) ज्योतिषी; फलज्योतिष-शास्त्रानुसार फुडार वर्तवपी शास्त्री; जोशी; एक आडनांव.
**जोरावार** (वि) जबरदस्त; जुलमी; बळिष्ट (फा).
**जोरावारकी** (स्त्री) जबरदस्ती.
**जोरावारी** (स्त्री) जबरदस्ती; जुलूम; दांडगाय (फा).
**जोरू** (वि) खाष्ट; कजाग; फाजील; (क्रिवि) नेटान; बेगीन; (स्त्री) पत्नी (फा).
**जोरो** (पु) जोर; दिसांचो जोर (के).
**जोली**(स्त्री) काम; नोकरी (मल्याळम्).
**जोळप** (क्रिअ) जळप (के).
**जोळ्** (पु) मको.
**जोळ्व** (स्त्री) जळू (के).
**जोळॅर** (स्त्री) जळार; जोवार (गा).
**जौज** (स्त्री) पत्नी (फा).
**ज्या** (स्त्री) त्रिमिती शास्त्रांत त्रिकोणांतल्या काटकोनाचे एके बाजूचें कर्णा-बरोबरचें प्रमाण (सं).
**ज्युगादोर** (पु) जुगार खेळपी (पु).
**ज्युरामेंत** (पु) देवाचो सपूत घेवन केल्लें प्रमाण (पु).
**ज्युरार जावप** (क्रिक) प्रमाण करप; सपूत घेवन सांगप; देवाचो सपूत घेवन सांगप (पु).
**ज्योग** (पु) काजारा वेळार व्हंकलेक घाल्लो दागिन्यांचो संच (पु).
**ज्यॉग्रफी** (स्त्री) भुगोल विषय; भुगोल-विद्या; भुगोलाचें ज्ञान (इं).
**ज्योतिर्वास्तव** (न) अंतराळांतल्या गुळयांची निजाची माहिती.
**ज्योतिर्वेत्तो** (पु) खगोल-शास्त्रज्ञ (सं).
**ज्योतिःशास्त्र** (न) नक्षत्रविद्या; अंतरा-ळांतल्या ताऱ्यांचें गिन्यान (सं).
**ज्योतिशी, ज्योतिषी** (पु) पृथ्वी, णव ग्रह, सत्तावीस नक्षत्रां हांचे भोंवडेर आदारून भृगुसंहिता, सूर्यसंहिता बी ग्रंथांचे शिकव-णेन लोकांचें भविष्य सांगपी जोयशी (सं).
**ज्योतिषशास्त्र** (न) मनशाचे जल्मकुंडले-नसार णव ग्रहांच्या प्रभावाक लागून भोगचें लागता त्या बऱ्यावायट दशांचें गिन्यान; फलज्योतिषशास्त्र (सं).
**ज्योतिष्यक** (न) खगोलशास्त्र (सं).
**ज्योतिषीक** (पु) खगोलशास्त्री (सं).
**ज्योती** (स्त्री) पर्जळ; प्रकाश; खगोल; तारो; ग्रह बी (सं).
**ज्वरमापक** (पु) जोराचें तपमान दाखो-वपी पाऱ्याची नळी; थर्मामिटर (सं).
**ज्वलन** (न) जळपाची क्रिया; जाळ; लासपाचो घडिचार (सं).
**ज्वलनयंत्र** (न) इंधन (जळव, तेल, जळपी वस्त) जळून उप्रासिल्ले शक्तीन चलपी (वावरपी, फिरपी) यंत्र; इंजीन.
**ज्वालक** (पु) जळपी; दिवटी (सं).
**ज्वाला** (स्त्री) जाळ; पर्जळीत वायू (गॅस) (सं).

**वालाग्राही** (वि) उजो लायल्यार भराभर ट्टा असो (सं).

**वालामुखी खडक** (पु) ज्वालामुखीं-ल्यान उसळून भायर पडिल्ल्या लाव्हा-ोमाचो थंड जावन घडिल्लो फातर वा ळप.

**ज्वालारस** (पु) ज्वालामुखी दोंगरांत-ल्यान व्हांवतो मातयेचो, फातरांचो खनि-जाचो खतखतीत रोस; लाव्हा (सं).

**झ—** कोंकणी भाशेचे देवनगरी वर्णमाळेचें णववें व्यंजन.

**झंकार** (पु) झणझण असो आवाज; ताणिल्ली तार छेडून जाता तो आवाज; झणत्कार (सं).

**झगझगप** (क्रिअ) चकचकप.

**झगड्डार** (वि) झगडूंक आवडटा असो.

**झगणु** (क्रिअ) झगडना (के).

**झगमगीत** (वि) चकचकीत; तेजस्वी.

**झटकून उडवप** (क्रिक) (ल) फापडून उडवप; पैस काडप.

**झणझणीत** (वि) झणझणटा असो; झोंबना असो; धडधडीत; प्रत्यक्ष दिसता असो; उगडो; स्पश्ट.

**झणझणीत सत्य** (न) उगडें नागडें सत्य.

**झपापां** (क्रिवि) बेगीन बेगीन; झपा-टयान; भराभर.

**झब्बो** (पु) लांब धवो सदरो; नेहरू शर्ट (अ).

**झरप** (क्रिअ) व्हांवप, पाझरप; गळप.

**झरम** (न) चाकळ; चकळ.

**झरवण** (स्त्री) झिरपण.

**झांक** (स्त्री) चमक.

**झाडक** (न) झोप; झुडूप.

**झाडणी** (स्त्री) गवताच्या लांब पात्यांचो ल्हान सात्र; झाडू; केरसुणी.

**झाडी** (स्त्री) झाडांनीं व्यापिल्लो प्रदेश; झाडांची रांग; रुखावळ.

**झाडो घवप** (क्रिक) तपासप; चवकशी करप; न्याय करप.

**झाडयाक वचप** (क्रिअ) परसाकडे वचप.

**झाल** (न) आंगण (का).

**झारेकार** (पु) झाऱ्यान रांदनीवेल्या आयदनांतले दाणे चाळपाचो वावर करपी.

**झाला** (पु) संगितांतलो सुरांतलो कंप; सतारीच्या सगळया तारांचेर द्रुत गतीन सारके काडिल्ले सूर.

**झाळकी, झाळी** (स्त्री) झुडपांची गुंता-गुंत; आसकड; झुडूप.

**झिपरी** (स्त्री) वाडिल्ल्या केंसांचीं झुलपां; कापणी करूंक नाशिल्ले केंस (फा).

**झिरकमळ** (न) कमळ फुलांची एक जात; कशिद्यान काडिल्लो कमळाचो नमुनो.

**झिलकूट** (न) गर्द झाडी; भरगच्च झिलो.

**झिळमिळटयार** (क्रिवि) उजवाडटयार.

**झिळमीळ, झीलमील** (स्त्री) लिकलिक; पसय.

**झील** (वि) सात; कोयंडेबालांच्या खेळांत खणीसावन बालामेरेन कोयंडयान अंतर मेजपाचे आंकडे : पांव, चेटमेट, बुरमूट, घोडा, दुत्शी, काला, झील; भरगच्च झुडूप.

**झुडटेर** (न) धीट आनी सैल वर्तणुकेची बायल; दुसऱ्याच्या आंगाक भिडपी बायलमनीस.

**झुमरो** (पु) १४ मात्रांचो चार भागांचो ताल.

**झुलप** (न) केंसांची बट; केंसांचो पोड; झिपरी (फा).
**झुलो, झुलवो** (पु) देवस्थानांत देवाचे पालखेच्या पेण्यांत म्हणटात तें स्तुतीपद.
**झेल** (स्त्री) कांटयारीं झुडपां.
**झोंक** (पु) तोल; कल.
**झोको** (पु) झोलो; हेलकावो; हालचाल.
**झोखा** (स्त्री) भुतानी लोकांची भास.
**झोनल** (वि) प्रादेशीक; विभागाचो (इं).
**झोमप** (क्रिक) झोंबप; झोपय मारप; झुजप.
**झोळगें** (वि) शिंदुळगें; झुडटेर; झोळपी; लोकांच्या दारांनीं हेडपी; लोकांचीं घरां झोळपी; घरां रिगपी.
**झोळप** (क्रिक) शिंदळपण करप; निन्त्रि-डप; किटकिटप; थिल्लरपणां करप.
**गांव झोळप** - गांवभरच्या लोकांक आपल्या नादाक लावप.
**झ्यंगट** (न) झटापट; झोंबो; झक्कड; लफडें; लचांड.
**झ्यार्वीन** (न) बाग (पु).
**झ्येंतीय** (पु) निधर्मी मुर्तीपुजक लोक; नास्तीक लोक (पु).

**ट**—कोंकणी भाशेचें देवनगरी वर्णमाळेचें अकरावें व्यंजन.
**टंकाम्ल** (पु) टाकणखाराचो आम्ल; बोरीक अँसीड (सं).
**टंकार** (पु) टण असो आवाज; (धनु-ष्याचो) टणत्कार.
**टर्क्वाज** (वि) पिरोजा खनोज; रंगीत निळसार फातर (इं).
**टाकप** (क्रिक) उडवप; घालप; मोखप; सोडप; वर्ज्य करप (कु).
**टांकी** (स्त्री) उदक वा हेर द्राव सांठा-वन दवरपाची आनी वापरपाची चिरेबंदी वा शिमिटाची बांदावळ वा धातूचो व्हड हौद (इ).
**टांग मारप** (क्रिक) पांयांत आडवो पांय घालून मकल उडवप.
**टाटा करप** (क्रिक) (ल्हान भुरग्याचे भाशेंत) हात हालोवन निरोप दिवप-घेवप (इं).
**टायलॉन** (पु) वाग आनी सिंहीण हांची संकरीत संतत (इ).
**टाल्क** (पु) संगजिरें फातर; चकचकीत मोव पिठो करपाचो फातर; मॅग्नेशियम सिलिकेट; तोंडार मारपाची पावडर आनी फ्रेंच चॉक करूंक हाचो उपयोग करतात.
**टाल्कम पावडर** (स्त्री) सुगंधी द्रव्य मिसळायल्लो टाल्क फातराची चकचकीत धवी पूड. ही मात्शी रंगीतय आसूं येता (इं).
**टाळो** (पु) लोक-नाचाचो एक प्रकार.
**टिपप** (क्रिक) बिनचूक नेमाचे बंदुकीचे गुळयेन ठार मारप.
**टिपूस** (पु) थेंब.
**टिपूर चान्नें** (न) त्रिपुरी पुनवेक पडटा तसलें स्वच्छ चान्नें.
**टिका** (स्त्री) घट्ट रसमी सुताचे देगेन पटयल्लो बारीक मणयांचो बायलांनी गळयांत घालपाचो दागिनो. देख : वज्र-टिका.
**टिचप** (क्रिक) आंगार, कपलार (गंदार वा कुकमार), माथ्यार अक्षता लावप वा चिकटावप. घोव बायलां लग्नांत तांदूळ

टेचतात.

**टीक लांकूड** (न) सायल्याचें लांकूड; सागवानी लांकूड (इं).

**टीचर** (पु) शिक्षक; मास्तर; विद्या शिकोवपी गुरू; मेस्त्री; (स्त्री) शिक्षिका; अध्यापिका; मास्तरीण; मेस्त्रीण; बाई (इं).

**टीनपाट** (न) जस्ताचें आयदन; लात; (वि) (ल) क्षुद्र; हलको; उणाक (इं).

**टी नळी** (स्त्री) इंग्लिश व्हडे लिपयेंतल्या टी ( T ) ह्या अक्षराच्या आकाराची नळी (इं).

**टुमटुमीत**(वि) (नगाऱ्याभशेन) ताणिल्लें (पोट).

**टुरिझम** (न) देश-परदेशांत भोंवडेर वचपाची वृत्ती; परदेशी प्रवाशांक आपलो प्रदेश दाखोवपाची व्यवस्था करपी सरकारी खातें; परदेशी प्रवाशांची आपल्या देशांत सुखसोय पळोवपी सरकारी खातें (इं). परदेशी भोंवडेकार आपल्या देशांतलो दुडू आमच्या देशांत खर्चितात. हे प्रक्रियेक लागून आमच्या देशाक परकी नाणें मेळून त्या वरवीं परदेशांतलो माल आमच्यान हाडूं येता.

**टेन्शन** (न) ताण; ओढगस्त; त्रास; दडपण (इं).

**टॅफेटा** (न) पिळदार सुताचें उंची रसमी लुगट; तापतो (फा).

**टेंभो** (पु) पोत; दिवो; (ल) दिमाख.

**टेलेकॉपी** (स्त्री) टेलिफोनच्या एका यंत्रावेल्यान संपर्क साधिल्ल्या दुसऱ्या टेलिफोन यंत्रावरवीं एका तोंकावेलो कागदी मजकूर दुसऱ्या तोंकार दिमता अशी कागदी प्रत (इं).

**टेलेक्स** (न) दूरमुद्रक यॅत्रां गिरायकांक भाड्यान दिवन तांचे वरवीं दूरदूरच्या देशांत संदेश धाडपाची व्यवस्था (इं).

**टेलेमिटर** (पु) इलेक्ट्रॉनचे मजतीन दूर अंतरावेल्यान मेजमाप करपी यंत्र; दूरमापक (इं).

**टोप** (केंसांचो) (पु) नाटकांत पुरुषाक स्त्रीपार्ट घेतकच तकलेक घालची पडटाली ती बायलमनशेच्या लांब केंसांची रचणूक.

**टोपण** (न) तकलेवेलें धांकण; तोंकावेलें धांकण; बोटावेलें धांकण.

**टोपाझ** (पु) पुष्कराज हें मोलादीक रत्न घडवपाचो फातर (इं).

**टोमसूळ** (वि) तवनास; मवाली; उडाणटप्पू.

**ट्रान्स्पेरन्सी** (स्त्री) सेल्युलॉयडचेर वा कांचेर घेतिल्लें पारदर्शक बहुरंगी प्रकाश चित्र (धर्नबिंब). बहुरंगी चित्र : मुद्रणाखातीर हाचो उपयोग करतात (इं).

**ट्रेलीस** (स्त्री) जाळीदार वणत वा लांकूडकाम (इं).

**ठ—** कोंकणी भाशेचे देवनगरी वर्णमाळेचें बारावें व्यंजन.

**ठग** (पु) उत्तर आनी मध्य हिंदुस्थानांतली देडशें वर्सांपयलीं प्रवाशांक लुटपी आनी मारून उडवपी लोकांची रानटी जात (हिं).

**ठणकप** (क्रिअ) फोडप; दुखप; उसळप (तकली, फोड, आंग, फाट बी).

**ठणकवप** (क्रिक) नेटान उलवप; आड्डप.

**ठवय** (पु) बांदावळीची मूळ येवजण

करपी जाणकार; आर्किटेक्ट (अप); सुतार.

**ठणको** (पु) फोडाफोड; दूख.

**ठणठणमारी** (पु) निर्बुद्ध मनीस; ठणठणपाळ; बोब-मारो मनीस.

**ठरप** (क्रिअ) विचार जावप; थारावणी जावप; नक्की जावप.

**ठसठसप** (क्रिअ) उठून दिसप.

**ठसो** (पु) रबरी स्टँप; प्रभाव; छाप; कागदार चित्रां आनी मजकूर छापपाचो कोरिल्लो पत्रो; ब्लॉक.

**ठळकपण** (न) चारचौगांत उठून दिसपाचो गूण.

**ठाण मांडप** (क्रिक) आसन मांडप; आसनार प्रतिष्ठेन बसप; अधिकार गाजवप.

**ठाणें** (न) जागो; घर; वसती; स्थान; स्टेशन; ठाणेदाराची कचेरी (प्रा).

**ठाणेदारी** (स्त्री) सरकारी पटी वसूल करून तिचो हिशोब राखपाचो वावर; सरकारी अंमलदारी; शासनाची तालुका-कचेरी वा जिल्हाकचेरी.

**ठाय** (पु) पान भरून जेवण; पोटभर जेवण (१२५०).

**ठाव घेवप** (क्रिक) अंत पळवप; खोली कितली आसा ताचो अदमास घेवप.

**ठाव फेडप** (क्रिक) मारून उडवप; नाश करप.

**ठावें आसप** (क्रिअ) खबर आसप; जाण जावप.

**ठिकठिकाणीं** (क्रिवि) खूब जाग्यांनी.

**ठिकाणदार** (पु) जमिनीचो मालक.

**ठिकाणार येवप** (क्रिअ) (ल) योग्य समज पडप; मूळ जाग्यार येवप.

**ठिकाणार हाडप** (क्रिक) जाग्यार हाडप; (ल) योग्य समज घालून दिवप.

**ठिकरण** (न) वसती; घर.

**ठिगळी** (स्त्री) थिगळ; कपी; कुडको.

**ठिबको, ठिपको** (पु) शीव; दाग; लाशें; रंगाचो तिबो.

**ठुमरी** (स्त्री) संगीत गायनाची एक सोपी पद्धत; ठुंबरी; रागदारींत शृंगारीक वा भावगिताची म्हणटात अशी चीज (हिं).

**ठेको** (पु) तबल्याचेर, मृदंगाचेर वा पखवाजाचेर विशिष्ट तालाच्या एका आवर्तनाचे वाजयल्ले सगळे बोल.

**ठेको घेवप** (क्रिक) मक्तो वा कंत्राट घेवप; थारायल्ल्या दरान कमलोय वावर करपाचो करार करप.

**ठेको धरप** (क्रिक) (कसलेंय काम) चालू दवरप. पावसान ठेको धल्ला; भुरग्यान ठेको धल्ला -- रडत रावला.

**ठेपप** (क्रिअ) पावप; पोंचप; येवप.

**ठेलो** (पु) ल्हान दुकानाचो लांकडी गाडो; स्टॉल (इं).

**ठोकण** (न) आयदनांचेर मारिल्लें तास; टांकी.

**ड**—कोंकणी भाशेचे देवनगरी वर्णमाळेचें तेरावें व्यंजन.

**डकार** (पु) डचो उच्चार वा बरप (आकृती).

**डबडें** (न) ल्हान डबो; फुटको दबो; फुटकें वाजंतर (धोलकें, तबलें).

**डवल मार्च** (पु) सेवादलाचे पलटणींची दुडकी (दुप्पट गतीची) चाल (इं).

**डब्बू** (स्त्री) फटास; फटींगपण (का).

**डांग** (पु) दोंगरी मुलूख; गुजराथेंतलो

एक दोंगरी जिल्हो.

**डाग** (पु) नकली जडकाम वंडावचे खातीर भिगातळा लायल्लो रंगीत पदार्थ (हि).

**डांगरी पापड** (पु) कुंवाळयाच्या किशिल्ल्या गरांत हुड्डाचें वा हेर दाळीचें म्होवन आनी मसालो घालून सुकोवन तळून खावपाचे पापड.

**डांगी** (पु) जकातदार अधिकारी.

**डांग्रो** (पु) दवंडी; पेर्गांव; जाहीर घोषणा.

**डांचप** (क्रिअ) (मनांत) सलप. बोंचप, त्रासप; खाल्लें गळयाकडे येवप.

**डाब** (स्त्री) कमरपटो; चांदीचो पटो (का).

**डांबीस** (वि) हरामखोर; लुच्चो; बदमाप (इं).

**डायरो** (पु) डफाचो एक प्रकार.

**डायस्टोलीक** रक्तदाब (पु) शिरो रक्तान फुगतात ते क्रियेंतलो रक्तदाब (इं).

**डाव** (पु) डंख; अरबी तारूं; धौ.

**डिकामली, डिकेमाली** (स्त्री) एक वखदी झाड. हाच्या दिखाक डिकेमाली म्हणटात. भुरग्यांक दंत जावं नये म्हणून डिकेमाली झरवन दितात.

**डिंगी** (स्त्री) ल्हान होडी (फा).

**डिग्री** (स्त्री) विद्यापिठाची पदवी. बी. ए., बी. एससी. बी; तपमानाचो एकक; काणमापाचा गव्वदावा भाग; देवनागरी टायपाच्या छापखान्यांत मजकूर जुळयतना अक्षराचे वयर मात्रा, वेलांटी नासली तर तो जागा भरून काडूंक टायपाचे खोलायेच्या प्रमाणान सुमार तिसऱ्या वांटयाचे जाडयेच्यो पट्टयो ओतिल्ल्यो आसतात, त्यो वापरतात. अशा ल्हान आनी मापाच्या पट्टयांक डिग्री म्हणटात. कांय प्रकारच्या टायपांक डिग्री घालची लागना. ताका अखंड म्हळयार डिग्रीसयत ओतिल्लो टायप म्हणटात. डिग्री घालची लागता ताका डिग्री टायप म्हणटात (इं).

**डिव्हिडंड** (पु) कंपनीच्या भागिदाराक वांटटात तो अधिलाभांश (इं).

**डिस्को** (पु) विलायती नाचपाच्या कार्यक्रमांत आधुनीक लोकप्रीय संगिताच्या जलद ताळार तरणाटे आनी तरणाटयो नाचतात तो जलद मुक्त नाच (इं).

**डिस्ने लॅंड** (न) वॉल्ट डिस्ने ह्या सिनेमा उत्पादकान कॅलिफोर्नियांत भुरग्यांच करमणुकीखातीर एक अलौकीक पार्क (उपवन) रचलें तें जगांतलें एक अजापाचें थळ (इं).

**डुंगी** (पु) खाडयेंतलीं तारवां वा बोटी समुद्रामेरेन योग्य वाटेन व्हरपी आनी समुद्रांतलीं तारवां बंदरांत बिनधोक हाडपी हतांडेल अधिकारी. ह्या कामाक विशेष शिक्षण आनी सराव लागता (१५६६).

**डुवकप** (क्रिअ) बुडी मारप (उदकांत).

**डुबकवप** (क्रिक) बुडवप; बुचकळावप.

**डुबकी** (स्त्री) बुडी (उदकांत); बुचकळी).

**डुबकी मारप** (क्रिक) बुडी मारप.

**डुरक्या** (न) डबकें; चिखलाचें फोणकूल (मालवणी).

**डे-बूक** (न) रोजकिर्दीचें पुस्तक; कचेरेंतलें दिसपट्टया हिशेबाचें बूक (इं).

**डेका** (वि) धा; दश.

**डेका ग्राम** (पु) धा ग्रामाचें वजन.

**डेका मिटर** – धा मिटर.

**डेका लिटर** – धा लिटरांचें द्रावणमाप

(लॅटीन).

**डेझी** (न) प्रसिद्ध विलायती फूल (इं).

**डेरो** (पु) नगारो; (ल) सुटिल्लें पोट; पोटाचें धोंद.

**डेव्हलपर** (पु) चित्रव्यक्तक; चित्राचें ऋण वा धनबिंब स्पष्ट करपी रसायण (इं).

**डेव्हलपींग** (न) प्रकाशचित्राचें ऋणबिंब वा धनबिंब स्पष्ट करपाची क्रिया (इं).

**डेसिबेल** (न) आवाजाची खरसाण मेजूंचो एकक (इं).

**डेसी** (वि) धावो वांटो.

**डेसी ग्राम** (पु) एका ग्रामाचो धावो वांटो.

**डेसी मिटर** (पु) १/१० मिटर.

**डेसी लिटर** (पु) एक दशाश लिटर (लॅ).

**डोई, डोय**(स्त्री)तकली; माथें; (अप); (ल) जण; व्यक्ती. दरडोई–दर-मनीस.

**डोंगी** (स्त्री) पनेळ; दोणी; ल्हान होडें (का).

**डोंगो** (पु) लांकडी तराफो; (वि) वांकडो.

**डोचकें** (न) बोडकें; बॉड; तकली; माथें.

**डोंब** (पु) (आगीचो) लोळ; वणवो; फोफाटो; काळो किट्ट अत्यंत खर विखारी नाग.

**डोलारो** (पु) वस्तूर वस्तू दवरून रचिल्लो उंच साज; मनोरो; पिरामीड.

**डोल्हारो** (पु) हिंदोळो; झोंपाळो.

**डोळसपण** (न) जाणविकाय; समजूतदारपण; समजिकाय.

**डोळो मारप** (क्रिक) (ल) डोळो मोडप; डोळयान खूण करप.

**ढ**—कोंकणी भाशेचें देवनगरी वर्णमाळेचें चौदावें व्यंजन.

**ढळढळां रडप** (क्रिअ) हुडक्या हुडक्यांनीं रडप; दोळयांतल्यान घसाघस दुखां व्हांवयत रडप.

**ढळप** (क्रिअ) निखळप; हालप; बदलप; कुशीन सरप.

**ढांकणें, ढांपणें** (क्रिक) धांकप; धांपण (के).

**ढुंकप** (क्रिक) तकली फुडें काड्न पळवप; मान वळवन पळवप.

**ढेंडळप** (क्रिअ) दों वशींनी हाल्प. ढेंडळ्या फातरारि बैसूं नाका (१५६६).

**ढोंकी** (स्त्री) फटास.

**ण**--कोंकणी भाशेचें देवनगरी वर्णमाळेचें पंद्रावें व्यंजन.

**णवाड** (वि) साडे णव (के).

**णवाणवि** (वि) णव्याण्णोय (के).

**णवि** (वि) णव्वद; णोय (के).

**णव्याण्णोय, णव्याण्णव्वद** (वि) णव्याण्णव; ९९.

**णव्वदी** (स्त्री) णव्वदसावन णव्याण्णवमेरेनचें दशक.

**णव्वाड** (वि) साडेणव (के).

**णव्वावो** (वि) णवो (के).

**णी** (अ) तिसरे विभक्तेचें भोववचनी तिसऱ्या पुरुषी, दर्शक आनी संबधी सर्वनामाचें कूस. ताणी, हाणी, जाणी. कुडाळी बोलींत तेणी, हेणी, जेणी अशीं एकवचनांय जातात.

**णे** (अ) तिसरे विभक्तेचें एकवचनी

तिसऱ्या पुरुषी, दर्शक आनी संबंधी सर्व-नामांचें कूस. ताणे, तिणे, तेणे, हाणे, हिणे, हेणे, जाणे, जिणे, जेणे.

**त**—कोंकणी भाशेंचे देवनगरी वर्णमाळेचें सोळावें व्यंजन.

**तं** (क्रिअ) आसा हया अर्थाचें उतर; (के). हांव तं – हांव आसां. तो, ती, तें तं – तो, ती, तें आसा. आमी-तुमी-ते तं – आमी-तुमी-ते आसात (के).

**तकडबंद** (न) आडवारें; कोंडमारो; अवडंबर; भोवस्ताळो.

**तकतकीत** (वि) चकचकीत; लख्ख; लकलकीत; तुकतुकीत.

**तकलीफ** (स्त्री) त्रास (फा).

**तक्रारी** (वि) तक्रार करपी, सदां उठून कोणाय विरुद्ध तक्रार करपी.

**तगड** (न) ताटली (के); तागडेचें दालें (का).

**तगमगप** (क्रिअ) तळमळप; त्रास काडप.

**तगसप** (क्रिक) सकल देंववप; खणून सपाट करप (का).

**तग्गु** (क्रिवि) सकल; (वि) सकयलो (का).

**तंटलमारी** (वि) तिताळमारो; पाडाखो; नष्टा.

**तटवर्ती** (पु) तडीर आसपी (सं).

**तट्टी** (स्त्री) पायखानो; संडास.

**तट्टेक वचप** (क्रिअ) परमाकडे वचप.

**तडकबंद** (न) आडमेळें.

**तडाक** (क्रिवि) तडाक्यान; नेटान.

**तडीपारीची शिक्षा** (स्त्री) लोकांक सदां उठून त्रास दिवपी गुंडाक पुलीस खातें दंडाधिकाऱ्याचे सयेन दिता ती गांवांभायर वा जिल्ह्याभायर रावपाची शिक्षा.

**तण** (स्त्री) तड; मरणाचे तणीर पावलो.

**तत्कालीन** (वि) त्या काळांतलो (सं).

**तंत्र** (न) ताबो; सत्ता; स्वाधीनताय.

**स्वतंत्र** – आपले स्वताचे सत्तेचो; मेकळो.

**परतंत्र** – परसत्तेंतलो; परस्वाधीन.

**तत्रैव** (क्रिवि) थंयच; त्याच (पुस्त-काच्या त्याच पानार) जाग्यार; Ibid; कित्तो.

**तत्वज्ञ** (पु) तत्वज्ञानी; ब्रह्मज्ञानी (सं).

**तत्वार** (पु) दुकळ (का).

**तद्धीत** (न) धातूखेरीज हेर जातीच्या उतरांक कूस जोडून घडिल्ल्या उतराची व्याकरणी (संस्कृत व्याकरणांतल्यान घेतिल्ली) जात (सं). देख : सदाचारी, कामगार, धनवान, दयाळू.

**तनखी** (स्त्री) चवकशी (अ).

**तन-मन-धन** (न) कूड, चित्त आनी दुडू हीं तिनय मेळून (सं).

**तनरी, तनारी** (स्त्री) तंद्री; ध्यान; एकाग्रताय, गाणें; गायनाचो एक प्रकार; गाण्यांतली तान.

**तन्मात्रा** (स्त्री) पृथ्वी, आप, तेज, वायू, आकाश हया पंचमहाभूतांचे गूण अनु-क्रमान वास, रस, दाह, प्राण आनी आस्पाव हया पांचांक तन्मात्रा म्हणटात.

**तपशिलो** (पु) उंची कापड (फा)

**तपशीलवार** (क्रिवि) तपशिलासयत; कलमवार; बारीकसाणीन (फा).

**तपस्य** (न) तपश्चर्या; तपाचरण; दीर्घ-काळ करचेली ध्यानधारणा (के).

**तपोलोक** (पु) भूलोक, भुवर्लोक, स्वर्लोक, महल्लोक, जनलोक, तपोलोक आनी सत्य-

लोक अशा सात लोकांचें (संवसारांचें) स्मरण हिंदू लोक संध्येंत करतात (सं).

**तप्पू** (पु) चूक, अपराध (का).

**तमिस्र** (पु) पुराणांत वर्णिल्लो भयांकृत काळखाचो नरकलोक (सं).

**तयकीळ** (स्त्री) तायकिळो (के).

**तय्या पालो** (पु) च्याचो पालो (के).

**तरंगलांबी** (स्त्री) एके लहरीचें सारके उत्कटतेचें अंतर; वेव्हलेंग्थ.

**तरंगावणी** (स्त्री) तरंगाचें न्हेमवप वा सजवप. रवळनाथ देवाचीं तरंगां दसऱ्यांत न्हेसयतात.

**तरतमभाव** (पु) तुलना वा स्पर्धा करची भावना (सं).

**तरांट** (न) चूड.

**तरातरी** (स्त्री) तांतडी; ताकतीक.

**तराफो** (पु) उदकांतल्यान तरून वचचे-खातीर फळयो जांडून केल्लो माच. होडी नासतकच न्हंयेपलतडी वचूंक हाचो उपेग करतात. वादळांतल्यान तारूं फुट्टकच तराफ्याचे मजतीन लोक उफेवन जगतात (अ).

**तरीपूण** (अ) तरीय; तरी लेगीत; अशें आसतनाय; तरी सुद्धां.

**तरेकवार** (वि) खूब तरांचो; जिनसां-वार; जिनसां जिनसांचो.

**तरेवायक** (वि) चमत्कारीक; तिरसुवाद.

**तरो** (पु) दुस्वास; हडवंग; स्पर्धेक लागून उप्रासता तो द्वेष; मत्सर; तरतम भाव (सं).

**तर्कप्रज्ञा** (स्त्री) तर्कान सिद्ध जाल्लें ज्ञान; अनुमानशास्त्रान खरें मानूं येता अशें ज्ञान (सं).

**तर्कविद्या** (स्त्री) तर्कशास्त्र; अनुमानाचें तंत्र (सं).

**तर्नाटकाय** (स्त्री) तरुणपण; जुवानपण.

**तर्नाटो** (पु) तरूण मनीस; (वि) जुवान.

**तल्लूक, तोल्लूक** (स्त्री) खोती.

**तंवप** (क्रिअ) वितळप; तेंवप.

**तवळ, तवळी** (क्रिवि) त्या वेळार; तेन्ना.

**तसर** (क्रिवि) तंवमेरेन; तंवसर.

**तसो** (क्रिवि) त्या वरावर; तक्षणीं (वि) त्यामारको.

**तस्कर** (पु) परदेशांकडे चोरयाणी वेपार करपी आनी आपल्या देशाचें लुसकान करपी; स्मग्लर (सं).

**तस्करी** (स्त्री) परदेशांकडे केल्लो चोर-यांणी वेपार; स्मग्लींग.

**तळत** (न) ताडपत्र (के).

**तळपांयांची आग मस्तकाक वचप** – (वा) तिडक मारप; चड राग येवप.

**तळागाळ** (पु) खरीचो चिखल; सग-ळयांत मकयलो पांवडो; (ल) निराधार गरीब लोक.

**तळासणी** (स्त्री) फोंडणी घालून शिज-यल्ल्यो गवारीच्या शेंगो.

**तळि** (स्त्री) तपलें (के).

**तक्षीमदारी** (स्त्री) भाटाच्या वांटयाची मालकी; तक्षिमेची मालकी (अ).

**ताक दिवप** (क्रिक) शिस्त लावप; वळण लावप.

**तात्वीक** (वि) तत्वासंबंधीं; मुद्द्या-विशीं (सं).

**ताकदवान** (वि) घटमुट; समर्थ; सशक्त (फा).

**ताकली** (स्त्री) तकली; माथें (के).

**तांकिवंत** (वि) समर्थ; कुशळ; निष्णात; फांकिवंत.

**तांकोवप** (क्रिस) ताकत अशें करप (के).

**ताक्कातण** (न) गंजन.

**ताट** (न) घराचें छत (गा).

**ताडपत्र** (न) ताड रुखाचें पान. पोन्या काळांत ताडपत्रांचेर ग्रंथ बरयताले.

**ताडपें** (न) सूप (का).

**ताणप** (क्रिक) सगल्यावशींनी ओडून धरप; उदकांतल्यान व्हडें मुखार वचचें म्हणून व्हलें मारप.

**तांत** (सना) तांतूंत (के).

**ताता करप** (क्रिअ) (ल्हान भुरग्याचे भाशेंन) न्हिदप.

**तात्कालीक** (वि) त्या वेळापुरतो; त्या वेळार उप्रासपी (सं).

**तादात्म्य** (न) एकजीवपण; एकात्मताय.

**तांदूळ** (पु) संवसारांत देशोदेशींचे लोक जेवनात अशें प्रसिद्ध धवसार गोटयाचें भाताचें धान्य; सुरय तांदूळ, उकडे तांदूळ, बारीक तांदूळ, घरावो (गोंयांत पिकिल्लो तांबडो) तांदूळ; मांडला तांदूळ, मदिया, मांडला, सुरती, कोलम तांदूळ, जिरेसाळ तांदूळ, दिल्ली रायस (तांदूळ), वरयां तांदूळ, (दोंगरी बारीक जात, पाकडां तांदूळ, गांवठी दोंगरी).

**तानबाजी** (स्त्री) गायनांत आलापापरस तानो मारपाचें चड प्रमाण; सुमाराभायर तानो मारपाचो सोस.

**तानमान** (न) अनुकूलताय; योग्य संधी.

**तापमान** (न) हुनसाणीचें प्रमाण. ह्या कोशाच्या २५४ पानाचेर तपमान ह्या उतराचो हुनसाण हो अर्थ दिला. तपमान हें उतर त्या अर्थान वापरप चकीचें म्हणून तपमान हे उतर वापरूंचें बंद जालां.

**तापसी** (पु) तपश्चर्या करपी; (वि) तपस्वी (सं).

**ताफतो** (पु) रेशमी आनी मळमळीत उंची वस्त्र (फा); टाफेटा.

**ताफ्तो** (पु) पिळदार सुताचें उंची रेशमी लुगट (फा).

**तांबडी भाजी** (स्त्री) माठयाची तांबडया रोंपाची आनी तांबडया पानांची, शिजय-तकीर सुद्दां तांबडो रंग उरपी पाले भाजी.

**तांबडो गुंज** (वि) तांबडो लाल्ल; गडद तांबडो; गुलाबामारको तांबडो; गुंजे भाशेन तांबडो; लाल भडक; चकचकीत तांबडो. **तांबडो भडंग** (वि) काळसर तांबडो; भडक तांबडो.

**ताबेदार** वि) ताब्यांतलो; आस्रीत; सत्तेंतलो (फा).

**ताबेदारी** (स्त्री) अंकीतपण; आदार; बंदेपण (फा).

**ताबेल्यांव** (पु) पुर्तुगेज राज्यांत लोकांचे देण्याघेण्याचे करार बरोवन सरकारांत नोंदवपी अधिकारी (पु).

**ताब्बांव** (पु) जाड फळी; जाड आनी घट्ट फळी (पु).

**तांब्रेत** (स्त्री) तीन वा चार खुरांचें स्टूल (पु).

**तायत** (पु) मंत्रून हातांत वा गळयांत राखणेखातीर बांदतात अशी वस्तू (अ). गळयांतलो तायत – (ल) घनिष्ट मित्र.

**तारण** (न) संरक्षण; बचाव; मुक्ती; मोक्ष (सं).

**तारफेंवप** (क्रिक) तोखेवप; तारीफ करप (अ).

**तारामंडळ** (न) आकाश; नक्षत्र-शास्त्राच्या शिक्षणाखातीर रचिल्लें कृत्रीम नक्षत्रमंडळ (सं).

**तारु** (न) दोन पयांच्या मोलाचें पोत्रें नाणें; फोपळांचें शिपटें (का).

**तार्द** (क्रिवि) उसरां; कळाव करून; (स्त्री) दनपार (पु).

**तार्द करप** (क्रिक) कळाव लावप; उशीर करप; वगत लावप (पु).

**तार्द जावप** (क्रिअ) उशीर लागप; उसरां जावप (पु).

**तालपितेल** (न) तिरपिटीन तेल; देवदार वी रुखाचें दिखाळ तेल. रंग आनी वार्नीस लावंक हें मिसळायतात.

**तावजाळें** (न) तावजांची माळ.

**तावडी** (स्त्री) अडचण.

**तावॅर्न** (न) तावेर्न; सोन्याचें (पिवचें) दुकान; सोन्याची गादी (पु).

**तास** (स्त्री) उथळ न्हंयेंतल्यान तरीचें होडें जाडचा कोंडयान धुकलीत व्हरनात तो कोंडो (कु).

**तासिका** (स्त्री) शाळेंत विद्यार्थ्यांक एके खेपेक एक विषय शिकोवपाक वांटून दिल्लो आसता तो वेळ; पिरिअड; हो सुमार चाळीस मिनिटांचो वेळ आसता.

**ताळ** (पु) मर्याद; तेंगशी; रुखाची तेंगशी.

**ताळमेळ** (पु) ताळ जुळप; एकाहून चड गायक, वादकाचें वी गायन, वादन एकाच ताळार जुळप वा गायन बी एका क्षणाक समेर येवप (सं).

**ताळशुद्ध** (वि) बिनचूक ताळार म्हणिल्लो वा वाजयल्लो (सं).

**ताळवो** (पु) तळथ; तळहात (के).

**ताळूव** (न) ताळू (के).

**ताळ्यांचो आयतार** (पु) क्रिस्तस्वामी दबाज्यान जेरुसाल्यांत प्रवेशलो तो रामाचो आयतार; पाम संडे.

**तिके** (वि) चिके; मात्सो.

**तिखलां** (न) तिखशें कालवण; तिखट तोंडाक (कु).

**तिगप** (क्रिअ) तग काडप; टिकप; टिकाव धरप.

**तिट्‌टिटो** (पु) किटकिटो; निन्निडणाचो हावेस.

**तिडकावप** (क्रिक) धेंकणो मारप, गगार जावप.

**तिडणूक** (स्त्री) तिडपाची क्रिया.

**तिडातीड** (स्त्री) एकमेकांचेर भौन भौन तिडप.

**तिंत्रीण** (स्त्री) चिंचेचें झाड (के).

**तिथीवृद्धी** (स्त्री) एका दिसाच्या सूर्यो-दयाक आशिल्ली तीथ दुसऱ्या दिसाच्या सूर्योदयामेरेन चालू उल्ली तर ती तीथ त्या दोनय दिसांची मानतात.

**तिथीक्षय** (पु) सूर्योदयाक एक तीथ आसून उप्रान दुसरी तीथ सुरू जावन दुसऱ्या दिसा सूर्योदयाचे पयलीं ती सोंपली तर पयल्या दिसा आदली तीथ धरतात. दुसऱ्या दिसा दुसरी तीथ धरतात आनी सूर्योदया उप्रांत सुरू जावन दुसऱ्या सूर्योदयापयलीं सोंपपी तिथीचो क्षय जाता.

**तिन्नीशीं** (वि) तिनशीं (के).

**तिंबप** (क्रिअ) भिजप (१७५०); (क्रिक) भिजवप.

**तिमप्पा** (पु) व्यंकटेश; विष्णू; तिरु-मल; त्रिमल (का).

**तिय्यम** (वि) तिसऱ्या पांवडयाचो; प्रथम, दुय्यम, तिय्यम.

**तिरंगो** (पु) तिरंगी झेंडो; भारतीय ध्वज.

**तिरपप** (क्रिअ) चिरपप.

**तिरफळीण, तेफळीण** (स्त्री) तेफळां (तिर-फळां) लागतात तें झाड.

**तिरमाण** (न) प्रतिज्ञा; निर्णय; निश्चय (का).

**तिरसप** (क्रिअ) सोंपप (का).

**तिरी** (स्त्री) तीन तिब्यांचें इस्पिकेचें पान.
**तिर्थाटन** (न) तीर्थक्षेत्रांचो प्रवास; तीर्थ-यात्रा; पवित्र देवस्थानांक वचप (सं).
**तिर्प** (न) खटल्याचो निकाल; चवकशेचो निर्णय (का).
**तिर्शिल्लो** (वि) निश्चित; खंडीत (का).
**तिलक** (पु) तिळो; तिबो; गंधाचो नाम (सं). कुलतिलक – कुळाचो सगळ्या पिळग्यांत चड प्रसिद्ध असो पुरूष. रघु-कुलतिलक – राम.
**तिलंग** (पु) संगितांतलो एक राग.
**तिवासी** (स्त्री) गादी; मोव हातरूण; जमखण (का).
**तिसरी पेंड** (स्त्री) पाडयाच्या वेळार तन्ने आशिल्ल्या नाल्लांची पेंड. पयली आनी दुसरी जून नाल्लांची पेंड आसता. चौथी आडसरांची.
**तिसाली** (वि) तीन वर्सांत एक फावट घडपी (घडिचार). देख : युखॅरिस्टिक काँग्रेस.
**तिस्क** (पु) तिटो; तीन रस्ते एकामेकांक मेळटात तो नाको; तीन वाटो मेळटात तो नाको; तिवाटो.
**तिहाई** (स्त्री) तिमरो वांटो (हिं).
**तिळमात्र** (क्रिवि) मात लेगीत; इल्लो-सुद्दा; अजिबात (सं).
**तिळसिवप** (क्रिक) कळवप (का).
**तिळसोणी** (स्त्री) कळवणी.
**तील्ल** (पु) मालकीचो दस्तैवज; नांव-निशी; पुरावो; पदवी, सत्ता (पु).
**तींतीन** (वि) तीन तीन (के).
**तीथ** (स्त्री) सूर्य आनी चंद्र हांचेमदीं बारा अंशांचें (वर्तुळाची डिग्री) अंतर पडूंक (वाडूंक वा उणें जांवक) लागता तो काळ. चंद्राच्या पृथ्वीभोंवतणीच्या क्रांतीवृत्ताचें ३६० अंश अंतर क्रमूंक चंद्राक तीस तिथी लागतात. अमाशेचे रातीं चंद्र आनी सूर्य पृथ्वीबरोबर एकेच वळींत आसतात. शुद्ध पक्षांत चंद्र दर तिथीक सुर्यासावन बारा अंश पैस वचत पुनवे रातीं तो १८० अंशांचेर म्हळयार चडांत चड पैस पावता. सूर्य, पृथ्वी आनी चंद्र एकेच वळींत येतात. कृष्ण पक्षांत चंद्र दर तिथीक बारा अंश सुर्यालागीं येत रावता. अमाशे रातीं एके रांगेंत आइल्ल्यान सुर्यांत आनी चंद्रांत एकाय अंशावें अंतर उरना. तीथ म्हळयार एक पूर्ण दीस न्हय.
**तीन पानां** (न) इस्पिकेचो एके तरेचो खेळ.
**तींवर** (न) धुकें.
**तुजा** (सना) तुका; तुज्या (के).
**तुकलावप** (क्रिक) तिडावप; तीड काडप.
**तुकप** (क्रिक) जोखप (के).
**तुडिपण** (न) हुलाखी (का).
**तुतलो** (वि) तितलो (के).
**तुतुरी** (स्त्री) तुतारी, शींग (का).
**तुण्टोवुंक** (क्रिस) तोडूंक (के).
**तुदी** (स्त्री) तेमूक; अग्र; वयलें तोंक (का).
**तुरगारूढ** (वि) घोडयार बशिल्लो (सं).
**तुरट, तोरट** (वि) आडूक; तुरटीचे रुचीचो.
**तुरटी** (स्त्री) एक खार; फटकी; पोटॅ-शियम सल्फेट आनी आल्युमिनम सल्फेट. चामडीं कमावंक उपकरता.
**तुरन्त** (क्रिवि) रोखडोच; ताबडतोब; बेगीन (सं) (के).
**तुर्तातुर्त** (क्रिवि) ताबडतोब.
**तुला** (स्त्री) तुळा; जोख; जोखपाची

क्रिया. सुवर्णतुला – भांगराचो तुळाभार राजाचो करताले आनी तें भांगर गरिबांक वांटटाले.

**तुल्यबल** (वि) समान बळाचें; सारक्या कर्तृपाचें; तुलनीय (सं).

**तुळप** (क्रिक) तुळणा करप; जोखप; गुणदोषांची माहिती घेवप; सर्त करप; कोण श्रेष्ठ, कोण कनिष्ठ तें थारावप.

**तुळशी-लग्न** (न) कार्तीक शुद्ध दुवादशी दिसा हिंदू लोक दारांतले तुळशीची पुजा करून श्रीकृष्णाकडेन तिचें लग्न लावपाचो सुवाळो करतात तो (सं).

**तूळसंपात** (पु) सूर्य तूळ राशींत प्रवेश करता (तारीख २२ सप्टेंबर) त्या दिसा पृथ्वीच्या उत्तर गोलार्धांत रात आनी दीस सारक्याच काळाचीं जातात. हे घट-नेक तूळसंपात म्हणटात.

**ततिया तत्पुरूष** (पु) तत्पुरूष समासाचो विग्रह करतकच पयलें उतर तिसरे विभक्तेंतलें आसलें तर त्या समासाक तृतिया तत्पुरूष अशें नांव दितात. देख : आत्मस्तुती : आपणे आपली केल्ली तुस्त. परनिंदा हें उतर षष्टी तत्पुरूष समासाची देख जाता (सं).

**तृषा** (स्त्री) तान (सं).

**तेक** (स्त्री) दक्षीण दिशा (के).

**तेंकण** (न) धिगी; तेंको; आदार.

**तेज गती** (स्त्री) जलद गती; चपळताय (फासं).

**तेथा** (क्रिवि) तेथंय; थंय (के).

**तेन्ना** (क्रिवि) तेदना; त्या वेळार.

**तेपन** (वि) त्रेप्पन (के).

**तेंपराद** (न) मसाल्याचें तोंडाक (पु).

**तेप्पळ** (न) तिरफळ; तेफळ; उग्र वासाची तेफळीची बीय. खतखत्यांत वा हुमणांत घालतात.

**तेमेट** (स्त्री) तोंक; अग्र.

**तेरा साडद** (वि) साडे तेरा (के).

**तेर्स** (पु) तिसरो वांटो; एक तृतियांश; रुजायचो तिसरो वांटो (पु).

**तेलतो** (पु) तेलाचो थेंबो; इल्लेंशें तेल.

**तेलू** (पु) (ल्हान भुरग्याचे भाशेंत) तेल. तेल माखया, गे, जीव राखया.

**तेवां** (क्रिवि) तेन्ना; त्या वेळार (कु).

**तेवेचाळीस** (वि) त्रेचाळीस (के).

**तेव्हळीं** (क्रिवि) तेन्ना (१२५०).

**तेंसांव** (न) हेतू; इरादो; इंतेंसांव (पु).

**तैनात** (केल्लो) (वि) (एका खात्यांतलो वा राज्यांतलो) अधिकारी कांय कामा-खातीर तात्पुरतो दुसऱ्या खात्यांत वा राज्यांत कामाक नेमिल्लो (अ).

**तैनात करप** (क्रिक) नेमप; नेमणूक करप; चाकरेक दवरप (अ).

**तैनाती फौज** (स्त्री) एका शासनान दुसऱ्या शासनाकडे विशेष काळापुरती नोकरेक दवरिल्ली फौज (फा).

**तैरवडो** (पु) हळीद आनी चण्याचे दाळीचो भिजवन, वांटून, दुदांत विरजून आलें कोथंबीर, हरव्यो मिरसांगो घालून तुपांत तळून हुनहुनीत उदकांतल्यान मसाल्याच्या धंयांत घालून केल्लो खावपाचो वडो.

**तोंकयाळो** (वि) तोंक आशिल्लो.

**तोख** (पु) आनंद; खोशी; संतोष (सं).

**तोखप** (क्रिअ) तोपप; संतोषप; आनं-दप; खोशी जावप (सं).

**तोटगार** (पु) बागायतकार; शेत-मळयाचो मालक.

**तोट्टु** (पु) चींव (स्तनाची).

**तोंड** (पु) व्हाळी; खळयो (का).

**तोंड** (न) खाडकेसावन माथ्यामेरेन

खाचो दर्शनी भाग; मुखडो; खावप, िवप, ओंकप, स्वास घवप, उलोवप, ाटप, चुंबन घेवप, थुकप आनी हांसप बी ामां करचेलें आंग; मूख; चेहरो; अभि-य करपाचें आनी पळोवपाचें, आयकुपाचें ांग; न्हंय समुद्राक मेळटा तें न्हंयेचें आंग; ायदनांत वस्तू घालपाची आनी काड-ाची वाट; जखमेंतल्यान पू वा रक्त ांवना ती वाट; फुडो; भितर रिगुंची ाट (घोल, बोगदो); सुरवात (सं).

**ोंड उष्टें करप** – इल्लेंशें कितेंय खावप आग्रहाक लागून).

**ोंडगो** (पु) उपाय; युक्ती.

**तोंड गोड करप** – गोड पदार्थ खांवक दिवप.

**तोंड चुकवप** (क्रिक) तोंडामुखार येवंचें ाळप.

**तोंडचे हिशोब** (पु) कागदार गणीत ारिनासतना कांय ठोकताळ्यांचे मजतीन नांतल्या मनांत करपाचो हिशोब.

**तोंड-दुबळो** (वि) धड उलोवंक येना असो. मारके स्पष्ट मागूक येना असो; ख-दुर्बळ.

**तोडप** (क्रिक) तुटत अशें करप; बंद करप (संबंध. नातं, वळख); मोडप; कापप; ाभो करप; (कुडका) काडप; वेगळो ारप, देंठ कापप; मुळासावन वेगळो ारप, नांगा करप; वाग मारप (सं).

**तोंड पळोवप** (क्रिक) (ल) मजतीची अपेक्षा करप; गोंदळप.

**तोंडपाशीं, तोंडपाशें** (क्रिवि) तोंडी; तोंडान उलोवन मागपाचो.

**तोंड पेंचप** (क्रिक) (ल) लाचारीन कितेंय मागप.

**तोंड फिरवप** (क्रिक) दिष्टी पडल्यार दुसरीकडे पळोवप; टाळप.



**तोडमोड** (स्त्री) नाश; बिघाड; इवाड.

**तोंड लागप** (क्रिअ) (लडायेक, वादाक) सुरवात जावप.

**तोंड-वळख** (स्त्री) एकामेकांचो तोंड पळोवन जाता तितलोच परिचय; नांव गांव खबर नासून फक्कत एकामेकांचीं तोंडां पळोवन जाता तितलीच वळख.

**तोंड सोडप** (क्रिक) रागान खूब उलोवप.

**तोंडाक** (न) जेवणांत पेज, शीत, भाकरी असल्या मुखेल खाणाच्या सांगाताक रूच येवंक चटणी, शाक, भाजी, कालवण, लोणचीं, पापड, रायतें, हुड्डमेथी, करम, सुकें, दबदबीत बी नुसत्याचे प्रकार कर-तात तें.

**तोडातोड** (स्त्री) कापाकाप; छाटाछाट.

**तोंडार थुकप** (क्रिक) (ल) निर्भर्त्सना करप; अब्रू काडप; छी थू करप.

**तोडोव करप** (क्रिक) कळाव लावप.

**तोंद्रे** (पु) त्रास (का).

**तोणो** (पु) केंसांतली मोठी ऊव; जड्डो.

**तोनेलाद** (न) एका टनाचें जोख (पु).

**तोप** (पु) माथ्याक घालपाची उंच तोंकाची तोपी; टोप. जिरेटोप – चिल-खती जाळी आशिल्लो तोप.

**तोपी घालप** (दुसऱ्याक) (क्रिक) (ल) फसवप; नागवप.

**तोफगाडी** (स्त्री) तोफ ओडचेखातीर वापरतात ती गाडी. असली गाडी राष्ट्र-पुरूष आनी राज्य शासनाच्यां वरिष्ठ राज्यपालासारक्या अधिकाऱ्यांचे प्रेतयात्रे-खातीर वापरतात; गनकॅरेज.

**तोंमेरेन** (क्रिवि) तंवसर; तंवमेरेन.

**तोरट** (वि) तुरटीचे रुचीचें; कोडसार; आडूक; बेचव.

**तोलणावळ** (स्त्री) माल तोलपाचें भाडें.

**तोल्ल** (न) खोती; भागेलपण; तल्लूक.
**तोस** (स्त्री) उंडयाची भाजिल्ली फांती; टोस्ट (पु).
**तोळ** (पु) प्रकाशझोत; उजवाडाचो किरण (का).
**तोळंभट्ट** (पु) पिट्टोळ.
**तोळोमासो प्रकृती** (स्त्री) सामकी नाजूक प्रकृती.
**त्यंव** (अ) तशें; तशे तरेन.
**त्याणवि** (वि) त्र्याण्णव (के).
**त्यांशि** (वि) त्र्यायशीं (के).
**त्यासतरि** (वि) त्र्याहत्तर; त्र्यास्तर (के).
**त्रयोदस** (स्त्री) तेरावी तीथ; तिरोदस.
**त्रादुतोर** (पु) भाशांतर करपी (पु).
**त्रायसांव** (न) विश्वासघात; स्वामीद्रोह (पु).
**त्राहि** (क्रिक) रक्षण कर; पाव (सं).
**त्रिघात** (पु) कोणाय संख्येक तेच संख्येन दोन फावटी गुणून आयिल्ली संख्या. हो पयले संख्येचो त्रिघात जालो. ६४ हो ४ हे संख्येचो त्रिघात. २७ हो ३ हे संख्येचो त्रिघात.
**त्रिचरण** (पु) उजो; उज्याक तीन पांय आसात अशें हिंदूंच्या धर्मग्रंथांत सांगलां.
**त्रिपाद** (पु) उजो; तीन पायांचो (देव).
**त्रिपुरा** (न) भारताचो पुर्व दिशेंतलो ल्हान संघप्रदेश.
**त्रिप्पन** (वि) त्रेप्पन; ५३ (अप).
**त्रिवार** (क्रिवि) तीन फावटी (सं).
**त्रिशिरारि** (पु) त्रिशिरा राक्षसाचो शत्रू राम (सं).
**त्रिसष्ट** (वि) त्रेसट; ६३ (अप).
**त्रैलोक्य** (न) तीन लोकांचो गट. स्वर्ग, पृथ्वी आनी पाताळ हचा तीन लोकांचो संच (सं).
**त्र्याण्णोव** (वि) त्र्याणव्वद; ९३ (अप).
**त्वरा** (स्त्री) जलदी; घाई (सं).
**त्वेषी** (वि) तापट; कोपी; रागीट (सं).

**थ**—कोंकणी भाशेचे देवनगरी वर्णमाळेचें सत्रावें व्यंजन.
**थकडे, थगडे, थडे, तकडे, तगडे, तडे** (क्रिवि) थंय; थिगा; तिणयां (कु).
**थकवो** (पु) वावर करून वा अशक्तायेन आइल्ली ग्लानी; थकावट.
**थकूनु** (अ) साकून, सावन ह्या अर्थाचें पांचवे विभक्तेचें कूस; थक्कून.
**थटक** (वि) थक्क; चकीत.
**थंडावो** (पु) थंडसाण; आराम; शितळ-काय.
**थंडी-जोर** (पु) थंडी जावन आइल्लो जोर; इन्फ्लुएंझा.
**थडें, थडगें** (न) मेल्ल्या मनशाची वांदिल्ली समाधी वा वृंदावन.
**थड्डी** (स्त्री) आयदनां धांकुंची धांकणी.
**थतरवितर** (वि) भ्रमिष्ट.
**थपराको** (पु) थापट.
**थरवाड** (न) कुटुंब (के).
**थाणदिवो** (पु) खुंट्यार खोयल्लो दिवो; एकाच जाग्यार सदां आसता तो दिवो.
**थार धरप, थारो धरप** (क्रिअ) थांबप; वाट पळवप.
**थिएटर** (न) नाटकघर; सिनेमाघर; समारंभ करपाचो महाल (इं).
**थूक** (स्त्री) निथू; थुकी.
**थूंय** (अ) यंय (के).
**थेटर** (न) सभाघर; नाटकाचे वा सिने-

चे प्रयोग दाखोवपाचें घर (इं).
मान घालप (क्रिक) धुमशेण कांडप; लूम करप; अत्याचार करप; आड्डप; वाळ करप; मस्ती करप; आडांगीपण रप.
ोकण (न) आयदनाचेर तुतयान रांगेन ारिल्ले घण, ह्या थोकणांनीं तांब्याचो ांडो, तोप बी सोबून दिसतात आनी कचकतात. हीं थोकणां वर्सांचीं वर्सां तगतात. देवीचें वायट येवन तोंडार खोल ावो उल्यो तर ताकाय विनोदान ोकणां म्हणटात.
**थोकणाय** (स्त्री) तोखणाय; लाड; अपुर्बाय.
**थोंको** (पु) लंगडीचो खेळ.
**थोगडे** (वि) थोडे, कांय (के).
**थोटाकप** (क्रिअ) थक्क जावप; चड जाप जावप.
**थोडेंभितर, थोडक्यांत** (क्रिवि) थोडया उतरांनीं.
**थोबाड फोडप, थोबाड रंगवप** (क्रिक) ुस्कटांत मारप.
**थोराय** (स्त्री) थोरपण; व्हडवीक; ोठेंपण (के).

**द**—कोंकणी भाशेचे देवनागरी वर्णमाळेचें अठरावें व्यंजन.
**दखलगिरी** (स्त्री) जाणीव; लक्षांत घेवप (फा).
**दखन** (स्त्री) भारतांत नर्मदेचे दक्षिणेचो प्रदेश (हिं).
**दगल** (स्त्री) कपट; फसवण; घात (फा).
**दगदप, दगदगवप** (क्रिक) त्रास दिवप; दगदग हाडप; कष्टावप.
**दगलो** (पु) झगो; काबाय; गावन (फा).
**दगावप** (क्रिअ) मरप; विश्वासघातान मरप (फा).
**दंगो** (पु) मारामारी; धुमशेण; झूज; हाणामारी (फा).
**दचक** (पु) भंय; वचक; भीड; मुर्वत.
**दड** (स्त्री) तड; धडा; पार; देग (का).
**दंड** (पु) बाहू; खांद्यासावन मनकटा-मेरेनचो हाताचो भाग; व्यायामांतलो एक प्रकार; जोर (व्यायाम) (सं).
**दंडगोल** (पु) लांबट, वांटकुळें, पोकळ नळकांडें; सिलिंडर (सं).
**दंडणा** (स्त्री) ख्यास्त; जुलूम (सं).
**दंडनायक** (पु) अपराध्यांची चवकशी करून ख्यास्त लावपी सरकारी अधिकारी.
**दंडवणी** (स्त्री) जुलूम; जबरदस्ती; दादागिरी.
**दंडुकेशाही** (स्त्री) जुलमी शासन; जुलूम जबरदस्ती करपी राज्य.
**दंडुको** (वि) दांडो; तोणको.
**दड्डो** (वि) मूर्ख; बुद्दू; मूढ; दाट; जाड (का).
**दणसी (लागप)** (क्रिअ) ख्यास्त मेळप (का).
**दणो** (पु) दोणो (के).
**दंततालव्य** (वि) जीब दांतांच्या मुळांत आनी ताळवेकडे उखलून केल्लो (उच्चार); दांतयो ताळवो (उच्चार). देख : चोंच, झूज, जोजो बी.
**दंतां-ओंवों** (पु) किरमाणी ओंवों. दंतांची व्याधी उणी करपी ओंवों.
**दंद** (पु) धंदो (के).
**दंदेली** (पु) मजूर; कष्टेली; धंदो करपी

(के).

**दनपारची काळजी** (स्त्री) दनपारां जेवण मेळत काय, ही चिंता.

**दफ्तर** (न) ऑफीस, कचेरी (फा).

**दबकावप** (क्रिक) भेष्टावप; भंय दाखवप.

**दबडगो** (पु) भेष्टावणी.

**दबदबो** (पु) दरारो; बडेजाव; मोठेपण; भंय (अ).

**दंबें** (न) उदक शिपं्चें कल्लें (का).

**दबो** (पु) यकृत; फिग्द; लिव्हर; पित्ताशय.

**दंब्यार** (वि) मुक्त; मेकळो (के).

**दम** (पु) स्वास; प्राणवायू; खीण; पळ; अस्तित्व; सामर्थ्य (फा).

**दमट** (वि) ओलसार.

**दमबाजी** (स्त्री) दबकावणी; भेष्टावणी (फा).

**दमब्यारी** (अ) फुकट; व्यर्थ (के).

**दयाहीन** (वि) निर्दय; बिलकूल दयामाया नाशिल्लो (सं).

**दर** (स्त्रीपु) एके वस्तूचें विकरेचें मोल; थारायल्ल्या वजनामापांत एका जिनसाचें विकरेचें मोल (फा).

**दरकदार** (पु) अधिकारी (फा).

**दरबस्त, दरोबस्त** (वि) सगळे; तमाम (फा).

**दरवाल** (पु) द्वारपाल (अ).

**दरसाल** (क्रिवि) प्रत्येक वर्स; प्रत्येक वर्साक; वर्साचे वर्सा (फा).

**दरिद्री नारायण** (पु) दळिद्री मनशाच्या रुपांत दिष्टी पडटा तो नारायण देव; दळिद्री मनीस.

**दर्वेवप** (क्रिअ) दया येवप; पाझरप; द्रवप.

**दर्शनसंतोषी** (वि) देखणो; जाच्या दर्शनान लोकांक सूख जाता असो (सं).

**दलयत** (पु) कचेरेंतलो मानाय वा शिपायक.

**दवंडी** (स्त्री) जनलोकांमदीं जाहीर घोपणा करच्या वेळार वाजयतात तो धोल; घोषणा (सं).

**दवणो** (पु) शंकर देवाक पुजेंत वाहतात अशी वामादीक पत्री.

**दवरप** (क्रिक) एका जाग्यार अखेरखप; बाळगप (नायकीण); दोरान बांदप (अप); जातीभायर घालप (जात दवरप); बारसो करप (नांव दवरप); नांव दवरप (दोष दिवप); नेम करप (देवाक मुपारी दवरप).

**दष्ण** (स्त्री) दसवंत; दसण.

**दसाड** (वि) साडे धा (के).

**दसुण** (स्त्री) दष्ण (के).

**दस्तूर** (पु) हस्ताक्षर; पारशी धर्मगुरु (फा).

**दस्तैवजी चित्रपट** (पु) सत्यपरिस्थितीची माहिती तोंडी सांगत दाखयतात तो परिचयपट; डॉक्युमेंटरी फिल्म.

**दस्तो** (पु) तुवकाचे नळयेफाटलें हातान धरपाचें पेड; संच (फा).

**दस्साड** (वि) साडे धा; १०॥ (के).

**दळदार** (वि) कमदार; सत्व आशिल्लो; रुचीक.

**दळदीर** (न) गरिबी; दळिद्र; दुर्दैव.

**दळवट** (पु) सर्वनास (अप).

**दळवटप** (क्रिक) गुड्डावप; माड्डप; तडफडप; दाळाक लावप; मारून उडवप.

**दळवार** (पु) सैनीक.

**दक्षिणाचार** (पु) शाक्त उपासकांचो

दोक्त पंथ; वेदधर्मानुसार शक्तिदेवीची पासना.

**क्षिणाचारी** (पु) वैदीक पंथी शाक्त पासक.

**ाकवाल** (स्त्री) द्राक्षांची वाल.

**ाखय-लिपय करप** (क्रिक) मात्शे दाखलेशें करून लिपवप.

**ाटसाण** (स्त्री) घटाय; जाडी.

**ांड** (पु) शेतांतलो बांद.

**ांडगो** (वि) तरूण; जुवान; मानाय.

**ांडपट्टो** (पु) एका हातांत दांड आनी दुसऱ्या हातान दुधारी तरसाद वावुडपाचो खेळ.

**दांडो** (स्त्री) दांडयांचेर खारें नुसतें सुकोवपी खारव्यांचो वाडो (मडकयची दांडी). अगल्या वाड्याक दांडो अशेंय म्हणटात. वगर्लेचो, मुंबै खारचो दांडो.

**दाड्डि** (स्त्री) दाड (के).

**दाढी करप** (क्रिक) खाडाची, पोल्यांची केसांची आनी / वा मिशयांची कापणी करप.

**दाढी-दिक्षीत** (वि) दाढीवालो (मस्करेन म्हणप).

**दाणादाण उडवप** (क्रिक) वाताहात करप; मारून, धपटून धांवडावप.

**दांतांच्यो कणयो करप** — भोवन भोवन विनत्रप.

**दादरो** (पु) पिकिल्ल्या शेतांतल्यान देवस्थानाच्या म्हाजनांनी धान्य वाजयत रातचें शेत्राण माड अश व्हडान म्हणत गेनाच्या कणगो बुड्डुपाची भोंवडी. ही भोंवडी करतकच वीक नड जाता अशी जनां समजुत आसा (कु).

**दानविधी** (पु) दान दिवपाचो शास्त्रीक सुवाळो (सं).

**दानशील** (वि) दान दिवंची ओड आशिल्लो (सं).

**दांपत्य** (न) घोवबायलेचें जोडें; दंपत्य.

**दांबें** (न) छपरावेल्यान उदक व्हांववपाचो व्हड नळो; वालेंत.

**दामेली** (पु) पैशेकार; दुडवांकार (के).

**दायकी** (स्त्री) जापसालदारकी.

**दार** (पु) धारण करपी, सांबाळपी, मालक ह्या अर्थाचें कूस. फौजदार, जमादार (फा).

**दारवंट** (न) हुंबरो.

**दारवटो** (पु) महाद्वार; वेस.

**दारांबो, झारांबो** (पु) रानवट आंब्याचो रूख.

**दाली फापुडप** (क्रिक) दाल्येंतलें मगलें धान्य (अन्न) वांटून सोंपवप; काम बंद करप; कार्यक्रम सोंपप.

**दार्ष्टीक** (वि) बुदवंत (के).

**दाक्षायणी** (स्त्री) दक्ष प्रजापतीची धूव सती ही महादेवाची पयली पत्नी. दक्ष प्रजापतीक जायत्यो धुवो आसल्यो. मारीच ऋषीची पत्नी ही दक्षाची दुसरी धूव.

**दिक्पाल** (पु) दिशेचो राखणदार देव. पुर्वेचो इंद्र; आग्नेय दिशेचो अग्नी; दक्षिणेचो यम; नैर्ऋत्य दिशेचो नैर्ऋत देव; पश्चिमेचो वरूण; वायव्य दिशेचो वायू; उत्तरेचो कुबेर; ईशान्य दिशेचो ईशान; ऊर्ध्व दिशेचो ब्रह्मो आनी अधर दिशेचो अनंत देव. हे धा दिक्पाल.

**दिगाय, दिघाय** (स्त्री) लांबाय; उंची; मोठेपण; थोरवी (सं).

**दिग्गज** (पु) आठ दिशांनीं मळब तोलून धरपी आठ हत्ती; (वि) महापराक्रमी.

**दिग्गी** (स्त्री) लांबाय (के).

**दिडकी** (स्त्री) देड दुगाणीचें तांब्याचें

पोन्नें नाणें; पैशाचें पोन्नें नाणें; तीन पानदुडवांच्या मोलाचें नाणें.

**दिडी** (स्त्री) भजनाचो ल्हान तंबुरो.

**दिनदर्शिका** (स्त्री) पंचांग; कॅलेंडर (सं).

**दिनंदिन** (क्रिवि) दिशींदिशीं.

**दिपक** (पु) संगितांतलो एक राग. श्रेष्ठ संगीतज्ञान. तिळसना हो राग आळयलो तर ताका लागून दिव्यांची आरास उप्रासताली अशी समजूत आसा (सं).

**दिपावली** (स्त्री) दिवाळेचो उत्सव (सं). दिव्यांची रांग. आश्वीन वद्य चतुर्दस.

**दिप्तिवंत** (वि) पर्जळीत (सं).

**दिप्लॉम** (पु) पदविका; प्रमाणपत्र; सर्टिफिकेट (पु).

**दिबखुरियां** (क्रिवि) दिमखुरयांनीं; हातांनीं आनी दिबयांनीं.

**दिब्बण** (न) लग्नाची वरात (व्हंकलपावणी) (का).

**दिंभ** (स्त्री) दिंबी (के).

**दियोसीज, डायसीज** (स्त्री) कॅथोलीक बिश्पाचे मार्गदर्शनाखालचो धर्मप्रांत (पु/इं).

**दिरबांकुर** (पु) दुर्वांची आंकरी; हळयारी (के).

**दिरेतोर** (पु) संचालक; दिग्दर्शक; डायरेक्टर (पु).

**दिवकुलीं** (क्रिवि) दिमखुरियां.

**दिवंगत जावप** (क्रिअ) मरप; स्वर्गार वचप (सं).

**दिवज** (न) कांय देवस्थानांत वर्सुकें जात्रेक भोवजन समाजांतल्यो बायलो कुंबारी पंचारती पेटोवन देवाक दाखयतात तीं दिवजां.

**दिवजांची जात्रा** (स्त्री) ज्या दिसा देवस्थानांत साबार बायलो देवाक दिवजां दाखयतात तो जात्रेचो सुवाळो.

**दिवटोणी** (स्त्री) मेणवात पेटोवन खोंवची खुटी.

**दिवप** (क्रिक) ओंपप; कौल दिवप – आश्वासन दिवप; ख्यास्त दिवप – ख्यास्त भोगूंक लावप; माथ्यार दिवप – जापसालदार धरप; भायरी दिवप – (ल) रागार जावप; फांशी दिवप – फांसार गोळाक लावन मारप; सुळार दिवप – सुळार चडोवन मारप; खंडान दिवप – कबलात करून खोती दिवप; दान दिवप – धर्मीक कर्तव्य म्हणून मोटें आम्थन दिवप; पिंड दिवप – मेल्ल्या पुर्वजांच्या नांवान अन्नाची उंडी मंत्र म्हणून ओंपप; स्राप दिवप – कितेंय वायट जांवचें म्हणून जाहीर इच्छा प्रगट करप.

**दिववप** (क्रिक) दिवंक लावप (अप).

**दिवळो** (पु) नांगरिल्ल्या शेतांत दिफळां फोडपाचो घोटचाचो दांडो.

**दिव्यकथा** (स्त्री) देवांसंबंदीची कथा.

**दिशींनिशीं** (क्रिवि) दिसाचें आनी रातचें.

**दिश्पेंस** (न) सवलत. ही अधिकारी मनशाकडच्यान (पाद्री) घेवंची आसता; धर्मकर्तव्यांत वा धर्माचरणांत सवलत (पु).

**दिश्कुसांव** (न) चर्चा; वाद; उलोवणें (पु).

**दिसपट्टो** (क्रिवि) दर दिसा.

**दिसवडो** (पु) रोजगार; वावरधंदो; मजुरी; एका दिसाचो मुशारो.

**दिसावडेकार** (पु) एका दिसाचें मानायपणाचें काम करून दिसावडो घेवन हाताच्या पोटार संवसार चलवपी गरीब कष्टेली.

**दिसुजवाडे** (क्रिवि) दिसा उजवाडे (के).

**ाक्षीत** (वि) दिक्षा घेतिल्लो; एकवतान ागुंचो सपूत घेतिल्लो; दिक्षा दिल्लो; ाक्षेच्या संप्रदायाप्रमाण वागपी; (न) ाक आडनांव (सं).

**ोख** (पु) काजी बियांच्या टरफलांचें ाल. हें तेल मदेराक लायलें तर लांक-ाक वाळटी लागना. बैलगाडयेच्या ाकांक हें तेल वंगण म्हणून उपकरता. ाका काजयेल अशेंय म्हणटात.

**ीदलो** (क्रिस) दिलो (के).

**ीनवत्सल** (वि) दिनांचो दयाळू (सं).

**ीपगृह** (न) समुद्रांतल्या खडपार तारवां आपटुचीं न्हय म्हणून खडपार उंच खांबो ानी ताच्या माथ्यार रातचो दिवो पेटोंव ेत अशी व्यवस्था आशिल्लें घर; दीप-स्तंभ (सं).

**दीपचंदी** (पु) चौदा मात्रांचो, चार वांटयांचो ताल (सं).

**दीर्घदर्शी** (वि) दूरदिष्टीचो; फाटलो फुडलो विचार करून वागपी (सं).

**दीर्घदृष्टी** (स्त्री) पैसमेरेन पळोवपाची नदरेची शक्त (सं).

**दीर्घवर्तूळ** (न) दोन विरुद्ध बाजूंनीं लांबिल्लें वलय (वळें) (सं).

**दीर्घायू** (वि) खूब वर्सां जगपी (सं).

**दीर्घोद्योग** (पु) खूब काळमेरेन करचो पडटा असो कष्टाचो वावर (सं).

**दीर्घोद्योगी** (वि) खूब काळमेरेन कष्टांचो वावर करपी (सं).

**दीस लागीं पावप** – (ल) सुतकाचे दीस (मरण) लागीं पावप.

**दुखणें काडप** (क्रिक) वायट भोगप; दुसऱ्या दुखणेकाराची शुश्रुषा करप.

**दुखांबी** (वि) दोन खांब्यांचेर आधा-रिल्लो मांगर वा तंबू.

**दुखावप** (क्रिअ) दूख जावप; मार बसप; जखम जावप.

**दुक्ख** (न) कष्ट; खंत; वेदना; तळ-मळ; शोक; दुक्ख; दूख (सं).

**दुक्खद** (वि) दुक्ख दिवपी (अप).

**दुक्खी** (वि) दुक्ख जाल्लो; खंती; व्यथीत; दुक्ख भोगपी; दुःखांत पडिल्लो.

**दुक्खी** (वि) दुख्ख भोगपी; खंत करपी; शोक करपी (सं).

**दुगलावप** (क्रिअ) जोगलेवप (के).

**दुगाणी** (स्त्री) दोन पयांचें पोन्नें नाणें; अर्दो रूब.

**दुजोरो** (पु) पाठबळ; आधार; अनु-मोदन; तेंको.

**दुडवादीक** (वि) श्रीमंत.

**दुडू-आडको** (पु) पैशे आनी धन; द्रव्य आनी मालमत्तो (का).

**दुतर्फी** (वि) दोन बाजूंनीं; दोन तरांनीं; दोन पंगडांचे वतीन परस्पर विरोधी (फा).

**दुदवाल** (स्त्री) रगत शुद्ध करपी सार्सा-परिला वनस्पत.

**दुल्शी** (वि) पांच. कोयंडे बालांच्या खेळांत खणीमावन बालामेरेन कोयंडयान अंतर मेजतात ताचे आंकडे.

**दुदुलो, दुदू** (पु) भुरग्यांचे भाशेन दूद.

**दुदयाचे कडंब** (पु) दुदयाच्या किशिल्ल्या गरांत खोवून, गोड बी घालून उकडिल्ले हालउंडे.

**दुबती** (वि) दूद दिवपी.

**दुदवाली** (स्त्री) उपळसरी, दुदशेरी, अनंतमूळ.

**दुपाटो** (पु) दोन पटे खांद्यावेल्यान घेतात ती उपरणी (शेलो-दुपाटो).

**दुबळेवप** (क्रिक) अशक्त जावप.

**दुदी सांदन** (न) तांदळांच्या रव्यांत दूद, फोव, गोड, ताक मुरोवन मागीर शिज-यल्लें सांदन.
**दुभवप** (क्रिक) दूद काडप (गोरवाचें).
**दुभाव** (पु) दुबाव; संशय; वेगळी येव-जण (सं).
**दुमत** (न) दुसरें मत; वेगळें मत; वेगळो विचार (मं).
**दुमदुमप** (क्रिअ) घुमप; पडसाद येवप; घुमघुमप.
**दुरंगी** (वि) दोन रंगांचो.
**दुराणी** (पु) अफगाण लोकांतली एक जात. अहमदशहा अबदल्ली हो दुराणी अफगाण आशिल्लो.
**दुराय** (स्त्री) (शेतांतली) दुसरी नांग-रट (कु).
**दुरावप** (क्रिक) दोष दिवप; (क्रिअ) पैस पावप.
**दुरावो** (पु) पैससाण.
**दुर्घटना** (स्त्री) वायट घडिचार; अप-घात (मं).
**दुर्घटना विभाग** (पु) हॉस्पिटलांतलें अप-घातांत जखमी जाल्ल्या वायटकारांचेर उपचार करपाचें वॉर्ड; कॅज्वल्टी वॉर्ड.
**दुर्मुखप** (क्रिअ) तोंड वायट करप; तोंड वांकडें करप. (सं).
**दुर्लक्षणी** (वि) वायट चिन्हांचो; अव-चिन्नांचो; अपशकुनी (सं).
**दुर्वासना** (स्त्री) वायट इच्छा; पापी वान्सा (सं).
**दुल्जेंस** (न) सवलत; अपराधाची माफी (पु).
**दुल्लड** (स्त्री) दोन पदरी माळ.
**दुल्लडी** (वि) दोन पदरी.
**दुवाळयांची** (वि) दुवाळो लागिल्ली; गुरवारीण. दुवाळयांक खेलें तेरें, फुडें किते जातलें वरें ?
**दुवेत** (न) दुसरें वियेत; (वि) दुसऱ्या वियेताचें (वासरूं).
**दुव्वो** (पु) दोन थिपक्यांचें इस्पिकेचें पान.
**दुशण** (न) दोष; वायट गूण; वायट आरोप (सं).
**दुश्करणी** (स्त्री) दुष्कर्म; वायट करणी.
**दुष्ट** (वि) दुषीत; इबाडिल्लो; चुकीचो; दोष आशिल्लो; रोगयाळो. तर्कदुष्ट – तर्कशास्त्राचे नदरेन चुकीचो. व्याकरण-दुष्ट – व्याकरण शास्त्राप्रमाण चुकीचो (मं).
**दुष्टचक्र** (न) एकाद्री वायट परिस्थिती सुदारचे खातीर केल्लो हर एक उपाय ती स्थिती चड इबाडीत वता अशी अवस्था (सं); व्हिशस सर्कल.
**दूकि** (पु) पुर्तुगाली राजदरबारचो पयल्या पांवड्याचो सरदार; पुर्तुगालच्या राज-घराण्यांतलो सरदार; येरोपांतल्या पान्न्या संस्थानांचो राजा (पु).
**दूदकारीण** (स्त्री) आवयचें दूद पावना वा मेळना म्हणून तान्या भुरग्याक पैशे दिवन दवरिल्ली दूद दिवपी बायल.
**दूद-कोल्ड्रींक** (न) दुदांत साकर आनी सरबत घालून केल्लें आधुनीक पिवन (इं).
**दूदसाकर** (स्त्री) दुदांतले गोडसाणीचें अर्क; लॅक्टोज.
**दूर** (क्रिवि) पैस; (सं); (स्त्री) वर्दी; तक्रार; दोष; चाडी; निंदा (का).
**दूरदर्शक** (पु) दुर्बीण; पैशिल्ली वस्त लागींसावन दिसता तशी दाखोवपी भिंगां (लेन्स) आशिल्लें आवत (सं).
**दूरदर्शन** (न) किरणांच्या लाटांवरवी

चलत्या देखाव्यांचे फोटो काडून ते पयशिल्या दूरदर्शन पड्ड्याचेर साथीच्या आवाजासयत दाखोवपा-आयकवपाची विज्ञानीक व्यवस्था; टेलेविजन (सं).

**दूरप्रकाशचित्रण** (न) पैससावन फोटो (प्रकाशचित्र) काडपाची विद्या; टेलेफोटोग्राफी (सं).

**दूरमुद्रक** (पु) पैस आशिल्ल्या यंत्रान कागदार मजकूर टायप करपाची यंत्रव्यवस्था; टेलेप्रिंटर (सं).

**दूरसंवेदना** (स्त्री) अफकी घडिल्ली गोष्ट कळपाची शक्ती (सं).

**दूरेक्ष** (पु) पैशिल्लें दिसपी कांचयंत्र; टेलेस्कोप; दुर्बीण (सं).

**दृक्-श्राव्य** (वि) दिसपी आनी आयकूंक येतपी (सं).

**दृग्गोचर जावप** (क्रिअ) दिसप; दिष्टीक पडप (सं).

**दृढ अंक** (पु) अविभाज्य अंक. दिल्ले संख्येक तेच संख्येन आनी १ हे संख्येबगर आनीक खंचेच दुसरे संख्येन भाग तुटना अशी संख्या. देख : ३, ५, ७, ११, १३, १७, १९, २३, २९, ३१, ३७, ४१, ४३, ४७, ५३, ५९, ६१, ६७, ७१, ७३, ७९, ८३, ८९, ९७, १०१, १०३ बी.

**दृढिकरण** (न) निश्चितीकरण; घटवाय दिवप; नक्की करप (सं).

**दृष्टिगोचर** (वि) सामान्य नदरेन दिसता असो (सं).

**दृष्टिपटल** (पु) उगडचा दोळ्यामुखार आशिल्ले वस्तूची प्रतिमा दिसपी दोळ्याचो पड्डो (सं).

**देकप** (क्रिक) पळोवप; मळप (के).

**देंकळो** (पु) साव्या उदकांतली खरू.

**देकार** (पु) दिवंची मान्यताय वा कबुली

**देकून धरप** (क्रिक) माहीत करून घेवप; जाण जावप (के).

**देक्लारासांव** (न) लेखी विधान; जाहीर सांगणी; न्यायालयांतलें आफिदावीत; प्रमाण केल्लें विधान (पु).

**देग्रेद** (स्त्री) हद्दपारीची शिक्षा (पु).

**देग्रेद मारप** (क्रिक) गुन्यांवाखातीर शासनान देशाभायर तुरुंगांत रांवची ख्यास्त दिवप (पु).

**देट्टो, देठो** (पु) महाद्वार; देवडी; गेट.

**देडकी** (स्त्री) पोन्नो एक पैसो; देड (१॥) हे संख्येचो पाडो वा लेख. एक देडें देड, बे देडें तीन, तीन देडें साडेचार, चार देंडे स, पांच देडें साडेसात, शंभर देडें देडशें.

**देड्डेंशें** (वि) देडशें (के).

**देंपो** (पु) टोळ.

**देफेंझ** (स्त्री) हल्ल्याक दिवपाचें तोंड वा प्रतिहल्लो; आरोपाक दिवपाचो प्रत्यारोप वा प्रत्युत्तर; तक्रारीक दिवपाची जाप (पु).

**देरु** (पु) देर (के).

**देव** (स्त्री) दिवप; देणें; विक्री; देकार.

**देवकृत्य** (न) देवकारें; पुजापाठ, होमहवन बी.

**देवगुरू** (पु) बृहस्पती देव.

**देवघेव करप** (क्रिक) दिवपाघेवपाचो, खरेदीविक्रीचो वेव्हार करप.

**देव देव करप, देवधर्म करप** – देवकार्य करप; दानधर्म करप.

**देंवणी** (स्त्री) देंवती; उतरण; उतरती.

**देवताकांड** (न) भगवद्गीतेच्या चौथ्या अध्यायासावन अकराव्या अध्यायामेरेनचो भाग (१२९०).

**देंवती** (स्त्री) उतरण; उतरती.

**देवदार** (पु) हिमालयासारक्या पर्वतां-दोणीनीं जावपी उंच धवो रूख. हो शंबर-दोनशीं वर्सां जगता. घट्ट मदेराचें लांकूड मेळटा. हो रूख सुंदर आनी उंच आसता.
**देवधर्मिष्ट** (वि) देव आनी धर्म हांकां पाळो दिवपी; धर्मान वागून देवभक्ती करपी.
**देवधर्मिष्टकाय** (स्त्री) देवभक्ती आनी धर्मीक आचरणाची वृत्ती (सं).
**देव पावप** (क्रिअ) (ल) (आपल्या) मनासारकें जावप.
**देवपिसो** (वि) देवभक्तीच्या नादांत पिशेपणां करपी.
**देवणें** (न) देंवती; उतरण (के).
**देवबाप्पा करप** (क्रिक) (भुरग्यान) देवाक नमस्कार करप.
**देवयान** (न) अंतराळाचें उत्तरदिशेचें अर्द (सं).
**देवरीण** (न) आमी देवाचें लागतात तें देणें; देवभक्ती आनी प्राणीमात्रालागीं दयेमायेची वर्तणूक (सं).
**देवळ** (न) देवूळ (के).
**देवाची कूड** (स्त्री) हिंदू घरांत देव पुजतात ती कूड; देवाचें वारें आंगांत येता असो गुरव वा हेर भगत.
**देवाच्यान** (क्रिवि) देवाची आण; देवाचो सपूत.
**देवांगना** (स्त्री) स्वर्गांतली अप्सरा.
**देवाणघेवाण** (न) देणेंघेणें; देवघेव; वेव्हार; व्यापारधंदो.
**देवारी** (पु) पुजारी.
**देवासांव** (न) देवस्पण; देवकार्य; देव-पण; देवकारें; देवाचो उत्साव; फेस्त (पु).
**देशमुखी** (स्त्री) देशमुखाचें वतन आनी सत्ता वा पदवी.
**देसकारी** (स्त्री) देशाचो कारभार करपी म्हाजनांची सभा.
**देसाई, देसाय** (पु) एक आडनांव; गांवाचो अधिकारी; (देह + शाही > फा). आदिलशाही काळासावन देसाय, सर-देसाय, देशपांडे, मरदेशपांडे, मरदेशमुख, बी किताब आनी आडनांवां प्रसिद्ध आसात.
**देसेंत** (वि) सभ्य; शिष्टाचारान वागपी; देखणो; योग्यतेचो; सोबीत (पु).
**देसेंदेत** (पु) पुर्तुगेज आनी भारतीय हांची मिश्र संतत; मिश्तीस (पु).
**देहदंड** (पु) मरणाची ख्यास्त (सं).
**देहधर्म** (पु) मनशाचे कुडीचो लागणूक; जल्मासावन मर्णामेरेन कुडीक भोगता तें सुखदुक्ख; कूड सांबाळचे खातीर आरोग्य-शास्त्राचे, नितीधर्माचे पाळचे लागतात ते नेम (सं).
**दैव उबें रावप** – नशिबांत त्रास भोगचो पडप.
**दैव फिरप** (क्रिअ) बऱ्यांतल्यान वायट वा वायटांतल्यान बरे दिस येवप.
**दैवाची परिक्षा पळोवप** – (ल) धोक्यांत घालून घेवप; धाडस करप.
**दैवाक रडप** – दैवाक दोष दिवप.
**दैवाधीन** (वि) नशिबाचेर अवलंबून आशिल्लो (सं).
**दैवी संपत्ती** (स्त्री) निर्भयता (धैर्य). सात्वीक कुलीन वृत्ती, ज्ञान आनी योग हांची आवड, उदारपण, निग्रह, आस्तीक-पण, ज्ञानार्जन, तप आनी खरेपण ह्या गुणांची जोड (लाभ) (सं). अहिंसा, सत्य, शांती, त्यागवृत्ती, निस्पृहता, दया, मोवाळ सबाव, वायट वर्तणुकीची लज आनी सुमरेपण नासप हे दैवी गूण (भग. १६ वो अ.).

**दोड** (स्त्री) घडी; दुमड; घडयेची शिरकुटी.

**दोंड** (स्त्री) घळण; दोंगराची देंवती.

**दोडटी, दोडो** (वि) दुपेट; दोन थरांचो; दोन घडयांचो; चार दोडटी – चार घडयांचो, चार पदरी, चार थरांचो, तीन दोडटी – तीन थरांचो (का).

**दोड्डाचार्य** (पु) परम गुरू; गुरूचो गुरू; व्हडलो आचार्य (का).

**दोड्डे मोगरें** (न) बटमोगरो; सहस्रमोगरें (का).

**दोड्ड-सावकार** (पु) धनशेटी; वैभवशाली श्रीमंत मनीस (का).

**दोणकार** (पु) पनेळकार; तारयो.

**दोंदोन** (वि) दोन दोन (के).

**दोनीचो** (वि) दुसरो (के).

**दोसीशीं** (वि) दोनशीं (के).

**दोब्रावप** (क्रिक) दोब्राद करप; दुसरे फावटी म्हणप (पु).

**दोबु** (पु) हीम (के); दव.

**दोळे उगडप** (क्रिक) दोळे उक्ते करप; (क्रिअ) (ल) शुद्धीर येवप; गैरसमज दूर जावप; खरी गोष्ट कळून येवप.

**दोळे करप** (क्रिक) (ल) दोळे वाटारप (रागान).

**दोळे जळप** (क्रिअ) (ल) दोळे चुरचुरप; दोळे भगभगप.

**दोळे मिटप** (क्रिक) दोळे धांपप; (ल) मरप.

**दोळे मोठे करप** (ल) दोळे वाटारून अजाप वा राग दाखवप.

**दोळे वचप** (क्रिअ) (ल) नदर वचप; आंधळो जावप; दिसपाची शक्ती ना जावप.

**दोळो** (पु) झाडाच्या कांडाक फुटिल्लो नवो कोंब वा आंकूर.

**द्रम्म, द्राम** (पु) प्राचीन नाणें. १६ पण–द्रम्म, १६ द्रम्म–निष्क (प्रा).

**द्रवण** (न) वितळप; स्थायू (सॉलीड, घन) वस्तू द्राव रुपांत वितळप (सं).

**द्रव्यांतर** (न) द्रव्यांत जाल्लो बदल. देख : पावाचें द्रव्यांतर क्रिस्त स्वाम्याच्या मासांत आनी द्राक्षासवाचें द्रव्यांतर क्रिस्त स्वाम्याच्या रक्तांत जाता तें. देवाक अर्पण केल्ली वस्तू (निवेद्य) देवाचो प्रसाद म्हणून परत आपणे घेवप.

**द्राक्षसाकर** (स्त्री) द्राक्षांचे वा म्हांवाचे गोडसाणींचें अर्क; ग्लुकोज; डेक्स्ट्रोज (म्हांवसाकर, फळसाकर).

**द्राक्षाम्ल** (पु) द्राक्षातलें अॅसीड; तार्तारीक आम्ल (सं.)

**द्रूत** (वि) हेरांपरस चड वेगान वावुरपी; चड गतीन धांवपी; चड वेगान वावुरपाक उपयोगी (सं).

**द्रूतमार्ग** (फ) फास्ट गाडयो चलोवंचो मार्ग; एक्सप्रेस हायवे.

**द्वारमंडप, दारमंडप** (पु) देवळाचो वा व्हडा घराचो सोंडयो (सं).

**द्विघात** (पु) एके संख्येक तेच संख्येन गुणून आइल्लो गुणाकार; संख्येचो वर्ग (सं). ४ हो २ चो द्विघात. पंचवीस हो पांचांचो द्विघात.

**द्विदल** (वि) दोन दाबींचो; दोन दाळींचो (दाणो) (सं).

**द्विपत्नीक** (वि) दोन पत्नी आशिल्लो (सं).

**द्विपदवीधर** (पु) विद्यापिठाच्यो दोन पदव्यो घेवपी (सं). डबल ग्रॅज्युएट.

**द्वैत** (न) दुजो भाव; दुजेपण; दोन ही भावना; वेगळेपणाची कल्पना; भेदभाव (सं).

**द्वैत मत** (न) जिवात्मो आनी परमात्मो हे वेगळे आसात अशें मध्वाचार्याचें मत.

**ध**—कोंकणी भाशेचे देवनगरी वर्णमाळेचें एकुणिसावें व्यंजन.

**धकटेकार, धगटेकार** (पु) खेयरोगी; बारीक जोर येवपी; कडकी लागिल्लो.

**धगडी** (स्त्री) शिदळ बायल.

**धगमोडें** (वि) चड हून न्हय आनी थंडय न्हय अशें.

**धगळप** (क्रिअ) (दूद) विटकळप; (रगत) दुषीत जावप; (आरोग्य) इबाडप.

**धडंग** (वि) घटघुमट.

**धडपडो** (वि) धडपड करपी; धुडबुडो.

**धडबडावप** (क्रिक) रागार जावप; आमडून घालप; दम दिवप; धुडकावप.

**धडबडो** (वि) धडपडो; धुडबुडो; धांदली; अस्थीर.

**धडाडी** (स्त्री) तडफ; साहसी वृत्ती; धाडसी वृत्ती; तडफदार गती.

**धडेवांटप** (न) एकत्र कुटुंबांतल्या सगळ्या वारसांमदीं इस्टेटीची केल्ली सरळ वांटणी; तात्पुरती वांटणी; आपसांतली वांटणी; हुंडेवाटप.

**धडो** (वि) घटघुमट; सारको; बरो; लांकूड चिरपाखातीर लागता ती बांदावळ. (पु) हिंमत. जिवाचो धडो करप—हिंमत धरप.

**धड्डा** (वि) बावळट.

**धणकुटी** (स्त्री) धोणकी; धनुर्वात.

**धणू** (न) धनुष्य; तिरकमठो (सं).

**धतरमतर** (वि) अनिश्चीत; डळमळीत; अस्पष्ट.

**धनगती शास्त्र** (न) शक्तीविज्ञान; शक्ती आनी गतीचें विज्ञान; Dynamics.

**धनचिन्ह** (न) + अशी बेरजेची खूण; ऋणचिन्ह — अशें न्हय करून वा उणें करून उरता तें.

**धनबिंब** (न) एकाद्या देखाव्याच्या ऋणबिंबाची प्रतिकृती (पॉजिटीव).

**धनरेषा** (स्त्री) हस्तसामुद्रीक शास्त्रानसार तळहातावेली आयुष्यांत धनाच्या सुखाचें प्रमाण दाखोवपी रेषा (सं).

**धनसंचय** (पु) द्रव्याचो गाठो; मुदगो (म).

**धनसंपत्ती** (स्त्री) पैसोआडको, भाटवेंस बी (म)

**धनिष्टें** (न) धनिष्ठा नक्षत्र (के).

**धनी, धन्नी** (वि) पैशेवालो; श्रीमंत (पु) मालक.

**धनुरासन** (न) पोटार न्हिदून पांय उखलून हातांनीं फाटसून धनुष्याभाशेन धरपाचें योगासन (सं).

**धनुष्कोटी** (स्त्री) धनुष्याचें तोंक; भारताच्या दक्षीण तोंकार रामेश्वरालागसारचें हिंदूचें एक पवित्र तीर्थ (सं); धनुष्कोडी.

**धनेस्त** (वि) श्रीमंत (सं).

**धन्यताय** (स्त्री) बऱ्या कर्तुपाखातीर जाल्लें समाधान (सं).

**धमाली** (वि) फटकिरो; भ्रमशेण घालपी.

**धम्मक लाड** (पु) धुमको; धुमक्याचो मार.

**धमाली** (स्त्रीं) ढोंग; सवंग; फटिंगपण; (वि) सवंगी; धोंगी; फटींग.

**धरप** (क्रिक) चालू रावप; चालू दवरप; आडावप. पावसान सामकें धल्लां. ताणें सकाळीं उठून रडप धल्लां.

**धरयां** (अ) धरून; पासून ह्या अर्थाचें कृम.

**धर्म** (पु) कर्तव्य. पुत्रधर्म – पुताचें आवय-बापायविशींचें कर्तव्य; पतिधर्म – पतीचो पत्नीविशींचो धर्म म्हळयार तिचो मोग करून जल्मवेर एकामेकांशीं एकनिष्ठ गवप आनी संवसारांत एकामेकांक मांवाळप; पत्नीधर्म – पतिव्रताधर्म, पतीविशींचें कर्तव्य म्हळयार एकनिष्ठा आनी सेवा. कुळधर्म – कुळाची परंपरा म्हळयार कुळांनल्या बऱ्या पुर्वजांनीं जोडिल्ली किर्ती मांवाळप. मित्रधर्म – मित्राक दगो दिवंचो न्हय हें कर्तव्य. राष्ट्रधर्म – राष्ट्राविशींचें कर्तव्य; राष्ट्रभक्ती.

**धर्मकिर्तन** (न) धर्मनिष्ठेन केल्लें धर्म ह्या विषयावेलें प्रवचन (१२९०).

**धर्मगुरू** (पु) धर्माचरणाचें लोकांक शिक्षण आनी मार्गदर्शन करपी; धर्मसंस्कार करपी आचार्य; क्रिस्तांवांचो पाद्री; मुसलमानांचो मौलबी; हिंदूंचो स्वामी (सं).

**धर्मभोळो** (वि) येवजिनागतना अंधश्रद्धेन वागपी; धर्म म्हणून फालतू चालीरितीक म्हत्व दिवपी.

**धर्मग्राम** (पु) एके इगर्जेंत वावुरपी पाद्रीविगार आनी ते इगर्जेचे भजक क्रिस्तांव हांची वसती वा गांव; फिर्गज (सं).

**धर्मपिसांट, धर्मपिसो** (वि) धर्माच्या नांवान लोकांक छळपी.

**धर्मप्रसारक** (पु) आपल्या धर्माचो प्रचार करपी; मिशनरी (सं).

**धर्मप्रसारकार्य** (न) आपल्या धर्माची शिकवण परधर्मियांक दिवपाचो वावर; मिशन (सं).

**धर्मप्रसारसंस्था** (स्त्री) धर्मप्रचारिणी संस्था; मिशन (सं).

**धर्मलंड** (वि) धर्म नाशिल्लो; अधर्मी.

**धर्मवीर** (पु) धर्माखातीर कूड झरवपी आनी त्याग करपी थोर मनीस (सं).

**धर्मसमीक्षण सभा** (स्त्री) पाखंडी क्रिस्तांवांची चवकशी करून तांकां ख्यास्त लांवची म्हणून रोमन कॅथलीक धर्मसंस्था आनी पोप देशोदेशांत पाद्री न्यायाधिशांची त्रिबुनाल दे इन्क्रिजिसांव ह्या नांवाची धर्मसमीक्षण सभा गुप्त चवकशी करून आरोपीक मध्ययुगांत (१६ वें ते १८ वें शतक) ख्यास्त फर्मायताले ती न्यायसंस्था. असली न्यायसभा गोंयांत दोन-अडेचशीं वर्सां आसली.

**धर्मसिंधू** (पु) हिंदू धर्मशास्त्राची फोडणिशी करचेखातीर आनी लोकांक धर्माचरणांत मार्गदर्शन करचेखातीर १७९१ सालांत रचिल्लो एक संस्कृत ग्रंथ.

**धर्मस्थापना** (स्त्री) नवीन धर्मपंथाची उभारणी; धर्मजागृती; चालू धर्मसमजुतींत केल्ली क्रांती; रूढ धर्माचें परिवर्तन (सं).

**धर्माचो ओखतांसाळ** (स्त्री) फुकट वखद उपचार करून मेळटा असो दवाखानो वा धर्मार्थ हॉस्पिटल.

**धर्माचो** (वि) धर्म करचो म्हणून करतात असो (वावर); फुकटचो (आदार). धर्माचो दवाखानो; धर्माचो रामराम – जबरदस्तीचो नमस्कार, जुलमाचो रामराम.

**धर्मातीत** (वि) धर्मनिरपेक्ष; धर्म ह्या विषयांत धवळाधवळ न करपी (सं).

**धर्मांध** (वि) धर्मपिसो; धर्मसमजुतीक लागून अक्कल व्हगडायल्लो; धर्मवेडो.

**धर्मांधताय** (स्त्री) धर्मांधपण; धर्माच्या खोटया अभिमानाक लागून बुद्द व्हग-

डांवची अवस्था (सं).

**धर्मान** (क्रिवि) कारणान; लागून. म्हज्या धर्मान – म्हाका लागून. पानवेलीच्या धर्मान मस्काक उदक.

**धर्मिष्टाय** (स्त्री) धर्मीकपण; धर्मनितीन वागची ओड (सं).

**धर्शियालो** (क्रिक) धारण केलो (के).

**धवळ** (पु) हालचाल; बदल.

**धवळो** (पु) बायल्लांचीं उत्सवांनल्लीं गाणीं; होवयो (१२५०).

**धवुळणो** (वि) धवळे करपी; मनश्यांच्यो नाका जाल्ल्यो खबरी करपी.

**धवें भांगर** (न) प्लॅटिनम ही भांगराहून मोलादीक धातू.

**धवो कात** (पु) आवळकाठी; आवळी कात.

**धसाक लावप** (क्रिक) खरेपण पळवप; पूर्ण चवकशी करप.

**धा-जाण** (पु) धा लोक; (ल) सावार लोक; चार चौग लोक.

**धाट, धाटी** (स्त्री) भरड जमीन; पावसांत रोयतात अशी दोंगरी जमीन.

**धाटो** (पु) गावडे व्हंकलेक न्हवरकार लग्नांत दितात ती तांबडी साडी.

**धाड** (न) झाड; ताडाचो रूख (के).

**धाड** (स्त्री) वायट रोग; रोगाची सांथ; दुष्ट लोकांची घुरी; रानवट सावदांची घुरी.

**धाड भरप** (क्रिअ) रोग जावप.

**धाड मारप** (क्रिअ) वायट दुखण्यांत पडप.

**धाडभर** (क्रिवि) पुरो जायसर; पोटभर; मनमुराद.

**धाणयो** (वि) काळचो धाणी (पटे) आशिल्लो (वाग).

**धाणो** (पु) रगडयाचो वा फातरीचो वांटपाचो घांटणो.

**धात** (स्त्री) पुरुषाचें वीर्य; धातू; शुक्र.

**धातूकाम** (न) धातूच्यो वस्तू घडोवपाचो धंदो (सं).

**धातूगोलक** (पु) धातूची घण गुळी; पेलेट.

**धातूर** (क्रिवि) शितितार; सावध.

**धानी** (स्त्री) नगर; शार (सं). राजधानी – राजा रावता ती नगरी.

**धाम्न** (पु) मध्यवर्ती खांबो; कुंवों; धारण.

**धाबळी** (स्त्री) धाबडी; जाड लोंकरीचें सवळें वस्त्र.

**धाबें** (न) खोंपूट; कोलवाचें छत; काळीज (कु).

**धायदोस** (पु) धोमको; प्रसंग पडल्यार पंगडांतल्या गैरहाजीर गडयाचो खेळ खेळपी अदीक गडो; रिझर्विस्ट.

**धारण** (पु) आधाराचो खांबो; तेंको; (स्त्री) (बाजारांतल्या) धान्याचो दर.

**धारणखांबो** (पु) घराच्या पायासावन पाष्टामेरेन बांदिल्लो मदेवर्ती खांबो.

**धार धरप** (क्रिक) व्हांवती धार चालू दवरप.

**धार लागप** (क्रिअ) द्राव व्हांवत रावप; रांग चालू रावप.

**धाराळ** (वि) खूप; भरपूर; चकचयाळ (का).

**धारेर धरप** (क्रिक) कडक शिस्त लावप.

**धारावाहीक** (स्त्री) खिम्ती खिस्तींनी सांगिल्ली काणी वा दाखयल्लो बोलपट.

**धार्जण्यें** (न) लाभाचो योग; ध्येय; मेळपाचें आसता तें. अनुकूलताय; सोयेग; सुयोग.

**धार्जिणें** (न) हातगूण; लाभाचो योग;

सुदैव; यशलाभ.

**धार्जिणो** (वि) अनुकूळ; यशालाभाचो.

**धालपेंड** (स्त्री) पाडद्या-वेळार पाडटात ते पेंडीहून म्हळयार म्हाल पेंडीहून तन्न्या नाल्लांची पेंड; दुसरी पेंड.

**धाव** (स्त्री) गाडयेचें चक्र धांवतना झरूं नये म्हणून ताचे भोंवतणी हवेन भरिल्लें रबरी टायराचें चक्र बसयतात तें. सादे बैलगाडयेच्या चक्राक लोखंडी पट्टी मारतात ती.

**धांवपट्टी** (स्त्री) विमानतळाचेर विमान उतरतकच कांय अंतर धांवता आनी मागीर थांबता. विमान उतरून धांवत आसता त्या अंतराच्या जाग्यार डांबरी रस्तो बांदिल्लो आसता. ताका धांवपट्टी म्हणटात.

**धांवडी** (स्त्री) धांवती; दगदगीचो वावर; क्रिकेटच्या खेळांत बॅट्समन चेंडू ठोकून बेगीबेगीन दोन विकेटींमदी धेतात ती धांव; रन (इंग्लिश).

**धाळप** (क्रिक) वावडप; हालवप; वारप (चवऱ्यो).

**धिगळप** (क्रिक) धुकलप (के).

**धिगुवप** (क्रिअ) धिगाणो घालप; धुमशेण कांडप.

**धिगो** (पु) तेंको; आधार.

**धुंगटी** (स्त्री) तंबाखू; धुमटी; तंबाकू ओडपाची क्रिया.

**धुगधुगी** (स्त्री) काळजाची मंद हालचाल; किंचीत हुनसाण.

**धुगधुगीत** (वि) कोमट; हून न्हय आनी थंड न्हय अशें.

**धुडबुडो** (वि) अस्थीर, धडपडो; गडबड करपी; धुमशेण करपी.

**धुंदाट** (वि) सोसाटयाचो (वारो).

**धुंधुर्मास** (पु) सूर्य धनू राशींत पावतकच (मार्गशीर्ष-पौष म्हयन्यांत) सकाळी फुडें शिवराक जेवपाचें व्रत (सं).

**धुमकप** (क्रिक) धुमक्यांनीं मारप.

**धुमटी** (स्त्री) तंबाकू; धुंगटी; धकटी.

**धुमधूम** (न) ल्हान भुरग्यांचे भाशेंत उत्सवाचें वाजप; उत्सव.

**धुरंधर** (वि) म्हापराक्रमी; सामान्यां-भायलो; श्रेष्ठ; म्हालगडो वीर (सं).

**धुमश्चक्री** (स्त्री) धांदल; गडबड; गर्दी; धुमशेण; हाणामारी; कल्लोळ (सं).

**धुरापान, धुंवरापान** (न) तंबाकू (के).

**धुंवरावप** (क्रिक) धुंवरान शेकप; धुंवरेवप.

**धुंवाळ** (न) देवस्थानांत बाजयतात ती जगांट आनी धोलकें आनी धुपाची भोंवडी.

**धुंवाळी** (पु) जगांट आनी धोलकें वाजो-वपी आनी देवाची तळी साफ दवरपी देवस्थानाचो नोकर.

**धुळीक मेळप** (क्रिअ) मातये भरवण जावप; सत्यानास जावप.

**धुंवाड्डें** (न) कारखान्याचे भट्टीचो धुंवर वचपाची नळी; चिमणी.

**धूपदाणी** (स्त्री) धुपाटणें; धूप जाळपाचें आयदन.

**धूरा** (क्रिवि) दूर; पैस (के).

**धूळपेट, धुळवट** (स्त्री) शिमग्यांत एका-मेकांचेर गुलाल वा हेर रंग मारपाचो सुवाळो.

**धूळभेट** (स्त्री) देवळाच्या महाद्वारांत भितर सरतना देवाक करतात तो नमस्कार; दूरसावन दर्शन (सं).

**धृपद** (न) ध्रुपद; पालुपद; अस्ताई, अंतरो आनी भोगी हे संगीत गायनाचे भाग (सं).

**धेडकावळो** (पु) म्हारकावळो; डोम-कावळो; सगळ्या आंगान काळो किट्ट व्हडा कावळ्याची जात. हाका अपशकुनी मानतात.

**धैर्यशाली** (वि) काळीजवंत; धीट; धैर्यवान (सं).

**धोंडशीर** (स्त्री) दवणशीर; पांयांचे फाटल्यान खोंट जोडपी जाडी शीर.

**धोंडारी** (पु) भिकारी. भिकारी-धोंडारी असो प्रास जोडटात.

**धोड्डो** (पु) मूय.

**धोदेल** (न) सुटिल्लें पोट; (ल) सुटिल्ल्या पोटाचो मनीस; लठ्ठ बायल.

**धोरवाट** (स्त्री) गोरवांची रानांत चरूंक वचची-येंवची सवयेची वाट.

**धोरानु** (अ) धरून; सावन; थावन; पासून ह्या अर्थाचें कूस.

**धोलारो** (पु) झोंपाळो.

**धोसको** (वि) आरक्षीत; हजर नाशिल्ल्या खेळाडूचें वा वावराड्याचें काम करपी गडो वा कामदार.

**ध्यानीं मनीं नासप**–केन्नाच सुचलें ना जावप.

**ध्रुववृत्त** (न) ध्रुवासावन २३॥ अंशांचेर विषुववृत्ताक समांतर अशें पृथ्वीभोंवतणचें कल्पीत वलय वा वर्तूळ (सं).

**ध्वनीफीत** (स्त्री) आवाजाचो अभिलेख आशिल्ली संवेदनशील टेप (सं).

**न**–कोंकणी भाशेचें देवनागरी वर्णमाळेचें विसावें व्यंजन.

**नकर्तो** (पु) नाश करपी; ना करपी; स्वस्थ रावपी; सुस्त (मनीस) (सं).

**नकली** (वि) नक्कल करपी; कृत्रीम; अस्सल न्हय पूण अस्सलाभाशेन दिसता असो; विनोदी; विनोद करपी (अ).

**नकळप** (क्रिक) खबर नासप; कळना जावप. ह्या धातूचें प्रथम पुरुषी एकवचनी रूप 'नकळं' अशें जाता. दुसऱ्या आनी तिसऱ्या पुरुषाचें एकवचनी रूप 'नकळ' अशें जाता. सगळ्या पुरुषांचें भाववचनी रूप 'नकळत' अशें जाता.

**नकळ आसप, नकळ जावप** (क्रिक) अज्ञानी आसप; खबर नासप.

**नकाराधिकार** (पु) संयुक्त राष्ट्र सुरक्षा समितीच्या सभांत अमेरिका, ब्रिटन, फ्रान्स, रशिया आनी चीन ह्या राष्ट्रांक वहुमतान पास जाल्लो ठराव रद्द करपाचो विशेष अधिकार; व्हेटो; राष्ट्रसभेंत पास जाल्लें विधेयक अमलांत हाडूंक वा न हाडूंक अमेरिकेच्या अध्यक्षाक दिल्लो विशेष अधिकार.

**नक्कल** (स्त्री) मूळ वस्तूवेल्यान घडयल्ली दुसरी तसलीच वस्तू; विनोद; अस्सल न्हय अशी वस्त; हिणकस वस्त (अ).

**नगरांतर दूरध्वनी** (पु) ट्रंक टेलिफोन; एका गांवांतसावन दुसऱ्या गांवांत दूर-ध्वनी विनिमय केंद्राचे मजतीन केल्लो टेलिफोन.

**नग्नपण** (न), **नग्नताय, नग्नकाय** (स्त्री) नागडेपण; नागड्याची अवस्था (सं).

**नटप** (क्रिअ) सजप; सोंग करप; अभि-नय करप; फॅशन करप; निन्निडप (सं).

**नडप** (क्रिअ) वायटार पडप; अडप; अडचण जावप; नड जावप; त्रास जावप.

**नणंत** (पु) अनंताचें फुलझाड.

**नत्राम्ल** (पु) नायट्रिक ॲसिड; तेजाब.

**यरवन** (वि) अजागळ.
**द करुन** (क्रिवि) दणण करून (के).
**वभाषा** (स्त्री) गिरायकाक कळूं नये म्हणून दुकानांतले मालक आनी विक्रेते व्यापारी मांकेतीक भास उलयतात ती; गंगळमंगळ भास.
**पैंच** (वि) फरारी; नाच जाल्लो; गायब; परागंदा; ना नपश्यात.
**नभोवाणी** (स्त्री) अंतराळांतल्या ल्हारां-वेल्यान बिनतारी संदेश यंत्राचेर वेग-वेगळे कार्यक्रम वितरीत करपाची यंत्र-व्यवस्था; (सं).
**नमस्ते** – तुका नमस्कार आसूं (सं).
**नयन** (पु) दोळो (सं).
**नर** (स्त्री) संज्ञातंतू; नर्व्ह.
**नरतुरंग** (पु) ग्रीक पुराणांतलो मनशाचें मूख आनी बावळे आशिल्लो आनी सक-यली कूड घोड्याची आशिल्लो अजस्र प्राणी; नराश्व; Centaur (सं).
**नराधम** (पु) उणाक मनीस; नीच मनीस.
**नलिका लोहमार्ग** (पु) भुयारी रेल्वे; टयूब रेल्वे (लंडन); मेट्रो (पारीस).
**नल्यो** (पु) नेर; नडणी करून भायर उडवपाचें तण (का).
**नल्लाय** (स्त्री) बाळंत करपी गांवठी वैजीण (के).
**नव** (स्त्री) नाव; होडी (के).
**नवणि** (पु) जोनळो.
**नवधान** (न) वेगवेगळ्या णव धान्यांचें एकठांय केल्लें पीठ.
**नवनिर्मीत** (वि) नव्यान निर्मिल्लो (सं).
**नवम** (न) नाव; होडी (के).
**नवरुपी** (वि) पयलेच फावट वयांत येवपी; पयल्या विताची; नवरुपी झाड – पयलेच फावट फळपी झाड. नवरुपी गाय, नवरुपी माडी.
**नवलकाय** (स्त्री) नवलाय; अद्‌भूतकाय; अचर्य.
**नवलिका** (स्त्री) लांबसार नवलकाणी; ल्हान कादंबरी; कादंबरिका.
**नवविवाहीत** (वि) लगीन जावन चड दीस जांवक नाशिल्लो (सं).
**नवसारणी** (स्त्री) नव्यान सुधारणा करप; परतून नवें करप (सं).
**न वे** (क्रिअ) न्हय वे; न्हय; न्होय (के).
**नष्ट पाडवो** (पु) संवसार पाडव्या उप-रांतचो दीस; चैत्र शुद्ध द्वितिया.
**नसबंदी** (स्त्री) संततीनियमनाखातीर दादल्याची शुक्र धातूचें उत्सर्जन करपी शीर कापची वा बंद करची वैजकी शल्य-क्रिया; वॅसेक्टोमी.
**नसाय** (स्त्री) मत्सराचो दोष; नाका जावपाची इच्छा; नावड; हेवो.
**नळ** (पु) पोकळ तणाची एक जात (सं).
**नळकाम** (न) नळ बसवप, नळ जोडप आनी नळ-दुरुस्तीचें बी काम; प्लंबिंग.
**नळाचें वायट** (न) आंतड्यांचें दुखणें.
**नक्षत्रविद्या** (स्त्री) ज्योतिःशास्त्र; नक्षत्रां आणि ताऱ्यांचे माहितीचें शास्त्र.
**नक्षत्रां** (न) अंतराळांतल्या कांय ताऱ्यांचो ठरावीक आकृती दाखयता असो पुंजुलो. आकृतीवेल्यान आनी स्थानावेल्यान वळ-खूंक येतात अशे अठ्ठावीस पुंजुले. (१) अश्विनी, (२) भरणी, (३) कृत्तिका, (४) रोहिणी, (५) मृगशीर्ष, (६) आर्द्रा, (७) पुनर्वसू, (८) पुष्य, (९) आश्लेषा, (१०) मघा, (११) पूर्वा, (१२) उत्तरा, (१३) हस्त, (१४) चित्रा, (१५) स्वाती, (१६) विशाखा, (१७) अनुराधा, (१८) ज्येष्ठा, (१९) मूळ, (२०) पुर्वा-

षाढा, (२१) उत्तराषाढा, (२२) श्रवण, (२३) धनिष्ठा, (२४) शततारका, (२५) पुर्वाभाद्रपदा, (२६) उत्तराभाद्रपदा, (२७) रेवती आनी (२८) अभिजित्. संस्कृत भार्शेन उच्चारतात तशीं हीं नांवां. कोंकणींत कांय नक्षत्रांच्या नांवांचे उच्चार वेगळे करतात. देख : कातयो – कृत्तिका, रोयणी – रोहिणी, मीर्ग – मृगशीर्ष, आदो – आर्द्रा, मघो – मघा, चित्रो – चित्रा बी. ह्या कोशांत कोंकणी उच्चारांत हीं नक्षत्रां आनी तांची फोडणिशी दिल्या. रोहिणीसावन स्वातीमेरेनचीं नक्षत्रां पावसाचीं मानतात. कारण ह्या नक्षत्रांचें दशेंत सूर्य दिमता, त्या दिसांत कोंकणांत उणो अदीक पावस पडटा. बारा नक्षत्रांच्या नांवांची साधीत उतरां शालिवाहन आनी विक्रम शकांच्या म्हयन्यांच्या नांवांक दिल्यांत. देख : चित्रा – चैत्र, विशाखा – वैशाख, ज्येष्ठा – ज्यैष्ठ, पूर्वाषाढा – आषाढ, श्रवण – श्रावण, पूर्वाभाद्रपदा – भाद्रपद, अश्विनी – आश्वीन, कृत्तिका – कार्तीक, मृगशीर्ष – मार्गशीर्ष, पुष्य – पौष, मघा – माघ, उत्तराफाल्गुनी – फाल्गून.

**ना** (क्रिअ) नकारार्थी सहायक क्रियापद. हें उतर क्रियापदाक जोडून येता आनी क्रियापदाक नकारी अर्थ दिता. म्हळयार मुख्य क्रियापदाच्या उतराचे विरुद्ध अर्थ दिता. देख : करता – करिना, धांवता – धांवना, गेलो – गेलो ना, वतलो – वचचो ना. नकारार्थी क्रियापदाचे आदीं ना हें उतर घालून नकारार्थी क्रियापदाच्या अर्थाक जोर दितात. देख : ना करिना; ना वचना; गेलो ना, ना; ना, वचचो ना. प्रस्नार्थी वाक्यांत क्रियापदाच्या उतराच्या विरुद्ध अर्थ करपाक, ना हें उतर वापर तात. देख : गेला काय ना ? वता काय ना ? करतलो काय ना ?

**नाक, नाख** (न) स्वासोस्वासाचें आनी वास घेवपाचें इंद्रीय (प्रा); (ल) अब्रू; मान; प्रतिष्ठा.

**नाक-कातरो** (वि) (ल) लज नाशिल्लो; निलाजरो.

**नाकर्तेपण** (न) कांय काम न करपाची वृत्ती; निष्क्रीयता (सं).

**नाकर्तो** (पु) काम करपाचें टाळपी; (वि) निष्क्रीय आनी निराशावादी (सं).

**नाकशिबरो** (वि) सदांकाळ नाकांत शेंबूड आसपी; गलिच्छ; अब्रू नाशिल्लो; योग्यताय आनी कारण नासताना लोक उलय तात तांतूंत तोंड घालपी; निलाजरो.

**नाका जाल्लो** (वि) गरज नाशिल्लो; करूंक सोबना असलो.

**नाकार** (पु) नकार; न्हयकार; न म्हणप; ना-कबुली (सं).

**नाख खायरो** (वि) निलाजरो; मान मर्याद नाशिल्लो;

**नाखशिमरो** (वि) नाखांतलो शेंबूड पुस पाची धंग नाशिल्लो; गलिच्छ.

**नाखाक चिमटी लावप** – नपकीर ओडप; पूड ओडप.

**नागर** (वि) नगरासंबंदीं; नगरांत रावपी; अपभ्रंश भाशेची एक मोडः नागर अपभ्रंश (सं).

**नागर भास** (स्त्री) सभ्य लोकांच्या उल्लोवपा-बरोवपाची शैली; नगरांत रावपी लोकांची भास.

**नागर पंचमि** (स्त्री) नागपंचम (के).

**नाटीतुटी, नाटतूट** (स्त्री) मुळांत नामप आनी आसलेय तर ते पावना जावपाची

वस्था.

ाणें (न) खरेदेविक्रेचें कायदेशीर ाध्यम म्हणून सरकारी शिक्क्याची ारायल्ल्या मोलाची वांटकुळी वा ठरा-ीक आकाराची आनी वजनाची धातूची कती (सं).

**ातनो** (पु) नासणो.

**ातिल्लो** (वि) नाशिल्लो (के).

**ादान** (वि) नालायक; मुर्दाड; अज्ञानी; डाणी (फा).

**ादानी** (स्त्री) नालायकी; मुर्दाडपण; अडाणीपण (फा).

**नाना परिवाद्यां** (न) तरांतरांचीं वाजंत्रां (के) (सं).

**नामकरण** (न) नांव दवरपाचो सुवाळो; बारसो (सं).

**नायक** (पु) मुखेली; अधिपती; म्हाल-गडो; सरकारी हुद्दो; सैन्यांतलो हुद्दो; एक आडनांव; कालो वा जात्रेंतले बाळ-क्रिडेंतलो सूत्रधार; नाटकांतलें, कादंबरें-तलें, कथेंतलें वा काव्यांतलें मुख्य पात्र; जाची कथा सांगतात तो (सं).

**नायतुळशी** (स्त्री) रानतुळस.

**नार** (पु) काथ्याचो तंतू (का).

**नारनी** (स्त्री) नारी; बायल मनीस (के).

**नाराड** (वि) काथ्याचो (का).

**नारो** (पु) घोषणा (हिं); नारायण ह्या नांवाचें संक्षिप्त रूप.

**नार्कोटीक** (न) न्हीद, मादांद आनी प्रसंगीं मनशाचेर मरण ओडून घेवपी अमली पदार्थ (इं).

**नालकी** (स्त्री) बारा भोयांची पालखी; राजाची वा राजपुरुषाची पालखी.

**नावीक मैल** (पु) समुद्रांत तारवां भोंव-तात तांचें मैलाचें माप; जमनीवेल्या १.१५१ मैलाचें अंतर वा १.८५३ किलो-मिटराचें अंतर; नॉटिकल मायल.

**नाळू** (पु) नाड; देश (का).

**निकोटीन** (न) तंबाकूंतलें कैफ हाडपी द्रव्य (इं).

**निखणदार** (पु) गावड्याच्या जागरांतलो पाटील.

**निगळयो** (वि) शुद्धाचरणी; खरेपणान वागपी; संयमी (मनीस); एक आडनांव (का).

**निगळाय** (स्त्री) शुद्ध आचरण; खरे-पणाची वर्तणूक; संयम (का).

**निग्रहु** (पु) नियंत्रण; शासन; ख्यास्त.

**निजायकी** (क्रिवि) सहज; सभावीक-पणान.

**नितंबसंधी** (पु) कमरेच्या हाडांचो सांधो.

**नितांत** (वि) अतिशय; अत्यंत; अत्यंतीक; सुमाराभायलो; चड (सं).

**निदेशन** (न) संचालन; नेतृत्व; दिग्दर्शन.

**निपल** (पु) भायल्यान आटे आशिल्लो, भितल्ल्यान आटे आशिल्ल्या दोन नळांक जोडूंक उपकरता असो नळाचो कुडको (इं).

**निपांत** (वि) निवांत (के).

**निंवप** (क्रिअ) आदारप; अवलंबप.

**निंबुवो** (पु) लिंबू; निंबू.

**निबोवप** (क्रिक) घट्ट करप (के).

**निब्ब** (न) निमीत (के).

**निबेल** (न) भूयमुगांचें तेल.

**निभृत** (वि) धांकतो; व्यंजनासारको (उच्चार) (सं).

**निभ्रांत** (वि) निर्भय; धीट; निर्धास्त.

**निमसो** (पु) रातचें उदकांतलें नुसतें उजवाडान दिपकावन ताचेर मारतात ती लांब सुरी.

**निमाणो व्रेस्तार** (पु) क्रिस्त· स्वाम्याच्या

निमाण्या जेवणाचो ब्रेस्तार; मॉंडी थर्स्डे.

**निमाणो सुक्रार** (पु) क्रिस्त स्वाम्यान कष्ट सोंसले तो सुक्रार; गुड फ्रायडे.

**निमुष** (न) खीण (के).

**नियतकाळ स्फोटक गुळो** (पु) थारायल्ल्या वेळार स्फोट जावपी बॉंब गुळो; टायम बॉंब.

**निरखण** (न) निरीक्षण; नियाळ; बारीकसाणीन पळवप (सं).

**निरडप** (क्रिअ) निष्णात जावप; फिशाल जावप; कुशळ जावप.

**निरर्थकाय**, **निरर्थताय** (स्त्री) अर्थ नाशिल्ली अवस्ता; उपयोग नाशिल्ली अवस्ता (सं).

**निरस्तित्व** (वि) अस्तित्व नाशिल्लो; निखटे कल्पनेंतलो; अमूर्त (सं).

**निरासक्त** (वि) भोगूंची इच्छा नासल्लो; विरक्त; वान्सा नाशिल्लो (सं).

**निरासक्ती** (स्त्री) भोगूंची नावड; निरिच्छा; विरक्ती; अनिच्छा (सं),

**निरोध** (पु) संततीनियमनाचें सरकारी वखद (सं).

**निर्गमन** (न) मोठचा लोकसमुदायाचें दूर देशाक कायमचें प्रयाण; सामुहीक देशत्याग; एक्सोडस; पोन्न्या करारांतलो एक देशत्यागाचो घडिचार (सं).

**निर्द्रव** (वि) पुरांय सुको (सं).

**निर्धुळी करप** (क्रिक) धूळधाण करप; मारून उडवप.

**निर्नामक** (वि) निनांवी; नांव नाशिल्लो; नांवाचो उल्लेख नाशिल्लो (सं).

**निर्बल** (वि) दुबळो; निःशक्त; निर्बळी; अशक्त (सं).

**निर्भयकाय** (स्त्री) शूरपण; धिटाय; धैर्य (सं).

**निर्मत्सर, निर्मत्सरी** (वि) मत्सर करिनाशिल्लो; (दुसऱ्याकडे) तरे धरिनाशिल्लो (सं).

**निर्वाह भविष्य-निधी** (पु) नोकरीच्या पगारांतली दर म्हयन्याक मालकान सांठावन दवरचेली रक्कम. नोकरान नोकरी सोडटकच वा बसपगारी जिणेंत निर्वाह करूंक मेळचो म्हणून दवरिल्लो दुडू (सं); प्रॉव्हिडंट फंड.

**निर्विवाद्य** (वि) वाद घालून सिद्ध करपाची गरज नाशिल्लो; सिद्ध जाल्लो; निर्विवाद (सं).

**निर्व्याज** (वि) निष्कपट; निर्दोष; निर्मळ (सं).

**निर्हेतूक** (वि) हेतू नाशिल्लो; सुवार्थ नाशिल्लो; मुद्दाम करूंक नाशिल्लो (सं).

**निववप** (क्रिक) निवत अशें करप; थंड जायत अशें करप.

**निवासी** (वि) वसतेक रांवची व्यवस्था आशिल्लें. निवासी विद्यालय, निवासी विद्यापीठ (सं).

**निशाण** (न) रणवाद्य; रणधोल (अप).

**निशीथ** (स्त्री) रात्र (१६१६).

**निःशेष** (वि) बाकी दवरिनासतना; फाटीं कांयएक उरनासतना (गेल्लो, ना जाल्लो) (सं).

**निश्कुचार** (पु) मत्सर; हेवो.

**निश्चय-तांबूल** (पु) वाङ्‌निश्चय; लग्नाची सोयरीक नक्की करप; साकरपुडो (सं).

**निष्क्रमण** (न) गमन; वचप; प्रयाण.

**निष्पक्ष** (वि) पक्षपात नाशिल्लो; दोन विरुद्ध पक्षांमदीं कोणाय एकाची बाजू धरून कारण नासतना समर्थन करिना असो (सं).

**निष्पक्षपाती** (वि) सगळयांकडेन समान

दरेन वागपी; पक्षपात न करपी (सं).
:संकोच, निःसंकोचपणान (क्रिवि) भीड र्याद धरिनासतना; मेकळेपणान; नःसंशय.
नःसंदिग्ध (क्रिवि) स्पष्ट; उकतो; कळो; घुस्पागदळ करिनासतना; मोघम हय असो (सं).
नेसर्गरम्य (वि) जंय नीज सुंदर आसा शे (स्थळ, प्रदेश, गांव, बी), सोबीत नजाचो (सं).
नेस्कळ (वि) निर्मळ; निरपराधी (सं).
निस्तावप (क्रिक) (शिजिल्ल्या शितां-नलो निवळ) वाळून काडप; द्रावाचें मिश्रण थारावन तांतलो वयर निस्तेल्लो पातळ द्राव वोतून काडप.
निस्यंदक कागद (पु) द्राव गाळपाचो कागद.
निहारिका (स्त्री) नक्षत्रांची पंगत (सं).
निहाळप (क्रिक) नियाळप; तपासप; सारसरांव घेवप.
निक्षेप (पु) प्रेत पुरपाचो धर्मीक विधी.
नीलमणी (पु) निळ्या केंपाचो खडो; इंद्रनील रत्न; हो खडो वज्राइतलो घट्ट नासलो तरी पारदर्शक आसता आनी महज झरपाइतलो मोव नासता (सं).
नीळ (पु) सगळें आंग काळें आसता अशे जातीचो वानर; रामायणांत रामाच्या वानर सैन्यांतलो एक शूर वीर (सं).
नुतो (क्रिवि) ओगो (के).
नुलोवपी (वि) थोडें उलोवपी; भिडेस्त सभावाचो.
नृपाळ (पु) राजा (सं).
नेगप (क्रिक) जळप.
नेगलमुळ्ळू (न) कांटेगोखरू.
नेज (स्त्री) भाताचो थांब (तुळू).
नेटप (क्रिक) सोबवप; सजवप; सुंदर करप (का).
नेटवप (क्रिक) सजगवप.
नेटोणी (स्त्री) वस्त; दागिनो; अळंकार (का).
नेणट्वाय (स्त्री) अजाणपण; न कळटे-पण; अज्ञान.
नेत्रदिपक (वि) दोळे दिपकावपी; चड पर्जळीत; चकचकीत (सं).
नेत्रिका (स्त्री) दोळ्यामुखार आशिल्ल्या देखाव्याची दोळ्याच्या पड्द्यावेली प्रतिमा स्पष्ट आनी ल्हान व्हड करून जुळवपी दोळ्यांतलो पारदर्शक भाग(सं).
नेमणूक (स्त्री) कामाक लावपाची क्रिया; नोकरेची जापसालदारकी दिवपाचो वावर.
नेम नासप — खात्री नासप; नक्की नासप; निश्चीतकाय नासप.
नेमप (क्रिक) कामाक लावप; नेमणूक करप; कामाची जापसालदारकी दिवप.
नेमिनाथ (पु) जैनांचो बाविसावो तिर्थंकर.
नेर (पु) शेतांतलें नाका जाल्लें तण; नडून उडोवपाचें तण; नल्यो.
नेरुले (पु) धव्यो बारीक बारदेशी चवळ्यो.
नेर्वां, नेर्वांचें (न) संज्ञातंतू भेरेवपाची व्याधी; हिस्टेरिया (पु).
नेलो (क्रिक) व्हेलो (के).
नेवन (न) निमीत.
नेवळा पोड (पु) घागराळ्याचो पोड (के).
नेहरू शर्ट (पु) जवाहरलाल नेहरू घाल-ताले तसले पद्धतीचो अर्यां जांगांमेरेन पावपी दोन हातांकडेन बॉल्सां आशिल्लो सैल सदरो. हो शर्ट नेहरू वापरताले म्हणून लोकप्रीय जालो.

**नैमिषीक, निमिषीक** (वि) खिणयाळो.
**नोणचें** (न) लोणचें; अचार (के).
**नोबेल पारितोषीक** (न) शरीरशास्त्र, पदार्थविज्ञान, रसायणशास्त्र, वैद्यकशास्त्र, वाङ्मय, अर्थशास्त्र आनी जागतीक शांतताय ह्या सात क्षेत्रांत आपल्या अभ्यासान आनी संशोधनान असामान्य कर्तुपकाय दाखवपी लोकांक नोबेल नांवाच्या एका श्रीमान स्विडीश गृहस्थान स्थापिल्ली नांवादीक संस्था दिता तें प्रसिद्ध वर्सुकें बक्षीस.
**नोमियार करप** (क्रिक) नेमप; नेमणूक करप (पु).
**नोमियासांव** (न) नेमणूक (पु).
**नौकाघर** (न) होडयेंत पर्यटकांखातीर बांदिल्लें ल्हान घर.
**नौवाहन** (न) तारवांनीं माल आनी प्रवासी हाडपा-व्हरपाचो धंदो (सं).
**न्याय** (पु) नितीक आनी कायद्याक धरून केल्लो निवाडो; दृष्टांत; प्रसिद्ध गजालीची ओपार; संकेताची ओपार; देख: काकतालीय न्याय, हंसक्षीरन्याय बी. न्यायाक नितीचें बळ; अन्यायाक धुमक्यांचें बळ.
**न्युमॅटिक्स** (न) हवेच्या दाबाच्या नेटान करचेल्या वावराचें शास्त्र (इं).
**न्युमॅटीक टायर** (पु) हवा भरून चाकाभोंवतणी बसयतात असो रबरी टायर (इं).
**न्युरॉटीक** (वि) मनाचेर सतत भंयाचें दडपण आशिल्लो (इं).
**न्युरॉसीस** (स्त्री) मनाक सतत कसलें तरी भंय दिसपाची व्याधी (इं).
**न्यून अनुमान** (न) उणे जाल्लें वा चुकिल्लें अनुमान; थारायल्ल्या वावराक उणी पडिल्ली रक्कम.
**न्यूनत्व** (न), **न्यूनताय,** उणाय (स्त्री) उणेपण (सं).
**न्हपयत** (अ) 'मागीर ना' ह्या अर्थाचें न पश्चात् ह्या संस्कृत उतरांचें भ्रष्टें रूप. मूळ 'ना न पश्चात्' ह्या वाक्प्रचारांतल्यान 'ना न्हपयत' वा 'ना न पश्यात्' असो कोंकणींत वाक्प्रचार जालो. अर्थ – 'ना, केन्नाच ना, मागीर ना.'
**न्हय जाल्लो, नाका जाल्लो** (वि) अयोग्य; अनुचीत; सोबना असो
**न्हाल्ल्या दिसांची** (वि) गुरवारीण.
**न्हावण** (न) तीर्थ (प्रा).
**न्हिदवप** (क्रिक) न्हिदूंक लावप.
**न्हिदावप** (क्रिक) न्हिदंवक लावप.
**न्हेवाळें** (न) घागरपाट; घागराळें.
**न्हेसवण** (न) न्हेसण (के).

**प**—कोंकणी भाशेचे देवनगरी वर्णमाळेचें एकविसावें व्यंजन.
**पकासो** (पु) तराफो; होडी नासतकच उदकांतल्यान पलतडी वचूंक फळयो जोडून केल्लो माच (का).
**पगाण, पागांव** (वि) धर्मलंड; विधर्मी; नास्तीक; खोटया देवांक भजपी (पु).
**पगोडो** (पु) चण्याचें पीठ, तांदळांचें पीठ हांचें कांद्याचें तिखशें तळिल्लें भजें.
**पचकटो, पोसकटो** (पु) फुगयल्लो रबरी फुगो.
**पंचड** (वि) साडेपांच (के).
**पचडी** (स्त्री) कुसपर; करम; कोंचणी (का).
**पंचबाण** (पु) कामदेवाचे पांच विकार:

...रण, शोषण, तापन, मोहन आनी ...न्मादन (अप).

**...चांग** (न) दिनदर्शिका. भारतांत ग्रेगो...रियन (रोमन), मुसलमानी, बौद्ध, विक्रम ...वत्, शालिवाहन शक आनी बंगाली बी ...चांगां चलतात. भारत सरकारान २२ ...ार्च १९५७ सावन सौर पंचांग चालू ...लें. बावीस मार्चसावन चैत्र म्हयन्याक ...रवात जाता, निमाण्या ५ म्हयन्यांचे ...त्येकी ३१ दीस धरतात. चैत्र ते आश्वीन ...च्या म्हयन्यांचे प्रत्येकी ३० दीस धरतात. ...ीप वरसांत चैत्र म्हयन्याचे ३१ दीस ...रतात. लीप वर्सांत २१ मार्चाक ३१ ...दसांचो चैत्र म्हयनो सुरू जाता. ह्या ...भारतीय शकांत चडीत म्हयन्याची गरज ...लागना.

**पंचलवी** (वि) पांच धातूंचो केल्लो; पंच...लोह (पांच धातूंचें मिश्रण) धातूचो (सं).

**पंचाल** (पु) पांचाळ; पंजाब देश (अप).

**पंचिष्ट दैवत** (न) मुखेल दैवताचें परिवार दैवत. श्रीलक्ष्मीनारायण, श्रीगणपती, श्रीभगवती, श्रीसोनाळ-भैरव आनी श्रीग्राम पुरूष हीं कवळेंचे शांतादुर्गेचीं पंचिष्ट दैवतां.

**पंचीपितीन** (न) बी १२ म्हणून वळखतात तें जिवनसत्व; सोडियम मेटाबायसल्फेट आनी फॉलीक अम्लाचें लोखंड.

**पच्छत्तापप** (क्रिक) पच्छताप जावप.

**पंच्याण्णोव** (वि) पंच्याण्णवद; ९५.

**पंजीकरण** (न) नोंदणी; रजीस्त करप.

**पंजू, पोंजू** (पु) मशाल (के).

**पटवर्धन** (पु) सार्वभौम राजा; एक आडनांव (सं).

**पट** (पु) इस्पिकांनीं खेळटात तो जुगार.

**पटळि** (स्त्री) पोटली (के).

**पटेकार** (पु) कमरेक पटो बांदून कार्यालयांत वावुरपी शिपाय; (ल) बातां मारपी; थापाडो.

**पटे मारप** (क्रिक) (ल) तालां सोडप; बातां मारप; फटी मारप.

**पटो, पट्टो** (पु) (ल) मोनो मनीस; वेगान वावुडपाची लांब सरळ दुधारी तरसाद. जिबेचो पटो चलवप – सुमाराभायर उलोवप.

**पड** (स्त्री) मंदी; उदासीनताय.

**पडदणी** (स्त्री) न्हेसुंचें वस्त्र (अप).

**पडप** (क्रिअ) जावप (आजारी पडप, शीक पडप, प्रभाव पडप, छाप पडप); गोंदळप (घोळाक पडप); त्रासांत पडप – घोळाक पडप; वरे भाशेन घडप (पार पडप – लग्न, सुवाळो, नाटक पार पडप); यशाक पावप (पार पडप); लागू जावप (रोगार वरें पडप); नादाक लागप, मोहांत पडप (नायकिणीक पडप); मेवणेक पडला – मेवणेक लागू जाला; मेवणेच्या नादाक लागला – मेवणेकडेन शिंदळकी करता; सपनेवप (सपन पडप, न्हिदांतल्यान वडबडत वा आड्डत जागो जावप); बऱ्याक पडप – हीत जावप; फायदो जावप, कल्याण जावप; बेयमान जावप (म्हजेर पडला – म्हजेलागीं पडमूर जाला); आसप (वोत पडलां, चान्नें पडलां, शीं पडलां, काळवाण पडल्या, तोंड पडलें – तोंड उतरलें, तोंड वांकडें जालें. पोट पडप – पोटाक भूक लागून पोट फाटीक लागप. थारायल्लें आसप (परिक्षा धा तारखेक पडटा, पयली तारीख सोमारा दिसा पडटा); अवस्थेंत वचप (न्हीद पडप; वायटांत पडप – आजारी जावप. वायटार पडप – लुसकान जावप.

शिर पडप – उपकारा पडप. वागरें पडप – वागाक पळोवन मनाक धक्को बसप. आजारी पडप, हातरुणार पडप – (ल) आजारी जावप. आंगार पडप – कारण नासतना दुसऱ्याक दोष दिवप. टिकण पडप – टिकण वांटचाक येवप. नाटक पडप – नाटक बरें जालें ना म्हणून लुस-कानाक पडप. नुसतें बरें पडलां – खूब नुसतें मेळ्ळें. वाटेर पडप – (ल) फुकट मेळप, पैशे खर्चिल्याबगर मेळप. पथ्यार पडप – बऱ्याक पडप, फायदो जावप. बेकार पडप – कामधंदो नासप, रिकामो आसप. गुणाक पडप – वखदान गूण येवप.

**पडवळीण** (स्त्री) पडवळयाचो बेल.

**पडील** (वि) पडींग; रोंवक नाशिल्ली (जमीन).

**पड्डूळ** (न) पडवळें.

**पण** (पु) कुशाण राजांचें तांब्याचें प्राचीन नाणें. हाचें वजन २६० ग्रेन.

**पणजीर** (स्त्री) पश्चीम दिशा (के).

**पणटी** (स्त्री) तोंकदार वाटयेच्या आकाराचो मातयेचो तेल आनी वात घालून पेटवपाचो ल्हान दिवो.

**पणतूर** (न) पणटूर (के).

**पतंग** (पु) उजवाडाच्या आकर्षणान दिव्यार वा उज्यांत पडून मरपी उडटो किडो.

**पतरो** (वि) पचपंचीत उलोवपी; अर्थ-हीन बडबड करपी.

**पतन** (न) पडपाची क्रिया; पडपाचो घडिचार; उणाक दशेक पांवची अवस्था; सद्गूण, संपत्ती, सत्ता बी व्हगडावपाची अवस्था; अधोगती; उंच जाग्यावेल्यान सकल पडप (सं).

**पतीतपरावर्तन** (न) पापी मनशाक आपल्या पापाचो पश्चात्ताप जालो तर ताका शुद्ध करून घेवपाचो धर्मसंस्कार.

**पथरेल, फातरेल** (न) घासलेट; पेत्रोल; मातये तेल.

**पथिकाश्रम** (पु) प्रवाशांखातीर गांवचें घर; प्रवाशांखातीर वसतीघर आनी खानावळ (सं).

**पथीक** (वि) जेवणाखाणाचेर संयम दवरपी; वायटकाराचें आरोग्य सुधारचे-खातीर जेवणाखाणाचेर निर्बंध घाल्लो असो; पथ्यकारक; पथाचें; (पु) प्रवासी (सं).

**पथीक उदकावाऱ्याचें** (वि) सौम्य हवा-मानाचें; आरोग्याक बरें पडटा अशा उदकाचें आनी समशितोष्ण हवेचें.

**पथ्यकारी, पथ्यकारक** (वि) जेवणा-खाणांत तेल, तूप, आमटाण, तिखमाण, मसाले बी वापरूंक नाशिल्ली (वस्त).

**पद** (न) पांवल; उतर; शब्द; स्थान; अधिकार. राजपद – राजाचो अधिकार वा राजसत्ता. मंत्रीपद – मंत्र्याचो अधि-कार वा नोकरी. ब्रह्मपद – ब्रह्मांत एक-रूप जावप, ब्रह्म जावप. मोक्षपद – मोक्षप्राप्ती; जिवनमरणाच्या त्रासांतल्यान सुटका. संवसाराच्या त्रासांतल्यान सुटका. आचार्यपद – गुरूचें स्थान. इंद्रपद – स्वर्गाच्या राज्याच्या राजपदाचो अधिकार. मातृपद – आवयचें स्थान वा नातें. राणी-पद – राणयेचो दबाजो. देवपद – देवत्व, देवरूप (सं).

**पदपथ** (पु) मनशांनी चलपाची रस्त्याचे देगेक बांदिल्ली वाट; फूटपाथ.

**पदविका** (स्त्री) डिप्लोमा.

**पदे पदे** (क्रिवि) भोवन भोवन; पावला गणखणी; पदोपदीं (सं).

**पयटंक** (पु) कदंब आनी यादव राजांचीं भागराचीं नाणीं.

**पधारप** (क्रिअ) पावप.

**पनवत** (स्त्री) अवदिसा; दुर्दशा; वायट ग्रहदशा.

**पनवार** (वि) पांच जिनसी; पांच तरांचो; (पु) देवाक फळांचे कुडके भरशिल्लो निवेद्य.

**पनामा हॅट** (स्त्री) दाट उंची लोंकरी लुगटाचें घडी करूं येता अशें चेपें; फेल्ट हॅट (इं).

**पंपा करप** (क्रिअ) पळप; पळून वचप; पपा काडप.

**पयंजळ** (न) पांयजण (के).

**पयरेकार** (पु) पयऱ्यान वा आळीपाळीन वावर करपी; थारायल्ले पाळयेक वावुरपी; पयऱ्यान जाका हिंवाचो जोर येवन वेता असो वायटकार.

**पयरो** (पु) पयऱ्यान येवपी जोर; पाळी; थारायल्ली फावट.

**पर्याशिलो** (वि) दूरचो; पैस आशिल्लो; लांबचो.

**पर्याशिल्यान नियंत्रण** (न) फिरते वस्तूचे, वाहनाचे, विमानाचे वा अस्त्राचें दूरसावन नियंत्रण करपाची क्रिया; रिमोट कंट्रोल अशें इंग्रजी उतर.

**पयोधि** (पु) दुदाचो सागर; क्षीरसागर.

**पर** (न) पीस; पांखांचो तंतू; पांखांचें तूस (फा).

**परकाळो** (पु) सवळचांनी न्हेसपाचें उंची वस्त्र; मुकटो; कद.

**परकिष्टु** (वि) अद्भूत; अनवळखी; परकी; चमत्कारांचो (के).

**परणो** (वि) पोरनो (के).

**परंतूक** (पु) वाक्याचो वा नियमाचो एकजिनसी कुडको; पोटनियम (सं).

**परतवजें** (न) नातेबर्गियांगेर धाडिल्लें भेटेचें आयदन वा वजें परतें धाडटासतना भितर कांय वस्तू घालतात तें वजें. भेटेचें आयदन रिकामें धाडिनात.

**परतो** (अ) दर एकाक; पट्टो; गणखणी ह्या अर्थाचें कूस (के).

**परधार्जिणेपण** (न) कारण नासतना दुसऱ्याचो फायदो करपाची वृत्ती.

**परधार्जिणो** (वि) सुमाराभायर लोकांच्या उपयोगी पडपी.

**परनो** (वि) पोरनो (के).

**परप्रत्ययनेय** बुद्धी (स्त्री) दुसऱ्याच्या अणभवाचेर आदारिल्ली बुद्द; दुसऱ्यान सांगिल्ल्याप्रमाण आयकून तशें वागपाची वृत्ती (सं).

**परमान्न** (न) पक्कान्न; परखन्न; गोडशें.

**परमोळ** (पु) परमळ; सुवास (के).

**परराष्ट्र धोरण** (न) परकीय राष्ट्रांलागी राजकीय वेव्हार करपाची वृत्ती; खंच्या राष्ट्रालागीं आपल्या शासनान कशे तरेन वागचें हें थारावप.

**परराष्ट्रमंत्री** (पु) आपल्या राष्ट्राचे वतीन परराष्ट्रांकडे वेव्हारांचें धोरण थारावपी आनी तें धोरण अमलांत हाडपी मंत्र्याच्या पांवड्याचो राजकारणी फुडारी.

**परवल (पु), परवलीचें उतर** (न) संकेत; खुणेचें उतर (फ्रें).

**परवांचे दीस, परवांचे दीसा** (क्रिवि) पैर; पैरच्या दिसा.

**परवांचो दीस** (पु) परांचो दीस; फाल्यांच्या उप्रांतचो दीस.

**परशासीत** (वि) परक्यांचे राजवटींतलो (नागरीक); परतंत्र (सं).

**परसप** (क्रिक) जाणप; कळप; लक्षांत

येवप (सं).

**परसूख** (न) दुसरो भोगता तें सूख (सं).

**परस्परपूरक** (वि) एकामेकांक मजत करपी (सं).

**परस्पर स्थानबदल** (पु) एकामेकांचो जागो घेवप; एकामेकांच्या जाग्यार रावप.

**परळ** (स्त्री) थाळी; ताट (अप).

**परागती** (स्त्री) फाटीं वचप; अधोगती; पुच्छप्रगती (सं).

**परान** (अ) मेरेन; पर्यान (के).

**परान्न** (न) दुसऱ्याचें अन्न; दुसऱ्यागेर रांदिल्लें अन्न; दुसऱ्याले थंय पावणेचाराचें जेवण (सं).

**परारुं** (क्रिवि) पेल्या वर्सा (के).

**परावर्तक** (पु) परतून धाडपी; उजवाडाचे किरण परतून धाडपी कांच; रिफ्लेक्टर; चलते गाडयेक फाटल्यान बसयल्ली रंगीत उजवाड दाखोवपी कांच.

**परिघ**, **परिष** (पु) लोखंडी आडांबो वा कांब (के).

**परिमस्तिष्क जोर** (पु) मेंदूक जोर येवन तो निरूपयोगी जाता वा रोगी मरता असो सांथीचो रोग; मेनिंजायटीस (सं).

**परिचयपट** (पु) बोलपटाची थोडयाभितर माहिती करून दिवपी म्हदल्या म्हदल्या आकर्षक देखाव्यांचो आनी प्रसंगांचो चित्रपट; चौचौ (सं).

**परिवहन** (न) वाहनां वा गाडयो चलोंवचो वावरधंदो; भाडयान माल आनी प्रवासी हाडपा व्हरपाचो धंदो करपी संस्था (सं).

**परिशिष्ट** (न) उरिल्लो वांटो; जोडिल्लो भाग; उपसंहार (सं).

**परिशोधन** (न) संशोधन; पुराय शुद्धीकरण (के).

**परी** (स्त्री) प्रकार; तरा.

**नानापरी** (स्त्री) तरेकतरा.

**परूं** (क्रिवि) पोरूं; गेल्या वर्सा (के).

**परोपकारी** (वि) दुसऱ्याचेर उपकार करपी; दुसऱ्याक उपकारा पडपी (सं).

**पर्यावरणशास्त्र** (न) निसर्गाच्या, वाठाराच्या वेगळच्या वेगळच्या जिनसांत म्हळचार दोंगर, रान, न्हंय, उदक, वनस्पती, रानांतले प्राणी, गांवांतली वसती हांची सुसंगती राखपाचें शास्त्र. रान मारल्यार पावस पडना, बेडकांक उदकांतले काडून उडयल्यार उदक निवळ उरना ह्यो बारिकसाणी शिकयता ती विद्या; निज, हवा, वनस्पत, उदक, प्राणी, मनीसवसती हांचेमदी समतोल राखपाचें शास्त्र (सं).

**पर्वा** (स्त्री) आस्था; कळकळ (फा).

**पलंग** (पु) न्हिदपाची सोबीन वाज (का).

**पलंगण** (न) ताठ; तवकडी; ट्रे (पु).

**पलटप** (क्रिअ) परतप; उरफाटें वशीन फुडें करप.

**पलाण** (पु) घोडो, हत्ती, उंट बी राजदळांतल्या वाहनांचो साज (अप).

**पलायन** (न) पळप; पळ; फुजी; पळपाची क्रिया (सं).

**पलितो** (पु) पेटिल्ली चूड वा दिवटी (अप).

**पल्लो** (पु) म्हातारपणाखातीर करून दवरिल्ली व्यवस्था; निग्रम; सोय; पावसा दिसांखातीर करून दवरिल्लो पुरुमेंत; काजूचे कारखानदार पावसादिसांनी सोलतले म्हणून गुदांवांत दवरतात ती काजूची रास.

**पवमान** (पु) ऋग्वेदांतलो सोमसुक्तांचो पाठ; वायुदेव; सोमरस (सं).

**पशी** (अ) परस; पसी; हून; कय;

कूय हृया अर्थाचें पांचवे विभक्तेचें कूस. ताचे पशी, ताजे परस, ताज्याकय, त्याहून.

**पश्चिमी देस** (पु) युरोप खंडांतले देस; अमेरिका खंड; पश्चिम युरोपांतले देश.

**पसय** (स्त्री) संधीप्रकाश; सूर्य मावळटकच कांय वेळ दिसता तो उजवाड; अनुक्रिया; झंकार; सया.

**पसरां** (न) गायो, बैल, म्हशी, रेडे हांकां दवरिल्लें भौशीक नांव.

**पसवप** (क्रिअ) पुष्ट जावप; भरून येवन; शक्ती येवप.

**पसावत** (अ) पासत; खातीर (के).

**पहलवी** (स्त्री) इराणी लोकांची एक प्राचीन भास; पारशी लोकांच्या धर्मशास्त्राची भास.

**पहांटप** (क्रिअ) पहांट जावप; फांतोड जावप; फालेवप.

**पहाळप** (क्रिअ) फालेवप; पहाटप; फांतोड जावप.

**पळकुरो** (पु) पळून वचपी; पळपुटो.

**पळापळ** (स्त्री) खूब लोकाची आकांताच्या वेळची दानाधिस्पट; धांवाधांव; धांवपळ.

**पळेरवडी** (स्त्री) चण्याचे दाळीचें, चून, तिखशें बी घालून तळिल्लें काप.

**पळ्ळें** (न) पाळणें (के).

**पळेर** (स्त्री) प्लेट; बशी (के).

**पक्षाक** (क्रिवि) अवस्तेंत, अर्थात; मानलें जाल्यार; मतान. हृया पक्षाक – अशें मानल्यार. त्या पक्षाक – ते बाजून पळेल्यार. ज्या पक्षाक– ज्या कारणाक लागून. त्या पक्षाक – त्या कारणाखातीर.

**पक्षे** (अ) पूण; परंत (मल्याळम्).

**पाकी** (पु) पतंग (के).

**पाकूळि** (स्त्री) पाकळी; दळ (के).

**पांकूळि** (स्त्री) पांखाटो (के).

**पाको** (पु) पाखो; वटवाघूळ (के).

**पाक्की** (स्त्री) पिसोळें (के).

**पाखाडी** (स्त्री) पिछाडी; फाटलो भाग.

**पागण** (न) नुसतें पागचेलें जाळें.

**पागार** (न) प्राकार; दुरीग; दुरगाभितल्लो जागो; कंपाउंडाची वणत (का).

**पांगेरो** (पु) पांगारो.

**पांचजन्य** (पु) कृष्ण भगवानाच्या हातांतल्या शंखाचें नांव; (ल) बोब (सं).

**पांचवी पेंड** (स्त्री) नाल्लांच्या पाडघाच्या वेळार माडाचेर तन्नीं आशिल्ल्या आडसरांची पेंड; चार पेंडी जून जावन पाडटकच मागीर पाडघाक येतली ती पेंड. दर तीन म्हयन्यांक दोन पेंडी पाडचेखातीर तयार जातात.

**पांजीरें** (न) कंदील; फाणस (के).

**पाज्ज** (स्त्री) दोंगरार खडपांतल्यान आपशींच जाल्ली वाट.

**पाटगोणी** (स्त्री) जळवणी.

**पाट्टु, पाट** (पु) आसन; पदवी; सत्ता (के).

**पाठिंबो** (पु) आधार; मजत; तेंको.

**पांडव पक्षी** (पु) रोहीत पक्षी; अग्निपंख.

**पाडसावेलो कुंवाळो** (पु) दोन कुटुंबांच्या मदेवर्ती पाडसाचेर जाल्लो कुंवाळो त्या कुटुंबांमदीं झगडघाक कारण जाता; (ल) दोन पक्षांत झगडें लावन दिवपी मनीस वा पक्ष.

**पाडें** (न) गांव. खेडेंपाडें – खेडेगांव. नागपाडो – नागगांव. (संस्कृत पट्टण – पाटो, पाडो).

**पाडघा घट्टणाचो** (वि) जाणटचो बायलो

वा भुरग्यांची आवय भुरग्यांनीं मस्ती करून त्रास दिल्यार भुरग्यांक अशें उलयतालीं. "तुजें पाड पडूं नाका." अशें म्हणटाली. तांच्या मनांत वांकडेपण नासतालें.

**पाणपिशें** (न) उदकाचो द्वेष करपाची व्याधी. पिसो कुत्रो चावल्यार ही व्याधी जावन मनीस मरता. हायड्रोफोबिया.

**पाणयाबगर बुडप** – (ल) योग्य कारणाबगर लुस्कान जावप.

**पाणी दिवप** (क्रिक) धातू तापोवन उदकांत निवोवपाची क्रिया भोवन भोवन करून धातूंत घटाय आनी लवचीकपण हाडप; धार काडप; मेल्ल्या मनशाक सद्गती मेळची म्हणून ताच्या वंशजांनीं ताच्या नांवान मंत्र म्हणून उदक सोडप; वायटाक लागून वा अपघातान खासावोस जाल्ल्या मनशाक सावध करचेखातीर ताका उदक पिवंक दिवप.

**पातपणस** (पु) निरपणस.

**पातलो** (क्रिअ) पडलो; पावलो; पोंचलो (के).

**पाती** (स्त्री) खांदी; वंशवेलीचो फागूर.

**पातेलें** (न) तोप, तोपुलो (फा).

**पातोळे** (वि) मर्याद नाशिल्ली (वायल); गरजेपरस चड उलोवपी (वायल).

**पात्र** (न) व्यक्ती; आयदन; कथानकांतली व्यक्ती (सं). सत्पात्र ब्राह्मण – सदाचारी ब्राह्मण, सच्छील ब्राह्मण; योग्यतेचो ब्राह्मण.

**पादकूर** (पु) इगर्जेंत मीस सांगपी पाद्री; सासेर्दोत (पु).

**पादपुजा** (स्त्री) स्वामी वा साधुपुरुषाची करतात ती दबाज्याची पुजा (सं).

**पादरस** (पु) पारज; पाऱ्याची धातू.

**पानपोळो** (पु) पातळ पोळो.

**पानाडी** (पु) जमनींत कितले खोलायेक उदक मेळत तें सांगपी तज्ञ.

**पादपोठ** (न) मोठो मनीस व्हड आसनार बसता तेन्ना ताच्या मुखार पांय दवरपाक म्हणून आसता ती चवाय; फूटस्टूल.

**पापडखार** (पु) पापडांची पिठी वर्री फुगची म्हणून वापरतात तो सोडियम कार्बोनेट पिठो; बेकींग पावडर. ही धोणम वा केक करूंक वापरतात.

**पांपांच** (वि) पांच पांच (के).

**पाम** (पु) तांदळाची कणी (के).

**पायथो** (पु) मूळ; पायो; बसका; मुळालागचो जागो.

**पायलट** (पु) भाड्यान मोटारसायकल चलोवपी; मोटारसायकलीन प्रवासी व्हरपी-हाडपी (इं).

**पांयशीं** (वि) पांचशीं; ५००.

**पारदर्शिका** (स्त्री) पारदर्शक पातळ पड्ड्याचेर चिकटायल्लो वा दोन पातळ पारदर्शक कांचांमदीं चिकटायल्लो फोटो; फोटोची स्लायड वा कांचचित्र; पारदर्शक चित्र. हया चित्रांतल्यान प्रकाशकिरण घालून व्हड पड्ड्याचेर तेंच चित्र व्हड आकारांत दाखोवं येता.

**पार पडप** (क्रिअ) बरे भाशेन घडून येवप; बरो साजरो जावप; सुरक्षीत पलतडी पावप; निवारप; पासार जावप.

**पारपत्र** (न) परदेशाक वचपाची सरकारी परवानगी; पासपोर्ट (सं).

**पारपत्रधारक** (पु) पासपोर्टवालो; जाका सरकारा पारपत्र मेळटा तो.

**पाराथो** (वि) पोन्नो; शेळो.

**पार्थीव** (न) एकुणिसावें संवत्सर (सं).

**पार्दाव** (पु) पुर्तुगेज राजवटींतलें सतागां

वा ३६ सेंताव्हांच्या मोलाचें भांगराचें नाणें; पुर्तुगेज राजवटींतलें पांच तांगां वा ३० सेंताव्हांच्या मोलाचें रुप्याचें नाणें (पु).

**पांयटो** (पु) पांयान दाबून चक्र चलोवंचें खातीर केल्लें पेडल.

**पायथो** (पु) मुळस; पायो; आधार.

**पायु** (पु) दांग.

**पार** (स्त्री) पारी; फळाचो काथो वा बीय; आंब्याची पार वा पारी.

**पारखप** (क्रिक) निरखप; वारीकसाणेन तपासप; परिक्षा करप; परिक्षा घेवप; पुराय माहिती करून घेवप (सं).

**पारदर्शक रंग** (पु) वयल्यान काडिल्ल्या रंगापोंदचे रंग दिसतात अशे तरेचो रंग (सं).

**पाल्मार** (स्त्री) माडांचें आनी फोपळींचें पोरसूं; कुळागर (पु).

**पार्ं** (न) खाऱ्या नुसत्याचें लोणचें (पु).

**पार्लर** (न) सौंदर्यप्रसाधन, केशभुषा, वेषभुषा बी करून मेळटा अशें कुशल तंत्रज्ञांचें आधनीक दुकान (इं).

**पार्सेक** (न) ज्योतिःशास्त्रांत सवायतीन प्रकाशवर्सांचें कालगणनामाप (इं). एक प्रकाशवर्स म्हळयार ५८८० अब्ज मैलांचें अंतर.

**पालकडि** (वि) उमथी (के).

**पालकात्तो मांडून** (क्रिवि) आमनमांडी घालून (के).

**पालखी** (स्त्री) देवमुर्तीचें, राजाचें, गिरेस्तांचें भोई उबारून खांद्यावेल्यान व्हरतात अशें वाहन; देवाचे मुर्तीची पालखेंतल्यान देवळाभोंवतणी वा एका देवळांतल्यान दुसऱ्या देवळांत वाजयत गाजयत पेणीं करीत व्हेल्ली भिरवणूक.

**पालो** (क्रिअ) पावलो (के).

**पाली** (क्रिअ) पावली (के).

**पांव** (वि) एक; कोंयडे-बालाच्या खेळांत खणीसावन उडयल्ल्या बालामेरेनचें अंतर कोंयडयान मेजतामतना म्हणपाचे आंकडे. (१) पांव, (२) चॅटमॅट, (३) बरमूट, (४) घोडा, (५) दुल्शी, (६) काला, (७) झील.

**पावणेर काडप** (क्रिक) ल) कांय मोल ना अशें मानून वस्तू विकूंक काडप; घराभायर घालप; लिलांवान विकप; चवगांमुखार विकप.

**पावणेर घालप** (क्रिक) लोकांक पावण्याच्या सांगातान वा देवस्थानी देवाच्या सांगातान जेवण वाडप.

**पावतो करप** (क्रिक) पाववप; पोंचवप; व्हरून दिवप; सांगातान पाववप.

**पावत्व** (न) माया; करुणा (के).

**पावलणी** (क्रिवि) पांवलभर.

**पावुणी, पाउणि** (वि) पावणे (के).

**पाशी** (अ) परस (के).

**पावस** (पु) पावमामारको वर्षाव. वाणांचो पावस - खूब बाणांचो वर्षाव; गारांचो पावस — गारांचो वर्षाव. आडयाळो पावस— पुर्वेकडच्यान येवपी पावस (अप).

**पाशाणभूत** (वि) भुंयेंत गाडून दाबून युगानयुगां उरिल्ल्यान दाबाक लागून पाशाणाचे अवस्तेंत पातळ पापुद्र्याभशेन जाल्ले (वस्तूचे वा ल्हान-व्हड प्राण्याचे अवशेष) (सं).

**पाशीय** (अ) परसय; कय हचा अर्थाचें कूस (के).

**पासको, पासगो** (पु) धुल्लांत हुळहुळपी एक जिवाणें.

**पासडी** (स्त्री) गवे व्हंकलेक चैत्र म्हय-

त्यांत नवीन साडी न्हेसोवन फुलां माळ-पाचो बायलांचो उत्सव.

**पासात** (अ) संबंदान; विशीं (के).

**पासार करप** (क्रिक) घालवप; मुखार धाडप; उत्तीर्ण करप; मान्य करप (पु).

**पासार जावप** (क्रिअ) वचप; उत्तीर्ण जावप (पु).

**पांसूळं** (न) दमो; उसरमट; खरस (के).

**पासळी** (स्त्री) पासडी; कपयाळें; गोजडी.

**पासि** (अ) परस; हून (के).

**पास्सूळ** (पु) दमो; खरस (के).

**पाहूप** (क्रिक) पळोवप (के).

**पाळेगार** (पु) सुभेदार; सरदार; सेना-पती (का).

**पाळो दिवप** (क्रिक) आज्ञा पाळप; सांगिल्ले भाशेन करप; मजत करप; आदार दिवप.

**पाळ्ळय** (न) पाळणें (के).

**पिकूळ** (स्त्री) गोगलगाय (के).

**पिंगळी** (पु) गोंयच्या गांवांनीं धालांचो मांड उलगतकच तांतल्यो कांय म्हाताऱ्यो बायलो आनी चेडवां पिंगळयाचें सोंग घेवन लागशिल्या वाडयार भोंवून "आमी पिंगळी घाटाचे, तांदूळ घाला भाताचे" अशें म्हणटात. लोक तांकां पैशे घालतात. धालांच्या निमाण्या दिसाचो हो एक खेळ.

**पिच्चप** (क्रिअ) जळून भस्म जावप.

**पिंज्योर करप** (क्रिक) घाणाक दवरप (पु).

**पिटवंडी** (स्त्री) पिसोंद्री; तणासारक्या लव्याची ल्हान सात्र; ल्हान झाडणी.

**पिटाळ** (पु) धांवडी.

**पिट्टि** (न) पीठ (के).

**पिडा मारप** (क्रिअ) व्याधी भोगप; वायटांत पडप.

**पिडेकार, पिडेगार, पिडेस्त** (पु) वायट-कार; दुखणेकार; रोगयाळो.

**पिंडोदक** (न) मेल्ल्या पुर्वजांक ओपिल्ले पिंड आनी तिळोदक (सं).

**पिणसो** (पु) नाकांतलें किरमें वा शेंबूड (के).

**पिती** (स्त्री) प्रजा; संतत; जाती तशी पिती आनी खाण तशी माती.

**पितुळवत** (न) पितुळचें सामायन.

**पिंतूर** (न) चित्रकला; रंगकाम; चित्र (पु).

**पिंतोर** (पु) चित्रकार; रंग काडपी; पेंटर (पु).

**पित्तकामलि** (स्त्री) कामीण (रोग); कावीळ.

**पितृयान** (न) अंनराळाचें दक्षीण अर्द.

**पित्रार्जीत** (वि) पुर्वजांनीं जोडिल्लें वा कमायल्लें (सं).

**पियोर** (वि) चड वायट (पु).

**पिरळाद** (पु) प्रल्हाद; हिरण्यकशिपु दैत्याचो पुत्र, नारायण देवाचो म्हान भक्त (के).

**पिवळें** (न) दांतांची हिरडी.

**पिळणें** (न) पिळगी (के).

**पिळपु** (पु) कातली; गर.

**पीक** (स्त्री) धान्य पिकपाचो मोसम; पिकेचे दीस; (न) पिकिल्लें धान्य वा फळफळावळ, भाजी वी.

**पीट** (न) पीठ (के).

**पुकारप** (क्रिक) जाहीर करप; आफवप; व्हडान सांगप वा आफवप (फा).

**पुच्छप्रगती** (स्त्री) फाटीं वचप; वायट अवस्थेकडे वचप; परागती (सं).

**पुंजावप** (उदक) (क्रिक) शिंपप; पांजणी करप.

**पुटबाळी केळें** (न) एलची केळें.

**पुडचांफें** (न) धव्या पाखळयांचें आनी हळड्व्या केंसरांचें घमघमीत वासाचें फूल.

**पुडचांफो** (पु) पुडचांफीं लागतात तें झाड.

**पुडयेवण्णु** (वि) तपकिरी रंगाचो (का).

**पुडींग** (न) इंग्लिश पद्धतीचें, फळांच्या, पावाच्या, मासाच्या कुडक्यांचे मोव दबदबीत गोडशें (इं).

**पुण्यप्रकृती** (वि) पुण्यशील; धर्मीक सभावाचो (सं).

**पुण्यबळी** (पु) जेवंचे पयलीं देवाच्या आनी पितरांच्या नांवान मोनजातीक, पांखरांक, किडयांक बी वाडटात तें जेवणाचें पान (सं).

**पुतणयो** (पु) (वायलमनशेचे) भयणीचो वा देराचो पूत; (दादल्याचे) मेवणेचो वा भावाचो पूत.

**पुनर्जल्म** (पुन मरतकच कुडींतल्या आत्म्यान दुसरे कुडींत जल्म घेंवची हिंदूंची भावना; मर्णाच्या उप्रांतची दुसरे कुडींतली जीण (सं).

**पुनर्जिवीत** (न) मर्णाउप्रांतची जीण; मेल्लो मनीस कुडीसयत जिवंत जावपाची क्रिस्तांवांची धर्मीक भावना. जेजू क्रिस्त पुनर्जिवीत जालो.

**पुनर्पुंश्शें** (न) पुनर्वसू नक्षत्र (के).

**पुरवप** (क्रिक) पूर्ण करप; पुरो जायसर दिवप; लाड पुरवप; इच्छा पुरवप; माल पुरवप.

**पुरसी** (अ) स्वता; प्रत्यक्ष (पु). Por si हो पुर्तुगेज वाक्प्रचार.

**पुरस्थीत** (व) फुडें आशिल्लो (सं).

**पुरस्थीत गांठ** (स्त्री) प्रॉस्टेट ग्रंथी; मुत्राशयाच्या मुखार आशिल्ल्यो दोन गांठी.

**पुराणो** (वि) प्राचीन काळांतलो (सं).

**पुरूष** (पु) व्याकरणांत कर्तो आनी क्रियापद हांचें एकामेकांचें जोडयेन केल्लें एक वर्गण. पयलो पुरूष – वाक्य उलोवपी. हांव करतां, आमी करतात. दुसरो पुरूष – जाचेकडेन वाक्य उलयतात तो. तूं करता, तुमी करतात. तिसरो पुरूष – जाचेविशीं वाक्यांत उलयतात तो पयलो आनी दुसरो पुरूष नासलो तर तिसरो पुरूष आसता. तो करता, ती करता, तें करता, ते करतात, त्यो करतात, तीं करतात. हीं तिसऱ्या पुरुषाचीं उदाहरणां. हांकां प्रथम पुरूष, द्वितीय पुरूष आनी तृतीय पुरूष अशेंय (संस्कृत) म्हणटात. प्रथम पुरुषाक उत्तम पुरूष, द्वितीय पुरुषाक मध्यम पुरूष आनी तिसऱ्याक तृतीय पुरूष अशेंय म्हणटाले. पुरुषाचें हें वर्गण वाक्यांतल्या कर्त्याक आनी क्रियापदाक लागू जाता. कर्तो ज्या पुरुषाचो आसता त्याच पुरूषवर्गाचें क्रियापद आसता. कर्तो प्रथम पुरुषी आसलो तर क्रियापदय प्रथम पुरुषी आसता. कर्तरी प्रयोगांत कर्त्याच्या लिंग, वचन आनी पुरुषाप्रमाण क्रियापदाचेंय लिंग, वचन आनी पुरूष आसतात.

**पुरूषवाचक सर्वनाम** (न) हांव, आमी, तूं, तुमी, तो, ती, तें, ते, त्यो, तीं हीं पुरूषवाचक सर्वनामां.

**पुरुषोत्तम म्हयनो** (पु) चडीत म्हयनो; अदीक म्हयनो; धोंड म्हयनो. ह्या म्हयन्यांत धर्मकृत्यां करिनासले.

**पुर्वाबादपते** (न) पुर्वाभाद्रपदा नक्षत्र (के).

**पुश्तू** (स्त्री) पठाणांची भास (फा).

**पुश्शें** (न) पुष्य नक्षत्र (के).

**पूर्वकथानाटच** (न) चालू कथानकांत पयलीं घडिल्ली कथा मदींच संदर्भाखातीर नाटचरुपान दाखवप (सं).

**पूर्वकांड** (न) भगवद्गीतेचो पुर्वार्ध (अध्याय १ ते ९) (१२९०).

**पूर्वसंध्या** (स्त्री) आदल्या दिसाची सांजवेळ; मोठचा सणाच्या वा म्हत्वाच्या दिसाच्या आदल्या दिसाची सांजवेळ; वेस्पेर; मोठचा धर्मीक सणाच्या आदल्या दिसाची सांजवेळ; आदल्या दिसाचे सांजवेळची इगर्जेंतली प्रार्थना; डिसेंबरचे २४ तारखेचे सांजवेळची इगर्जेंतली प्रार्थना.

**पूर्व दिशा** (स्त्री) सूर्य उदेता ती बाजू. अतीपूर्व – जपान देश. मध्यपूर्व – अरबस्तान, इराण, इजीप्त बी देश.

**पुलक** (पु) रंग बदलपी रत्नाचो खडो; रोमांच; आंगावेली ल्हंव आनंदान उबी रावप.

**पुस्करणी** (स्त्री) पोखर बांय; सोपाणां आशिल्ली बांय (के).

**पुलीत्क** (स्त्री) राजकारण; कारस्थान; (वि) राजकारणी; कारस्थानी (पु).

**पुश्शें** (न) पुष्य नक्षत्र (के).

**पुसप** (क्रिक) विचारप (के).

**पेइंग गेस्ट** (पु) खर्चाचे पैशे फारीक करून पावणो म्हणून कांय दीस वा म्हयने गृहस्थी कुटुंबांत रावपी परकी मनीस (इं).

**पेंकट** (न) पेंगट; भेंड; कमर.

**पेंगट बांदप** (क्रिक) (ल) वावराक हात घालप; कामाक सुरवात करप.

**पेच कसप** (क्रिक) स्क्रू फिरावन बुराखांत घट्ट बसवप.

**पेट घेवप** (क्रिअ) पेटप; लासप; जळप.

**पेटप** (क्रिअ) (ल) तापप; झटप; खरायेन वावरप; नेटान काम करप.

**पेंढों-तज्ञ** (पु) मेल्ल्या प्राण्याचें चामडें सुकोवन हाडांचो पांजरो नीट जुळोवन ताच्या आंगांत भुसो भरून ताका जित्या प्राण्याचें रूप दिवन राखपाची विद्या शिकिल्लो कारागीर; टॅक्सीडर्मिस्ट.

**पेवीद** (पु) (ल) (जुगार) खेळटामतना खेळगडी करता ती डावाची मागणी (पु).

**पेय मारप** (क्रिअ) आजारी पडप; (ल) धाड मारप.

**पॅर** (न) पेरीचें गोड फळ; कांडयेचो मदलो सांदो. हो उशिकांडयाक वा कोंडयाच्या मानीक आसता. बोटाच्या दोन हाडांमदलो सांदो. बोटाचें पॅर.

**पैशीं** (वि) पांयशीं; पांचशीं (के).

**पेर** (स्त्री) पेरीचो रूख; पॅरांचें झाड.

**पेरू** (पु) अमेरिकेसावन हाडिल्ल्या माणसाळिल्ल्या एका व्हडा कुकडाची चवदार मास आशिल्ली प्रसिद्ध जात; टर्की हो कुकडाचे जातीचो मामाळ पक्षी; मोळाव्या शेंकडयांन हचा पक्ष्याक माणसाळायलो. आतां हो संवसारभरचे लोक पाळटात. नातालाच्या फेस्तांत टर्कीच्या मासाची शाकोती करून खातात (पु). स्पॅनीश लोकांनी पेरू ह्या कुकडाक युरोपांत आनी पुर्तुगेजांनी भारतांत हाडलो. इंग्लिश बरप्यांनी पेरू कुकडाक टर्की हें नांव दिलें. आतां हे नांव संवसारभर पातळ्ळें.

**पेलविकाने** (क्रिवि) पेले वशीन; पेले दिशेन.

**पेलु** (पु) पेल्ल (के).

**पेवप** (क्रिअ) मस्ती करप; खेळप. तो भुरगो अभ्यास करिनासतना सगळो दीस पेयता.

ाप (क्रिक) ल्हान कुडके करप; पेशी
रप (के).
स (न) (लुगटाचो) तागो (पु).
हिली (क्रिक) न्हेसली (के).
ळू (पु) कापसाची लोळी.
ळों (पु) बांदिल्लो दाळ; चळय. पानांचो
ळो, पत्रावळीचो पेळो. शंबर दोण्यांच्या
ळ्याक काड्ट म्हणटान.
जार (पु) पांयतण; जोतें (फा).
जोळ (पु) पांयजणां (के).
रेकार (पु) देवस्थानांत देवळाची सफाई,
वाचीं आयदनां घांसप, देवळांत रातचे
ौकार बी दिवे लावपाचीं कामां पैऱ्यान
रपी नोकर.
ोगडो, पोडगो (पु) पडगो (के).
ोंगो, पोंगयो (वि) फाटीच्या कण्याक
ोंग आइल्लो; फाट बागवल्लो.
ोचकटो, पोसकटो (पु) पातळ पोती;
ातळ साल; गुरवारणीच्या पोटांतल्या
गर्भाभोंवतणची वार.
पोज (स्त्री) पवित्रो; आसन; ठाण;
स्थिती; मुद्रा (इं).
पोज घेवप (क्रिक) दुसऱ्याक आपूण कसो
दिसतो तें येवजून तसो रावप (इं).
पोजिशन (न) स्थान; सत्ता; प्रतिष्ठा;
पदवी (इं).
पोंजु (पु) दिवटी (के).
पोझिसांव (न) सत्ता; मान; प्रतिष्ठा
(पु).
पोटकुली (स्त्री) ल्हान भुरग्याचें पोट;
पांय आनी तकली पोटाकडे सांकडून
हातांनीं आंवळून कुडीची करतात ती कुर-
कुंडी, मोटळी.
पोटांत पांच पांच जावप – खूब भंय दिसप.
पोटार हात घेवन बचप – मरण. प्रेत
मसणांत व्हरतासतना हिंदू प्रेताचे हात
पोटार बांदतात.
पोंटून पूल (पु) लष्करी लोक आनी
सामान न्हंयेपलतडी व्हरपाखातीर ल्हान
होड्यांचो रचिल्लो तात्पुरतो पूल (इं).
पोणु (क्रिअ) पडून (के).
पोंत (पु/न) तोंक; शेवट; शेव (पु).
पाँत (न) तोंक; थेंबो; टिंब; विराम
चिन्ह; जुगारांत वा सर्तींत बा परिक्षेंत
मेळिल्लो गूण (मार्क, व्हालोर); हजेरीचें
पुस्तक; शिवणेचो टांको; परिक्षेचो पेपर
(प्रश्नपत्रिका); परिक्षेचे प्रश्नपत्रिकेंतलो
प्रश्न; मुद्दो; दृष्टिकोन (पु).
पोंत्तान (क्रिवि) धरून; पोंत धरून;
सावन; पासून.
पोतनीस (पु) खजीनदार; कोठयेकार
(फा).
पोयट (स्त्री) मांचिल्ल्या उदकाचो व्हाळ;
पोंय.
पोरकेपण (न) अनाथ अवस्था; आवय
बापूय नाशिल्ली अवस्था; पालक
नाशिल्ली अवस्था.
पोंब्र फिदाल्ग (पु) गरीब अवस्थेंत
पाविल्लो सरदार; (ल) बडया घराचो
पोकळ वांसो (पु),
पोरणावळ (स्त्री) प्राचीन वस्तू वळ-
खुपाची आनी सांबाळुंची विद्या.
पोर्तादोर (पु) वजेली; द्वारपाळ;
काजाराची भेट घेवन येवपी (पु).
पोर्तेर (पु) द्वारपाळ; कार्यालयाचो
रखवालदार (पु).
प्रकिण्व (न) जिते कुडींत पोषणाची
प्रक्रिया घडूंक गरजेचें अशें वनस्पती अर्क;
एंझायम (सं).
प्रकुंचनी रक्तदाब (पु) रक्ता-शिरो

आकुंचीत जातात तेन्नाचो रक्तदाब; सिस्टॉलीक ब्लड प्रेशर.

**प्रकुलगुरू** (पु) कुलगुरूचे खालोखाल विद्यापिठाचो शासकीय अधिकारी; प्रो-व्हायस चॅन्सेलर (सं).

**प्रजासत्ताक दीन** (पु) देश प्रजासत्ताक जालो तो सुवाळो मनोवपाचो वर्सुको दीस (सं).

**प्रताप, पार्दाव** (पु) सोळाव्या शेंकडयांतलें ३६ तांगांच्या मोलाचें भांगराचें पुर्तुगेज नाणें (पु). वराह = २ प्रताप (पार्दाव) हीं भांगराचीं नाणीं विजयनगरच्या काळासावन चवदाव्या शेंकडयासावन चालू आसलीं. गोंयांत अठराव्या शेंकडयामेरेन आसलीं.

**प्रतिक्रांती** (स्त्री) सुधारणेचे विरुद्ध जाल्ली क्रांती; क्रांतीचे विरुद्ध जाल्लो उठाव; परागती (सं).

**प्रकाश-वर्स** (न) अंतराळांत ताऱ्यांचो उजवाड सुमार धा हजार अब्ज किलोमिटरांचें अंतर पैस पावूंक घेता तितलो वेळ; सुमार धा हजार अब्ज किलोमिटरांचें अंतर.

**प्रतिगान** (न) समूहगायनांत एका गटान एक ओळ गावन जातकच दुसरो गट दुसरी ओळ गायता. ही दुसरी ओळ हें प्रतिगान. धालो गायतात तेन्ना एके ओळींतल्यो बायलो एक ओळ गायतात, तर दुसरे ओळींतल्यो बायलो दुसरी ओळ म्हणटात. देख : पंढरपुरा कालो जाला, पंढरपुरा कालो जाला, पंढरपुरा कालो जाला. दुसरी ओळ – तामणाचो बाजार भल्ला, तामणाचो बाजार भल्ला, तामणाचो बाजार भल्ला. एके रांगेंतल्यो बायलो आपली वळ गायतना तीन पावल्यो फुडें सरतात त्याच वेळार मुखावेले वळींतल्यो बायलो तीन पावलां फाटीं सरतात. हे भाशेन वरानवरां धालो गायत नाचत दर वर्सा आठ दीस घालांचो सण मनयतात.

**प्रतिघटी** (क्रिवि) घडयाळाच्या कांटयांचे उरफाटे दिशेन; Anti-clockwise.

**प्रतिनियुक्ती** (स्त्री) एके नेमणुकीवेल्यान दुसरे नोकरेर नेमपाचो वावर (सं).

**प्रतियोगिता** (स्त्री) सर्त; स्पर्धा; कॉंपिटीशन (सं).

**प्रतिरूप सांधो** (पु) कृत्रीम सांधो (सं). दोन हाडांमदलो सांधो निखळ्ळो तर सांधो जोडपाचें तंत्र शल्यक्रिया तज्ञ जाणात (सं).

**प्रतिरोधक** (पु) गती थांबोवपी; बफर.

**प्रतिवाद** (पु) विरुद्ध उलोवणें (सं).

**प्रतिस्थापन** (न) कुडीचें इबाडिल्लें आंग वा बांदावळीचो इबाडिल्लो भाग काडून त्याच उपयोगाखातीर दुसरें आंग वा बांदावळ बसवप (सं).

**प्रतिक्षेपण** (न) मोखिल्लें आवत जंयसावन मोखलां थंय परतें येवपाची क्रिया; रिकॉयल; बूमरँग (सं).

**प्रत्यंत** (स्त्री) सरहद्द; दोन देशांमदली सराद वा शीम (सं).

**प्रत्यंत रेग** (स्त्री) शीमेची रेग.

**प्रत्यवाय** (पु) आडखळ; अडचण (सं).

**प्रदान** (पु) प्रधान (के).

**प्रदीर्घ** (वि) खूब लांब; चड विस्ताराचें.

**प्रदुवारी** (वि) परद्वारी; शिंदळ.

**प्रदूषण** (न) खूब खराबी; चड इबाड.

**प्रदेशनिष्ठ** (वि) ठरावीक प्रदेशांत घडून येवपी वा लागू जावपी (सं).

**प्रबंधक** (पु) सरकारी नोंदणी खात्याचो प्रमुख अधिकारी; व्यवस्थापक; रजिस्ट्रार (सं).

**भावीत जावप** (क्रिअ) छाप पडप आनी का लागून कसल्याय वावराक उद्युक्त ावप; उत्तेजन मेळप; परिणाम जावप.

**भास** (पु) प्रकाशाच्या प्रमाणाचें एकक; इंग्लिशींत) लुमेन (सं).

**माण** (न) माप; दोन वस्तूंमदलो लनात्मक संबंद; दोन गुणोत्तरांची मानता; सिद्धिकरण; (वि) सिद्ध; ान्य; भोवमान्य (सं).

**माण भाषा** (स्त्री) साबार लोकांक ान्य अशी भाषेची मोड (सं).

**यत्नशील** (वि) खटपट करपी; प्रयत्नांत ाशिल्लो (सं).

**योगप्रधान** (वि) प्रयोग करूंच्या हेतून चिल्लो; प्रत्यक्षांत हाडप होच जाचो ख्खेल हेतू असो; प्रात्यक्षीक करपाक ोपो असो (सं).

**प्रयोगमूल्य** (न) प्रयोग करपाचो उपयोग; अणभव घेवंचो फायदो; प्रयोगाचो प्रभाव; प्रयोगाचो परिणाम (सं).

**प्रवाल** (न) पोवळें; समुद्रांत एकठावपी कॅलशमचो पदार्थ (सं).

**प्रवालभस्म** (न) पोवळयाचो लासून केल्लो आयुर्वेदीक पिठो (सं).

**प्रशाळा** (स्त्री) उच्च मध्यमीक शाळा; हायस्कूल (सं).

**प्रश्नीक** (वि) प्रश्नाचो; प्रश्न विचारूंक वापरतात तो; प्रश्न करपाक उपयोगी. प्रश्नीक सर्वनाम – कोण आनी कितें. हीं आदीं आयिल्ल्या नामशब्दाच्या जाग्यार येनात. तरीय हांकां सर्वनाम म्हणची पद्धत पडून गेल्या.

**प्रस** (अ) पस्स.

**प्रसंगवश** (क्रिवि) प्रसंगानसार; प्रसंगाक योग्य असो (सं).

**प्रसवपूर्व उपचार** (पु) गुरवारणीक बाळंतेरापयलीं करपाचे आरोग्यशास्त्रीय आनी वैजकी उपचार (सं).

**प्रसाविका** (स्त्री) सुईण; बाळंटीक सोडवपी वैजीण (सं).

**प्रसुतीघर** (न) बाळंतपणाचें हॉस्पिटल.

**प्रसुत्युत्तर** (क्रिवि) प्रसुतीउप्रांत; बाळंतपणाउप्रांत; (वि) बाळंतपणाउप्रांतचो (उपचार) (सं).

**प्रस्तरील** (पु) फातरांच्या पोटांत सुकून चेपून उरिल्लो प्राण्याचो, वनस्पतीचो वा वस्तूचो अवशेष; फॉस्सील (सं). असल्या प्रस्तरिलांवेल्यान पांच-पन्नास हजार वर्सांपयलीं कसले तरेचे प्राणी जगांत आशिल्ले तें कळटा.

**प्रस्थापीत करप** (क्रिक) सिद्ध करप; (लोकांक) पटोवन दिवप; लोकमान्यताय मेळवप; पायो घालप (सं).

**प्रस्थापीत जावप** (क्रिअ) सिद्ध जावप; अस्तित्वांत येवप; मूळ धरप (सं).

**प्रस्थापना** (स्त्री) योग्य स्थानाची प्राप्ती; अस्तित्व; प्राणप्रतिष्ठा; पायोभरणी (सं).

**प्रक्षेपक** (पु) प्रक्षेपण करपी यंत्र; ट्रान्स्मीटर; संदेश घेवन परत दिवपी यंत्र (सं).

**प्रक्षेपण केंद्र** (न) नभोवाणीचे कार्यक्रम वितरावपी केंद्र (सं).

**प्राक्कथा** (स्त्री) दंतकथा; इतिहासपूर्वकालीन काणी; प्राचीन कथा (सं).

**प्राणसत्व** (न) जिवनसत्व; जिणेक गरजेचें अशें द्रव्य (सं).

A–अधिनेत्र प्राणसत्व – नदरेची शक्ती तिगवपी जिवनसत्व.

B–गंधकामोदीन प्राणसत्व – दाळी आनी प्रथिनांतल्यान पुष्टी दिवपी जिवनसत्व.

B12–पंचीपितीन प्राणसत्व.
C–आमलीक, अम्ल प्राणसत्व – आंबट द्रवांची वनस्पती. सारक जिवनसत्व.
D–अध्वस्थी प्राणसत्व – हाडांत कॅल्शम फॉस्फेट घालपी तेल जिवनसत्व.
E–अधिप्रज प्राणसत्व – आंगांत शुक्रवीर्य निपजावपी जिवनसत्व.
K–अधिकिलाट प्राणसत्व – रक्त सोपे-पणान गोठवपी जिवनसत्व.

**प्रात** (पु) प्लेट; मेजार जेवतासतना खांवचे-जेवंचे जिन्नस वाडुंची ताटली; चिनी मातयेची (पोर्सलेन) चकचकीत व्हड ताटली; ताटांत वाडिल्लो खांवचो-जेवंचो जिन्नस (पु),

**प्राथम्य तत्व** (न) मगळ्यांहून चड म्हत्व दिवंचो नेम; Top priority (सं).

**प्रादुर्भाव** (पु) उप्रासणी; उपज; निपज (सं).

**प्राधान्य तत्व** (न) सामान्यांहून चड म्हत्व दिवपाचो नेम; Priority (सं).

**प्रायोजक** (पु) प्रयोजन करपी; पोसपी; आदार दिवपी; सांबाळपी (सं). स्पॉन्सर करपी.

**प्रायोजन** (न) मुखार वचपाची येवजण आनी आदार दिवन केल्ली अंमलबजावणी.

**प्रार्थन** (न) प्रार्थना; मागणी; विनवणी; होरावणी; आराधना (सं).

**प्रावस्था तार** (स्त्री) वीज घोळटा अशी तार (सं).

**प्राश, प्रास** (स्त्री) रीत; पद्धत (पु).

**प्राशन** (न) खावप; पिवप (सं).

**प्रास** (अ) परस.

**प्राक्षर** (न) उतरांतलो अवयव वा घटक. देख : प्र + सिद्ध. अव + यव. घट + मूट. प्र + देश. प्राक्षर हें एका, दोन वा तीन अक्षरांचो स्वतंत्र अर्थाचो घटक (सं).

**प्रिय** (वि) आवडीचो; प्रितीचो; ज्याचे विशीं प्रेम आसा असो (सं). नाटयप्रिय – नाटय आवडटा असो. नृत्यप्रिय – नाच आवडटा असो. अनुकरणप्रिय – अनुकरण करूंक आवडटा असो. मद्यप्रिय – सोरेकार लोकप्रिय – लोकांक आवडटा असो. शिस्तप्रिय – शिस्तीचो भोक्तो, शिस्त आवडटा असो.

**प्रियाप्रिय** (वि) प्रिय आनी अप्रिय, आवडी नावडीचो.

**प्रीत, पिर्त** (स्त्री) मोग; माया; प्रेम.

**प्रेतयात्रा** (स्त्री) प्रेत स्मशानांत व्हरपाचें क्रिया (सं).

**प्रेपार** (पु) फिर्यादीच्या न्यायाल्यींत खर्चाचो दिवाणांत भरचेलो पयलो हप्तो (पु).

**प्रॅम** (पेरॅम्ब्युलेटर) (पु) बाबागाडी; ल्हान भुरग्याक बसोवन फिरोंवची हात गाडी; सपाट बुडाची होडी (इं).

**प्रेमीक** (पु) प्रेम करपी; मोगी; प्रियकर

**प्रोग्रेस** (पु) प्रगती; जयपत; उदरगत; भरभराट (इं).

**प्रोझेक** (वि) गद्य मजकुरामारको; रूक्ष; अरसीक (इं).

**प्रॉपॉश्त** (न) सुचोवणी; मागणी (पु).

**प्रॉफेट** (पु) भविष्यवादी; देवमनीस; देवान आपली शिकवण मनीसजातीक शिकोवंक जल्माक घाल्लो संत मनीस; संदेशहर (इं).

**प्रॉफेत** (पु) दैवी स्फुर्तीन लोकांचो फुडार वर्तवपी भविष्यवादी; देवाचो संदेशहर; मनशाच्या जल्माक येवन देवाची शिकवण दिवपी (पु).

**प्रॉस्टेट** (ग्रंथी) (स्त्री) मुत्राशयांतल्यो

र गांठी. ह्यो उतारवयांत वाडल्यो शस्त्रक्रिया करून ल्हान करच्यो टात (इं).
**बेंगो** (पु) शिसपेन्सिलीचो फातर ). हांतूंत शिशें नासता. हो कार्बनाचो शिल्ल्यान कागदार बरोवंक उपकरता; फायट.

**फ**—कोंकणी भाशेचे देवनगरी वर्णमाळेचें बाविसावें व्यंजन.
**फिरा डायरो** (पु) नाचांत वापरचेलें क झिमडेसारकें वाजप.
**फकने** (क्रिवि) सट करून; अकस्मात; खडेंच.
**फट** (स्त्री) खोटेपण; असत्य उलोवणें; टास; थाप.
**फटी** (वि) फटकिरो; फट मारपी; गोटें उलोवपी; (स्त्री) फट ह्या उतराचें वचन.
**फडचान** (न) खांवचें पान (के).
**फडपोशी** (वि) निर्बुद्ध; अजागळ; फिकट; र्बळ; नाका जाल्लो (का).
**फडि** (स्त्री) फोपळाची बोय (के); फोड.
**फडी** (स्त्री) फळी (के).
**फंदन** (न) भानगड; लफडें; किचांट; गायट नाद; फंद (फा).
**फंदिल** (न) फुनेल (के).
**फफळ** (न) फोपळ; सुपारी (के).
**फरंगी** (पु) फिरंगी (के).
**फरिश्तो** (पु) देवदूत; देवमनीस; साधू (फा).

**फलितांश** (पु) परिणामाचो वांटो (सं).
**फसली साल** (न) इसवी सनाउप्रांत ५९० वर्सांनीं केल्ली अरबी शकाची गणना. हें वर्स मिर्गार सुरू जाता म्हळ्यार पिकेचें वर्स म्हणून गणटात (अ); पिकेकडेन संबंधीत साल. ह्या शब्दकोशाच्या ४७२ पानाचेर फसली शक अकबर बादशाहान चालू केलो अशें आसा, तें चूक.
**फळदायी** (वि) फळाक येवपी; फळ दिवपी; यशाक पावोवपी; उपयोगी (सं).
**फळसाकर** (स्त्री) फळांचे गोडसाणीचें अर्क; फ्रुक्टोज (सं).
**फळारी** (पु) फळां विकपी; फळांचो धंदो करपी; एक आडनांव.
**फांको** (पु) पंखो.
**फाटपिशवी** (स्त्री) फाटीक बादून व्हर-तात ती सामानाची पोती.
**फाटमणी** (पु) फाटीचे मदीं हाडांचे मणी एकार दुसरो अशे रचिल्ले उरतात. तांच्या सांगाडयाक फाटीचो कणो म्हणटात. हे तेत्तीस मणी.
**फाटसार** (वि) मागूस; उसरां आयिल्लो; उसरां पिकिल्लो.
**फाटिवासो** (पु) फाटीचो कणो; पृष्ठवंश.
**फांटी** (स्त्री) ल्हान खांदी.
**फातराच्या काळजाचो** (वि) (ल) निर्भय; धाडसी; निष्ठूर; दुष्ट.
**फांत, फांती** (स्त्री) वळ; रेग; बरपाची वळ (के).
**फांती** (अ) फावटी (के).
**फातरेल** (न) पेत्रोल; घासलेट.
**फांत्यार** (क्रिवि) फांतोडेर.
**फांदळो** (पु) बेष्टी बडबड; मेळो; झांकडी.
**फाम** (स्त्री) फेस्ता आदीं फेस्त जातलें

म्हण दिल्ली जाहीर सुचना (पु).
**फायल** (स्त्री) खडबडीत वस्तू घांसून गुळगुळीत करपाचें आवत; कानस (इं).
**फायलींग करप** (क्रिक) कानशीन घांसप; कचेरेचे फायलींत पत्रवेव्हाराचे कागद जंयचे थंय घालप (इं).
**फायलेरिया** (पु) हत्तीरोग; आंड वा पांय सुजून व्हड जांवचो असाध्य रोग. फायले-रियाचे जंतू चाबतकीर हो रोग जाता (इं).
**फार घालप** (क्रिक) मुसळ दोनय हातांनीं उखलून वानांतली वस्तू (फोव, भात बी) चेंचप; कांडूंचे पयलीं अशे कांय फार घालची पद्धत आसता. कांडटासतना फार घालपाची पद्धत वेगळी आसता. सुरवातीक उबें मुसळ धरून दोनीय हातांनीं उबे फार घालतात. मागीर एका हातान मुसळ उखलून वांकडो फार घालतात ताका कांडप म्हणटात. फार घालून चेंचतात. कांडून भाताचीं सल्लां काडटात.
**फारप** (क्रिक) चोरप (के)
**फारिक्षण** (न) भरपाय.
**फाल** (स्त्री) नाटकाचे माचयेवेलो कडेचो पड्डो; वींग (इं). जवनिका (सं); (न) चारचौगांत केल्लो उलोवपाचो, गाण्याचो वा विनोदाचो कार्यक्रम (पु).
**फाल फाल्यार** (क्रिवि) फातोडे वेळार; फातपटेर; सक्काळीं फुडें.
**फालेवप** (क्रिअ) उजवडप; दीस जावप; भिणभिणप.
**फाल्सिदाद** (स्त्री) फट; असत्य; खोटे-पण (पु).
**फावटीकार** (पु) भाडेली; हमाल.
**फासणां मारप** (क्रिअ) स्वासोस्वास बेगी-बेगीन जावप; धापेवप.
**फिगर** (न) कळसुत्री बावली; आकृती; आंगलट (इं).
**फिचाद** (वि) धांपिल्लो (पु). वांक फिचाद – तोंड धांपून वग्गी राविल्लो (पु).
**फिचार करप** (क्रिक) धांपप (पु).
**फिटींग** (न) यंत्राचे भाग योग्य तरेन जोडपाची विद्या (इं).
**फिचारणी** (स्त्री) शाकारणी; धांपणी; बंद करपाची क्रिया; आर्कांचे चिरेबंदी बांदावळीची क्रिया (पु).
**फीत** (पु) चिरेबंदी दरवाज्याच्या आर्कांचो म्हदलो फिचारणेचो चिरो.
**फुगरो** (वि) लठ्ठ; फोपसो.
**फुगांव** (पु) रांदन; चूल; भट्टी; चुलाण (पु).
**फुटकर** (वि) फुटिल्लो; किरकोळ (खरेदीविक्री).
**फुटकें वाजंतर** (न) (ल) अर्थ नाशिल्ले उलोवणें.
**फुटण्यां येवप** (क्रिअ) फुटूंक येवप (फोड, दुखाणें).
**फुटप** (क्रिअ) उपजप (दांत फुटप); भग फुटप – आंगाक व्रण पडप; स्फोट जावप (गर्नाल फुटप, बाँब, फोगेत फुटप); चील पडप, चीर पडप (आयदन फुटप); उलवप (आवाज फुटप). आवाज फुटप - बारा-चौदा वर्सांच्या भुरग्याचो किनरे आवाज सकयले पातळेर येवप; आवाज पिचप; कपाळ फुटप – (ल) भयंक अरिष्ट कोसळप. नशीब फुटप – सुखवस्त मनशाक वायट दीस येवन दुर्भागी जावप
**फुटावणो, खुटावणो** (स्त्री) न्हंयेंत खूंट पुरून जाळीं बांदून पातळायतात. भरतेच्य वेळार त्या जाळयांनी नुसतें घुसपता सुकते वेळार तें काडून घेतात.
**फुनेराल** (पु) मरणयात्रा; प्रेतयात्रा;

नेर (पु).

ःरादि (स्त्री) फिर्याद (के).

ुलकार (पु) फुलां विकपी.

ुलप (क्रिअ) पर्जळप (निखारे); आनंद ावप (कळी फुलप); झाडावेलीं फुलां चांफो फुलला) विकसप.

फुलारी (पु) फुलझाडां लावन फुलां वकुंचो धंदो करपी.

फुसकें पान (न) वशाडीच्या झाडाचें ान.

फुसफुसप (क्रिअ) रागान सुस्कारप; रागाक लागून उलयना जावप; राग आयिल्ल्या मनशाचें तुटक तुटक उलोवणें.

फुंसांव (न) समारंभ; सुवाळो; नेमून दिल्लें काम (पु).

फूटस्टूल (न) पांय दवरपाची ल्हान चवाय; उंच आसनार बसतकच वा गाड-येंत चडटासतना ही चवाय वापरतात (इं).

फेंडोरी, फेणोरी (स्त्री) तळिल्लें मिठायेचें एक परखन्न; घडयांची चपाती लाटून, तळून साकरेच्या पाकांत वुडोवन काडिल्ली मिठाय.

फेस्तोजी (पु) चैनी मनीस; दुडू उधळपी मनीस.

फोंडांत घालप (ल) फसवप; लुसका-नीक मारप.

फोंडांत दवरप — पुरचेखातीर खणिल्ल्या फोंडांत घालप.

फोडी (स्त्री) सुपारी; कुडके; तळिल्ल्यो कचऱ्यो.

फॉरीनर (पु) परदेशी; परराष्ट्रीय मनीस (इं).

फोलदशेण (न) भायरी जांवक उपयोगी अशें वखदी वनस्पतीचें पान (पु).

फोलोण (न) लाताचो दबो (पु).

फ्रादि (पु) क्रिस्तांव जोगी; हे फ्रांसि-श्कान, कार्मेलायट, दोमिनिकान अशा संप्रदायांचे संन्याशी आसतात (पु).

फ्रीझ (क्रिवि) नाटकांत एका वा सगळया पात्रांनीं एकाच पवित्र्यांत बावल्याभशेन रावपाचो अभिनय (इं).

फ्रुक्टोज (न) फळसाकर; फळांतले साक-रेचें अर्क (इं).

फ्रेंड (पु) मित्र (इं).

फ्रेंडशिप (स्त्री) दोस्ती; मैत्री (इं).

ब—कोंकणी भाशेचे देवनगरी वर्णमाळेचें तेविसावें व्यंजन.

बकडो (पु) बकरो.

बकें (न) बगळो पक्षी (अप).

बक्कार (न) धेंप; भंगसाळ (का).

बडगो (पु) वालाचे एके जातीचें कड्डण (का).

बगल (स्त्री) बाजू; कूम (फा).

बगेक (अ) खातीर; लागून (के).

बचको (पु) उगडिल्लो पंजो; चपको.

बचकोभर (क्रिवि) बचक्यान धरूंक येता तितलें; चपकोभर.

बचेरी (स्त्री) फजेती; भिकार-भास; बकच्छाय.

बच्चीट (वि) बचत केल्लो; सांठयल्लो.

ब-जटील (न) बी कॉम्प्लेक्स नांवाचें जिवनसत्व.

बटवडो (पु) वांटप; वांटणी; पाववप; पावती.

बटाणी (स्त्री) गोड वाटाणो.

बडक (स्त्री) उत्तर दिशा (के).

**बडकी** (स्त्री) केरळांतल्या कुणब्यांची एक पोटजात.

**बडंग** (स्त्री) उत्तर दिशा (का).

**बडगी** (पु) सुतार; लांकूड कामाचो कारागीर (का).

**बडवडगोत** (न) ल्हान भुरग्यांनीं म्हणपाचें गीत.

**बंडल** (न) पुडो; मोवळी; (ल) फटास (इं).

**बडावणो** (पु) पेटणें, खळयाची जमीन सपाट करचेखातीर खणून चिखलावन पेटण्यान पेटटात तें पेटणें.

**बड्ड** (वि) खडबडीत; ओबडधोबड; बोथट; सुस्त; मठ्ठ (का).

**बण्ण** (पु) रंग; वर्ण (का).

**बण्णागार** (पु) चित्रकार; कळावंत; कवी (का).

**बंतर** (वि) बोंदर (के).

**बद** (वि) ठीक; बरें (के).

**बंद टांचणी** (स्त्री) सेफटी पीन.

**बंदन** (न) बंदपास; आडखळ; बंदिस्ती.

**बंदरबोट** (स्त्री) मोठी बोट बंदराल्लागीं येतकच किनाऱ्यासावन ते व्हड बोटीमेरेन वचपी येवपी ल्हान पडावाएदी बोट.

**बदलो** (पु) सांठिल्ल्या उदकांतलो एक-पेशी जोव. हो आपलो आकार बदलता, म्हळयार ल्हानाचो व्हड आनी व्हडाचो ल्हान जातां जातां ताच्या काऱ्यांतल्यान दुसरो बदलो जल्मता. अमीबा (इंग्लीश).

**बद्द** (वि) जिस्त; बिनचूक; थेट; शेकानशेक.

**बद्दचि** (क्रिवि) खरोखर.

**बंधू, बांधव** (पु) भाव; भावलो; भावा-सारक्या नात्याचो. वर्गबंधू – एका वर्गांत शिकपी म्हणून भावासारको; विद्याबंधू – एक विद्या चडकरून एकाच जाग्यार शिकपी म्हणून भावासारको; धर्मबंधू – एकाच धर्माचे; जातीबंधू – एके जातीं-तले; देशबांधव – एका देशाचे नागरीक; वृत्तीबांधव – एक धंदो करपी.

**बनवड** (न) एके तरेचें लोकगीत.

**बप्पं** (पु) बापूय (के).

**बबर्जी** (पु) रांदपी; सैंपाकी (फातु).

**बबर्जीखानो** (पु) रांदची कूड; कुझीन्य (फा).

**बभ्रो** (पु) गुपीत फोडप; गौप्यस्फोट; बोवाळ (सं).

**बय** (स्त्री) बोय (के).

**बर** (स्त्री) हड्डयाचें कुशीचें हाड; फांसळी.

**बरगो** (पु) वणटींतलो खांबो.

**बरपेलो** (पु) बरोवंक जाणा असो (का).

**बरवणिगी** (स्त्री) लिखाण; बरप; बर-यल्लो मजकूर (का).

**बरशीं** (क्रिवि) बरोबर; सांगातान.

**बरसो** (पु) बारसो; जल्मल्ल्या भुरग्याक नांव दवरंचो उत्सव (के).

**बर्थ-डे** (पु) वर्संगांठ; वाढदीस; जल्म-दीस (इं).

**बऱ्या उतरान, बऱ्या बोलान** (क्रिवि) गोडी गुलाबीन; बरे भाशेन; वाद घालिनासतना.

**बलता** (स्त्री) बळत्कार (के).

**बलशांव** (न) सुंगटांचें लोणचें.

**बलाय, बल्लाय** (पु) संकट; त्रास; कट-कट; इडापिडा; अमंगळ (का).

**बल्लें** (न) जाळें (के).

**बसक्यो** (स्त्री) उठाबशी; बैठकांचो व्यायाम.

**बसपागारी** (वि) पेन्शनर; सेवानिवृत्त.

**बसव** (पु) देवळांतलो नंदीबैल (म्हूर्त); लिंगायत संप्रदायाचो संस्थापक बसवण्ण; बसवेश्वर.
**बहारवाटियो** (पु) वाटमारो; नागोवणो; दरोडेखोर (पु).
**बहिर्वर्ती** (वि) भायर आसपी (सं).
**बहुपदी राशी** (स्त्री) बिजगणितांतल्या विविध पदांच्या वेगवेगळ्या घातांकांतल्या धन (+) आनी ऋण (–) पदांच्यो राशी (मं). Simultaneous equations.
**बहुमार्गचक्र** (न) जायत्या रस्त्यांच्या नाक्यार रहदारी बंद जांवची न्हय म्हणून छेद करपी रस्ते वयल्या वा सकयल्या थरार वळण बांदून व्हरतात आनी वाहनां थांबयनासतना नाक्याफुडे वा आडव्या रस्त्यार वळवपाची रहदारीची व्यवस्था. स्विडन देशाच्या स्टॉकहोम शारांत ही व्यवस्था मुळाक जाली. तिका क्लोवर पद्धत म्हणटात.
**बहुराशीक गणीत** (न) प्रमाण राशीच्या गणितांत त्रैराशीक हो प्रकार सोडून तिनांहून चड म्हळयार पांच, सात, णव बी राशी आसून अनुक्रमान सवी, आठवी, धावी रास सोडून काडपाचो गणिताचो प्रकार. पाच राशी आसून सवी रास सोडून काडपाच्या गणिताक पंचराशीक म्हणटात. सात राशी आसून आठवी रास सोडून काडची पडली अशा गणिताक सप्तराशीक म्हणटात.
**बहुल तारे** (पु) दोनांहून चड संख्येन एकामेकाभोंवतणीं भोंवतात अशे दिसपी तान्यांचे पुजुले.
**बहुवर्ण** (वि) बहुरंगी; चड रंगांचो (सं).
**बळप** (क्रिअ) वायटांत पडप; आजारी पडप; बळ्ळकेंत पडप.
**बळवप** (क्रिक) वळवप (के).
**बळावीक** (वि) चड बळिष्ट.
**बळार** (स्त्री) बक्याची एक जात.
**बाकीन** (न) चवाय; बांकडें; स्टूल; परसाकडे बसपाचें बांकडें (पु).
**बाकूल** (पु) जंगली माजर; बावल (के).
**बांज्य** (पु) न्हाण; चड जोर आइल्ल्या वायटकाराक घालतात तें थंड उदकाचें न्हाण (पु)
**बाझिलिका** (स्त्री) मुखेल इगर्ज (लातीं).
**बाणवि** (वि) ब्याण्णव (के)
**बाणावळी** (स्त्रीं) वाळयाचें तण.
**बातोडी** (पु) भात्यांत (के).
**बांदकाम** (न) बांदावळ; घरबांदणी; रस्ते बांदप, पूल बांदप, कालवे बांदप, बोगदे बांदप, भुयारां बांदप, धरणां बांदप, बंदरां बांदप, रेल्वेरस्ते बांदप बी विद्या; सिविल एंजिनियरिंग.
**बांदणी** (स्त्री) बांदावळ; रचण्क; (पुस्तकाची) शिवणावळ आनी वर्सान-वर्सां तिगून रावत अशी पुस्तकाच्या कवराची आनी कण्याची घट्ट बांदावळ; बुक बायंडींग.
**बादत** (अ) बगर; विरयत; शिवाय.
**बांदप** (क्रिक) रचना करप (पुजा); शिवून घट्ट चिकटावप (पुस्तक); पासान गांठ मारून एकठांय रावतीत अशें करप; (ल) एकठांय रावतीत अशें करप; स्नेहबंदनान वा मायेमोगान एकठांय दवरप.
**बादाबाद जावप** (क्रिअ) खेळांत, झगडयांत वा वादांत कोणाचो जय वा पराजय जायनासतना खेळ, झगडें वा वाद सोंपप.
**बांदो** (पु) (गोडाची) धेंप; व्हड बेली,

**बाप** (पु) आकाशींचो देव; देवबाप. देवाक बापूय म्हणनात. बाप म्हणटात. मनशांभितर ज्या दादल्यांक धूपूत जातात तांकां त्या धुपुतांचे बापूय म्हणटात.

**बापा** (पु) बापूय (के).

**बापारां** (न) बापझंवरें (मालवणी).

**बाप्पु** (पु) बापुलयो.

**बाप्तीज्म** (न) क्रिस्तीधर्म प्रवेश; क्रिस्ती धर्मप्रवेशाचो संस्कार म्हणून घालतात तें न्हाण; धर्मस्नान (पु).

**बाप्सू** (पु) बापूस.

**बाबडें तोंड** (न) निर्शेल्लो चेरो.

**बाबत** (वि) कुचकामी; निरुपयोगी.

**बाबलावणें** (न) बाबडेपण.

**बाबा पुता करप** – नमळायेन भीड घालप; गोड उतरांनीं मागप; गरजेच्या कामा-खातीर गयावया करप.

**बायंडींग** (न) बांदणी; पुस्तक बांदणी; पुस्तकाच्या दोंडिल्ल्या फार्मांची शिवणा-वळ आनी कवरासयत पुस्तकाच्या कण्याची घट्ट बांदावळ (इं). फुल बायंडींग – पुस्तकाच्या कवराक चामडें वा कपडो कवरभर चिकटावन केल्ली बांदणी. हाफ बायंडींग – कवराच्या कण्याक आनी तोंकांक चामडें वा लुगट चिकटावन कव-राच्या उरिल्ल्या भागार कागदी कवर चिकटायल्ली बांदणी. क्वार्टर बायंडींग – पुस्तकाच्या कण्यार चामडें वा लुगट आनी कवराच्या उरिल्ल्या भागार दाट कागद चिकटावन केल्ली बांदणी. पेपर-बॅक बायं-डींग – लुगट वा चामडें वापरिनासतना दाट कागदाचें पूर्ण कवर चिकटावन केल्ली बांदणी.

**बायपाठ** (वि) तोंडपाठ (का).

**बायश** (वि) उणाक; नीच; हलकट (पु).

**बायॉलॉजी** (स्त्री) जीवशास्त्र; जीव आनी वनस्पत हांचे भौतिक जिणेचें शास्त्र वा अभ्यास (इं).

**बारशें** (न) प्रदेश; दोंगरांनीं वेडिल्लो प्रदेश; (सं. वर्ष). लाटंबारशें – लाटं नांवाचो प्रदेश. हेमाडबारशें – हेमाड नांवाचो प्रदेश.

**बारा आणे** (वि) (ल) बावळट; अरवळ; पावणे आठ; पावणो; धड न्हय असो.

**बारा बिरेस्तार आनी तेरा सुक्रार** (ल) कलह; वांकडेपण; तंटो; दानाधिस्पट; वाताहात.

**बारा साडव** (वि) साडेबारा (के).

**बारुली मण** (पु) बारा पायल्यांचो मापी मण.

**बालाव** (वि) वायट (१५६६).

**बालशांव** (पु) सुंगटांचे मसाल्याचें तोंडाक (पु).

**बावगप** (क्रिअ) वागवप; वांकप (के).

**बावगवप** (क्रिक) वागवप; वाकवप (के).

**बावगो** (वि) बाबडो; गरीब.

**बावळेपण** (न) अरवळपण; बुद्दीची उणाय.

**बावेचाळीस** (वि) बेचाळीस (के).

**बाशि** (वि) ब्यायशीं (के).

**बाष्पित्र** (न) वाफ उप्रासपी यंत्र (सं).

**बास** (स्त्री) भास; वचन (के).

**बास्कळ** (वि) चुकीचो; तर्काभायरो; फट (का).

**बास्टर्ड** (पु) शिंदळीचो (पूत) (इं).

**बाळनिंब** (पु) कोडूनिंब.

**बाळशें** (न) तान्या भुरग्याची आंगलट.

**बाळशेपण** (न) भुरगेपण.

**बाळां-जावुंक** (क्रिअ) बाळंत जांवक (के).

**बाळांतिरो** (पु) बाळंटेर (के).

**बाळो, बाळ्या रंगाचो** (वि) दोन तीन रंगांचे ल्हंवेचे थिबके आंगार आशिल्लो (बैल, कुत्रो, बुकलो बी).

**बाळो रंग** (पु) एकाहून चड रंगांनीं वेग-वेगळीं आंगां रंगयल्लो. वेगवेगळ्या रंगांचे कुडके आशिल्लो.

**बिकंड** (न) पणसाचें भिकण (के).

**बिक्कुण्डु** (पु) भिकूण (के).

**बिगदप** (क्रिक) कसप; बांदप.

**बिगर** (अ) शिवाय; विरयत (फा. दिगर).

**बिगर-कोंकणी** (पु) कोंकणी न्हय असो; कोंकण्यांभायलो.

**बिगू** (वि) गच्च; घट्ट.

**बिछायत** (स्त्री) जमखण; हातरूण; बसकेवेली चादर (अ).

**बिजप** (क्रिअ) भिजप (के).

**बिजवप** (क्रिक) भिजवप (के).

**बिनमोल** (वि) मोलांवक येना इतलें म्हत्वाचें; कितलेंय मोल केलें तरी तें थोडें, असलो (फार्स).

**बिबी** (स्त्री) मानादीक कुटुंबांतली बायल; पत्नी (अ).

**बिडार** (न) बिराड; घरसामान; संव-साराचें साहित्य; कुटुंब; राबितो (का).

**बिब्बये घोंगु** (पु) गोडांबीं.

**बियाणें, बियाळ** (न) रोंवचेखातीर दव-रिल्लें बीं.

**बिरंजी** (स्त्री) कांदो, मिरसांग, आलें कालयल्ल्या शितांत फोडणी घालून वायंगीं, बटाट, कोबी बी भाजी मिसळून शिजयल्लो भात.

**बिरमुटली** (स्त्री) ल्हान बिरमुटी; पिसोळयामारकें लांबट फुलपांखरूं.

**बिरमोत** (स्त्री) दया; काकळूत; खोटो आरोप.

**बिरयां** (न) तेम, तेंसांव.

**बिरवण** (स्त्री) धारी; देग.

**बिरुंडेल** (न) भिंडेल; भिंडांच्या बियांचें तेल; कोकमा तेल.

**बिरेव** (पु) लेप; थर.

**बिल्डिंग** (स्त्री) इमारत; मोठें घर; हवेली (इं).

**बिस्कीट आंबोडो** (पु) हुड्डांचे दाळींत मसालो घालून वांटून चून घालून तळिल्लें भजें.

**बी** (स्त्री) दुसरी तीथ; बीय (के).

**बुक्को** (पु) बुकलो (के).

**बुजुर्ग** (व) जाणटेलो; पुज्य; वडील; प्रतिष्ठीत (फा).

**बुड्ढो** (वि) म्हातारो; जाणटेलो; वडील (हिंदी, अप).

**बुड्ढेपण** (न) वडीलपण; म्हातारपण.

**बुतांव-गोंडो** (पु) वांटकुळें तरेकवार तांबड्या रंगाच्या किसरांचें बुतांवाच्या आकाराचें फूल (पु).

**बुतीक** (न) तरेकवार सामानाचो पसरो (पु).

**बुब्बु** (पु) रोग (के).

**बुयांव** (न) गोंयकार बामणांचें एक आडनांव.

**बुरखो काडप** (क्रिक) बुड्डो काडप; उरबडप; बुरखप; घुष्टो काडप.

**बुरड** (स्त्री) सुमाराभायर वाडिल्ली आसकडी वनस्पत.

**बुरमूट** (वि) तीन. कोयंडेवालाच्या खेळांत खणीसावन बालामेरेन कोयंडयान मेजपाच्या अंतराचे आंकडे.

**बुलबुलतरंग** (पु) मर्यादीत सुरावटीचें ल्हानशें एक तंतुवाद्य.

**बुशकोट** (पु) रानांतल्यान, झाळक्यां-तल्यान भोंवतना वापरूंक बरो असो, अर्ध्या हातांचो, पातळ लुगटाचो, उकत्या गळ्याचो कोट. उष्ण हवेंत हो कोट लोकप्रीय जाला (इं).

**बुशशर्ट** (पु) कमरामेरेन सोडटात असो लांब हातांचो पातळ लुगटाचो शर्ट. हो उष्ण हवेंत लोकप्रीय जाला (इं).

**बुशेद** (न) डबी (पु).

**बुश्कार करप** (क्रिक) पोलिमांनीं वा शासनाच्या दुसऱ्या खात्यांनीं (इन्कमटॅक्स, एक्सायज, कस्टम बी) धाड घालून तपासप (पु).

**बुश्कार जावप** (क्रिअ) सरकारी खात्याची धाड पडून तपासणी जावप (पु).

**बूमरँग** (न) मोखून मारतकीर मोखप्याच्या हाताकडे परतून येवपी आवत. हें आवत ऑस्ट्रेलिया खंडांतल्या आदिवासी लोकांनी मुळाक घडयलें (इं); (ल) करप्याच्या आंगार उरफाटो येता असो युक्तिवाद.

**बूर** (न) दादल्याच्या आंडांत स्रव सांठपाचो रोग; हायड्रोसिल; अंतर्गळ (के).

**बेकार ठवय** (पु) (ल) रिकामटेकडो मनीस. बेकार ठवय बायलेचे कुले ताशी.

**बेकींग पावडर** (स्त्री) पीठ वा रवो मळून भाजून खांवच्या खाजक्यांत फूग येवंचेखातीर वापरतात ती सोडियम कार्बोनेटची पावडर; खांवचो सोडो(इं). पोळे, धोणस, केक, सांदनां, इडली बी करपाक ही पावडर वापरतात.

**बेगडी** (वि) बेगड लाइल्लो; नकली चकाकी हाडिल्लो; अडेची सोबा मिरवपी; (ल) कृत्रीम; खोटो.

**बेंजार करप** (क्रिक) क्रिस्तांवांचो धर्मीक संस्कार करप (पु).

**बेटेल** (न) फुरसत (के).

**बेडो थारावप** (क्रिक) देवाभुखार सुपारी दवरून नेम करप.

**बेतणुगें** (न) वेताचो कंडो वा पांटली.

**बेणकट** (स्त्री) पावसांत मातता ती झाळी.

**बेतूल** (न) घर; थळ (अ).

**बेंदर** (स्त्री) बेनल्ल.

**बेपर्वा** (स्त्री) बेपर्वाय; अनास्था; निष्काळजीपण; (वि) बेफिकीर; निष्काळजी (फा).

**बेब्या कोचो** (पु) बेबक्रेचें पोर (के).

**बेरी बेरी** (पु) बी१ जिवनसत्व आगान उणें पडिल्ल्यान काळजाची आनी संज्ञा-तंतूंची शक्ती उणी जाता अशी व्याधी (इं).

**बेल** (स्त्री) क्रिकेटच्या खेळांत विकेटीच्या खुंटयां वेल्यो दोन ल्हान तोणयो. तीन स्टंप्सचेर दोन बेली दवरतात; (पु) जामीन (इं).

**बेलक** (पु) स्वामिजीन घाल्लो जाती-बहिष्कार (के).

**बेसाय** (स्त्री) शेतकी (का).

**बेस्ट मॅन** (पु) काजाराच्या मुवाळचांत न्हवऱ्याचो धेडो (इं).

**बेहडो** (पु) (देवकृत्याचें) थारायल्लें मोल वा दक्षिणा.

**बेळसाण** (स्त्री) बेळशेल्ल्या पदार्थाची रूच आनी वास.

**बेळें** (न) पीक; उत्पन्न (का).

**बैसकार** (पु) उठबस; पावुणचार (के)

**बोअरवेल** (स्त्री) कूपनलिका; यंत्रीक स्क्रून खणिल्ली आनी ल्हान व्यासाची उदकाखातीर वा तेलाखातीर खोदतात

अशी, नळान उदक वा तेल उमळून पुरुमेत करता अशी बांय; टयूब वेल (इं).

**बोकुडलें** (न) बोकडेचें पोर.

**बोगंती** (स्त्री) देवी भगवत (के).

**बोंच** (स्त्री) तोंच; चोंच.

**बोडको (स्त्री), बोडकें, बोडूक** (न) तकली; माथें; केंसांची कापणी केल्लें माथें; केंस नाशिल्ली तकली. उपहासान वापरुंचें उतर.

**बोडी** (स्त्री) बडी (के).

**बोडीक** (न) बोडूक; नुसत्याची उजरायल्ली तकली.

**बोड्डा** (वि) बावळट.

**बोड्ड** (वि) बोथट; धार मुनिल्लो.

**बोथ** (स्त्री) बोथी.

**बोदु** (वि) मूर्ख (के)

**बोंब** (पु) नळ (के); चींब; भुरग्यांक दूद दिवपाची चिवेंची बाटली.

**बाँबें** (न) मुर्ती; बावली (का).

**बॉल डान्स** (पु) येवरोपी लोकांचो दादल्यांचो आनी बायलांचो मुज्ग वाजैत जोडयांनीं हॉलांत करतात तो आधुनीक नाच (इं).

**बोलतो** (पु) उलोवपी.

**बोलप** (क्रिक) उलोवप; रागार जावप; सांगप; दोष दिवप.

**बोलर** (पु) क्रिकेटच्या खेळांतलो गोलंदाज; (वि) उंच वांटकुळचा चेप्याची एक तरा. बोलर हॅट (इं).

**बोलवप** (क्रिक) वदवप; उलोवंक लावप.

**बोली** (स्त्री) उलोवप; उलोंवची भास; थारावणी; तोंडी करार; चर्चा; संभाषण.

**बोलेर** (पु) घोडयाची गाडी चलोवपी कामगार; कंडक्टर; वाहक (पु).

**बोवाळ घालप** (क्रिक) गडबड करप; बोवाळ करप.

**बॉस** (पु) वरिष्ठ अधिकारी; (धंद्याचो) मालक; पात्रांव (इं).

**बोहरा** (पु) मुसलमान समाजांतलो एक पंथ. हे लोक वेपार धंद्यांत हुशार आसतात.

**बोळणीक** (स्त्री) देवीचें वायट (का).

**बोळमांडो** (वि) बोडको; तकलेक केंस नाशिल्लो; खड्डो (का).

**बोळें** (न) वाळो (के).

**ब्याण्णोय** (वि) ब्याण्णवद; ९२.

**ब्यार** (पु) व्यार; धंदो (के).

**ब्यारी** (पु) व्यापारी; ब्यारी (के).

**ब्रह्मपुरी** (स्त्री) बामणवाडो; भटवाडी.

**ब्रह्मर्षी** (पु) ब्रह्मज्ञान जाल्लो ऋषी; ब्रह्मज्ञानी ऋषी (सं).

**ब्रह्मो** (पु) सृष्ट निर्माण करपी ब्रह्मदेव; ब्रह्मराक्षसाचें भूत; श्रौत यज्ञांत कांय चुको घडल्यो तर सुधारचेखातीर आनी चुकांक लागून यज्ञकर्त्याचेर संकट येवंचें न्हय म्हणून सगळे वेदविद्येचो ज्ञानी असो ऋत्विक यज्ञाक आपोवन ताच्या सल्ल्यान सगळो वावर करतात ताका यज्ञांतलो ब्रह्मो म्हणटात.

**ब्रहस्तार** (पु) ब्रेस्तार (के).

**ब्राह्मण** (न) वेदविद्येंतलें यज्ञशास्त्र शिकोवपी, चर्चा आनी गोष्टी आशिल्ले ग्रंथ; कर्मांतल्या मुद्यांचें विवेचन; यज्ञकर्मचर्चा. ऐतरेय, कौषीतकी, शतपथ बी ब्राह्मणांत चारय वर्णांचो इतिहास आसा. हया भायर पंचविंश, तैत्तिरीय, षड्विंश, मंत्र, जैमिनीय, जैमिनीयोपनिषद्, सामविधान, आर्षेय, देवताध्याय, वंश, संहितोपनिषद् आनी गोपथ मेळून सगळे पंदरा

ब्राह्मणग्रंथ आसात. हे ग्रंथ इसवीसना-पयलीं एक हजार वर्सांआदीं रचून जाल्यात. म्हळचार ते तीन हजार वर्सां-परस चड प्राचीन आसात. वेदांउप्रांत ब्राह्मणां रचलीं. ब्राह्मणांउप्रांत आरण्यकां आनी त्या उपरांत उपनिषदां रचलीं. ब्राह्मणां, आरण्यकां आनी उपनिषदां हें वेदवाङ्मय.

**ब्राह्मो समाज** (पु) बंगालांतलो हिंदू धर्मियांचो मुर्तीपुजा आनी ग्रंथप्रामाण्य न मानपी एकेश्वरी पंथ.

**ब्रुट, ब्रूत** (वि) पशू (इं पु).

**भ**—कोंकणी भाशेचे देवनगरी वर्णमाळेचें चोविसावें व्यंजन.

**भक्ती** (स्त्री) उपासना; आराधना; होरावणी; प्रिती; निष्ठा; ध्यानधारणा; भजन; सेवा; पुजा; उपचार हीं भक्तीचीं वेगवेगळीं आंगां (सं).

**भगां पडप, भगां फुटप** (क्रिअ) खोल कात्रे पडप; दुखाणीं जावप; वरण जावप; आंग कुसप.

**भग्नमनस्कता** (स्त्री) मनाच्या भावना-त्मक गोंदळाची व्याधी; सुसंगतपणान येवजूंक येना जावपाची अवस्था; निरर्थक आनी विक्षिप्त हालचाली करची अवस्था; शिझोफ्रेनिया (सं).

**भटियारी** (पु) कोंकणी मुसलमानांची रांदप्यांची जात (हिं).

**भंडावप** (क्रिक) त्रास दिवप; छळप; हैराण करप.

**भरकूण** (न) भारकूण (के).

**भद्रताय** (स्त्री) कल्याण; बरो घडिचार; मांगल्य; मंगलताय (सं).

**भयरो जळप** (पु) नर्कमंगनी नाशिल्ली, मंवय पडल्ली, मादी, नर्कीची वागणूक; अर्थहीन वागणूक; मपनांत भंयान मारिल्ली आरड.

**भयांकृत** (वि) भेष्टावणो; भयान थर-थरावपी; भेष्टावपी (सं).

**भरखत** (न) निजांतलें सारें; प्राण्याच्या घाणमुतान बी कुसयल्लें सारें; कंपोस्ट खत; सेंद्रीय खत.

**भर घालप** (क्रिक) भराव घालप; उबारी दिवप; मजत करप; भरून काडप.

**भरणो-चिठी** (स्त्री) पैशे फारीक कर-पाचें तपशीलवार पत्रक.

**भर नासप** (क्रिअ) चड मुवार्थी आमप. तारूं भरूंक गेल्लो आयलो खंय; पोट भरूंक गेल्लो आयलो ना.

**भरवण** (वि) भरिल्लो; मातये भरवण – मातयेंत पुरिल्लो, मातयेबरोबर एकरूप जाल्लो; माती जाल्लो; मातीमय जाल्लो; उदकाभरवण – उदकांत बुडिल्लो.

**भरवंसप** (क्रिक) विश्वास दवरप; पात-येवप.

**भरीक घालप** (क्रिक) वेंठीक धरप; मजत करूंक लावप.

**भरसमुद्र** (पु) किनाऱ्यामावन तीन मैल अंतरा भायलो समद्र.

**भलायकी खातें** (न) आरोग्य खातें; आजारी लोकांक वखद-उपचार करपी वैजकी नोकरवर्ग.

**भल्ले** (अ) 'वाव्वा;' 'की जय;' 'समर्थ' बी अर्थाचो गौरवाचो उद्गार. वीरभद्रा भल्ले, गौरिकुमरा भल्ले, अशी गर्जना शिमग्यांत वीरभद्राच्या संवगाचे

मिखणकींत करतात.

**भविष्य नियोजन शास्त्र** (न) भविष्य-काळांतले जिणेची वास्तव कल्पना करून समाजजिवनाच्या नियोजनाची विद्या; फुडार शास्त्र (सं).

**भविष्यवाद** (पु) दैवी प्रेरणेन फुडाराचें भाकीत करूं येता ही भावना; दैववाद; नशिबाचेर विश्वास दवरची वृत्ती (सं).

**भव्योदात्त** (वि) भव्य आनी उदात्त; आकारान व्हड आनी गुणांनीं थोर (सं).

**भांगरसाळ** (पु) बारीक तांदळाची एक जात; साकरभाताक योग्य असो तांदूळ.

**भागवप** (क्रिक) पुरोवन घेवप; थोडें आसलें तरी पावता अशें करून घेवप; वेळ भागवप – वेळ सांबाळप; अन्न सांबाळप; अतिथीधर्म सांबाळप; दीस भागवप – कमी साधनांनींय कशेंतरी काम करून घेवप.

**भागेवंत** (वि) भाग्यवंत; नशीबवान; मुदैवी; सदैव (सं).

**भाचो** (पु) (दादल्याचे) भयणीचो वा मेवण्याचो (बायलेच्या भावाचो) पूत; (बायल मनशेचे) नणडेचो वा भावाचो पूत.

**भाजन** (न) आयदन (सं).

**भाटकी** (स्त्री) एक सवणें.

**भाणो** (पु) (ल) पोटांतली पिशवी.

**भाण्डि** (स्त्री) आगगाडी (के).

**भायरि करप** (क्रि) हागप (के).

**भायरो** (वि) नाशिल्लो वा विरयत ह्या अर्थाचें जोड उतर. दुडवांभायरो – दुडू नाशिल्लो. घराभायरो – घर नाशिल्लो. जातीभायरो – जातीन भायर उडयल्लो.

**भायली पिडा** (स्त्री) वेश्याव्यवसाय आनी संभोगाच्या अतिरेकाक लागून रक्त दुषीत जावपाचो गरमीचो संसर्गी रोग; उपदंश.

**भायल्या रंगाचो** (वि) भायल्या छंदाचो; नायकिणीच्या नादाचो.

**भारतविद्या** (स्त्री) भारतीय इतिहास, भारतीय संस्कृताय, भारतीय धर्म, भारतीय लोक, भारतीय कला, भारतीय विद्या, भारतीय भासो हांची प्राचीन काळासावन आतांमेरेनची इतिहासीक विद्या Indology (सं).

**भारचो** (वि) भायलो (के).

**भारादीक** (वि) बजनदार; चड म्हत्वाचो.

**भारतशास्त्री** (पु) संस्कृत, प्राकृत आनी आधुनीक भारतीय भासांचो अभ्यास करून भारतविद्येंत प्रवीण जाल्लो विद्वान; Indologist.

**भारोत्तोलन** (न) वजन उखलपाचो व्यायाम; वजन उखलपाची सर्त (सं).

**भाली** (स्त्री) ल्हान भालो; बाण (के).

**भाव** (पु) भावना; स्रद्धा; विचार; येवजण; भक्ती; भोळेपण (सं). द्वैत भाव – वेगळेपणाची जाणीव. अद्वैत भाव – वेगळे न्हय असो सिद्धांत. धर्मभाव – धर्मीक विचार. द्वेषभाव – दुस्मानकाय.

**भावडो** (वि) बाबडो (के); भावलो; दायजो गोत्री.

**भावना** (स्त्री) कल्पना; निष्ठा (१२९०).

**भावप** (क्रिअ) रूप घेवप; उप्रासप; घडप; (क्रिक) मानवप; मानप; पसंत पडप (सं).

**भावातीत** (वि) भावनेच्या पेल्यानचो; येवजूंक कठीण असो (सं).

**भावातीत ध्यान** (न) अणभव घेवंक कठीण अशी एकाग्रताय; अध्यात्मीक समाधी (सं).

**भावो** (पु) व्हडलो देर.

**भाषांतरकर्तो, भाषांतरकार** (पु) एके भाशेंतल्या मजकुराचो दुसरे भाशेंत अर्थ सांगपी (सं).
**भासाण** (न) आयदन.
**भासावणी** (स्त्री) अभिवचन (के).
**भिकबाळी** (स्त्री) दादल्याच्या दाव्या कानाचे बयले पाळयेंत बुराख काडून घालताले ती मोतयां गुथिल्ली भांगराची मुदी; जल्मल्लो भुरगो जगचो म्हणून भीक मागचो नवस करून भिक्षेच्या दुडवांची बाळी चल्याच्या कानांत घालताले ती.
**भिकारचोंट** (वि) (ल) नालायक बेकार (मनीस); मुर्दाड. गाळीसारकें वापरतात अशें उतर.
**भिकारपण** (न) लाचारी; उणाकपण; दळिद्र; भिकाऱ्याची वृत्ती (सं).
**भिकावळ** (स्त्री) सोडमुजी दिमा मजयाक भिक्षा घालपाचो सुवाळो.
**भिक्खू** (पु) बौद्ध धर्मी संन्यासी; भिक्षू (पाली).
**भिगारी** (स्त्री) फोपळीचें फूल.
**भिजुडाय** (स्त्री) भित्रेपण; भंय दिसपाची वृत्ती.
**भिडेवप** (क्रिअ) कांवचेवप; दमप; मुर्वत धरप.
**भितरो, भित्रो** (वि) भिजूड; भियेवपी; भंय दिसपी; घाबरट (सं).
**भितल्लेकडे** (अ) भितरयां; (भीतरीलीकडे १२५०).
**भियाण्ड** (वि) भिजूड (के).
**भिरभिरी मारप, भिरभिरी येवप** (क्रिअ) चड राग येवप; तिडक मारप.
**भिरांकूळ** (वि) भियेल्लो; भयांकृत; भयानक; भेष्टावणो (सं).
**भिरांत** (स्त्री) भंय; भ्रांत; धास्ती.
**भिरें** (न) कळप, जमाव; चोंबो. मव-ण्यांचें भिरें.
**भिरोंडकारांचें पुस्तक** (न) (ल) अस्ता-व्यस्त वा गैरशिस्त कामाचो नमुनो.
**भिल्ल** (पु) आदिवासी लोकांतली खान-देशांत रावपी रानटी जात.
**भिल्ली** (स्त्री) भांग.
**भिवकूर** (वि) भिजूड.
**भिवप** (क्रिअ) भियेवप; भंय दिसप.
**भिसको** (पु) (ल) लवडो; चोंट.
**भिसक्यार मारप** (क्रिक) (ल) पर्वा करिना जावप.
**भिसरावप** (क्रिक) भेष्टावप (के).
**भिस्त** (स्त्री) भरवंसो; विश्वास.
**भिळको** (पु) भोंको; बुराख (के).
**भिक्षा, भीक** (स्त्री) अन्नाची याचना; नमळायेचें मागणें; दान मागप (सं).
**भिक्षांदेहो करप** (क्रिक) भीक मागप; संस्कृत भाशेंत 'भीक घाल गे' अशें म्हणप.
**भिक्षू** (पु) बौद्ध धर्मी संन्यासी (सं).
**भीकर** (वि) भयांकृत; भयानक; भेष्टा-वपी (सं).
**भीस** (स्त्री) दादल्यांनी शेंडी दवरून कापणी करपाची पद्धत सोडून माथ्याचे सगळे केंस वाडोवपाची केंसरचणूक.
**भुकेवप** (क्रअ) भूक लागप.
**भुकेस्त** (वि) भूक लागिल्लो.
**भुगोल** (पु) पृथ्वी, धर्तरी; धर्तरेवेल्या देशांची आनी थंयल्या लोकांची माहिती शिकोवपी विषय (सं).
**भुंजप** (क्रिअ) भुजप. हत्ती भुजतात अशें म्हणटात (के).
**भुजवप** (क्रिक) समजावप; शांतवन करप; खुवळावप; खुववप.
**भुयचणो** (पु) भूंयमूग; मस्मी भिकण.

**यारी लोहमार्ग** (पु) टचूब रेल्वे; मोठचा हरांतल्यान जमनींत बोगदे खणून तांतूं-ल्यान प्रवाशांची वहातूक करचेखातीर दिल्ली रेल्वे.
**येल** (पु) रानदुकरांचो कळप.
**रगेकाल** (स्त्री) भुरग्यांची आवय; हान भुरग्यांक सांबाळपी बायल.
**लसावप** (क्रिक) भूल घालप; भुलवप; होवप.
**वर** (पु) घुंगुल्लो; भ्रमर; भोंवरो; असो आवाज करीत फुलांचें म्होंव ावपी आनी लांकूड कोरांतपी किडो.
**रू** (पु) ल्हान भुरग्यांचे भाशेंत दुखता ा जखम जाल्लें आंग वा दुखीचो जागो.
**गप** (क्रिअ) भोगप (के).
**भूत भूतकाळ** (पु) साधो भूतकाळ वा र्ण भूतकाळ हाचे पयलींच्या काळाचो ोध करपी काळ. देख : केल्लो, गेल्लो, ल्लो, मारिल्लो.
**भूतवत** (पु) मृग नक्षत्रांतल्या व्याध ाऱ्याचें नांव (सं).
**भूमापन** (न) जमीन मेजणी.
**भूमापन खातें** (न) जमीन मेजपाचें सर-कारी खातें; आग्रिमेंसूर.
**भूंय-कांदो** (पु) कंदमूळ; जमनींत रुजून भितर वाडटा तो कारांदो वा गांठ. सुरण, कांदो, बटाटो, आळवाची माडी, चिनें, कणंगां बी भाजून वा उकडून भुसभुशीत खांवची वा भाजी करून खांवचीं मुळा-गांठी (सं).
**भूयसी दक्षिणा** (स्त्री) देवधर्माचो विधी सोंपतकच ब्राह्मणांक दितात ती भरपूर दक्षिणा (सं).
**भूंयसोंसो** (पु) रानांतलो हुंदीर.
**भूंयिचणो** (पु) भुयमूग.

**भूर** (क्रिवि) ल्हान भुरग्यांचे भाशेंत दूर वा पैस.
**भेडस** (स्त्री) बारीक जांबळां लागपी रूख.
**भेणस** (न) काळें बोर; (स्त्री) काळचा बोरांचें झाड.
**भेमटावप** (क्रिक) घोळकावप; फसवप; घोळाक घालप.
**भैरि** (स्त्री) भायरी; परसाकडे जांवचें वखद (के).
**भैलो** (वि) भायलो (के).
**भोक्तो** (पु) भोगणारो; आनंद वा सूख घेणारो; रसिक; कसल्याय जिनसाची रुची घेवंक जाणपी; जाण आनी आवड आशिल्लो; गुणग्राहक (सं).
**भोगण** (न) अणभव; जाणकारी.
**भोगप** (क्रिअ) भावप; समजप; सोसप; अणभवप (सं).
**भोजवप** (क्रिक) जेववप; जेवंक वाडून जेववप (के).
**भोपशें, भोवशें** (न) बारीक नुसतें; कर-बट; करमटलें; पचकमें. ताजीं भोंपशीं आनी सुकीं भोपशीं आसतात.
**भोबळें** (न) काळींग.
**भोय** (पु) पालखी, माचूल, मेणो, डोली बी वाहनां खांद्यार घेवन व्हरपी मानाय; व्हडें वलोवपी खलाशी; भोई.
**भोयोभोयो** (स्त्री) भोगभोग; विद्भोग; भोयभोय (अप).
**भोंवडेकार** (पु) शिकारी; कासादोर.
**भोंवती** (क्रिवि) भोंवतणी; (स्त्री) फिरती; भोंवडी.
**भोंवारीं** (क्रिवि) भोंवतणी; संयभोंव-तणी; सयभोंवार.
**भोवीं** (स्त्री) भुंवय.
**भौत** (वि) भोव; बहुत (के).

**भौतीक उपचार** (पु) **भौतीक चिकित्सा** (स्त्री) वखदाचो उपचार न करतां, व्यायाम, शेक, मालीस बी उपचारांनीं व्याधी बरी करपाचें तंत्र; फिजियोथरॅपी.

**भौवचन** (न) एकापरस चड वस्तूंचे संख्येचें व्याकरणी लक्षण (सं).

**भ्रष्ट** (वि) विटाळिल्लो; बहिष्कार घाल्लो; भायरायल्लो; भायरो ह्या अर्थाचें जोड उतर. देख : धर्मभ्रष्ट – धर्माभायरो. शीलभ्रष्ट – शील व्हगडायल्लो. चारित्र्यभ्रष्ट – चारित्र्यहीण. नितीभ्रष्ट – अनितीमान. जातीभ्रष्ट – जातीभायर काडिल्लो (सं).

**म**–कोंकणी भाशेचे देवनगरी वर्णमाळेचें पंचविसावें व्यंजन.

**मखताल कापड** (न) गर्भरस्मी माडी.

**मंगल** (न) मँगनीज धातू; निळसार लोखंड.

**मंगावें** (क्रिक) मागचें (के).

**मगे, मगेर** (अ) मागीर; उपरांत.

**मगेले थंय, म्हगेले थंय** – म्हज्या घरांत.

**मगेलो, मेगेलो, मिगेलो, म्हगेलो** (सं) म्हजो; म्हजे घरचो.

**मंगेश** (पु) महादेवाचें एक नांव; मांगिरीश; मंगेशी गांवांतलें गोंयकारांचें प्रख्यात दैवत; मुखवटो रुपी शंकर देव (द्रा). मंग – नटेश्वर (द्रा). मंगनाथ – जैन दैवत.

**मग्गें** (न) मोगें; चिबूड.

**मंच** (पु) उच्चासन; पलंग; माची (का).

**मच्चु** (पु) माव.

**मच्छिमार** (पु) गावती; खारवी; नुमतें मारून विकपाचो धंदो करपी (सं).

**मज घेवप** (क्रिक) आपखोशयेन करप; आपूणहून फुडाकार घेवप.

**मजतगार** (पु) मजत करपी; उपकारा पडपी (फा).

**मंजूटी** (स्त्री) वाल; चवळेची एक जात.

**मटार** (स्त्री) ताजो वाटाणो; वाटाण्याची ताजी सांग. सुकूंक नाशिल्लो वाटाणो.

**मटो** (पु) बांद.

**मडल** (न) चुडत (का).

**मडतेल** (न) माडटेल; कुडची; लाकडी हातोडो (के).

**मडवळखार** (पु) कॉम्स्टीक मोडो; मावण करूंक वापरतात तो सोडियम हायड्रोक्सायड पिठो (का).

**मडवळण** (स्त्री) एक ल्हान सवणें.

**मडवळीण** (स्त्री) मडवळाची बायल (का).

**मडशी** (स्त्री) आंव; अजीर्ण; अपचन; मोडशी.

**मडळ** (न) चुडटाचें मल्ल (के).

**मंडूर** (न) लोखंडाचें भस्म. हें आयुर्वेदीक वखद म्हण वापरतात.

**मड्ड, मरड** (न) मपाट दोंगरी जमीन.

**मड्डी** (स्त्री) कोयर; घाण; उपयोग नाशिल्ली वस्त; कचरो (का).

**मणकी** (अ) मणिके; सारको.

**मणाशि** (क्रिक) म्हणशी (के).

**मणिकांचन योग** (पु) भांगराच्या दागिन्यांत रत्नाचें थीक बसवपाचो बरो घडिचार (सं).

**मण्णेण्णें** (न) घासलेट (के).

**मतलाडू** (पु) हरभऱ्याच्या पिठाच्या

ड्यांचो गोड लाडू.

**र्ती** (न) मोतीं (के).

**ोदक** (न) संकल्पाचे मंत्र म्हणून डिल्लें उदक; पितरांच्या नांवान डिल्लें तिळोदक; मंत्र म्हणून भारिल्लें शक्तीमान केल्लें उदक (सं).

**स्यकन्या** (स्त्री) मस्तक, धड आनी हात यलमनशेचे आनी पांयांच्या जाग्यार त्याची शेपडी अशा सुंदर रुपाची दंत-थेंत वर्णिल्ली समुद्रांत जियेवपी बायल; मुद्रकन्या; Mermaid (सं).

**त्स्यदेश** (पु) महाभारतांतल्या विराट जाचो देश; इंद्रप्रस्थाचे नैऋत्येकडचो श.

**दक** (न) चिखलान भरिल्ली जमीन; टी.

**वचो, म्हवचो, मदलो, म्हदलो** (वि) दीं म्हदीं आशिल्लो वा जाल्लो; एके डेन नाशिल्लो; पयलो वा निमाणो ाशिल्लो; देगेन नाशिल्लो.

**दनध्वज** (पु) बायलमनशेच्या संभोग द्रियाचें तेमूक (सं).

**दल** (न) मुद्दल (के).

**देराक येवप** (क्रिअ) आशिल्लें मदेर ोरमेल्ल्यान नवीन मदेर घालुंची गरज ामप.

**देरामेंत** (पु) घराक, गाडयेक, तारवांक ी करचेलें लांकूडकाम (पु).

**मद्यार्क** (न) सोऱ्याचें सार; अल्कोहोल; स्पिरीट (सं).

**मद्राति** (स्त्री) म्हद्यान रात (के).

**मधमास** (पु) मधुचंद्र; आनंदमास; आधुनीक काळांत लग्नाउप्रांतचो घोवा-बायलेचो पयलोच म्हयनो (सं).

**मधुरताय** (स्त्री), **मधुरपण** (न) गोडी; सुवादीकपण; रुचीकताय; मोहकपण; सोबितकाय (सं).

**मध्यकाल** (पु) म्हदलो वेळ (सं).

**मध्यंतर** (न) मदलो वेळ; चड वेळाच्या कार्यक्रमामदीं कांय वेळ विस्रांतेखातीर वा च्या-पाणी घेवंचेखातीर दवरतात तो.

**मध्यस्थ** (पु) दोन विरोधी पक्षांची समजाविशी करपी निष्पक्षपाती मनीस; तिरायत (सं).

**मनवासी** (पु) मनांत रावपी; (वि) मनस्वी; एकनादी; छंदी.

**मनशाळो** (वि) मनशांबरोबर सुखाममा-धानान जियेता असो संवकळिल्लो (प्राणी).

**मनवप** (क्रिक) साजरो करप; पार पडप; आटाप धरप (हिं).

**मनाचे मांडे खावप** (ल) मनोरथ रचप.

**मनाचो मांडो** (पु) हातान कांय घडनास-तना मनांतल्या मनांत आपणाक जाय तशी उदरगत लाभता अशी येवजणी; मनोरथ.

**मनावप** (क्रिक) मना करप; करूंक आडखळ हाडप; विरोध करप (अ).

**मनीं मानशीं** (क्रिवि) मनांतल्या मनांत.

**मनीषु, मनीष** (पु) मनीम; मनीश (के).

**मनोदशा** (स्त्री) मनाची अवस्था; विचार; मत; धारणा (सं).

**मनोरुग्ण** (पु) धड येवजूंक येना असो मनीस; मनाचो तोल सुटिल्लो मनीस; धनर जाल्लो मनीस; तकली सारकी नाशिल्लो मनीस; मालूक मनीस (सं).

**मनोविकास** (पु) मन संस्कारीत जावपाची क्रिया; सज्ञान जांवची क्रिया; मनाची शिकवणूक; मनाची सुधारणूक; मन विवेकान संयमीत करची क्रिया; मनाक शिस्त लांवची धडपड (सं).

**मनोव्यथा विज्ञान** (न) मनोरुग्णांच्या

उपचारांचें शास्त्र (सं).
**मफलर** (पु) गळ्याभोंवतणी उबेखातीर गुंडाळपाचो लोंकरी लांबट लेंस (इं).
**मया पोट्टि** (न) मायें पोटीं, आवयचे पोटांत (के).
**मरकत मणी** (पु) पाचेचो खडो; पांचव्या रंगाचें रत्न (सं).
**मरणपत्र** (न) आपले मालकीचे माल-मत्तेचे विलेवाटीसंबंदीं मरणाच्या वेळार बरोवन दवरिल्लें कायदेशीर इच्छापत्र वा मृत्युपत्र; तेश्तामेंत; वुईल.
**मरान** (अ) मेरेन; पर्यान (के).
**मरुद्यान** (न) वाळवंटांतलें उदकाळ पोरसूं; मरु जलभूंय; मरुवन (सं).
**मर्गा पालो** (पु) वडटेलांव; पुदिनो.
**मर्णाधीन** (वि) मर्णाचे सत्तेंतलो; जाका मरण आसा असो; मरण जाका सुटना असो (सं).
**मलनाड** (पु) खूब रानां आशिल्लो देश; रानांचो देश; रानांनीं भरिल्लो देश (का).
**मलें** (न) रान (का).
**मलेकुडिय** (पु) सह्याद्रीचे पश्चीम उतारावेलो एक आदीवासी समाज (का).
**मले, मोलो** (पु) दोंगर (के).
**मवप** (क्रिक) मेजप (सं).
**मवळो** (पु) मावळो; मामा (के).
**मवालीपण** (न). तवनासपण; गुंडगिरी (अ).
**मवाळ** (वि) विवेकी; सौम्य स्वभावाचो; शांत वृत्तीचो (अ).
**मवाळपण** (न) सौम्य वर्तणूक; भिडेस्त वागणूक (अ).
**मशी** (स्त्री) शाय; काळी शाय (सं).
**मसक** (पु) म्हसंगाचो रूख; शेगलाचें झाड.
**मसालेभात** (पु) मसाल्याचें फोड्ण दिल्लो भात.
**मस्लीन** (न) मलमली लुगट (इं).
**महंत** (पु) मठाधिपती; संप्रदायाचो स्वामी (सं).
**महत्कारी कांच** (स्त्री) वस्तू प्रमाणशीर वाढून दिसता अशें भींग.
**महादूत** (पु) देवदुतांचो मुखेली; आर्की-जेल (गाब्रिएल) (सं).
**महाभियोग** (पु) पंतप्रधान वा राष्ट्रपती-सारक्या व्हड पदाधिकाऱ्याची संमदे-सारक्या न्यायाधिकरणामुखार शासकीय गैरवर्तनाखातीर करतात अशी चवकशी
**महाविष्णु** (पु) अकरा विष्णुसुक्तांच्या आवर्तनांचो अभिषेक करतात ती एका-दष्णी. अकरा एकादष्ण्यांच्या आवर्तनाक लघुविष्णु म्हणटात. आनी अकरा लघु-विष्णु अभिषेकांचो एक महाविष्णु याग जाता (मं). धा-बारा ब्राह्मणांक चार पांच दिसांत हो याग करूंक जमता. शैव दैव-ताक महारुद्र करतात तेच तरेचो वैष्णव दैवताक हो महाविष्णु करतात.
**महोदर** (पु) जलोदर; नाळकूट; कुडींत रक्ताच्या जाग्यार उदक सांठून जाल्लो व्याधी (स).
**मळ** (न) साव्या उदकांतलें एक सुवादीक नुसतें.
**मळकुंड** (न) भुमीगत गटारव्यवस्था नाशिल्ले वसतेंत संडासाची घाण निचरा वपाची आधुनीक पद्धती बांदून काडिल्लें जमनींतली टांकी; सेप्टीक टँक.
**मळणी घालप** (क्रिक) लुंविल्लीं धान्याचीं कणसां पांयांनीं माड्डप आनी गुड्डावप आनी तण आनी दाणे वेगळे काडप.
**मळयो, मळया** (न) कोंकणांतल्या का

मणांचें आडनांव.
**ळो** (पु) रोंपो.
**क्षिचाणे** (क्रिवि) फाटल्यान.
**ंकडी** (स्त्री) खुंटी; खुटयाळें.
**खळप** (क्रिक) अपुर्बाय करप; गोंजा-
प.
**गल्यान** (क्रिवि) फाटीं; फाटल्यान (के).
**गशी, माक्षी** (क्रिवि) मागीर; फाटीं;
ाटल्यान.
**गेलो, माजो** (सना) म्हगेलो; म्हजो;
ह्राजो.
**ाचोळी** (स्त्री) उंच इमारतीचें उंचा-
लें काम भायल्यान करचेखातीर बांदिल्ली
ात्पुरती कोंडयांची चौकट वा माची.
**ार्जशिल** (न) रोजांच्या फुलांची एक
ात.
**ाजवप** (क्रिक) लेप काडप; माखप;
ूर्तीक वा आयदनाच्या पोंदाक लेप
काडप.
**ाजा** (सं) म्हाका; म्हज्या (के).
**ाजान** (सना) म्हज्यान (के).
**ाटूल** (न) व्हंकलेक तेल, रोस बी लावन
न्हाणयतात त्या वेळार वापरतात तें
नालतेसारकें आयदन.
**माडटेल** (न) लांकडी तुतयो; कुडची;
मार्नेल (पु).
**मांडप** (क्रिअ) सांचप; (क्रिक) दाळप;
रचप (१५६६). हया उंडयाक काजळी
मांडल्या.
**माडी** (स्त्री) आळवाचें जमनींत वाडपी
कांडयेच्या आकाराचें लांब मून. माडयेचीं
कापां तळून तोंडाक लायतात. हया माड-
यांक कोंब्र फुटटात. ते कोंबाचे दोळे लावन
आळू रुजता आनी नवीन माडयो लाग-
तात. हयो माडयो म्हळचार लांबोडे आंकू-
रच आसतात.
**माडो, माड्डो** (पु) माड; नाल्लाचें झाड
(के).
**मांडो** (पु) पिठीसाकर, फोव आनी
ल्हायांचें पीठ कालोवन केल्लें पुरण घालून,
मैद्याची चौपदरी तिकोनी चपाती लाटून
तळिल्ली पोळी. सुग्रण बायलमनशेन
कुंडयाचो मांडो करून सुखाचो संवसार
करचो आसता (का).
**माणसुकी** (स्त्री) सभ्यपण; मानमर्याद;
बरेभाशेन हेरांकडेन वेव्हार करपाचो
गूण; दया, कारुण्य, दानशीलताय, धर्मीक
वृत्ती बी गुणांचो समुदाय; इलाज;
उपाय (प्रा).
**माणसुकेन सुटप** – अब्रू सांबाळप; धड-
पणान मेकळो जावप.
**माणेणें** (न) घासलेट तेल (के).
**मातप** (क्रिअ) चड वाडप; सुमाराभायर
मोठो जावप; मस्तेवप; लसलसून पाले-
वप (रूख, वाल, तण, बुंरड बी); गर्व
जावप; मद मारप; दुष्टपणान वागप.
**मातूस** (वि) मातयेच्या वासाचो; मात-
येचे रुचीचो; मातयेसारको.
**मातृका** (स्त्री) छापखान्यांत मजकूर
जुळवंक वापरचेलो अक्षरमुद्र (टायप)
ओतपाचो सांचो (सं); मूस; घड-
कामाच्या आकाराची पोकळ मूस वा
मोल्ड.
**मातॅर** (स्त्री) पू; कुसकें रगत; अभ्या-
साचो विषय; शिकपाचो धडो (पु).
**मात्यां-दुकि** (स्त्री) तकली उसळपाची
व्याधी (के).
**मात्र** (अ) फक्कत; थोडो; मात्सो;
गणखणीं; प्रत्येक हया अर्थाचें जोड-उतर.
वस्तुमात्र – दर वस्तू. प्राणीमात्राक –

प्रत्येक प्राण्याक. काडीमात्र – काडीलेगीत. अणुमात्र – अणुभर सुद्दा. क्षणमात्र – खीणभरलेगीत.

**मात्रिमोनी** (स्त्री) लग्नविधी; काजार (पु).

**मात्रीकुल** (न) शाळेंत, कॉलेजांत वा हेर संस्थांत नांवनोंदणी वा प्रवेश (पु).

**मात्शें, माच्छें** (वि) किंचीत; थोडें; इल्लेंशें.

**माथें मारप** (क्रिक) माथ्यार घेवप; (ल) मजत करप; कामाक लागप; आदार दिवप.

**मादळें, म्हादळें** (न) मुर्दगाच्या आकाराचें, मातयेचें दोनीय तोंडांचेर गाराचें चामडें लावन, दोनय हातांनीं वाजोवपाचें ताळवाद्य. हें संजांवांच्या मेळांत वाजयतात. पयलीं हेर मेळांनीं आनी सुवाऱ्यांनींय वाजयताले (१२५०) (प्रा).

**मांदाद, मांदामेंत** (पु) हुकूम; आज्ञा (पु).

**मांदार करप** (क्रिक) हुकूम सोडप; आज्ञा दिवप (पु).

**मांदार जावप** (क्रिअ) हुकूम मानप; आज्ञा पाळप.

**मांदुरी** (स्त्री) मांदरी; शेंदरी (के).

**माधुरी** (स्त्री) मधुरकाय; गोडसाण.

**माध्व** (वि) मध्वाचार्यांचो; मध्वाचार्यांच्या मताचो; मध्वाचार्यांचें मत मानपी; द्वैत मताचो (सं).

**माध्व मत** (न) जिवात्मो आनी परमात्मो हीं दोन वेगळीं तत्वां आसात, अशें मध्वाचार्यांचें तत्वज्ञानीक मत; शंकराचार्यांचो अद्वैत सिद्धांत आनी रामानुजाचार्यांचें विशिष्टाद्वैत तत्वज्ञान हांचे फाटभुंयेर मध्वाचार्यान द्वैत सिद्धांत प्रस्थापीत केलो. हाचे उप्रांत वल्लभाचार्यान शुद्धाद्वैत मत प्रस्थापीत केल्लें.

**मानगो** (पु) मानीचो कुडको; कोंडो.

**मानद्रव्य, मानवेतन** (न) म्हत्वाच्या वावराखातीर व्हड मनशाक मान म्हणून दिल्लें अल्प वेतन (सं).

**मानपुळी** (स्त्री) कांक्र; कॅन्सराची गांठ.

**मानलेख** (पु) प्रमाणानसार कसलेय भुंयेचो, प्रदेशाचो, घराचो, रस्त्याचो वा बांदकामाचो काडिल्लो नकाशो.

**मानविकी** (स्त्री) मानव विज्ञान शास्त्र; Humanities; मानव संस्कृतायेचें ज्ञान; तत्वज्ञान, वाङ्मय, इतिहास, अर्थशास्त्र; भाषाविषय, समाजशास्त्र, काव्यशास्त्र, धर्मशास्त्र, गणीत बी विषयांचें ज्ञान; Arts विषय; (वि) मानव विज्ञान शास्त्रासंबंधीं (सं). मानव विज्ञान शास्त्रासावन वेगळें अशें भौतीक विज्ञानशास्त्र म्हळ्यार फक्त विज्ञान शास्त्र (Science) आसा. हे शाखेंत रसायणशास्त्र, पदार्थविज्ञानशास्त्र, आरोग्यशास्त्र, जीवशास्त्र, धातुशास्त्र, स्थापत्यशास्त्र, अभियांत्रिकी बी तंत्रज्ञानाच्यो शाखा आसात.

**मानव्य विद्या** (स्त्री) मानव विज्ञानशास्त्र; Humanity विषय (सं).

**मानस** (न) मन; (मनाची) विचारसरणी; येवजणी; बेत; संकल्प (सं).

**मानिकॉम** (न) पिशांचें ओश्पिताल; मेंटल हॉस्पिटल; मनोरुग्णालय (पु).

**मानेस्त** (वि) मानादीक; माननीय; आदरणीय; मान दिवंक योग्य.

**मान्यस्तना** (स्त्री) सन्मान; भौमान.

**मापेली** (पु) माल मापून दिवपी; मापारी; मापपी; माप करपी.

**मामाय** (स्त्री) देवी दुर्गा; म्हामाय (द्रा).

**मामेरु** (पु) महामेरू; व्हड पर्वत (के).
**मायक** (पु) आवाजाचो गाज वाडोवपी यंत्र; मायक्रोफोन; आइल्लो आवाज जोडिल्ले तारेंतल्यान घोळोवन मोठो करून कण्यांतल्यान वातावरणांत फांकपी विजेचें यंत्र (इं).
**मायक्रोफिल्म** (स्त्री) ल्हान व्हड पुस्त-कांच्या सगळ्या मजकुराची अती ल्हान फोटोप्रतींची सेल्युलॉयड पट्टी वाचना-लयांत मायक्रोस्कोपांतल्यान वाचूंक दवर-तात ती (इं).
**मायक्रोबायॉलॉजी** (स्त्री) सूक्ष्म जंतूचे जिणेचें शास्त्र (इं).
**मायटी** (स्त्री) मालती हे वांटकुळ्या पोंदाचें मातयेचें गुळमाएदें आयदन.
**मायपण** (न) आवयपण; आवयची जाप-सालदारकी; आवयची भुरग्यांलागची वर्तणूक; लग्नांत न्हवऱ्याचे वा व्हंकलेचे आवयक करतात तो आहेर.
**मायपास, मोयपास** (पु) प्रेमाचो गुंता-वळो; मायेक लागून जाता तें मायेचें बंदन (सं).
**माया** (स्त्री) भुलोवंची शक्ती; मोग; प्रीत; आपलेपण (सं).
**मायाजाळ** (न) कपट; मायेचो भास; खोटी माया; भूल (सं).
**मांयि** (स्त्री) मामी (के).
**मार** (पु) पेट; मार-धपट; ख्यास्त; धपको; धक्को; फार. मार खावप — मारून घेवप. मार पडप — मार बसप. मार बसप — दु:ख भोगप, लुसकान जावप. मार मेळप — मार पडप.
**मारप** (क्रिक) ठोकप (खिळो); जेवप (भूस मारप); जड जावप (पोटाक वडी मारप); फीट येवप (मल्लूक मारप); घडघडीत (निरोगी) आसप — (ल) धाड मारप (उपहास); तट्टप (तट्टटे मारप); राग येवप (तिडक मारप); थट्टा करप (बातां मारप); फकाणां मारप; तालां मारप; सोरो पिवप (सूर मारप); थाप-टान, खोंटेन मारप (थाप्पट मारप; खोंट मारप); चैन करप (मजा मारप; फॉल्ग मारप); गाडी वळवप (गाडी मारप).
**मारप** (क्रिक) धपटप; दुखवप; जीव काडप; जीव घेवप; हुणप (झाड); स्फोट करप (मारांद, फोगत्यो, गर्नाल मारप); बाद करप (खेळांतलो घुलांचो जोड वा घूल मारप, खेळांतलो (कबड्डी गडी); उलो मारप — नांव घेवन आफवप; हटकप; कापप (झाड, केळ, झाडाचो खांदो वा खांदी मारप); खांद मारप — खांद दिवप, खांद्यार घेवप, मजत करप; (प्रेत) व्हरूंक तिरडेचो वांसो खांद्यार घेवप. ओपार मारप — उपमा दिवप, दृष्टांत दिवप, अळंकारीक भाशेंत सांगप. कॉपी मारप — नक्कल करप; सूर मारप — कोपभर वा खूब सोरो पिवप. गाळ मारप — गाळ घालप, गाळ संवप, अपशब्द उलोवप, निंदा करप. उडी मारप — उडी घेवप, उडकी मारप, घालून घेवप वा उसळून पडप. खोंट मारप — खोंटेन मारप. फांपार मारप. ग्राश मारप — तोंडपुजेपण करप, मालीस करप, पालीस मारप. चक्कर मारप — फेरी मारप, भोंवडी मारप. डल्लो मारप — चोरी करप, नाग-वप. जीव मारप — जिवाचे हाल करप. धांव मारप — बेगीन धांवप. दांग मारप — धेंप घालप, धेंप मारप. चोंटार मारप, भिसक्यार मारप, शेंटार मारप — (ल) पर्वा करिना जावप (उणाक प्रयोग). गुलांटी

मारप – तकली सकल आनी पांय वयर करून हातांर उबो रावून फुडल्यान, फाटल्यान वा कुशींनीं लागो मारप. धागो मारप – सुयेन आनी दोऱ्यान शिवप. गुड्डो मारप – (ल) वशिलो लावप; बुराखांत तुंवडी मारून वाट बंद करप. छाप मारप – प्रभाव घालप, छापप. फार मारप – तुबकांतल्यान गुळी मारप, मुसळान वानांतलें भात चेंचप, कांडप. नुसतें मारप – नुसतें पागप. तानेन मारप – पिवक कांय दिनामनना वळवळावप. दिब्री मारप – धोंपरां जमनीर तेंकोवन ताठ रावप. पासय मारप – येरादारी करप, मजेन भोंवप. फकाणां मारप – थट्टामस्करी करप. फट मारप – खोटें उलोवप. फुली मारप – फुलयेचो ठसो कोरप. बडाय मारप – खोटीं मोठेपणां सांगप. फोंड मारप – फोंड खणप. बांय मारप – बांय खणून उदक लागतकीर बांदून काडप. भुकेन मारप – खांवक दिनासतना वळवळावप. मस्करी मारप – फकाणां करप. मन मारप – मनाचे विरुद्ध वागप. येसाय मारप – अभ्यास करप, रियाझ करप; तालीम घेवप. बोकडे मारप – फटी मारप. मूंस मारप – आळसांत वेळ फुकट घालवप. मरसर मारप – (ल) खूप मार दिवप. वळ मारप – रेग काडप. वाफ मारप – वाफेचो फवारो मारप, वाफावप. लाग मारप – कुशीन हात जमनीर तेंकवन पांय वयर काडून गुलांठी मारप. रान मारप – रानांतलीं झाडां हणप. व्हॉल्त मारप – वळणान एके बाजून वचप, फेरी मारप, एके वशीन घुंवप. कोयर मारप, सारण मारप. सान्न मारप – सान्नीन कोयर झाडप. सुळार मारप – पोन्न्या काळांत देहांत शिक्षेच्या गुन्यांवकाराक सुळार बसोवन सुळाचें तोंक ताच्या पोटांत तोपून तो मरता अशें करप. गांळार मारप – फांशी दिवप, फांसार चडवप. सतॅस मारप – ख्यास्त फर्मावप. देग्रेद मारप – हद्दपारीची शिक्षा फर्मावप. तान मारप – संगितांत तरेतरेची जलद आलापी घेवप. गजाल मारप, बोब मारप – आड्डप. मेळे मारप – खबरी मारप, गजाली करप, वादविवाद करप. थोमणो मारप – उपहासान उलोवप. पोट मारप – उपाशीं रावप, गरजेह्न कमी खावप-जेवप. खर्चाक मारप – मुमागभायर खर्च करूंक लावप. पोटार मारप – (ल) लुसकानी करप. पोटार मारूं नाका, फाटीर मार – कुडीचेर मारून दुखल्यार जाता, भुकेन मारूं नाका. ताल मारप – फट मारप, थाप मारप. वाट मारप – प्रवाशांक वाटेर एकटोशीं लुटप. चैन मारप – मजा मारप. केंस मारप – केंसांची कापणी करप. मजा मारप – खूब चैन भोगप. सूर मारप – उदकांत उडी मारतना हात तकलेर धरून उदकाक हात पयलीं तेंकतीत अशे तरेन उडी मारप. जिवानशीं मारप – जितो मारप, ठार मारप, जीव घेवप. गांड मारप – बायलमनशेकडेन संभोग करप, बायलमनशेची कूड भोगप (अश्लील प्रयोग). हुयेल मारप – व्हडान रडप, विखळापप. किळंची मारप – तिडकीन आड्डप, भयान, वेदनेन जाता तितल्या व्हडा आवाजान आड्डप. कूस मारप – निसटून वचप, लोकांक कळनासतना वचप, पैस वचप. हात मारप – (ल) फारावप, चोरप, नागवप. (क्रिअ) खरस मारप – खरशेवप; धाप मारप – धापेवप. पेय

मारप – चड वायटांत पडप. वड मारप, वडी मारप – मुर्छा येवप. तिडक मारप – वड राग येवप. भिरभिरी मारप – तिडक येवप. वडी मारप – वेदनेन आंग वांकडें जावप. धाड मारप – वायट रोग जावप. चमक मारप – कळ मारप, वेदना जावप, चड दुखप. कळा मारप – खर वेदना जावप. घाण मारप, वास मारप – घाण येवप, घाणेवप, वास येवप. रूप मारप – सारको दिसप. मनाक मारप – दिसप (कल्पना येवप). मनाक मारिना – मनांत कल्पना येना. मारून येवप – वड मारप. आर मारप – लकवो येवप, पक्षघाताचें दुखणें जावप. घोणकी मारप – वात जावन कूड वांकडी जावप, धनुर्वात जावप. जोर मारप – जोर येवप. पिडा मारप – रोग जावप. पेय मारप – खर दुखणें जावप. केंस मारप – कापणी करप. भातें मारप – पोटभर जेवप.

**मारपी** (पु) मारूंचें काम करपी.

**मारुती** (पु) रामायणान वर्णिल्लो किष्किंधा नगरीच्या सुग्रीव राजाचो वानर मित्र; रामाचो एक निःसीम भक्त. हाणे लंकेंत वचून सितेक सोदली; रावणाच्या पुताक आनी जायत्या राक्षसांक मारून लंका जाळ्ळी; राम-रावणाच्या युद्धांत लक्ष्मण बेशुद्ध पडलो तेन्ना द्रोणागिरी पर्वत लंकेंत हाडून लक्ष्मणाक बरो करूंक मजत केली. मारुती चिरंजीव आस अशी रामभक्तांची भावना आसा. रामायण वाचतात थंय थंय मारुती येवन तें आयकता; म्हणून ताचे-खातीर एक पाट दवरतात (सं).

**मार्गदर्शन** (न) वाट दाखवप; शिकव-णूक; बोध; समजावणी (सं).

**मार्तेल** (न) लांकडाची मूठ (दांडो) आशिल्लो लांकडी तुतयो (पु).

**मार्कतीन** (क्रिवि) मध्यस्तेन; गुजार-तीन; वतीन; विद्यमान (फा).

**माल** (वि) वायट; (क्रिवि) वायट तरेन (पु).

**मालतूल** (न) मातयेची ल्हान मालती.

**माल पडप** (क्रिअ) वायटार पडप; वायट-पण जावप; वितुष्ट येवप; वायट परि-णाम जावप. उलोवणें माल पडटा – उलोवण्यान वितुष्ट येता. जेवण माल पडप – जेविल्ल्यान अजीर्ण जावप. (पु).

**माल पासार जावप** – अनारोग्य जावप; आजारी पडप (पु).

**मालपुवो** (पु) तुपांत तळिल्ली गोड पुरी (फा).

**मालांद्र** (पु) द्वाड मनीस; पाडो मनीस; चांडाळ (पु).

**मालेत** (स्त्री) ल्हान माल; ल्हान वजें; पोटली; पाकीट; बॅग (पु). लांकडो कुडची; मॅलेट (इं).

**माल्ट** (न) सवाद, बार्ली, नासणे, तांदूळ बी धान्यांची आंबील (इं).

**माल्टोज** (न) धान्यांतलो साकरेचो अंश; धान्याचे आंबिलींतल्यान काडटात ती साकर (इं).

**माल्दाद** (स्त्री) नष्टेपण; उणाकपण; खोटेपण (पु).

**माल्दीत, माल्दोज** (वि) नष्टो; पाडो (पु).

**मावप** (क्रिअ) आस्पावप; व्यापप (सं).

**मासियेर** (स्त्री) सफरचंदांचो सोरो (पु).

**मास्टरी** (स्त्री) सत्ता; पूर्ण ताबो; अधि-सत्ता (इं). भाशेचेर मास्टरी आसप – भाशेचें पूर्ण ज्ञान आनी भाशेंत सफाईदार बरप करची हातोटी आसप.

**माह** (पु) म्हयनो (फा). मुसलमानी वर्साचे म्हयने – मोहरम, सफर, रबिलावल, रबिलाखर, जमादिलावल, जमादिलाखर, रज्जब, साबान, रमजान, सव्वाल, जिल्काद आनी जिल्हेज (अ).

**माहे** – माह + इ; ज्वो म्हयनो. माहे मोहरम – मोहरमचो म्हयनो. माहे श्रावण शुक्ल पंचमी – श्रावणाचो म्हयनो शुद्ध पंचम.

**माहूत** (पु) हतयाक माणसाळावपी आनी ताचेकडच्यान सांगिल्लें काम करून घेवपी कुशल कामगार; गडेकार. गोयांत आनी सिंधुदुर्ग जिल्ह्यांत माहुताचें काम करप्याक गडेकार म्हणटाले.

**माळंग** (न) उंचाटेवेलें मळ; समुद्राचो तळ (का).

**माळय** (स्त्री) माळी; वयलो मजलो.

**मिज्यान** (स) म्हज्यान (के).

**मिंक कोट** (पु) समुद्रांत आनी जमनीर जियेवपी दाट ल्हंवच्या प्राण्याचे चामडेचो पिंगशा रंगाचे मोव आनी दाट ल्हंवेचो बायलो वापरतात असो कोट. ह्या उबदार कोटाक हजारांनीं रुपया पडटात (इं).

**मिटकी** (स्त्री) एक भाजयेचें कड्डण. हे भाजयेच्या रोंप्याच्यो सांगो जातात. चिटकीमिटकी – बारीक गवारीची भाजी (सांगो).

**मिट्टूस** (वि) गोड (के).

**मिठानी** (पु) आटयापाटयांचो खेळ.

**मिडी** (स्त्री) तंवर; चवर.

**मितव्यय** (पु) काटकसर; मर्यादीत खर्च.

**मितव्ययी** (वि) काटकसरी वृत्तीचो; हात सांबाळून संवसार करपी (सं).

**मिनीट** (न) एका तासाचो साठावो वांटो; साठ सेकंदांचो वेळ; वर्तुळाचे डिग्रीचो (३६०°) साठावो भाग. एका वर्तुळाक ३६० डिग्री वा अंश आसतात. साठ कळांचो अंश जाता. ६० विकळा – कळा. ६० कळा – अंश (डिग्री).

**मिनिट्स्** (पु) सभेचो अहवाल; सभेंत चर्चिल्ल्या विषयांच्या साराची नोंद (इं).

**मिनूत** (न) मिनीट; वराचो साठावो भाग; साठ सेकंदांचो वेळ; वर्तुळाच्या ग्रावांचो तिनशें साठावो भाग (पु).

**मिरमिटान** (स्त्री) खातकच तोंड चुरचुरता असो सुवाद.

**मिरया सांग** (स्त्री) मिरसांग (के).

**मिरून** (अ) परस; व्हून.

**मिलनोत्सुक** (वि) भेटीची उमळशीक लागिल्लो (सं).

**मिलाम** (न) मोव पोलाद.

**मिश्तॅर** (न) गूढ; रहस्य; धर्मावें गूढ; तर्कशास्त्र लागू जायना अशें क्रिस्तांव धर्माचें गूढ; देवाधर्माविशीं वाद घालूं नये अशे तरेचें ज्ञान (पु).

**मिस्कूट** (न) लोणचें. कुसपीर वा करम हांचो एक प्रकार; मेथी घाल्लें लोणचें वा करम; मेथकूट.

**मिस ग्रंथ** (पु) इगर्जेंत वर्सभर पाद्री आनी क्रिस्तांव भजक करतात त्या प्रार्थनांचें पुस्तक; मिसाल (पुसं).

**मिसकूट** (न) तोरांच्या लोणच्याचो एक प्रक र; मेथकूट.

**मिस्त्री** (स्त्री) खडेसाकर.

**मी मी म्हणप** – आपणाक सुमाराभायर मोठेपण घेवप.

**मील रैश** (पु) एक हजार रेंसांचें भांगराचें पुर्तुगालचें आनी ब्राझीलचें नाणें (पु). १९११ सालासावन ह्या नाण्याच्या

जाग्यार पुर्तुगेज सरकारान इश्कूद हें नाणें पाडलें. ब्राझील देशांत १९४२ सालासावन मील रैशच्या जाग्यार क्रूझैर हें नाणें चलनांत आयलें.

**मुकलो** (वि) मुखारचो; मुखावेलो.

**मुकवांचो** (पु) नुस्तें मारपी खारवी (के).

**मुक्काल** (वि) पावण; तीन चतुर्थांश (का).

**मुक्त कंठान** (क्रिवि) मेकळेपणान; मनापासून; मनस्पुर्वेक (सं).

**मुक्तद्वार** (क्रिवि) उक्तें दार आशिल्ली अवस्था; कोणेय भितर येवन आपलें काम करून घेवंचें अशी परिस्थिती (सं).

**मुक्त नाटक** (न) मेकळें वा पात्राक सुचता तशें उलयत रंगता अशें नाटक; काल्याचे वा तमाशाचे पद्धतीचें वा दशावतारी धर्तीचें नाटक; लोकनाटय थाटाचें नाटक (सं).

**मुक्तिवंत** (पु) मुक्तीक पाविल्लो; मोक्षाक गेल्लो; देवरूप जाल्लो (सं).

**मुक्रर करप, मोक्रूर करप** (क्रिक) नेमप; थारावप; निश्चीत करप; नक्की करप (अ).

**मुखवास** (पु) तोंडाचो वास. देवाची पुजा करतना "मुखवासार्थे पूगीफलताम्बूलं समर्पयामि" अशें म्हणून देवाभुखार विडो दवरतात (सं).

**मुखस्तंभ** (वि) घुमो; भौ थोडें उलोवपी; मोनो; (पु) तोंडान उलोवंक येना जावपाचो एक रोग (सं).

**मुखारीक** (क्रिवि) फुडल्या वर्सा.

**मुखेलपण** (न) म्हालगडेपण; मुखेलकाय; मुख्यत्व; मुखेल्याचो अधिकार; आधिपत्य; स्वामित्व.

**मुंगड** (न) इसारो; वावराखातीर वा मालाखातीर आगाऊ दिल्लो दुडू (का).

**मुगड्याचो वेठो** (पु) मुगडो बांदपाचो दोर; वळिल्लो दोर.

**मुंगण** (न) इसान्याचे पैशे; फारकतीचो पयलो हप्तो; अॅडवान्स; आदियांताद (का).

**मुगोल** (वि) गेडें (के).

**मुग्ध** (वि) मोहीत; भुलिल्लो (सं).

**मुटदोषु, मुडदूस** (पु) अशक्तायेक लागून आंगांतलीं हाडां वांकडीं जांवची व्याधी.

**मुंडली** (स्त्री) वनस्पतीच्या मुळांतलो कांदो वा गांठ; वनस्पतीचें शाकेक उपकरता अशें मूळ. आळवाची माडी, चिनें, सुरण, तापीयांगाच्या झाडाचें मूळ, कणंग, बटाट बी; वखदी पाळ.

**मुंडळी** (स्त्री) दोळयाचें बुबूळ; दोळयाचो काळो, निळो, पांचवो वा पिंगसो वांटकुळो भाग.

**मुंडारगें** (न) रांडूल; झुड्टेर; शिंदुळगें; एक सुरय गाळ.

**मुडींब, मुसुंड** (न) दांतांची हिरडी (के).

**मुडू** (पु) लुंगी (तुळू).

**मुडो** (पु) आंबे पिकोवंची सुक्या तणाची आडी.

**मुतखडो** (पु) मुत्राशयांत मुतांतली घाण शेंकेवन घडिल्लो गुंडो. हो वखदांनीं झरून पडलो ना जाल्यार ऑपरेशन करून काडचो पडटा.

**मुतुद्दर** (पु) मणी घडोवंच्या अर्द्या आकाराच्या ल्हान व्हड आयटींचें सोनाराचें लोखडी ठोकळयासारकें चौकोनी आवत. हे आयटींत भांगराच्या वा चांदीच्या कापिल्ल्या बारोक चौकोनी पातळ पत्र्याचे कुडके ठोकून जाय तेद्या आकाराच्या मणयाचीं अर्दीं घडोवं येतात. हीं दोन

अर्दी जोडून पांसून सोनार मणी घडयतात.

**मुंदरसप** (क्रिक) चालू करप; आनीक उलोवप; मेळवप; चडवप; चालू दवरप; मुखार व्हरप; (क्रिअ) मुखार वचप; चालू रावप (का).

**मुदी** (स्त्री) आंगठी; (ल) साकरपुडो; लग्न नक्की थारावपाचो सुवाळो.

**मुद्दय** (पु) फिर्यादी; वादी; तक्रारअर्ज करपी (अ).

**मुद्दयालो** (पु) दिवाणांतलो प्रतिवादी; प्रतिपक्षी; आरोपी (अ).

**मुद्रांक** (पु) स्टॅम्प; सरकारी ठसो (सं).

**मुद्रांक शुल्क** (न) स्टॅम्प ड्युटी; सरकारी नोंदणीचो खर्च.

**मुद्राशास्त्र** (न) इतिहासकाळातलीं नाणीं अभ्यासून इतिहासाचें संशोधन करची विद्या; नाणकशास्त्र (सं).

**मुंबर** (न) तरूण मनशाच्या पोल्यार उप्रासता अशी पुळी; मुमर (का).

**मुंबूर** (न) मुमर (के).

**मुंम्रो** (पु) बारीक पावसाळी किडो.

**मुमकेपण** (न) थोडें उलोवपाची वृत्ती; मितभाषित्व.

**मुमको** (वि) भौ थोडें उलोवपी; मोनो; मितभाशी.

**मुमुक्षा** (स्त्री) मोक्ष जोडचेली इच्छा; जल्म आनी मरण हांच्या फेऱ्यांतल्यान सुटकेची इच्छा; मोक्षपद मेळवंची इच्छा.

**मुरकुंडी वळप** (क्रिअ) कूड आंवळून गुठली जावप; (क्रिक) कूड वांकडी करून गुठलावप; मान मूड्‌प (द्रा). हांसून हांसून मुरकुंडी वळटा. वेदनेनय मुरकुंडी वळटा.

**मुरथम** (अ) पर्थम; मुळांत; पयलो (के).

**मुरमुरप** (क्रिअ) धुमसप (उजो).

**मुरक्कु** (पु) गंव, तांदूळ, चण्याची दाळ भाजून दळून तळिल्ली चकली (का).

**मुर्छीत** (वि) बेशुद्ध; शाबुद्दी नाशिल्लो.

**मुळो** (पु) कोनसो (का).

**मुव्ही** (पु) चलच्चित्रपट; बोलपट; सिनेमा (इं).

**मुशेक येवप** (क्रिअ) आकार घेवप; जल्माक येवप; रूप घेवप.

**मुसकरी** (स्त्री) मोनजातीचे नकलेंतल्यान मुखार येवपी दांताडाची सोंड; गाय, म्हस, कुत्रो, रानडुकर, मानगें, कोलो बी प्राण्यांचें लांब तोंड; सोंड.

**मुसकील** (वि) कठीन (अ).

**मुसमुशीत** (वि) प्रभावी; जितोजागतो; चपळ; हालतोचलतो; खतखतपी. मुसमुशीत तारुण्य – उत्साही जुवानपण.

**मुस्तायक जावप** (क्रिअ) मज्ज जावप; तयार जावप (फा).

**मुळावण** (न) मुळांतलें आळे; मुळेण; विरजण.

**मुळवासी** (पु) मुळाक वसती करपी; आदिवासी.

**मुळीं** (क्रिवि) मुळामावन; सुरवातीक सावन अखेरेमेरेन; अजिबात; बिलकूल; मुळांतच.

**मुळींच** (क्रिवि) अजिबात; बिलकूल.

**मुळूक** (पु) काप्या पणसाच्या पिकिल्ल्या गऱ्याच्यो शिरो, गॉड, चून, पीठ हांतूंत कालोवन तळिल्लें भजें.

**मुळो** (पु) मुळकेश्वर; श्री मंगेशाच्या देवकाऱ्या दिसा मंगेशाच्या भक्ताच्या नांवान मानान जेवंक वाडटात तो गावडो वा कुळवाडी; खिळो.

**मूक** (वि) मोनो; (क्रिवि) मोन्यानीं.

**मूकनाटय** (न) उलयनासतना निखट्या

हावभावांनीं पात्रांनीं माचयेर करपाचें नाटक वा देखावो (सं).

**मूठ** (स्त्री) आवत वापरूंच्या वेळार हातान धरतात तो आवताचो भाग. तरवारीची मूठ. कोयतेची मूठ – थोरूं. कानवेतीची वा सुरयेची मूठ; तान्या भुरग्यान मुठींत धरपाचें ल्हान खेळणें; हँडल (सं).

**मूठभर** (वि) हाताचे एके मुठींत रावता इतलें. मूठभर दाणे. मूठभर लोक – थोडे लोक.

**मूतपात्र** (न) आजारी मनशाचें वा रातच्या पाराक दुबळया मनशाचें मुतपाचें आयदन वा तस्त; मुतूंचो काशांव (सं).

**मूर** (स्त्री) कसल्याय रसायणांत वा स्रावांत पोंदाक उरता तो गाळ. देख : रक्तांत चाकळां, काजूच्या दिखा पोंदाक उरता तो गाळ.

**मूलगामी** (पु) मुळाकडेन वचपी; (वि) मुळासावन (सं).

**मूलंगि** (पु) मुळो.

**मूळ** (न) (झाडाचें) मून; पाळ (सं).

**मूळ गांव** (पु) कुटुंबाचें घरदार आशिल्लो गांव; कुटुंब रावत आयलां तो गांव.

**मूळ द्रव्य** (न) भांडवल; मुद्दल; धंद्यांत गुंतयल्ले दुडू (सं).

**मूळ धन** (न) मुदल; भांडवल; व्याजाक लाइल्ली रक्कम; धंद्यांत घातिल्ले पैशे.

**मूळवासो** (पु) आदीवासी; गिरिजन; पयली वसणूक करपी (सं).

**मृग** (पु) पशू; पसरूं (सं) (के).

**मृगशिरें** (न) मृगशीर्ष नक्षत्र; मीर्ग (के).

**मृत्युवश** (वि) मेल्लो; मरणाचे ताबींत गेल्लो; जाचेर मरणाचें बंधन आसा असो.

**मृदू** (वि) मोव (सं). मृदू स्वभाव – मनां जोडपी सबाव, मृदू उतरां – गोड उलोवणें.

**मेकळूंक** (क्रि) मेकळें करूंक (के).

**मॅक्रोमिटर** (पु) पैशिल्यो वस्तू आनी अवाढव्य वस्तु मापचेलें माप; विस्तारमापक (इं).

**मेगॅफोन** (पु) आवाजाचो गाज वाडोवपी तुतारी; पैसमेरेन आवाज आयकूंक येवंचो म्हणून घडयल्लें तुतारेचें साधन (इं).

**मेच्चप** (क्रिअ) मानवप; पसंत पडप (का).

**मॅग्नेट** (पु) लोहचुंबक; लोखंडाक ओडून घेवपी असो लोखंडाचे जातीचो एक धातू.

**मेझ** (न) टेबल; कार्यकारी समिती; कोमिसांव; समिती (पु).

**मेझाद** (न) लग्नाउपरांतची मेजवानी; पांच-परतवण (पु).

**मेट** (न) पांवल; नाको; चौकी.

**मॅड** (वि) पिसो; मालूक; भ्रमिष्ट (इं).

**मॅडकॅप** (वि) बावळट; अव्यवस्थीत; अन्नाडी (इं).

**मेढि** (स्त्री) माटव; माटवाचो खांबो; म्हुर्ताचो खांबो; गोरवां बांदचो खुंटो.

**मेणकागद** (पु) मेणाचो थर लाइल्लो कागद; उदकान भिजूं नये म्हणून मेण लायिल्लो कागद.

**मेणबत्ती** (स्त्री) मेणाचे लोळीमदीं वात घालून पेटयतात असो दिवो; मेणवात.

**मेणलुगट** (न) मेणकापड; उदकान भिजूंक फावना म्हणून मेणान सुकयल्लें लुगट.

**मेणांय, मेणायें** (न) धंय (के).

**मेथकूट** (न) मेथयेचें कूट घाल्लें लोणचें.

**मेंदी** (स्त्री) मुसलमानांच्या लग्नांत न्हवऱ्याक, व्हंकलेक मेंदी लावपाचो कार्यक्रम (फा).

**मेनिंजायटीस** (पु) मेंदूक जोर येवन तो

निकामी जावपाचो वा रोगी मरता असो रोग (इं).

**मेरू** (पु) पुराणांत वर्णिल्लो धर्तरेच्या मध्यभागांतलो सगळयांत उंचेलो पर्वत; मदलो दांडो; कणो; गुडगुडेचो चिलीम आनी व्रेल्याक जोडपी पोकळ दांडो (सं).

**मेरूरज्जू** (पु) फाटीच्या कण्यांतलें स्नायूंचें दोरखंड (सं).

**मॅलेट** (स्त्री) लांकडी कुडची; लांकडी ठोकणी. ही छापखान्यांत टायपाचो फॉर्म गच्च करपाक वापरतात (इं).

**मेशी** (वि) बावळट; अरवळ.

**मेसूरपाक** (पु) दुदाच्या खव्याचो तुपांत घोळयल्लो गोड सुको पाक वा हालवो (कासं).

**मेस्त्री** (पु) कारागीर; कुशल कामगार; प्रोफसोर (पु).

**मेहूण** (न) घोव-बायलेचें जोडें (अ).

**मेळामेळ** (स्त्री) एकमेकांची प्रेमान घेतिल्ली भेट (सं).

**मेळाय** (स्त्री) मुळेण; विरजण.

**मैलि** (स्त्री) देवी; आंगचें.

**मोएल** (पु) कोंबडे मामाचें मसाल्याचें तोंडाक (पु).

**मोख** (स्त्री) ध्येय.

**मोगावप** (क्रिक) लाडावप.

**मोगरो** (पु) घड्याळीक कॉर्द दिवपाची चावी.

**मोगाळपण** (न) प्रेमळपण; मायेस्तपण; मोगी सभाव.

**मोग्गें** (न) मघा नक्षत्र (के).

**मोंचूव** (पु) ल्हान होडें; ल्हान मचवो (के).

**मोट** (स्त्री) पोटली (के).

**मोटवाय** (स्त्री) मोटवेपण; गिड्डेपण.

**मोटवें बरोवप** (न) लघुलिपी; लघु-लेखन; शॉर्टहॅंड रायटींग.

**मोटवो** (वि) गिड्डो; खुजट; मोटको; ठेंगू; थोडे उंचीचो.

**मोटेल** (न) गिरायकांच्यो मोटारी दवर-पाची मोय आमा अशें वसतेचें होटेल (इं).

**मोडकर** (वि) मोडको; मोडिल्लो; कोसळिल्लो; कोरमेल्लो.

**मोडप** (वाजप) (क्रिक) एका ताळार चालू आशिल्लें वाजप पद्धतीन थारा-यल्ल्या ताळान बंद करप. वाजप मोडटा-सतना ठरावीक बोलांची तीन आवर्तनां वाजोवन वाजप थारता. कांय तालांच्या वाजपांत मोडप वाजयल्याबगर वाजप थारांव येता.

**मोडींत काडप** (क्रिक) मोडून उडोवप; ना करप; निरुपयोगी करप.

**मोडू** (पु) कुराड (तुळू).

**मोंडो** (वि) धार मुनिल्लो; बोथट.

**मोण** (स्त्री) मल्लक; मिरगी; फीट (के).

**मोनेंपण** (न) उलोवक येना जावपाचो दोष; उलोवंची असमर्थताय.

**मोनेळ** (स्त्री) मोनेपण.

**मोय** (पु) (काजूचे बियेचो) गर; म्होवलो; खांव येतात अशा बियांचो गर.

**मॉर्गाव** (वि) घनिष्ट; एकरूप; वेगळो जायना इतलो एकवटिल्लो; घाणवटाचो; घाणवटाक दवरिल्लो (पु).

**मोर्चो** (पु) निषेधकांची मिरवणूक; मोहीम; हल्लो; घुरी (अ).

**मॉर्ताल्य** (स्त्री) सिगरेट वळूंक वापरतात तो पातळ कागद; प्रेताचें कफन (पु).

**मोलावन घेवप** (क्रिस) मोल करून घेवप; विकतो घेवप; वाणपण करून विकतें घेवप.

**मोलें** (न) रान; अरण्य.
**मोलो** (पु) पर्वत (के).
**मोल्लाक घेवप** (क्रिक) विकतो घेवप; खरिदप.
**मोवप** (क्रिक) मेजप; मापप (के).
**मोस** (न) फटींगपण; कपट; नाडानाड (का).
**मोहन** (पु) कृष्ण भगवंताचें एक नांव.
**मोळको** (पु) आंकूर.
**मोक्षफल** (न) मुक्ती हेंच एक फळ; जल्ममर्णाच्या त्रासांतल्यान मेकळीक ही एक व्हड प्राप्ती वा लाभ (सं).
**म्हजो, म्हगेलो** (स) म्हज्या संबंदाचो; मगेलो; म्हज्या लाग्याबांध्याचो.
**म्हणियारी** (पु) पुरयत; विगार (का).
**म्हणू** (अ) म्हणून; हयाखातीर; ह्याका लागून; म्होणू.
**म्हयन्यांचीं नांवां** (ग्रेगोरियन कॅलेंडरांतलीं) – पुर्तुगेज भाशेंतलीं – झ्यानेर, फेव्रेर, मार्स, आब्रील, माय, झ्यून, झ्यूल, आगोश्त, सेतेंब्र, ओवतूब्र, नॉव्हेंब्र आनी देझेंब्र. इंग्लिश भाशेंतलीं – जानेवारी, फेब्रुवारी, मार्च, एप्रील, मे, जून, जुलै, ऑगस्ट, सप्टेंबर, ऑक्टोबर, नोव्हेंबर आनी डिसेंबर.
**म्हस्त** (वि) मस्त; खूब (के).
**म्हळप** (क्रिक) म्हणप; उलवप; सांगप; गावप (सं). हया रुपांत फकत म्हळो, म्हळी, म्हळें, म्हळे, म्हळीं, म्हळयो अशीं भूतकाळी रुपां घडटात. वर्तमान आनी भविश्यकाळांत म्हळप हें क्रियापदाचें रूप वापरिनात. म्हणप हें क्रियापद सगल्या काळांत वापरतात.
**म्हळेलो** (वि) म्हणिल्लो; सांगिल्लो; उलयल्लो.
**म्हळयार** (वि) म्हणल्यार; म्हणजे; म्हणू गेल्यार; सांगचें जाल्यार; उलोवंचें जाल्यार.
**म्हळ्ळो** (वि) म्हणिल्लो.
**म्हाताड्डो** (वि) खूब म्हातारो; म्हातारे पिरायेचो हया अर्थाचें तुच्छतायेन उलोवपाचें उतर.
**म्हामारी** (स्त्री) गांठीच्या जोरांची धाम; प्लेग.
**म्हारॅग** (वि) म्हारग; म्हाग (के).
**म्हार्यान्त** (क्रिवि) म्हऱ्यांत (के).
**म्हालपेंड** (स्त्री) पाडयाच्या वेळार माडाची सगळया पेंडींमदीं चड जून जाल्ली पेंड.
**म्हाव** (स्त्री) व्हडली चुलती (के).
**म्हाळसा** (स्त्री) पुराणांत वर्णिल्ली मोहिनीदेवी; गोंयांत म्हाड्डोळचें देवस्थान (१२९०).
**म्हाळशेच्यो कळा** (स्त्री) रुपां बदलपाची शक्ती; अनिश्चीत स्वभावाची वृत्ती. म्हाळसा सकाळीं कन्या कशी दिसता, दनपारां तरुणी दिसता आनी सांजेवेळा जाणटी बायल दिसता अशी समजूत आसा.
**म्हाळेगण** (न) म्हाल प्रार्थना; घाडी गायता ती देवी भगवतीची मुखेल स्तुती.
**म्हूर्तमेड** (स्त्री) म्हूर्तार पुरपाची ती मंगल कार्याच्या गाटवाची मेड; शुभारंभ.
**म्हेनतानो** (पु) मुशारो; मोबदलो; पगार (अ).
**म्हेळांय** (न) मुळेण; विरजण; मुळेल्लें वा विरजल्लें दूद; धंय.
**म्होरावप** (क्रिक) म्होर मारप; मुद्रांकीत करप.
**म्होंव-मुसक** (न) म्होंव एकठावपी मूस; मधमाशी.

**म्होस** (वि) मूर्ख (के).

**य**—कोंकणी भाशेचे देवनागरी वर्णमाळेचें सव्विसावें व्यंजन.

**यंव** (वि) एवीं; अशे तरेन (अप).

**यव्वन** (न) योवन; जुवानपण (के).

**यामीचि** (सना) स्वताच; आमीच (के).

**याळू** (पु) येळदोडो (के).

**येंगा** (अ) हांगा (के).

**येजमानीण, येजमान्न** (स्त्री) येजमान्याची घरकान्न.

**येजमान्न** (स्त्री) प्रवाशांक हाडपी व्हरपी विमानांत प्रवाशांखातीर नेमिल्लें खाण जेवण वेळचे वेळार तांकां दिवन, वेळप्रसंगाक तांकां मजत करपी, विमानाचे सेवेंतली प्रशिक्षीत तरनाटी अधिकारी; एअर होस्टेस.

**येत** (क्रिअ) येता (के). करयेत – करूं येता. धरयेत – धरूं येता, व्हरयेत – व्हरूं येता.

**येवदी** (पु) यहुदी; ज्यू वा ज्युदेव वंशाचो आनी यहुदी धर्माचो मनीस.

**र**—कोंकणी भाशेचे देवनागरी वर्णमाळेचें सत्ताविसावें व्यंजन.

**रडप** (क्रिअ) आरवप (कोंबो); कोंबो रडप – (ल) फायदो जावप.

**रडप** (क्रिअ) आवाज करप; आड्डप. कोंबो रडप – कोंब्यान एक विशिष्ट आवाज काडप. ताजो कोंबो रडलो – (ल) ताजो फायदो जालो.

**रडप** (क्रिक) कितेंय जाय म्हणून हट्ट करून रडप. जोर रडटा पेजेक – जोर आइल्ल्या मनशाक पेज वाडची. मागीर जोर बेगीन काडटा (उतरता). जोर म्हणटा : 'वायटकाराक पेज वाड, पेज वाड.' पेज जेवन रावलो कीं जोर वेता. म्हणुनच 'जोर रडटा पेजेक' अशी म्हण पडली.

**राकप** (क्रिक) राखप (के).

**राकुड** (न) लांकूड; जळोव (के).

**राकसूल** (न) राकशिणी सारकें झगडपी आक्रस्ताळें भुरगें.

**राजआंवाळो** (पु) मोठचा आंवाळ्याची एक जात.

**रांदणि** (स्त्री) रांदन (के).

**रांदप-घर** (न) देवस्थानांनीं मोठें जेवण रांदपाची पाकसाळ.

**रावंड** (न) फेरी; भोंवडी; (वि) वांटकुळो (इं).

**राशे** (वि) मसाल्यांत तळिल्लें (नुमते) (पु).

**रीठे** (पु) पांखां (के).

**रुग्णवाहिका** (स्त्री) वायटकारांक हॉस्पिटलांत हाडपी-व्हरपी अँब्युलन्स गाडी (सं).

**रुपे भक्त, रुपे भगत** (पु) शणिल्ली वस्त मेळची म्हणून इल्याशा गोडाच्या निवेदाची आंगवण मानून घेवपी दैवत.

**रूव** (स्त्री) रुयेचें झाड.

**रेखांकीत** (वि) रेग मारिल्लो; सुरक्षेखातीर खूण केल्लो (चेक).

**रेखांकीत धनादेश** (पु) क्रॉस्ड चेक; निश्चीत मनशाच्या खात्यार पैशे पावचे

म्हणून खुणेची रेग मारिल्लो धनादेश.

बीस (पु) पिशें सुणें चाबल्यार जाता तो पाणपिशाचो रोग (इं).

मातीज्म (न) संधिवाताचें दुखणें (पु).

मेतेंत जोर (पु) टायफॉयडसारको जोर (पु).

रोगेली (वि) रोगी (के).

रोधप (क्रिक) आडावप; रोखप; बंद करप (सं).

ल—कोंकणी भाशेचे देवनगरी वर्णमाळेचें अट्ठाविसावें व्यंजन.

लकलकी (स्त्री) पर्जळ (के).

लगाड (स्त्री) सांगात; संसर्ग.

लंगापत (स्त्री) लटांबर.

लंछन, लांछन (न) लजेचें कारण; दाग; कलंक (सं).

लंव (स्त्री) लोंकर; कपडो विणूं येता इतली बारीक आनी मोव, चडकरून मेंढरांच्या आंगची ल्हंव.

लागज परब (स्त्री) आषाढी दुवादस (के).

लागप (क्रिअ) वाद घालप; झगडप (तोंडाक लागप, वाटेक लागप); फाटल्यान धांवप (फाटीक लागप, भरडीक लागप); खर्च जावप (पैशे लागप); काजीक लागप – कारणाक खर्च जावप; ०कारणीं लागप; ०खातीर सोंपप.

लागू करप (क्रिक) वापरांत हाडप; कायदो लागू करप – कायदो अमलांत हाडप.

लागू जावप, लागू पडप (क्रिअ) परिणाम जावप (वखद, कायदो).

लावप (क्रिक) वापरप; ०काजीक लावप – ०खातीर खर्च करप वा सोंपवप.

लिमलेट (न) लिंबाची रूच आशिल्लें गोड पिवन; लेमोनेड (इं).

लूव (स्त्री) रूच.

लेप्रसी (स्त्री) कुष्ठरोग; आंगाचीं तोंकां भेरेवन झडपाचो रोग; महारोग (इं).

लेंबडो (पु) ल्हेवंटो; लाचार.

लेय (वि) लेह्य; चाटून खांवचें वखद (के).

लोटांकणा (न) लोटांगणां (के).

लोलो (वि) (ल) बुद्दू मनीस.

लोळीसर (स्त्री) तुपीकिवण; कोरफड; भारकूण बरी करपी आयुर्वेदीक वखदाची वनस्पत.

ल्हेंवण (न) चाटपाची क्रिया.

व—कोंकणी भाशेचे देवनागरी वर्णमाळेचें एकुणटिसावें व्यंजन.

वचाक पूरो – वचूंक पुरो; वचूंक खरो; वचूं (के).

वटांबा सोल (न) वटांबाच्या आंबट फळाचें तासून सुकयल्लें सोल. आमटाणीखातीर उपकरता.

वरार, ओरार (पु) वेळापत्रक (पु); Horario.

वर्कल (न) वल्कल; प्राचीन काळांत रानांत रावपी लोक न्हेसताले ती रुखा साल (के).

वलें (न) वलो कपडो; भिजिल्लें लुगट; उमळचे खातीर भिजयल्लें लुगट; सुकूंक

नाशिल्लें उमळिल्लें लुगट.

**वर्साति** (स्त्री) विटाळशी; भष्टी वायल (के).

**वसुधा, वसुंधरा** (स्त्री) धर्तरी; पृथ्वी.

**वसू** (वि) संयम नाशिल्लो (मनीस).

**वसू सुटप** (क्रिअ) देवाक सोडिल्ले मोन-जाती भाशेन मेळत थंय हात मारप वा खावप; (ल) लोकांक कारणाबगर त्रास दिवप. देवाक वसू सोडिल्ल्या वैलाक वा बोकडाक कोण मारिना.

**वस्ताद** (पु) कला वा विद्या शिकोवपी गुरू; कलेचे वा विद्येचे सर्तींत सगळ्या गड्यांभितर श्रेष्ठ म्हणून परिक्षकांनीं उत्तीर्ण केल्लो गडो; चँपियन; (वि) हुशार; चतूर (अ).

**वस्तादपण** (न) कसल्येय कलेंत वा विद्येंत श्रेष्ठत्व वा थोरपण.

**वळेरी** (स्त्री) यादी; गांथन; फांती; शिकळ.

**वाकळप** (क्रिअ) खेळप; बागडप; ल्हान भुरगीं, मोनजातीचीं पोरां, वासरां, पिल्लां ल्हानपणांत एकामेकांलागीं बागडटात.

**वाकोर** (पु) वाखर (के).

**वाक्प्रचार** (पु) वापरांतलें उतर वा लोकांचे घोळटिकेंतली म्हणणी (सं).

**वागतो** (वि) उकतो (के).

**वागांबर** (न) वागाचें चामडें (के).

**वांच** (वि) वांजूट (के).

**वाचा धरप** (क्रिअ) उलोवंक येना जावप.

**वाजंतर** (न) (ल) बडबडो मनीस; वाय-फळ उलोवपी मनीस.

**वाटें** (न) पेज वा शीत जेवंची थाळी (के).

**वाटकुळो** (वि) वांटकुळो (के).

**वांयगणो** (वि) हंगामी. वांयगणो आदो-गाद – अडेचो वकील.

**वायल** (न) कापूस, रशीम, सेल्युलोज (लांकडांतलो धागो) हांच्या ल्हवमार धाग्यांचें अर्दपारदर्शक लुगट. हें बाय-लांच्या साडयांक आनी ब्लावझांक वापर-तात (इं).

**वायवळींग** (न) वार्वडिगाचें बीं; वाव-डींग.

**वावरसाळ** (स्त्री) वावराचो मांगर; भंगसाळ; वावर शिकपाची आनी शिको-वपाची साळ; वर्कशॉप.

**वावशी** (स्त्री) पावसाची वावझड.

**वास विसप** (क्रिअ) चुरचुरे पडप.

**वास मारप** (क्रिअ) वायट वास येवप; घाणेवप.

**वास येवप** (क्रिअ) बरो वा सुमाराचो असो वास येवप.

**वासावप** (क्रिअ) वास घालप.

**वास्तूशिल्प** (न) घराचे बांदावळीचें शास्त्र (सं).

**वास्तूशिल्पी** (पु) घरां, इमारती, रस्ते, पूल, धरणां, नगरां हांचे बांदावळींचो तज्ञ; आर्किटेक्ट (सं).

**वाळप** (क्रिक) उंवाळप (के).

**विकरप** (क्रिअ) पातळप; पसरप (के).

**विंचवी** (स्त्री) वेंची (के).

**विजपात** (पु) वीज कोसळप; वीज पडप.

**विझवप** (क्रिक) पालवप; वाडवप.

**विठें** (न) विठावाय; एकाद्र्या कुटुंबांत चड चलयो जलमल्यो कीं नवीन जलमल्ले चलयेक 'विठें' म्हळयार 'विटें' वा 'वीट आयिल्लें' अशें नांव दवरताले.

**विडविडप** (क्रिअ) हेडप; गांवोगांव फिरप; खूब भोंवप.

**विंदप** (क्रिक) व्हणाकून मारप; मोखून

…प (के).

**…ालू** (पु) कोन्चोळी; शाकेच्यो वा …ाच्यो फोडी कोंचून, तांतूंत मसालो …न शिजयल्लें तोंडाक (पु).

**…ीपूर्वक** (वि) शास्त्रांत सांगिल्ल्या-…ाण (सं).

**…ाचर्वात** (स्त्री) विनायक-चवथ; …नायकी; भाद्रपद शुद्ध चवथ (के).

**…म्हर** (न) विवर; भुंयेर (के).

**…विधमुखी** (वि) वेगवेगळीं तोंडां …शिल्लो. न्हंयो विविधमुखी उरतात.

**…विधा** (स्त्री) तरेतरेच्या वस्तूंची वा …रेकवार वर्गांनीं नोंदिल्ली याद; सर-…ासळ याद; संकीर्ण ज्ञान; विविध …ाहिती; साबार दृष्टिकोनांतल्यान बर-…ल्ली आनी संपादिल्ली माहिती (सं) …Miscellany.

**…श्वसुंदरी** (स्त्री) संवसारांतल्या सगळ्या …शांतल्या सर्तीतल्यान निवडून आइल्ल्या …ुंदरींच्या निमाणे सर्तीतल्यान सर्वोत्तम …्हणून तज्ञांनीं निवडिल्ली सुंदर स्त्री (सं).

**…ीजकशास्त्र** (न) विजेच्या नकारात्मक …अणूं (Nutron) च्या वापराचें गिन्यान; …इलेक्ट्रॉनिक्सच्चें शास्त्र (सं).

**…वजा-पेट** (स्त्री) आगपेटी; फस्क (के).

**…वजा-भाण्डि** (स्त्री) आगगाडी (के).

**…वृतावंतु** (पु) वृत्तांत; बातमी; वर्तमान (के).

**वेंचणावळ** (स्त्री) तयार केल्लो माल वेंचून ताची ग्रेड थारावप. देख : काजूच्या कारखान्यांत सोलिल्ल्या बियांची वेंचणा-वळ करतात. तिका ग्रेडींग म्हणटात.

**वेजु** (पु) दार (के).

**वेड** (पु) तारी; तार पलतडी व्हरपी तांडेल (के).

**वैसप** (क्रिअ) बैसप (के).

**वैंगुरमाचें** (न) हागवण; अतिसार (के).

**वोगरी** (स्त्री) वर्गणी (के).

**वोजेली** (पु) वजेली (के).

**वोणि** (स्त्री) वाट; रस्तो (के).

**वोलाणें** (न) काष्टी (के).

**व्यसन** (न) संकट; वायट नाद (सं).

**व्हिंदाल** (पु) एके तरेचो सोरो; Vinho de alho (पु).

**व्हेनिला** (स्त्री) एक अमेरिकन वासादीक फुलझाड, खाजक्याच्या जिनसांक बरो वास येवंचो म्हणून तांतूंत व्हेनिलाच्या बियांचो रोस घालतात (इं).

**व्होणुव** (न) खाडकी (के).

**व्होर** (पु) वर; घोव; (न) विवाहीत दांपत्य (के).

**व्होवळीक** (स्त्री) शुभकार्याचें आमंत्रण.

**श**—कोंकणी भाशेचे देवनागरी वर्णमाळेचें तिसावें व्यंजन.

**शंखपुष्पी** (स्त्री) गोकर्णीचो फुलां-बेल.

**शरीरशास्त्र** (न) जित्या प्राण्यांच्या आनी वनस्पतींच्या आंगापांगांची वाड, वर्तणूक, म्हातारपण, बावप, विटप, रोग, व्याधी बी क्रियांचे माहितीचें ज्ञान.

**शाम** (पु) साम उपचार; मित्रतायेची वर्तणूक (के).

**शामवी** (स्त्री) देवी शांतादुर्गेचें एक नांव.

**शायजिरें** (न) जिऱ्याची एक जात (फा).

**शास्त्राक नासप** – (ल) अजिबात नासप; मुळींच नासप.

**शास्त्राकय येना जावप** – (ल) मात लेगीत माहिती नासप.
**शिकाय, शिकायमंडें** (स्त्री) शिकेकाय (के).
**शितेचवरी** (स्त्री) शतावरी ही वखदी वनस्पत.
**शिरकाळ** (न) तिळवण.
**शिरको** (पु) सोऱ्याचें आंब; व्हिनाग्र.
**शिल्लो उपद्रव** (पु) बारीक सारीक त्रास.
**शिवडावप** (क्रिक) शिपडावप.
**शीर वाडप** (क्रिअ) पोटांतल्यो शिरो आंडांत उतरपाची व्याधी.
**शुटेर** (स्त्री) सुटयेर; सुटीच्या दिसांत; सुटी भोगूंक (के).
**शोंकु** (पु) शंका; संशय; दुबाव (के).
**शेवणें** (न) सवणें; पांखरूं.
**शेषक्रिया** (स्त्री) उत्तरक्रिया; प्रेतकार्य; मेल्ल्या मनशाची क्रिया (के).
**शेष भरप** (क्रिक) शेंस भरप; घोव वायलांक संवसार-सूख लाभचें म्हणून एकामेकांनीं माथ्यार मंत्राक्षता उडोवप; लग्नांतलो एक विधी.
**शैल** (पु) पर्वत (सं).

**स**—कोंकणी भाशेचे देवनागरी वर्णमाळेचें बत्तिसावें व्यंजन.
**सग** (वि) सगळो; सगळे; पुराय (के).
**संचीपन** (न) संजीवन (के).
**सट्टो** (वि) सवो; सटो (के).
**सडसडीत** (न) मुकें तोंडाक; नुमत्याचें सुकें, दबदबीत, पातळ अशे तरेचीं तोंडाकां करतात. (वि) चपळ.
**सडीक** (वि) मडिल्लो (तांदूळ); आंगान बारीक जाल्लो; सक्त.
**सतड** (वि) साडेसात (के).
**सत्यभास जावप** (क्रिअ) कसलोय भयांकृत दिष्टावो जावन मनशाची वाचा बसप.
**सत्र** (न) छत्र; अन्नछत्र; धर्मसाळ (के).
**संत्रासप** (क्रिक) खूब त्रास दिवप.
**सन्मानप** (क्रिक) सन्मान करप.
**सपत्नी** (स्त्री) सवत (सं).
**सपन** (वि) छप्पन; ५६ (के).
**सबगिणी** (स्त्री) सभागीण (के).
**संभालो** (क्रिक) संभवलो; जल्माक आयलो (के).
**समप** (क्रिअ) शांत जावप; शमप.
**समादेशक** (पु) सुपरिंटेंडेंट; अधीक्षक (पुलीस खातें बी).
**समीप** (अ) लागीं (सं).
**सरावळि** (स्त्री) घोणू (कें),
**सर्वयुत्तम** (पु) सर्वोत्तम (के).
**संवेदक** (पु) जाका संवेदना जाता तो वेकायदेशीर वा नाका आशिल्ल्या वस्तूंची संवेदना जावन तांचो प्रवेश रोखचे खातीर घडयल्लें यंत्र. डिटेक्टर.
**स-स** (वि) स स च्या गटान (के).
**सहज** (वि) सांगातान जल्माक येवपी; आपशींच लाभता असो; कारण नासतना.
**सांकडप** (क्रिअ) आंग मुंगरून घेवप; शिरकुटप; ल्हान जांवचो यत्न करप.
**सांगणेचो** (वि) कोणेय जाणटयान वा शाण्या मनशान सांगिल्लें आयकून त्या प्रमाण वागपी; समजूतदार.
**सांगून घेवप** (क्रिक) (देवाक) आंगवण करप; नवस करप.
**सांतणी, कोडूसाली** (स्त्री) सातिगणाचो

…दी रूख.

…सष्ट (वि) ६७ (अप).

…सष्टि (वि) ६७ (के).

…सात (वि) सात सात; साता सातांच्या …न (के).

…लि (स्त्री) सांतली; सत्री (के).

…तं (न) म्हारी सत्री; बेळांचे फास्केंत …विल्लीं दाट पानां दाळून बांदिल्ली …शावी सत्री.

…दप (क्रिक) उलो मारप; सादावप.

…धु (पु) साद; उलो (के).

…प्ताहिकी (स्त्री) सात दिसांच्या कार्य-…चें दूरदर्शनाचें निवेदन (सं).

…बाव (अ) सबायेक; वगीच (के).

…यबा-जाता (स्त्री) बऱ्याच प्रयत्नान …ली समजाविशी.

…वळ (स्त्री) माडाच्या कावथ्या मुळांत …रें म्हणून घालतात तो झाडपालो. उस-…चे ताळे सडून कुसतकच कावथ्यांक तांचें …रें सारें जाता.

…स (वि) सहस्र; सस्र; हजार (के).

…सष्ट (वि) ६६ (अप).

…सष्टि (वि) ६६ (के).

…त (पु) बाण (सं).

…तडो (पु) शिताडो; शेणाचें उदक …के).

…को (वि) निखटो. सुको पगार – निव्वळ …शांच्या हिशोबान थारायल्लो पगार, …तूंत जेवण, खाण, भत्ते, बोनस, ओवर-…यम कामाचो मोबदलो, घरभाडें, शहरी …त्तो बी धरिल्ले नासतात.

…टप (क्रिअ) चालू जावप; (तोंड) सुटप – …ब उलोंवक लागप; उदार जावप – …ात सुटप.

…टावो (वि) सदळ; मेकळो; सुटिल्लो.

**सुवकन** (पु) सुतकाचे दीस (के).

**सुवी, सुद्दी** (स्त्री) सोद (सं).

**सुरनोळी** (स्त्री) तांदूळ, फोव, चिरमुल्यो, चून, गोड, दूद बी वांटून भाजिल्लो पोळो; कायलोळी.

**सुरळी होळगी** (स्त्री) पुरण पोळयेचें पीठ लाटून पुरण पोळयेंत कवळून भाजिल्ली पोळी (का).

**सुरू जावप** (क्रिअ) आरंभ जावप.

**सूत** (न) अंतराचें माप; एका सुताइतलो बारीक जागो. सूत रंगांत भिजोवन लांक-डार मारतकच काळी रेग उठटा, तितलो जागो. दोन सुतां, चार सुतां अशें उलोवन जाग्याचें माप सांगतात. चार सुतांची जाडी आशिल्ली फळी. देड सुती खिळो, तीन सुती खिळो अशीं मापां प्रचारांत आसात.

**सूव** (स्त्री) सूय (के).

**सूक्ष्म जीवशास्त्र** (न) सूक्ष्मदर्शक यंत्रां-तल्यान दिसतात अशा ल्हान जंतूंचें शास्त्र; Microbiology.

**सृष्टाय** (स्त्री) शिष्टाय; दोन राज्यां-मदले वादाचे प्रस्न वा तंटे सोडोवपाक दोनय राज्यांच्या प्रतिनिधींचीं वा शिष्ट लोकांचीं उलोवणीं (के).

**सेजवासार** (पु) शेजार (के).

**सोकनी** (स्त्री) पाल (के).

**सोंकरो** (पु) रेंव; सकेरी; सकेरो (के).

**सोण** (क्रिक) सोडून (के).

**सोण** (न) सोड्ण (के).

**सोंतु करूंक** (क्रिस) वाडोवंक (के).

**सोनारलिग** (न) सोनारींग (के).

**सोनोग्रफी** (स्त्री) अंतीम ध्वनी-परा-वर्तनाचो आलेख; रोगपरिक्षेचें अत्या-धुनीक तंत्र; मनीस देहाच्या वेगळ्या

वेगळया आंगांत सामान्यपणान आयकूंक येतात अशो ध्वनीलहरी सोडून त्यो परावर्तीत जातकच, तांचो यंत्रान काडिल्लो आलेख कुडीच्या आंगांतली विकृती दाखयता. ह्या आलेखाक सोनोग्राफ म्हणटात (इं).

**सोर** (पु) सर; पोड; झेलो (के).

**सोर्पोतेल** (न) दुकराच्या कांय आंगांची विशेष तरेन रांदिल्ली शाकोती.

**सोलपावळ** (स्त्री) काजू सोलपाची मजुरी.

**सोवराक** (न) शिवगाक सांवारें वा रोस.

**स्टोन** (पु) फातर; गुंडो; चवदा पौंडांचें इंग्लिश वजनी माप (इं).

**स्थायू** (पु) जागो (के).

**स्थिरम् जीव** – 'थीरपणान जिये,' हो आशीर्वाद (सं).

**स्फटी** (स्त्री) तुरटी; फटकी (सं).

**स्फटीक** (स्त्री) पारदर्शक निवळ फातर (सं).

**स्फुरद** (पु) फॉस्फॉरस; एकाहून चड रुपांत निजांत मेळपी, निर्धातूक अशी, क्षारांत वा जिवबाच्या आंगांत मेळपी मूलभूत वस्त; सादो स्फुरद हो ज्वालाग्राही, धवो, विखारी, चकाकपी वस्तू आसता. तांबसार स्फुरद फस्काच्या काडयांक गंदकाच्या रुपांत वापरतात.

**स्याणवि** (वि) शाण्णव; ९६ (के).

**स्याशीं** (वि) श्यायशीं (के).

**ह**—कोंकणी भाशेचे देवनागरी वर्णमाळेचें तेत्तिसावें व्यंजन.

**हटणिचो एको** (पु) (ल) झकास क[...] घालून भोंवपी मनशाक मस्करेन 'ह[...]णीचो एको' म्हणटात.

**हप्तो** (पु) सप्तक; आठवडो (फा).

**हमचो** (सना) आमचो (के).

**हरिजागर** (पु) कांय देवळांनीं एकादशी[...] राती सगळी रात करतात अशें भजन.

**हर्न** (स्त्री) उदकाचो पाट.

**हळदुवो** (वि) हळडीच्या रंगाचो.

**हाण** (क्रिक) हाडून (के).

**हाणावेयां** (क्रिक) हाडूंक (के).

**हाणिलो** (क्रिक) हाडलो (के).

**हागरें** (न) कडकडून हागूंक जालें [...] पडटा ती धांवडी. हागऱ्याफुडें वा[...] खंयचें? हागऱ्यामुखार आनीक [...] सुचना.

**हागरो** (वि) भोवन भोवन हागुंची सं[...] आशिल्लो.

**हागप** (खाल्ल्या पानार) (क्रिक) ([...] उपकार करतल्याचेर पडप; पडमूर जा[...]

**हागुड्डो, हागुड्ड्यांनी** (क्रिवि) पर[...]कडे जाल्या उपरांत लिमूंक नाशिल्ल[...] अस्वच्छ; धाणीन भरिल्लो.

**हागुड्डो तांबयो** (पु) परसाकडे वत[...]तना उदक व्हरचे खातीर वेगळोच द[...]तात असो तांबयो. घरांतले दुसरे तां[...] घेवन कोणय परसाकडे गेलो तर प[...] येतकच तो तांबयो घांसचो पडटा. घ[...]ल्याबगर तो तांबयो घरांत वापरूंक मेळ[...]

**हात करप** (क्रिक) हाताचे खुणेन कोण[...] कितेंय सांगप. मोटारीक हात कर[...] मोटार थांबोवंक सांगप.

**हातकापो** (वि) हात शिंवूंक नाशिल[...] (सदरो वा जाकीट); हात नाशिल[...] (ब्लावज).

**हातपंप** (पु) हातान पंप हालोवन उदक भयर काडपाचो पंप.

**हातमोडको** (पु) हात मोडिल्लो आसा असो मनीस.

**हादगो** (पु) भाताची एक जात.

**हापशी** (पु) हबसाण (अबिसिनिया) देशाचो नागरीक; खापरी; सिद्दी (फा).

**हालडि** (स्त्री कमर (के).

**हाळप** (क्रिक) हाडप (के).

**हिंगा** (क्रिविअ) हांगा; हया जाग्यार.

**हितरिया** (न) हिताखातीर (के).

**हुम्माटप, हुमाळप** (क्रिक) हुमटप (के).

**हेट्टि** (न) सुणें (के).

**होगी, होग्गि** (अ) रोखडोच (का).

**होडु निंबुवो** (पु) इर्डलिंबू.

## ऐन वेळार मेळिल्लीं उतरां

**आमेट** (स्त्री) भुरगीं खेळटामतना मदींच सुटी घेतात. तिका आमेट म्हणटात आनी हाताक निथू लायतात. हो निथू पुसून आमेट सुटली म्हणसर खेळ बंद आसता.

**उग्रवादी** (वि) अतिरेकी; लोकांक छळपी आतंकवादी (सं).

**उतराचो** (वि) दिल्लें उतर पाळपी.

**उतरावन काडप** (क्रिक) बरोवन काडप; अचळय देंववप.

**उत्तरपुजा** (स्त्री) प्रासंगीक देवपुजांतली निमाणी पुजा; वर्सुक्या सणांत देवाची निमाणी पुजा; "यान्तु देवगणाः सर्वे पूजामादाय प्रार्थये । इष्टकाम प्रसिद्ध्यर्थं पुनरागमनाय च" अशें म्हणून देवाचेर अक्षता घालतात.

**उत्तरपुजा करप** (क्रिक) (ल) आयिल्ल्या याचकाक बेगीन वयार करप.

**काकडयो आरती** (स्त्री) धाकले दिवाळे-सावन व्हडले दिवाळेमेरेन देवळांत फांतोडेर देवाक दाखयतात त्यो आरती.

**खळें करप** (क्रिक) (ल) व्हगडावन बसप.

**गोपीचंदन करप** (क्रिक) (ल) दिवाळें काडप.

**घट गुळी** (स्त्री) गंवाचें पीठ, गांड, आले बी घालून घट्ट आंवळिल्ली गुळी.

**चुडीदार** (स्त्री) बायलांची जायत्या मिरयांची आधुनीक सलवार. साडयेपरस हो पोशाक सद्या लोकप्रीय जाला.

**चुरो** (पु) (ल) तंबाकूचो चुरो.

**झळकेक रावप** (क्रिअ) दिष्टीक पडप.

**ताणून दिवप** (क्रिअ) (ल) न्हिदप.

**तांबडी पुर्तुगेज** (स्त्री) पुर्तुगेज भाशेचें अर्दकुटें ज्ञान.

**तांबी** (स्त्री) संतती नियमनाचो एक उपाय.

**तोडस, तोडास** (न) चाक आंसांतल्यान भायर सरचें न्हय म्हूणून घालतात ती लांकडी वा लोखंडी कडी.

**दुसरेपणाक दिवप** (क्रिक) विधुरालागीं लग्न करप; धाकटेलपणाक दिवप.

**नाट, नाटां** (न) मदेराच्या लाकडाचीं व्हडलीं व्हडलीं खोडां.

**पात्याक पातें लागना जावप** – (ल) न्हीद लागना जावप.

**बाबासूट** (पु) ल्हान भुरग्यांखातीर शिविल्लो खास सदरो आनी पँट; चड्डी आनी कुतांवाचोय बाबासूट जांव येता.

**भिकारो** (पु) आवय बापायचीं जायतीं भुरगीं मेलीं, तर नवीन जाल्ल्या भुरग्याक भिकारो, भिकाजी म्हळयार देवान घातिल्ली भीक हया अर्थाचें नांव दवर-

तात. मागीर ते भुरगें जगता अशी आस्त बाळगितात.

**भोंवती भागरथ** (स्त्री) (ल) भोवूंक खूब आवडटा आनी खूब भोंवता अशी बायलमनीस.

**मरून किल्लावप** – (ल) मरून खूप तेंप जावप.

**मर्तो** (पु) आबय बापायचीं जाल्लीं जाल्लीं भुरगीं मरूंक लागलीं तर नव्यान जाल्ल्या भुरग्याक मर्तो (पूत), मर्तूल (धूव), अशीं नांवां दवरतात. मागीर तीं भुरगीं जगतात अशी पोन्नी समजूत आसली.

**मूत जळप** (क्रिअ) (ल) खूब रागीट आसप. ताचें मूत जळटा अशें रागीट मनशाचें वर्णन करतात.

**मेस्तपण** (न) मेस्ताचो वावर-धंदो; मुकादमी; सर्वेक्षण (पु).

**मोडाव** (पु) झीज. पोन्नी वस्त मोडून नवीन वस्त करतात, तेन्ना पोन्ने वस्तीच्या भांगराचें वजन मोडावान उणें जाल्लें मेळटा.

**लायट पेटप** (क्रिअ) (ल) तकलेंत प्रकाश पडप; प्रस्नाचें उत्तर लक्षांत येवप (इं).

**लायन-मन** (पु) विजेच्या खात्यांत तारेचे दुरुस्तीचें काम करपी कामगार (इं).

**लायन मारप** (क्रिक) तरनाटे आपले आवडीचे चलयेकडे वळख आनी परिचय करचो प्रयत्न करतात ताका लायन मारप म्हणटात.

**लोडेवप** (क्रिअ) लोडाक वणखून बसप.

**शी-थू जावप** (क्रिअ) अब्रू वचप; लज जावप; फजेत जावप.

**शेकहँड करप** (क्रिक) दुसऱ्याचो हात आपल्या हातांत घेवन मित्रतायेन दांबप; आदेस करप; निरोप घेवप-दिवप.

**सणी सूत** (न) खूब घट्ट अशें धवें सून; तुटून तुटना अशे मणाच्या तंतूचें वळिल्लें सूत.

**सार्क** (SARC) (स्त्री) दक्षीण आशिया प्रादेशीक राष्ट्रसंघ; SOUTH ASIAN REGIONAL COMMON-WEALTH. ह्या संघांत भारत, पाकिस्तान, बांगला देश, नेपाळ, माल्दीव, श्रीलंका आनी भूतान हीं राष्ट्रां आसात. हो राष्ट्रसंघ राष्ट्रांमदले प्रस्न सोडोवंचो यत्न करता.

**सुताची गाडी** (स्त्री) सूत गुठलायल्ली लांकडी वा प्लास्टीक गाडी.

**हपापाचो माल गपापा** – (ल) चोरयेंचो (माल) मारयेक वचप.

**हाडाचीं काडां करप** (ल) जीव झरवप.

**हात दिवप** (क्रिक) हातांत हात घेवन शेकहँड करप; आदेस करप.

**क्षत्रीय भंडारी समाज** (पु) गोंयांत बहुजन समाजांतली एक जात.

# कोंकणी भाशेची कुळकथा

## १. अपभ्रंश भाशेचो सोद

१. पाश्चात्य विद्वानांनीं संस्कृत भाशेच्या साहित्याचो १८ व्या शतकासावन अभ्यास केलो. त्या उपरांत ताणी प्राकृत भासांचो अभ्यास एकुणिसाव्या शेंकडयाच्या दुसऱ्या अर्दांत केलो. जर्मन भारतशास्त्री (Indologist) रिचर्डस् पिशेल हाणे हेमचन्द्राचो सिद्ध-हेम-शब्दानुशासन आनी हेर प्राकृत भासांच्या व्याकरणांचो अभ्यास[1] करून १९०० इसवी सालांत जर्मन भाशेंत लोकांक त्या व्याकरणांचो पयलोवयलो परिचय करून दिलो. मागीर ताणे साबार अपभ्रंश साहित्याची वळख १९०२ सालांत उजवाडायल्ल्या जर्मन पुस्तकांतल्यान लोकांक करून दिली. हेरमन याकोबी ह्या जर्मन भारतशास्त्र्यान जायत्या-प्राकृत कथांचे संग्रह आनी प्राकृत ग्रंथांचें संपादन करून पुस्तकां उजवाडायलीं.

२. हेमचन्द्राच्या सिद्ध-हेम-शब्दानुशासन ह्या ग्रंथाचो आठवो अध्याय म्हळ्यार सगळ्या प्राकृत भासांचें व्याकरण. ह्या व्याकरणाचें संपादन रावबहादूर शंकर पांडुरंग पंडीत हाणी करून हेमन्त्रंद्राच्या कुमारपालचरित ह्या काव्याचें परिशिष्ट म्हणून बॉम्बे संस्कृत सिरीज नंबर साठ ह्या क्रॉनिकलांत इ. स. १९०० सालांत तें छापलें.

३. श्री. चन्द्रमोहन घोष हाणी १९०२ सालांत प्राकृत पैंगलम् हें पुस्तक उजवाडायलें. श्री. देवकरण मूलचन्द हाणी हेमचन्द्राचें छन्दोऽनुशासन हो ग्रंथ संपादन करून उजवाडायलो. सन १९१८ सालांत डॉ. याकोबी हाणे धनपालाचें ‘ भविसयत्त कहा ’ हें काव्य उजवाडायलें. सन १९२१ त ताणेच हरिभद्र सूरिच्या नेमिनाथचरित्राचो एक भाग ‘ सनत्कुमार चरित ’ अपभ्रंश भाशेंत बरयल्लो आसा, तो संपादून उजवाडायलो.

४. सन १९१४ सावन बडोद्यांत महाराज सयाजीराव गायकवाड हांच्या उत्तेजनान श्री. चिमणलाल दलाल आनी डॉ. पांडुरंग दामोदर गुणे हाणी १९२३ मेरेन ‘ भविसयत्त कहा ’ दुसरे फावट संपादून उजवाडायलें. ह्या पुस्तकाचे प्रस्तावनेंत डॉ. गुणेनीं अपभ्रंश साहित्य, अपभ्रंश साहित्याचो इतिहास, अपभ्रंश काळ, व्याकरण, छन्द आनी आभीरवंशी लोकांचो अपभ्रंश भाशेकडे संबंध ह्या विषयांचेर उजवाड घालो. डॉ. गुणेनीं मुखावेले पिळगेखातीर अपभ्रंश भाशेच्या अभ्यासाचो मार्ग सोपो करून दवरलो.

५. अलाहाबाद विद्यापिठाचे विद्वान डॉ. हिरालाल जैन हाणी १९२६ सालामेरेन मध्यप्रांतांतल्या प्राकृत आनी संस्कृत हातबरपांचो अभ्यास करून त्या बरपांचे कॅटलॉग उजवाडायले. १९२७ सालांत श्री. एल. बी. गांधी हाणी ‘ अपभ्रंश काव्यत्रयी ’ ह्या नांवान तीन काव्यांची वळख करून दिली. सन १९२८ त डॉ. पी. एल. वैद्य हाणी पुण्यांत हेमचन्द्राच्या ‘ प्राकृत व्याकरणा ’ चें संपादन केलें. डॉ. बाबूराम सक्सेना हाणी नागरी प्रचारिणी सभा, काशी हे संस्थेच्या विद्यमान १९२९ त कवि विद्यापतीचो ‘ कीर्तिलता ’ हो अपभ्रंश काव्यग्रंथ संपादन करून उजवाडायलो.

६. डॉ. हिरालाल जैन हाणी 'सावयधम्म दोहा' (१९३२), पाहुड दोहा (१९३३), णायकुमार चरियु, करकंड चरियु (१९३४) ह्या ग्रंथांचें संपादन आनी प्रकाशन केलें. डॉ. परशुराम वैद्य हाणी कवी पुष्पदन्ताचें "जसहरचरियु" (१९३१), आनी ताच्याच महापुराणाचे तीन भाग हांचें संपादन आनी प्रकाशन सन १९३७, १९४० आनी १९४१ सालांत केलें.

७. डॉ. आदिनाथ नेमिनाथ उपाध्ये हाणी १९३७ त 'परमात्मप्रकाश' आनी 'योगसार' हीं अपभ्रंश पुस्तकां संपादन करून उजवाडायलीं. डॉ. शहीदुल्ला हाणी पारीम-सावन तर पंडीत राहुल सांकृत्यायन हाणी तिबेटी ग्रन्थांच्या आधारान कांय अपभ्रंश ग्रंथ संपादले. ह्या भायर जर्मन प्रो. लुडविग आल्सडॉर्फ हाणी हांबुर्गसावन अपभ्रंश पुस्तकांचें संपादन केलें. श्री. मुनि जिनविजय, श्री. भायाणी, डॉ. हरि दामोदर वेलणकर हाणी लेख बरोवन अपभ्रंश साहित्याचो प्रचार केलो.

८. संस्कृत साहित्यांत रामायण, महाभारत आनी पुराणांनीं रचिल्ल्या नायक नायिकांच्यो कथा आनी उपकथा मेळटात. अपभ्रंश भाशेंतल्या साहित्यांत सामान्य पुरूष आनी स्त्रियो नायक, नायिका जावन येतात. अपभ्रंशांत जैन धर्मी लोकांच्यो कथा आसात.

९. शृंगार रस, वीर रस आनी शांत रस हे तीन रस अपभ्रंश साहित्यांत भोवन भोवन मेळटात. अपभ्रंश भाशेंत सामान्य लौकीक जीण काव्यांत आपलें पडबिंब घालता. अपभ्रंशांत संस्कृत काळांतल्या ऋषींच्या जाग्यार मुनी आनी तीर्थंकर येतात. अपभ्रंशांत देवांक आनी ब्राह्मणांक तीर्थंकर आनी मुनी हांच्या खालच्या पांवड्यार जागे मेळटात. अपभ्रंशांत व्यापारी आनी तेय वैश्य वर्गातले हांकां प्रतिष्ठा मेळटा. नायक-नायिकांच्या पुर्वजल्मांच्या वर्णनांत चालू जल्मांतले कार्यकारण-भाव सिद्ध जातात.

१०. साबार प्राकृत आनी अपभ्रंश कवींनीं रामायण-महाभारताच्या कथानकांत स्वैरपणान फेरबदल केले. दशरथ हो वाराणसीचो राय. ताचे सुबला राणयेक राम जल्माक आयलो. तो वर्णान गोरो आसलो. रामाक सितेशिवाय सात पत्नी आसल्यो. कांय जैन रामायणांनीं रामाच्या पत्नींची संख्या आठ हजारांचेर पावता. दशरथाची दुसरी राणी कैकयी. तिका लक्ष्मण हो काळया वर्णाचो पुत्र जल्मलो. ताका १६ पत्नी आसल्यो. दुसऱ्या रामायणांनीं ही संख्या १६ हजारांमेरेन पावता.

११. सीता ही रावण आनी मंदोदरी ह्या विद्याधर योनींतल्या राजा-राणीची कन्या. ही कन्या रावणाचो कुळक्षय करतली म्हणून भविष्य कळटा. रावण तिका पेटेंत घालून जमनींत पुरता. शेत नांगरतना ती जनकराजाक मेळटा. तिचें रामालागीं लग्न जाता. नारदमुनीन रावणाकडे सीतेच्या सौंदर्याची तुस्त केली म्हणून रावणान तिका चोरून व्हेली. राम रावणाचें युद्ध जालें. तांतूंत लक्ष्मणान रावणाक मारलो. म्हणून लक्ष्मण मरतकच नरकाक गेलो.

१२. अपभ्रंश भाशेंत रिट्ठणेमिणाह-चरिउ हें महाभारताच्या आख्यान काव्याचें नांव. हरिवंस-पुराण अशेंय ताका म्हणटात. कवी पुष्पदंताची जायत्या नांवांची महाभारत कथा आसा, व्यासान रचिल्ल्या महाभारताचे कथेंत कवींनीं मनाक मानलें तशे फेरबदल केले.

## २. अपभ्रंश भाशेआदल्यो प्राकृत भासो

१३. माहाराष्ट्री प्राकृत ही म्हालगडी प्राकृत भास ख्रिस्तपूर्व तीन/चार शतकां-सावन ख्रिस्ताब्द पांचशीं वर्सांमेरेन उत्तर भारतांत गंगा न्हंयेंसावन दक्षिणेक गोदावरीच्या वाठारामेरेन लोक उलयताले, बरयताले, साहित्य रचताले. माहाराष्ट्री भाशेंतलीं जायतीं उतरां तद्भव रुपान आमचे कोंकणींत आयल्यांत. आजून आमी तीं वापरतात. ह्या कोंकणी शब्दकोशाच्या दुसऱ्या भागाचे प्रस्तावनेंत असल्या उतरांची एक वळेरी दिल्या. आनीकय जायत्या असल्या उतरांची वळेरी दिवं येत.

१४. शौरसेनी ही प्राकृत भास माहाराष्ट्री आनी संस्कृत ह्या दोन भासांतल्यान म्हळ्यार तांच्या प्रभावान घडल्या अशें वररुची व्याकरणकार सांगता. हो वररुची ख्रिस्ती शकाच्या पयल्या दोनशीं वर्सांत जावन गेलो जांवये. कोणाक ताचो काळ नक्की सांगूंक येना. पाणिनीचे संस्कृत अष्टाध्यायीचेर वार्त्तिकां बरोवपी संस्कृत भाशेचो वार्त्तिककार वररुची वेगळो.

१५. प्राकृत व्याकरणकार वररुचीन णव अध्यायांत आपली अष्टाध्यायी म्हळ्यार प्राकृत भाशेचें, माहाराष्ट्री भाशेचें, व्याकरण संस्कृतांत रचलें. ह्या व्याकरणाचे निमाणे 'शेषं संस्कृतवत्' अशें सांगलें. कांय व्याकरणी नेम सांगपाचे उल्ले जाल्यार, तांच्या जाग्यांर त्याच विषयाचे संस्कृत व्याकरणाचे नेम वापरचे. असो ताचो अर्थ. वररुचीच्या ह्या व्याकरणाचें नांव प्राकृतप्रकाश. प्राकृतप्रकाशाच्या धांव्या परिच्छेदांत वररुचीन चवदा सुत्रांभितर पैशाची भाशेचें व्याकरण आटपलें. पैशाची ही प्राकृत भास पंजाब आनी पश्चीम-उत्तर भारतांत उलयताले. ती शौरसेनींतल्यान उप्रासल्या. शौरसेनींतल्यान पैशाचींत उतरां कशीं बदलून येतात हें वररुची सांगता. हाचे भायर उरिल्लें 'शेषं शौर-सेनीवत्' म्हळ्यार उरिल्लें व्याकरण शौरसेनीभाशेन, अशें म्हणून सोडटा. प्राकृत प्रकाशाच्या अकराव्या परिच्छेदांत मागधी आनी बाराव्या परिच्छेदांत शौरसेनी ह्या भासांचीं व्याकरणी सुत्रा ताणे गुथलीं.

१६. हे भाशेन माहाराष्ट्री, शौरसेनी, मागधी आनी पैशाची ह्या चार प्राकृत भासांचीं व्याकरणां वररुचीन प्राकृतप्रकाश ह्या ग्रंथांत रचलीं. दोनतीनशीं वर्सांनीं म्हळ्यार क्रिस्ताब्द ५०० ते ६०० वर्सांमेरेन ह्यो भासो लोकांच्या उलोवपांतल्यान गेल्यो. कवींनीं रचिल्ले ग्रंथ उल्ले. कवी आनीकय काव्यां माहाराष्ट्रींत आनी मागधींत रचीत रावले.

१७. माहाराष्ट्री, शौरसेनी, मागधी आनी पैशाची ह्यो भासो समकालीन आसल्यो. तांतूल म्हालगडी माहाराष्ट्री. हिचो आनी आधुनीक महाराष्ट्राचो प्रत्यक्ष संबंध सिद्ध जांवक ना. शौरसेनी भाशेंत लेखी काव्य वा ग्रंथ नात. कांय संस्कृत नाटकांतलीं गौण पात्रां गद्य शौरसेनी उलयतात. माहाराष्ट्री आनी मागधी भासांत काव्यां रचिल्लीं आसात. माहा-राष्ट्री, शौरसेनी आनी मागधी ह्यो तीन भासो जैन लोकांच्या धर्मीक आनी गद्यपद्य साहित्याक लागून भरभराटीक आयल्यो. अर्धमागधी ही जैन मुनींची पोत्री भास. मागधी

भाशेचीच ती एक शैली. पैशाची भाशेचो आतां वाङ्‌मयाच्या अभ्यासांत काय वांटो उरूंक ना.

## ३. अपभ्रंश भाशेचो इतिहास

१८. क्रिस्ताब्द सव्या शेंकड्यांत अपभ्रंश ही प्राकृत भास भारताच्या वायव्य कोनशांतल्यान भारतांत येवपी आभिरी (शवर) टोळिवाल्यांनी भारतांत हाडली. हे नागवंशी लोक हिंदू धर्माचे अभिमानी. ते शैव पंथी आसले. कालक्रमान ते जैन पंथांत गेले. बिहार, राजस्थान, मध्यप्रदेश, गुजरात, सौराष्ट्र, विदर्भ, मराठण, कोंकण, उत्कल बी प्रांतांनीं तांची भास वेगवेगळ्या शैलींनी लोक उलोवंक लागले.

१९. चण्ड नांवाच्या व्याकरणकारान 'प्राकृतलक्षणम्' हें प्राकृत भासांचें म्हळ्यार माहाराष्ट्री, शौरसेनी, मागधी, पैशाची आनी अपभ्रंश भासांचें व्याकरण रचलें. हो ग्रंथ कोणाक हालीं पळोवंक मेळ्ळो ना. हेमचंद्र हो व्याकरणकार आपल्या व्याकरणांत चण्डाच्या प्राकृतलक्षणाचे संदर्भ दिता.

२०. जॉइन्दु ह्या कवीन राजस्थानांत अकराव्या शतकाआदीं परमात्मप्रकाश आनी योगसार हे दोन ग्रंथ अपभ्रंशाचे पश्चिमी शैलींत रचले. देवसेन नांवाच्या कवीन धाव्या शतकांत (९३३ साल) सावय-धम्म-दोहा हो ग्रंथ माळव्यांतले धारा नगरींत रचलो. रामसिंह (पाउड दोहा), धनंजय (दशरूप), धनपाल, भोज (सरस्वतीकंठाभरण) जिनदत्त, लक्ष्मणगणी, हरिभद्र, सोमप्रभ आनी हेमचंद्र हे कवी बाराव्या शतकामेरेन गुजरातेंत जावन गेले.

२१. हांतल्या हेमचंद्रान 'सिद्ध-हेमचंद्रानुशासन' हें संस्कृत भाशेंत व्याकरण रचलें. हें व्याकरण संस्कृत, माहाराष्ट्री, शौरसेनी, पैशाची, मागधी, अर्धमागधी आनी अपभ्रंश भासांचें आस. त्या भायर ताणे 'देशीनाममाला' हो देशी उतरांचो शब्दकोश, कुमारपाल-चरित्र आनी छंदशास्त्राचेर बी ग्रंथ रचले. हेमचंद्र कवी, व्याकरणकार, कोशकार आनी छंदशास्त्राचो तज्ञ असलो. ताणे आपले ग्रंथ अणहिलपाटण ह्या नगरांत रचले. तो जैन पंडीत आसलो. सिद्धराज आनी कुमारपाल ह्या दोन महाराजांचो तो गुरू आसलो. अपभ्रंश भाशेचें व्याकरण ताणे रचलें. तो अपभ्रंश भाशेचो पयलो व्याकरण ग्रंथ. संस्कृत, माहाराष्ट्री, शौरसेनी, मागधी, अर्धमागधी, पैशाची, चूलिका-पैशाची आनी अपभ्रंश ह्या आठ भासांचीं अशीं व्याकरणां ताणे एका सिद्ध-हेम-शब्दानुशासन ह्या ग्रंथांत रचलीं. तो १०८८ सालांत जल्मलो आनी ११७२ सालांत मेलो.

२२. हेमचंद्रा उपरांत क्रमदीश्वर, त्रिविक्रमदेव, सिंहराज, लक्ष्मीधर, मार्कण्डेय कवीन्द्र हाणीय प्राकृत आनी अपभ्रंश भासांचीं व्याकरणां रचलीं. दोन व्याकरणां आमी अवश्य शिकचीं: एक हेमचंद्राचें सिद्ध-हेम-शब्दानुशासन; हें ताणे संस्कृतांत रचलें. दुसरें मार्कंडेय कवींद्रान उत्कलांत १५६५ त रचिल्लें 'प्राकृतसर्वस्वम्.'

२३. क्रिस्ती शकाच्या सव्या शेंकड्यांत माहाराष्ट्री, शौरसेनी बी भासो लोकांचे जिबेर घोळपाच्यो बंद जाल्यो. संस्कृत भाशेसारक्यो त्यो निखटच्यो साहित्यीक भासो

म्हणून पुस्तकांनीच उल्ल्यो. अपभ्रंश हीच भास सगळ्या हिंदुस्थानभर नागर, उपनागर, व्राचड बी तरेतरेच्या मोडींनीं हिंदुस्थानभर लोकांच्या जिबांर खेळूं लागली. पंडीत आनी कवी ते भाशेंत काव्यां रचूंक लागले. व्याकरणकारांनीं ते भाशेचीं व्याकरणां रचलीं. बाराव्या शेंकडयामेरेन ही भास लोकांचे जिबेर उल्ली. धाव्या-इकराव्या शेंकडयामावन आधुनीक भारतीय भासो, हेच अपभ्रंश भाशेच्या वेगवेगळया मोडींतल्यान उप्रासल्यो. बाराव्या शेंकडयांत अपभ्रंश भाशेच्या जाग्यार लोकांच्या जिबांचेर मैथिली, अवहट्ट, व्रज, राजस्थानी, मराठी, कोंकणी, गुजराती, बंगाली बी भासो वावरूंक लागल्यो. कांय अपभ्रंश भाशेचे पंडीत आजुनय ते भाशेंत काव्यां रचीत रावले.

## ४. अपभ्रंश आनी कोंकणी भाशेचो संबंध

**२४.** पंडीत हरगोविंददास टी. सेठ ह्या प्राकृत भासांच्या नज्ञान अपभ्रंश भाशेच्या वेगवेगळया मोडींतल्यान मुखार दिल्ल्यो आधुनीक भासो उप्रासल्यो म्हणून सांगलें :

(१) मराठी, (२) कोंकणी, (३) बंगला, (४) उडिया, (५) आसामी, (६) मैथिली, (७) मगही, (८) भोजपुरी, (९) अवधी, (१०) बघेली, (११) छत्ती-सगढी, (१२) बुंदेली, (१३) कनोजी, (१४) व्रजभाषा बाँगरू, (१५) हिंदी (उर्दू), (१६) राजस्थानी, (१७) मालवी, (१८) मेवाडी, (११) जयपुरी, (२०) मारवाडी, (२१) गुजराती, (२२) पूर्व पंजावी, (२३) सिंधी आनी (२४) काश्मिरी.

**२५.** सन १९८७ सालांत डॉ. नरेश कुमार ह्या हिंदी व्युत्पत्ती-नज्ञान अपभ्रंश-हिंदी शब्दकोश रचलो. ह्या शब्दकोशाचे प्रस्तावनेंत अपभ्रंश भाशेचो प्रभाव आधुनीक भासांचेर पडला म्हणून दाखोवपाक ताणी मावार आधुनीक भासांतलीं कांय उतरां अपभ्रंश भाशेंतल्यान कशीं देवलीं नें दाखयलें. कोंकणी भाशेंतलीं भावज, भावु, मेवणी, व्होन्नी, अव्वयि (आवय), व्होरेतु, चुळचुळेवप, व्हिळ्व्हीळि (विळविळीत) बीं उतरां अनुक्रमान अपभ्रंशांतल्यान देंविल्ल्या मुखार दिल्ल्या उतरांचीं कोंकणी रुपां म्हणून ताणी नोंदल्यांत :

| **अपभ्रंश** | **कोंकणी** |
|---|---|
| भावुज्जा | भावज |
| भाओ | भावु (भावजी) |
| मेहुणिया | मेवणी |
| वहुणी | व्होन्नी |
| अव्वा | अव्वयि, आवय |
| वरइत्त | व्होरेतु |
| चुलचुलइ | चुळचुळेवप |
| विलिव्विली | विळविळीत |

**२६.** कोंकणी भाशेकडेन क्वचितच संबंध आशिल्ले उत्तर हिंदुस्थानी भाशातज्ञ कोंकणी आनी अपभ्रंश भाशेचो पुराणकाळचो संबंध दाखोवन दितात. जाल्यार, खासा कोंकणी भाशी वावराड्यांनीं ह्या विषयाचो अभ्यास केल्यार "कोंकणी ही भासच न्हय.

ती एक थळावी बोली आसा. तिका व्याकरण ना, तिका लिपी ना, तिचो शब्दकोश ना, तिची प्रमाण भास ना," अशें उच्च रवान सांगपी आधुनीक भासांच्या विद्वानांक हाचेमुखार कोंकणी भाशेचो उगम आनी विकास ह्या विषयाचेर उलयतना विचार करून उलोवंचें पडटलें, कोंकणी भाशेचो इतिहास उजवाडांत येता. कोंकणी लोकांनीं तो अभ्यासुंचो. म्हणटकच तांकां आपली भास दुसरे आधुनीक भाशेलागीं घाणवटाक दवरची पडची ना.

## ५. कोंकणी भाशेच्या स्वर आनी व्यंजनाचो उगम

२७. कोंकणी भाशेंतले स्वर आनी व्यंजनां मुळाक कोणा भाशेंतल्यान आयलीं ते पळोवया.

| संस्कृत स्वर | प्राकृत स्वर | अपभ्रंश स्वर | कोंकणी स्वर |
|---|---|---|---|
| अ, आ, इ, ई | अ, आ, इ, ई | अ, आ, इ, ई | अ, आ, इ, ई |
| उ, ऊ, ऋ, ॠ | उ, ऊ, ए, ओ | उ, ऊ, ए, ऍ | उ, ऊ, ऋ, ऌ |
| ऌ, ए, ऐ | | ओ, ऑ, औ, | ए, ॲ, ओ, ऑ |
| ओ, औ | | ऋ | ऐ, औ |

| अपभ्रंश व्यंजनां | कोंकणी व्यंजनां |
|---|---|
| क, ख, ग, घ, ङ, च, छ, ज, झ, ञ | क, ख, ग, घ, ङ, च, छ, ज, झ, ञ, |
| ट, ठ, ड, ढ, ण, त, थ, द, ध, न, | ट, ठ, ड, ढ, ण, त, थ, द, ध, न, |
| प, फ, ब, भ, म, य, र, ल, व, श, | प, फ, ब, भ, म, य, र, ल, व, श, |
| ष, स, ह, ळ. | ष, स, ह, ळ. |

अपभ्रंशाच्या दक्षिणेंतल्या हातबरपांत ळ हें अक्षर मेळटा.

२८. कोंकणी भाशेंतले स्वर आनी व्यंजनां अपभ्रंश भाशेंतल्यान आयलीं. दांतया-ताळव्या उच्चाराचीं च, ज, आनी झ हीं व्यजनां अरबी, फारशी, उर्दू उतरांच्या प्रभावान कोंकणींत आनी हेर आधुनीक भारतीय भासांत आयलीं.

२९. वं हें व्यंजन म्हळयार कोंकणीची विशेषताय अशें दिसता. आजूनमेरेन व ह्या व्यंजना आदल्या स्वराचेर अनुस्वार दिवन ह्या व्यंजनाचो वं असो उच्चार करतात. मुखार दिल्ल्या उतरांत हो उच्चार स्पष्ट जाता. तंव, दांव, देंव, पेंव, पोंवप, जांव, भोंवप, मांव, बी.

संस्कृत उतरांत ष हें अक्षर येता. त्या संसर्गान कोंकणींन हें ष व्यंजन ह्या शंबर वर्सांत आयलां. न्ज्ञ हें जोड अक्षर पुर्तुगेजींत nha ह्या जोडगिराच्या उच्चाराचे सार-कायेक लागून आयलें. देख : लारान्ज्ञ, तोरान्ज्ञ, बी उतरां.

३०. ञ हें नाखयें-ताळवें व्यंजन कोंकणींत जायत्या उतरांनीं उच्चारतात. पूण तो उच्चार बरोबंक ञ च्या जाग्यार य हें अक्षर वापरून ताच्या आदल्या स्वराक नाखयो करतात. देख : बांय, कांय, थंय, न्हय, न्हंय, मांय, धंय, संयवर, बी. हीं उतरां उच्चारान-सार बरयतलो जाल्यार, अनुक्रमान, बांञ, कांञ, थंञ, न्हंञ, मांञ, धंञ, संञवर अशीं बरोवंक जाय.

**३१.** अपभ्रंशांत उतराचे सुरवेक ए वा ओ हे स्वर आयले आनी त्या उतरांत ाडाक्षर आयलें तर शब्दाच्या सुरवातीच्या ए वा ओ ह्या उच्चाराचो अनुक्रमान अॅ वा ॉ अशे उच्चार विकल्पान जातात. अपभ्रंशांत एक हें उतर ऍक्क अशेंय बरयताले. ामी कोंकणींत अॅक भुरगें, एक दादलो, एक बायल अशें उच्चारतात.

**३२.** कोंकणींत एकय, दोनय, चवदाय, बायलोय, आजय, तुमीय असल्या उतरांत ो हो प्रत्यय वापरतात. ताचो अर्थ निश्चिततायेचो असो जाता. बी, लेगीत, एकूण अशा र्याचो हो उपसर्ग. अपभ्रंश 'इ' ह्या उपसर्गाचो कोंकणींत य हो उपसर्ग जालो.

**३३.** अपभ्रंश भाशेंत धातूंच्या वर्तमानकाळी रुपांत पयल्या अक्षराचेर जोर येता. ोंकणी धातूंचेंय वर्तमानकाळी रूप तशेंच घडटा. करइ > करी, करता. अपभ्रंशांत भूत ा भविश्यकाळी रुपांत निमण्या अक्षराचेर आघात येता. कोंकणींतय तसोच येता. गए - गेले, वाढा – वाढले, करिहइ – करतलो, पढिल्लं – वाचतलों.

**३४.** अपभ्रंश भाशेंत मूळ धातूक अपयति अशा प्रत्ययान प्रेरणार्थक क्रियापद घडय-ात. वचाव – बचापयति; पढाव – पठापयति; जियाव – जिवापयति; बैसार – उप-शालयति; वंकइ – वंकापयति. कोंकणींत मूळ धातूक अयता हो प्रत्यय लागून प्रेरणार्थक ातुरूप घडटा. बस – बसयता. कर – करयता. न्हीद – न्हिदयता. ल्हेंव – ल्हेंवयता. ्हाण – न्हाणयता. घाल – घालयता. नाच – नाचयता. मार – मारयता.

**३५.** अपभ्रंशांत दोन अक्षरी नामांत वा विशेषणांत पयल्या अक्षराचेर आघात उरता. कोंकणींत तसोच जाता. देख : राम, कृष्ण, सीता, दादा, मीठ, कंति, रूढ, बाय, बाब, काका. तीन अक्षरी नामांविशेषणांत पयल्या अक्षराचेर आनी केन्नाकेन्ना दुसऱ्या अक्षरार आघात येतात. बाम्हण – बामण; आंगन – आंगण; कहणी – काणी; साकर – साकर; पाथर – फातर; विआस – विकास; हियय – हृदय.

**३६.** अपभ्रंशांत संस्कृत न च्या जाग्यार ण हें अक्षर येता. तें उतराचे सुरवेक लेगीत येता. उत्तर-पश्चिमी आनी दक्षिण-पश्चिमी भारतांत 'ण' लोकप्रीय आसलो. आडवाद : कीर्तिलता आनी कीर्तिपताका ह्या दोन ग्रंथांत नकारादि उतरां खूब आसात. उक्तिव्यक्ति-प्रकरणांत णकारादि उतरां नात. नकारादि उतरां बावीसच मेळटात.

क्रिस्तपूर्व २०० सालामावन क्रिस्ताब्द १० व्या शतकामेरेन संस्कृत उतरांतल्या न चो प्राकृतांत 'ण' करपाकडेन उलोवप्यांचो कल आसलो. धाव्या शेंकड्यासावन संस्कृताच्या प्रभावाक लागून प्राकृतांत, अपभ्रंशांत 'ण' चो 'न' जावंक लागलो. लुञ्चण – लुंचन; पाणिअ – पानीय; परमाणंद – परमानंद.

**३७.** स्त्रीलिंगाचो दर्शक ईण हो प्रत्यय अपभ्रंशांतल्यान कोंकणींत आयला. कुंबार – कुंबारीण; सुतार – सुतारीण; भट – भटीण; पेडणेकार – पेडणेकारीण, साष्टकारीण; बी. कोंकणींत कारीणचें कान्न अशें ल्हान केलें. नुमनेकारीण – नुमनेकान्न; साष्टकारीण – साष्टकान्न; म्हाड्डोळकान्न, भाटकान्न. कांय उतरांचें रुपांतर कान्न प्रत्ययांत जायना. खारवीण, डॉक्टरीण, भटीण, सुतारीण. कुंबारीणचें कुंबान्न जाता.

३८. कोंकणींत विमर्ग स्वर ना. संस्कृत दुःख ह्या उतराचो उच्चार आमी दुक्ख असो अपभ्रंश भाशेंतल्याप्रमाण करतात तसोच कोंकणींत दुक्ख असो बरोवंचो.

३९. भाववाचक नामाचो पण हो प्रत्यय, मनीसपण, ल्हानपण, म्हातारपण. वर्तमानकाळी धातुसाधीत उलयणो, वचणो, येणो, आपोवणो बी. हो 'पण' हो उपसर्ग अपभ्रंश 'त्तण' ह्या उपसर्गाचें आधुनीक रूप आस. कोंकणींत धातूक णूक हो प्रत्यय लावन वसणूक, घडणूक, नेमणूक, वर्तणूक, गांजणूक, छळणूक बी उतरां घडटात. तीं कोंकणीचेर अपभ्रंश भाशेचो प्रभाव दाखयतात.

## ६. कोंकणी भाशेचेर अपभ्रंश भाशेचो प्रभाव

४०. अपभ्रंश भाशेची उलोवपा-बरोवपाची मोड कोंकणीचें दायज जाली. देख: **आमी भयान थरथरतात**, संकष्टांक **लागून आमच्यो भोयोभोयो जातात**, आमी आमचीं **वर्लीं**, उदकांत **झळझळायतात** आनी **पिळटात**. आमच्या **घरांत वा आंगणांत** भुरग्यांचो **कलकल** जाता. आमची बरणी **भुंयेर पडटा** आनी **तट्ट करून फुटटा**. ही जी आमची **उलोवपाची** पद्धत आसा, ती अपभ्रंश भाशेंतल्यान आयल्या.

४१. आमी **बडबडटात**, आमी **वाजेतात**, आमी **ल्हेंवटेपणा** करतात. आमी **तोरां तोडटात** आनी **तण लुंवतात**. आमच्या **आंगणांत मोगरीं फुलतात, मार्वाळिंगेक मार्वाळिंगां पिकतात. मिरवेलीक मिरयां लागतात**. **म्हजो मांव** हो **म्हजे मावशेच्या गांवांतलो गांवुनगो** आसा.

४२. आमी **आंबील खातात, पेज जेवतात, शीत जेवतात, पाणी पियेतात. म्हजो बापूय, म्हजी आवय, भयण, भाव सगळीं एकमेकांक तोखेतात**. आज **हांव तिंवळान शीत कालोवन भाजी तोंडाक लावन जेवलों. कालवणाक दुसरें कांय** नाशिल्लें. पोन्या काळांत गोयांत **खेडयांनीं कुडां** आसताली. आतां **गांव** आनी **घरां** आसात. कोथरूडांत म्हज्या पोरसांत **चिंचेचें झाड** आसा.

४३. आमच्या पोरसांत **कुंवाळे, वायंगीं, घोसाळीं, तवशीं, लागल्यांत. शेतांत वावरून उपरांत** आमी **वजऱ्यार न्हातात, न्हेसणां न्हेसतात, आंगाक वटणीं लायतात. गोरवांक दावणींत बांदतात**. मागीर **जेवतासतना मर्दी उठबस करची पडना.**

४४. ह्या वयर बरयल्ल्या चार कुडक्यानी जो कोंकणी मजकूर आसा त्या मजकुराची कोंकणी मोड आनी उतरावळ शुद्ध अपभ्रंश नागर, उपनागर शैलींची आस. हेमचंद्रान आपल्या व्याकरणांत ज्या अपभ्रंश साहित्यांतलीं उदाहरणां दिल्यांत, तेच अपभ्रंश मोडींतसून मळची कोंकणी उप्रामल्या.

४५. आमचीं भुरगीं **सांजवेळचीं पाडे** आनी **लेखां म्हणटात. बे एके बे** सावन **तीस धंय तीनशीं मेरेन** पाडे म्हणटात. मागीर **पावकी**, निमकी, **पावणकी**, **सवायकी, दिडकी, अडेचकी, औटकी म्हणटात.** सव्या शेंकडयांत आनी ताचेर आदीं मागधी प्राकृतांत म्हळयार चवथ्या-पांचव्या शेंकडयांत जे तरेन पाडे म्हणटाले तशेच ते आजून कोंकणींत म्हणटात. बदलूंक नात. **साडे, पावणे**, **सव्वा** हीं उतरां जशाक तशीं म्हणटात. **कोंकणी**

भाशेन विचार उक्तावपाची मोड अपभ्रंश भाशेंतसून दायज म्हणून घेतली.

४६. गंबर-एक अपभ्रंश ग्रंथांचें साहित्य ह्या विसाव्या शेंकड्यांत छापून उजवाडांत आयलें. हाचे पयलीं भारतांत एकय अपभ्रंश पुस्तक छापून उजवाडाक आयलें ना. ह्या अपभ्रंश साहित्याचो अभ्यास करतां करतां भारतीय विद्वानांक आपली बोली-भास खंचे प्राकृत भाशेंतल्यान उप्रासली तें कळून आयलें. हाचे आदीं आपूण उलयतात त्या भासांनीं जायतीं मंस्कृत उतरां तत्सम आनी तद्भव भरसल्लीं आसात, हें भारतीय सुशिक्षितांक कळटालें आनी म्हणून आपली भास संस्कृत भाशेंतल्यान उप्रासली अशें साबार लोक मानताले.

४७. ह्या प्राकृत भासांच्या अभ्यासाची बुनयाद अस्तमतेंतल्या जर्मन, इंग्लिश, फ्रेंच भारतशास्त्र्यांनीं (Indologist) माल्ली. १८६० सालासावन १९०० मेरेन प्राकृत आनी खासा अपभ्रंश भासांचें व्याकरण, कोश, काव्यां हांचो अभ्यास करून त्या विषयां-तल्या कांय पुस्तकांचें संपादन करून तीं उजवाडायलीं आनी आमच्या भारतीय भास-शास्त्र्यांचो वावर सोपो केलो.

४८. ध्वनिविज्ञानाचे नदरेन अपभ्रंश भास ही हेर प्राकृत भासांहून चड वेगळी ना. रूपविज्ञानाचें नदरेन अपभ्रंश भास हेर प्राकृत भासांहून वेगळी. मंस्कृत भास विभक्ति-प्रधान आनी मंहितिप्रधान आसा. अपभ्रंश भाशेंत विभक्ती सैल जाली. आनी तिणे हेर प्राकृत भासांकडेन वेगळेचार केलो.

४९. यास्कान शब्दांचे चार वर्ग मानले : (१) नाम, (२) आख्यात, (३) उप-सर्ग आनी (४) निपात. नामांत नाम, सर्वनाम, विशेषण विचार येता. आख्यातांत धातू आनी क्रियेची सगली रूपां येतात. उपसर्ग आनी निपात हीं दोनय अव्ययांत मोडटात. म्हळचार भाशेंत विभक्ति नाशिल्लें नाम, सर्वनाम, क्रियापद मेळचेंच ना. संस्कृतांत विभक्तीचो वासय नाशिल्ली अव्ययां विभक्त्यन्त आसात अशें मानताले.

५०. अपभ्रंशांत सुरवातीक विभक्तीबगर शब्द सिद्ध जायनासलो. कांय काळान हे नेम सैल जाले. मागीर चतुर्थी आनी षष्ठी ह्या दोनांयची एकच षष्ठी विभक्ती जाली. अपभ्रंशांत प्रथमा, षष्ठी आनी सप्तमी ह्यो तीनच विभक्ती जाल्यो. कर्तो आनी कर्म-कारक एक जालीं. करण आनी अधिकरण कारक ममा जालीं. अपादान आनी मंबंध एकठांय आयलीं. मंप्रदान सुरवेकसावन मंबंधांत एकवटून आसलें.

५१. प्राकृतांत द्विवचन ना जालें. अपभ्रंशांत कर्तो, कर्म आनी संबंधकारक वेगळे काडूंक मेळनात दुसऱ्या प्राकृत भासांतय अशीच सदळ अवस्था जाली.

५२. अपभ्रंश भाशेंत लिंगव्यवस्था निश्चीत नासली. संस्कृतांत वेदकाळासावन एकाच अर्थाच्या तीन वेगवेगळ्या लिंगांच्या उतरांच्यो देखी मेळटात. दाराः पुल्लिंगी, स्त्री हें स्त्रीलिंगी आनी कलत्र हें नपुंसकलिंगी उतर. देव पुल्लिंगी, देवता स्त्रीलिंगी आनी दैवत नपुसकलिंगी उतरां.

५३. वररुचीन शब्दाचे निमाणे स्वर येवप हो प्राकृत भासांचो नेम घालून दिलो. अन्त्य स्वर दिर्घाचे ऱ्हस्व जाले. प्रातिपदिकां चडकरून अकारान्त जालीं.

**५४.** संस्कृत नकारान्त आनी सकारान्त नपुंसकलिंगी उतरां प्राकृतांत पुल्लिंगी जालीं : कम्मो, वम्मो, जसो, स्वरो. अपवाद : सिरं < शिरः, णहं < नभः.

**५५.** हेमचंद्रान अपभ्रंशांत 'लिंगमतन्त्रम्' म्हणून भाशेक लिंगव्यवस्थेंत पूर्ण स्वातंत्र्य दिलें.

**५६.** प्राकृत भासांत वचनां दोनच उल्लीं. एकवचन आनी भोववचन. संस्कृत द्विवचनाचें भोववचन जालें. अपभ्रंशांत क्रियापदाक लिंगभेद ना. अपभ्रंशांत कर्तो, कर्म आनी संबोधन हांचीं रुपां मारकीं जावंक लागलीं. करण, अधिकरण रुपां मारकीं जालीं. एकवचनी रुपां उकारान्त आनी भोववचनी आकारान्त जालीं. करण आनी अधिकरण रुपां एकारान्त वा इकारान्त जालीं वा सानुनासीक जालीं. संप्रदान, अपादान, संबंध हांच्या रुपांत ह हें अक्षर चडकरून आयलें. एकवचन–ह, हि, हुं, हे आनी हो. बहुवचन–अनुनासिक हं, हिं, हुं. संबोधन – हो. हे हकारी प्रत्यय अपभ्रंशाची विशेषताय. संस्कृत भिस्, भ्यस, हे प्रत्यय बदलून प्राकृतांत हकारी प्रत्यय जाले. अपभ्रंश भाशेचें मुखेल चिन्हः उकारबहुला. प्रथमा पुल्लिंग : गअवरु, तरुवरु, णिसिअरु, धाराहरु, करिवरु.

**५७.** अपभ्रंशांत कांय प्रमाणांत प्रथमा विभक्तींन उकारान्त आनी ओकारान्त पुल्लिंगी प्रथमेचीं रुपां मेळटात. चौदाव्या, पंद्राव्या शेंकड्यांत कोंकणींत प्रथमेचीं पुल्लिंगी रुपां उकारान्त आसलीं. आजून तीं दक्षीण कोंकणांत तशींच आसात. उत्तर कोंकणांत हेर भासांच्या प्रभावाक लागून तीं अकारान्त जालीं. अपभ्रंशांतलीं ओकारान्त पुल्लिंगी उतरां कोंकणींत आजून तशींच उल्लीं. देख : दादलो, उबो, खांदो, तांबयो, कळसो, पिडो, दिंडो, नासणो, दामगो, शेट्टो, बुकलो, गवो, रेडो बी.

**५८.** अपभ्रंशांत षष्ठीचो एकवचनी प्रत्यय हो असो जाता. वहलहो चक्क फिरन्ते कुल्हरहो, जणहो, णरहो, धणहो. मुखारकरून षष्ठीचो ह हो एकवचनी प्रत्यय जालो. कोंकणींत हो ह्या प्रत्ययांचें चो, ची, चें, जो, जी, जें अशी रुपांतरां जालीं. रामाचो, देवाची, कृष्णाचें, म्हजो, ताजी, तुजें, आमचें, तांच्यो, तुमची बी.

बहुवचनांत अपभ्रंशांत हो चो हं असो प्रत्यय जाता.

**५९.** अपभ्रंशांत ल्हवूनल्हवून विभक्ती क्षीण जाल्यो. तांच्या जाग्यार निपात वा परसर्ग म्हळचार शब्दयोगी अव्ययां वापरूंक लागले.

अपभ्रंश भाशेंत षष्ठीचो प्रत्यय गाळपाची पद्धत आसा. हेमचंद्राचें प्राकृत व्याकरण सूत्र ३४५. कोंकणींतय षष्ठी विभक्तीचो प्रत्यय लोप जावन निखटें सामान्यरूप उरपाची पद्धत आसा. देख : भुरग्या आवय (भुरग्याची आवय). भावा बायल (भावाची बायल). मंगेश देवा म्हाजन (देवाचो म्हाजन). नेवेद्या ताट (नेवेद्याचें ताट).

**६०.** कांय अपभ्रंश आनी कोंकणी समानार्थी उतरां देखीक मुखार दितां :

| अपभ्रंश | कोंकणी | अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|---|---|
| कढकढन्त | कडकडीत | छलइ | छळी, छळटा |
| किरिया | किर्या | छड्डइ | सोडी, सोडटा |
| कंध | खांदो | छेलि | शेळी |

| अपभ्रंश | कोंकणी | अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|---|---|
| ढक्कई | धांकता | पुछिय | पुशिल्लो |
| झंखइ | झांकता (बडबडटा) | जामाय | जांवय |
| खंभ | खांबो | उट्ठावइ | उठयता |
| खलभलिय | खळबळ | तडतडइ | तडतडटा |
| तखण | तक्षण | थविय | थेयल्लो |
| चउक्क | चौको | थापे | थापप |
| चउथ | चवथ, चौथो | दलवट्टइ | दळवटी, दळवटटा |
| चक्कलिय | चकली | दोक्काणदार | दुकानदार |
| उच्चाइय | उंचायल्लो | (मूळ फारशी) | |
| बइसइ | बइसऽ, बैसता | भक्खइ | भकी, भकता |
| बप्प | बापूय | सीय | शीं |
| उब्भम् | उबो | आलसि | आळस |
| उब्भइ | उबारता | सासुअ | सासू |
| मडक्क | मडको, मडकी | दहि | धंय |
| महमहइ | घमघमता | महु | म्होंव |
| मेहुणय | मेवणो | अड्ढाइय | अडेच |
| सलाइय | सळय | वसहो (माहा.) | वसू |
| सूइ | सूय | विक्केइ | विकी, विकता |
| संकल | सांकळ | वणंवणेहि | वणवण करीत |

६१. कोंकणी भाशेंत आसात तांतलीं जायतीं सुभाषितां अपभ्रंश भाशेंतल्यान आइल्लीं आसात.

| | अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|---|
| (१) | करे कंकणु किं आरिसे दीसइ। | हातांतलें कांकण हारशांत दिसता? |
| (२) | जं जसु रुच्चइ, तं तसु भल्लउ। | जें जाका रुचता, तें ताका भलें. |
| (३) | एक्कें हत्थें ताल किं वज्जइ ? | एका हातान ताळी वाजता? |
| (४) | तं खज्जइ जं परिणइ पावइ। | जें परिणामाक पावता (पचता), तें खांवचें. |
| (५) | घरे रंद्धिए जं भिक्ख भमिज्जइ, अण्णु मज्झु तं हासउ दिज्जइ। | घरांत रांदून जो भीक मागूंक भोंवता, तो हेरांमदीं हांशाक म्हारग जाता. |
| (६) | वर सुवण्ण कलस हो उवरि, ढंकणु किं खप्परु दिज्जइ। | बऱ्या सुवर्णाच्या कळशावयर धांकण म्हण खापर दितात! |
| (७) | पर उवएसु दितु बहु जाणउ। | दुसऱ्याक उपदेश करपी खूब लोक मेळटात. |
| (८) | दुद्ध सुद्ध किं कंजिउ पुरइ। | शुद्ध दूध पेजेच्या जाग्यार उपकरता? |

| अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|
| (९) दइवायत्तु होंतु को वारइ। | दैवांतलें कोण वारूंक पावता ? |
| (१०) अमिलंताण व दीसइ णेहो दूरे वि संठियाणं पि। जइविहु रवि गयणयळे इह तहवि हुलइ सुहु णलिणी। | दूर आसून (एकामेकांक) न मेळणारां-मदीं स्नेह दिसूं येता. गगनतळीं जसा-जसो रवि (येता), हांगा तेच भाशेन कमळ बरें फुलता. |
| (११) उट्ठाविउ सुत्तउ सीहु केण ? | न्हिदिल्ल्या सिंहाक कोण उठयत ? |
| (१२) माणभंगु वर मरणु ण जीविउ। | मानभंग जावन जगचेपरस मरण बरें. |
| (१३) को तं पुसइ णिडालइ लिहियल। | निढळार लियल्लें कोण पुशीत ? |

६२. आधुनीक भासांत कविता रचपाखातीर कवीनी जे छंद वापरले तातले पादाकुलक, भुजंगप्रयात, मंदाक्रान्ता, शार्दूलविक्रीडित, मालिनी, चामर, इंद्रवज्रा, वसन्ततिलका, उपजाति, तोटक, दोधक, चौपाई बी शेंकड्यांनी छंद अपभ्रंश आनी हेर प्राकृत भासांच्या साहित्यांतले घेतले.

६३. जैन लोक धर्मीक पुस्तकां लिपोवन दवरताले. पुरून दवरताले. कारण हेर वंशी लोक वा हेर धर्मी लोक तीं लासून उडयताले. हीं पुरून दवरिल्लीं पुस्तकां गेल्या शंबर वर्सांत उजवाडांत आयलीं. १८६० सालापर्यंत प्राकृत पुस्तका छापूंक मेळूंक ना.

६४. १९१८ सालांत हर्मन जाकोबीन पयलेंच संशोधीत अपभ्रंश पुस्तक धणवाल कवीचें भविसयत्तकहा हें छापून उजवाडायलें. हाचे उपरांत जर्मन, फ्रेंच, इंग्लिश भारतशास्त्र्यांनी (Indologist) आनी भारतीय भारतशास्त्र्यांनी अभ्यास करून अपभ्रंश, मागधी, माहाराष्ट्री बी प्राकृत भासांत साहित्याची पुस्तकां छापलीं. जैन धर्मसंस्थांनी कचाकच पैशे खर्चून आनी विद्वान प्रोफेसरांनीं मातो मोडून अभ्यास करून अपभ्रंश साहित्य पुनर्जल्माक हाडलें. व्याकरणां संशोधीत करून छापलीं.

## ७. अपभ्रंश आनी कोंकणी भाशेचो दाट संबंद

| अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|
| १. बप्पीहा, पिउ पिउ भणवि हयास कित्तिउ रुअहि। | बापया (चातका), पिया, पिया म्हण, असो हताश कितलो रडशी ? |
| २. तुह जलि महु पुणु वल्लहइ बिहुँ वि आस पूरिअ न। | तुजी जळांत, म्हजी पुन्ना प्रियांत, दोगां-चीय आस पुरना. |
| ३. बप्पीहा, निग्घिण वार इ वार बोल्लिएण कइं ? | बापया (चातका), निर्दयाक वारवार उलोवन (बोलून) कितें (जांवचें आसा)? |
| ४. भरिअइ सायरि, विमल-जलि एक्कहि धार लहहि न। | भरिल्लो सागर (आसुनय), निर्मळ जळाची एकय धार लाभना. |
| ५. गोरि, आयहि जम्महि, अन्नहिं वि चत्तंकुसहं गयमत्तहँ जो हसन्तु अब्भिडइ, | गौरी (देवी), हया जल्मांत, आणयेकाय (जल्मांत), अंकुशाक आयकनाशिल्ल्या |

| अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|
| कन्तु दिज्जहि । | मस्त्या गजाक हांसत भिडटा, असो कांत दी. |
| ६. हेलि.., आलु झंखहि म । ..हु कन्तहाँ बे दोसडा । ..न्तहाँ पर हउं उव्वरिअ, ..ुज्झन्तहाँ करवालु उव्वरिअ । | सखे, अळकें (वायफळ) झांकू नाका, म्हज्या कांताचे दोन दोष : दितासतना हांव उरतां. झुजतना तरवार उरता. |
| ७. मारणउ हत्थि, बोल्लणउ लोउ, ..ज्जणहु पडहु, भसणउ सुणउ. | मारणो हती, बोलणा लोक, वाजणो धोल, भोंकणो सुणो. |
| ८. वालि, चलहिं चलन्तहिं ..ोअणेहिं जे तइँ दिट्ठा । ..हिं मयरद्धय अपूरइ कालि दडवडउ ..डइ । | बाळे, चलतना चंचल लोचनांनीं जांकां तुवें देखले, तांचेर अपुऱ्या काळांत मकरध्वजाचो (कामदेवाचो) दरोडो पडटा. |
| ९. हिअडा, जइ घणा वेरिअ, तो अब्भि चडाहु किं ? अम्हाहिं बे हत्थडा, जइ पुणु मराहुं, मारि मराहुं । | हर्दा, जर घन वैरी (जाले), तर कितें आभाळांत चडचें ? आमचे दोन हात, जर मरचेंच, तर मारून मरचें. |
| १०. जइ सो वेउ पमाणु, पुप्फवईहिं ममाणु, सोएवा पर वारिआ । जग्गेवा पुणु को धरइ । | जर तो वेद प्रमाण (आसत), फुल्लटणीलागीं न्हिदप वर्ज्य ! पूण जागो रावपाक कोण धरी (आडायता) ? |
| ११. जं अच्छइ, तं माणिअइ, होसइ करतु अच्छि म । | जें आसा, तें मानचें (मान्य करचें); होतलां करीत आसचें (बसचें) न्हय. |
| १२. उअ, कणिआरु पफुल्लिअउ । कञ्चण-कन्ति-पयासु । गोरी-वयण-विणिज्जिअउ; नं सेवइ वण-वासु । | उय (पोय), कणेर फुललो. कांचनाचे कांतीचो प्रकाश ! गौरी (बायल) च्या वदनान (कणेराक) जिखलो ! (म्हणून) तो रानांत रावता. |
| १३. जीवहँ मज्झे कज्जगइ जार्माहं विसमी एइ । तार्माहं सुअणु वि अन्तरु देइ । इयरु जणु अच्छउ । | जिवांमदीं कार्याक (काजाक) लागून वांकडेपण येता. तेन्ना सज्जनय (एकमेकांक) अंतर दितात. हेरां जनांचें आसूं |
| १४. ओ गोरी-मुह-निज्जिअउ मियङ्कु वद्दलि लुक्कु । अन्नु वि जो परिहविय-तणु, सो निसंकु किवँ भवँइ । | ओ ! गौरी मुखान जिखिल्लो मियंक वादळांत (अभ्रांत) लिपलो. हेरांकडच्यान जाचो पराभव जालो, तो निःशंक कसो भोंवत ? |
| १५. पइं मेल्लन्तिहं महु मरणु, मइं मेल्लन्तहाँ तुज्झु । | तुका मुकतल्याचें म्हजें मरण. म्हाका मुकतल्याचें तुजें (मरण). जशें, (पक्ष्यांच्या |

| अपभ्रंश | कोंकणी |
| --- | --- |
| जसु जो सारसु वेग्गला, सो वि कृदन्तहाँ सज्झु । | भिऱ्यांतल्यान) जो सारस वेगळो(सरता) तो कृतांताचो साध्य (मरता). |
| १६. महु हिअउँ तुहुँ विनडिज्जइ । तइं ताए तुहुँ (विनडिज्जइ) । स वि अन्नें (विनडिज्जइ) । पिअ, हउँ काइँ करउँ । तुहुँ काइँ करउँ । मच्छें मच्छु गिलिज्जइ । | म्हजें हर्दे तूं नाडटा (कर्मकर्तरी). तशें, ती तुजें नाडटा (कर्मकर्तरी). तिकाय आणएकलो नाडटा. पिया, हांव कितें करूं ? तूं कितें करता ? माशान मासो गिळटा (कर्मकर्तरी). |
| १७. भमर, म रुणझुणि रण्णडइ । सा दिसि जोइ, रोइ म । जसु तुहुँ विओइ मरहि, सा मालइ देसन्तरिआ । | भोंवऱ्या, रानांत रुणझूण करनाका. ते दिशेक चोय. रण्णाका. जिच्या वियोगान तूं मरता, ती मालती देशान्तराक गेली. |
| १८. जु निव्वहइ, तं वोल्लिअइ । | जें निभांव येता, तें बोलचें (उलोवंचें). |
| १९. गुणहि संपइ लहइ न. पर कित्ति लहइ । लिहिआ फल भुंजन्ति केसरि बोड्डिअ वि न लहइ । गय लक्खेंहि घेप्पन्ति । | गुणांनीं संपत्ती लाभना. पूण कीर्ती लाभता. (लोक) लिखित फळ भोगतात. सिंह (सिंहाचे कुडीक) कवडी लाभना. गजाक (गजाची कूड) लाखांनी घेतात. |
| २०. ढोल्ला, मइँ तुहुँ वारिया मा कुरु दीहा माणु । निद्दए रत्तडी गमिही, दडवड विहाणु होइ । | बावल्या, मियां तुका वारिल्लो, तूं दिग्ग (चड) मान करूं नाका. निदेंत गात वतली, सटकन फांतोड होयत. |
| २१. सिरि चडिआ फ्फलइं खन्ति । पुणु डालइं मोडन्ति । तो वि महद्दुम सउणाहं अवराहिउ न करंति । | शेंड्यार चडून फळां खाती. पूण ताळयो मोडटी. तरीय व्हड रूख सवण्यांक अपराधी (मानिनात) करिनात. |
| २२. अब्भा डुंगरिहिं लग्गा, पहिउ रडंतउ जाइ । जो एहो गिरि-गिलण-मणु सो किं धणहें घणाइ । | अभ्रां दोंगरांनीं लागल्यांत, पथीक रडत जाय (वता). हो जो गिरिचो ग्रास गिळपी, तो धन्नीक धाणायत ? |
| २३. सहि चंपयकुसुमहां मज्झि भसलु पइट्ठउ । जणि कणइ इंदनीलु बइट्ठउ सोहइ । | सये, चांफ्या कुसुमां माझार भोंवरो पयठलो. जणु कनकांत इंद्रनील बयसला (असो) सोबता. |
| २४. जिणवरहो दीहर-नयण सलोणु | जिणवराचें दिग्ग नयनाचें लावण्ययुक्त |

| अपभ्रंश | कोंकणी |
| --- | --- |
| मुहु पेक्खेविणु गुरु-मच्छर-भरिउ ।<br>लोणु नावइ जलणि पवीसइ । | म्होवाळें पळोवन खर मत्सरान भरिल्लें<br>लवण जणु जळांत प्रवेसलें. |
| २५. पिउ एसि, हउँ रूसेसु,<br>रुट्ठी मइँ अणुणेइ । | पिय येतलो, हांव रुसतलीं, रुशिल्लेचो<br>म्हजो अनुनय करतलो. |
| २६. गंग गमेप्पिणु, सिव-तित्थ गमेप्पि,<br>जो मुअइ,<br>सो जमलोउ जिणेप्पि<br>तिदसावास-गउ कीलदि । | गंगेर वचून, शिवतिर्थार वचून जो मरता,<br>तो यमलोक जिखून देवलोकांत वचून<br>किरायता. |
| २७. वाणारसिहिं गंपिणु,<br>अह उज्जेणिहिं गम्पि, नर मुआ ।<br>परमपउ परावहिं ।<br>दिव्वंतरइँ म जंपि । | वाणारसीक वचून, मागीर उज्जनीक वचून<br>मनीस मेलो, (तर) परम-पदाक पावता.<br>हेरां तिर्थांची बडबड नाका. |
| २८. निअय-धणु देवं दुक्करु,<br>तउ करण पडिहाइ न ।<br>एम्वइ मणु सुहु भुंजणहँ,<br>पर भुंजणहिं जाइ न । | निज-धन दिवप दुष्कर, तप करप<br>पुरवना. एवींच मन-सूख भोगचें, पूण<br>भोगूंक जाय ना. |
| २९. अम्मडि, विआलि पिउ कलहिअउ,<br>पच्छायावडा ।<br>घइं विणासहो कालि विवरीरी<br>बुद्धडी होइ । | अम्मा गे, सांजवेळा पियालागीं कलह<br>केलो; पच्छाताप जालो.<br>खरोखर, विनाशकाळार बुद्द विपरीत होय. |
| ३०. पहिआ, गोरडी दिट्ठी ?<br>मग्गु निअंत दिट्ठी ।<br>अंसूसासेंहि कञ्चुआ तितुव्वाण<br>करन्त दिट्ठी । | पथिका, गोरटी दिसली ? मारग नियाळ-<br>टना दिसली, आंसवांनीं कांचोळी<br>भिजयत, स्वासांनीं सुकयत दिसली. |
| ३१. सरिहिं, न सरेहिं, न सरवरेहिं,<br>न वि उज्जाण-वणेहिं,<br>देस रवण्णा होन्ति ।<br>वढ, निवसन्तेहि सुअणेहि<br>देस रवण्णा होन्ति । | न्हंयानीं, तळयांनीं, सरोवरांनीं, उद्यान<br>वनांनीं देश रम्य होयनात. वेडया, निवास<br>करत्या सज्जनांनीं देश रम्य होतत. |
| ३२. सायरहों तं तेत्तिउ जलु, सो तेवडु<br>वित्थारु ।<br>पर तिसहे निवारणु पलुवि न वि ।<br>असारु धुट्ठुअइ । | सागराचें तें तितलें जळ,<br>तो तेदो विस्तार.<br>परंत तान निवारूंक पळीभरय ना.<br>असार धडधड. |
| ३३.३४. मुद्ध-सहाव हिअडा, जाइट्ठिअए | मूढ सबावाच्या हर्या, चोयल्ल्या चोयल्ल्या- |

| अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|
| जइ रच्चसि, घणा फुट्टणएण लोहें जिवँ ताव सहेसइ । | चेर जर राजेशी, (तर) घणांनीं फुट्टल्या लोखणा जेवीं ताप सोसशी. |
| ३५. ढक्करि-सार भण्डय हिअडा, 'पिएँ पवसन्ति, हउँ फुट्टिसु, एँहु पइं महु अग्गइ सयवार बोल्लिअओ । | अद्‌भूत शक्तीच्या भंडा हर्या, 'प्रिय प्रवासाक गेलो (तर) हांव फुट्टलों,' हे तूं म्हजे मुखार शतवार बोल्ललो. |
| ३६. एँक्कु, कइअह वि न आवही, अन्नु वहिल्लउ जाहि । मित्तडा, मइँ प्रमाणिअउ, पइँ जेहउ खलु नाहि । | एँक, कंयच येयनाय, आणी बयलेवयर जाशी. मित्रा, मियां प्रमाणलां (सिद्ध जालां अशें मानलां): तुजे जेवो खळ नाय. |
| ३७. पिएँ नयणेहि दिट्ठे, कसरक्केहि खज्जइ नउ । घुण्टेंहि पिज्जइ नउ, एम्वइ सुहच्छडी होइ । | प्रियाक दोळयां देखतकच कसरत् कसग्न् (कर्न) खांवचो नासता. घोंटांनीं पिवंचो नासता. एवींच सुखाशिवर होय. |
| ३८. जसु अधिन्नइँ अन्नइं, नायगु जिब्भिन्दिउ वसि करहु । तुंबिणिहे मूलि विणट्ठइ, पण्णइं अवसें सुक्कहि । | जिचे आधीन अन्यां इंद्रियां, त्या नायक जीब इंद्रियाक वश करात. दुदनीचें मूळ नष्ट जातकच. पानां अवश्य सुकतात. |
| ३९. जं सां हाँ न मिलिज्जइ तुहारेण संदेसें काइँ । पिअ, सुइणन्तरि पिएँ पाणिएँण पिआस छिज्जइ किं ? | जंय तुजो संग मेळना, (थंय) तुज्या संदेसान कितें (करचें आस) ? पिया, सपनांत पियेल्ल्या पाणयान तान भागता ? कितें ? |
| ४०. अन्त्रडी पाइ विल्लग्गी सिरु खन्धस्सु ल्हसिउं । तो वि कटारइ हत्थडउ । कन्तस्सु बलिं किज्जउँ । | (झुजतना) आंतडीं पांयांक लागलीं, शीर खांद्यावेल्यान घसरलें, तरीय कटचार हातांत. (अशा) कांताक हांव पुजतां. |
| ४१. जाउ, जन्तउ पल्लवह म, हउँ जि हिअइ तिरिच्छी; पर पिउ डम्बरइँ करेइ । कइ पय देइ देक्खउँ । | जावूं, जाताल्याक आफोंव नाका. हांवच हर्यांत तिरशी (बसल्यां); परंत पिय डम्बरां (भोवस्ताळे) करता. कितलीं पावलां मारता तें देखतां. |
| ४२. एत्तहें मेह जलु पिअन्ति, एत्तहें वडवानल आवट्टइ । सायरहो गहीरिम पेक्खु, एक्क वि कणिअ ओहट्टइ नाहिं । | अथंय मेघ जळ पियेती, अथंय वडवानल (जळ) आटयी, सागराचें गहिरेपण पोय, एकय कण ओहट ना (उणो जायना). |
| ४३. हलि, पिअ मुह-कमलु | सखे, पियाचें मुखामळ चोग्रतलेचें आंगाक |

| अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|
| जोअन्तिहँ, अंगहिं अंगु मिलिउ न। | आंग मेळ्ळें ना. अधराक अधर पावलो ना. |
| अहरे अहरु पत्तु न। | एवींच रतिसूख सोंपलें. |
| एम्वइ सुरउ समत्तु। | |
| ४४. जणु वच्छहँ फलइँ गृण्हइ, | जनलोक वृक्षाची फळां घेतात, कोडू पालो |
| कडु-पल्लव वज्जेइ। | वर्जितात. |
| तो वि महद्दुमु सुअणु जिवँ | तरीय व्हड रूख सुजनांभाशेन तो (कोडू |
| ते (कडु-पल्लव) उच्छंगि धरेइ। | पालो) मांडयेर धरता. |
| ४५. जहिं सरिण सरु कपिज्जइ, | जंय शरान शर कापता (कर्मकर्तरी), |
| खग्गिण खग्गु छिज्जइ, | खड्गान खड्ग छेंदता (कर्मकर्तरी), थंय |
| तहिं, तेहइ भड-घड-निवहि | तसल्या झुजाच्या घडगडचांत म्हजो कांत |
| कन्तु मग्गु पयासहि। | मार्ग उजवाडायता. |
| ४६. एकहिं अक्खिहिं सावणु, | एका दोळचांत स्रावण, दुसऱ्यांत भादवो, |
| अन्नहिं भद्दवउ, महिअल-सत्थरि | भुयेवेले शेंदरेर माधव(वसंतऋतू), गालां- |
| माहउ, गण्डस्थलँ सरउ। | चेर शरद् (ऋतू), आंगांत गीम. तिळवणी |
| अंगिहिं गिम्ह, सुअच्छि तिलवणि | सुखासनांत मार्गशीर; तशेंच सुग्धेच्या |
| मग्गसिरु, तहे मुद्धहें मुहपंकइ | मुखामळार शिशीर ऋतू वसला. |
| आवासिउ सिसिरु। | |
| ४७. हलि सहिए, महारउ कन्तु | अगे सखये, म्हजो कांत जाचेर रुसता, |
| जासु रूसइ, तासु ठाउ अत्थिहिं, | ताचो ठाव अस्त्रानी, शस्त्रांनीं, हातांनीय |
| सत्थिहिं, हत्थिहिं वि निच्छइँ फेडइ। | बी निच्छीत फोडटा. |
| ४८. जीविउ कासु वल्लहउँ न ? | जिवीत कोणाक प्रिय ना ? |
| धणु कासु इट्ठु न। | धन कोणाक इष्ट ना ? |
| अवस-निवडिअइ विसिट्ठु | विशिष्ट (थोर) लोक अडचणीच्या वेळार |
| दोण्णि बि तिणसम गणइ। | दोनांकय तणासमान गणटात. |
| ४९. उअही सोसउ म सोसउ च्चिअ, | उदधी (समुद्र) सुकूं वा न सुकूं वडवानलाक |
| वडवानलस्स तेण किं। | ताचें कितें (पडलां) ? जळपी जळांत |
| जं जलणो जले जलइ | जळटा, हें पुरो न्हय ? कितें ? |
| आएण वि पज्जत्तं न किं ? | |
| ५०. आयहो दड्ढ-कलेवरहो | हचा जड्डचा कळिवराचें जें सावता तें |
| जं वाहिउ तं सारु। | खरें। जर धांकलें तर तें कुसता. जर |
| जइ उटठब्भइ तो कुहइ। | जळ्ळें तर क्षार (भस्म) जाता. |
| अह डज्झइ तो छारु। | |
| ५१. दूइ, जइ सु घरू आवइ न | दुती, जर तो घरा येय ना, (तर) तुजें |
| तुज्झु मुहुं अहो काइँ ? | मूख खालतें कित्या ? सख्ये, जो तुजें |

| अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|
| सहिए, जु तउ वयणु खण्डइ,<br>सो मज्झु पिउ होइ न । | वचन खंडिता, तो म्हजो प्रिय होयना. |
| ५२. सुपुरिस कंगुहँ अणुहरहिं<br>कवणेण कज्जें ? भण.<br>जिवँ जिवँ वड्डत्तणु लहहिं<br>तिवँ तिवँ सिरेण नवहिं । | सत्पुरूप कंगु वनस्पतीक अनुसरतात. कोणा काजान ? म्हण. जेवीं जेवीं (जशे जशे) व्हडपण लाभतात, तेवीं तेवीं शिरान नमतान. |
| ५३. जइ ससणेही तो मुइअ,<br>अह जीवइ निन्नेह ।<br>बिहिं वि पयारेंहि धण गइअ ।<br>खल मेह, किं गज्जहि । | जर ती सस्नेही (म्हजी मोगी) आसत, तर (एन्नाधर) मेली. जियेना आसन तर निस्नेह (म्हजी मोगी न्हय). दोनीय प्रकारांनीं सभागीण गेली. खळा मेघा, कित्या गर्जशी ? |
| ५४. वर-तरु, पइँ मुक्काहँ वि पत्ताणं<br>पत्ततणं फिट्टइ न ।<br>पुणु तुहु कह वि छाया जइ होज्ज,<br>ता तेहिं पत्तेंहि । | बऱ्या तरुवा, तुका मुकलीं तरी पानांचें पानपण वचना. पुन्रा, तुजी कशी तरी सावळी आस जायत, तर ती त्या पानांक लागून. |
| ५५. पइँ मइँ बेहिंवि रण गयहिं<br>जयसिरि को तक्केइ ?<br>जम-घरिणि केसहि लेप्पिणु<br>सुहु को थक्केहि ? भण । | तूं (आनी) मियां, दोगय रणांत गेले, तर कोणा (शत्रूक) जयश्री तांकत ? यमाचे घरकान्नीचे केंस ओडटकीर सुखान कोण थाकाय घेतलो ? म्हण. |
| ५६. तउ गुण-संपइ, तुज्झ मदि,<br>तुध्र अणुत्तर खन्ति ।<br>जइ उप्पत्ति महि-मंडलि<br>अन्न जण सिक्खन्ति । | तुजी गुणसंपत्ती, तुजी मती, तुजो अनुत्तर (असामान्य) क्षमागूण जर उत्पन्न जावन महिमंडळार हेर लोक शिकतीत ! तर कितलें बरें जायत ? |
| ५७. जे पहिअ, पराया के वि<br>अम्बणु लाइवि गया,<br>जिवँ अम्हहिं, तिवँ ते वि<br>सुअच्छि अहिं अवस सुअहि न । | जे पथीक, (वा) कोणय परके आंबोण (माया) लावन गेले, जेवीं आमी सुखासनी न्हिदनात तेवीं तेय अवश्य न्हिदनात. |
| ५८. सन्ता भोगु जु परिहरइ<br>तसु कन्तहो बलि कीसु ।<br>जसु सीसु खल्लिहडउँ<br>तसु दइवेण वि मुण्डियउँ । | आशिल्लो भोग जो पयसायता, त्या कांताची (हांव) पुजा करीन. जाच्या शिसाक खरड पडलां, ताचें दैवानच मुंडिलां. |
| ५९. मइ जाणिउँ, विआलि पिअ<br>विरहिअहं क वि धर होइ ।<br>खय-गालि जिह दिणयरु तवहि, | मियां जाणलें, अवकाळीं पियाविरयतांक कोण आधार होयत ? (अस्त) क्षयकाळीं जसो दिनकर तापता, तसो मियं- |

| अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|
| तेह णवर मियंकु वि तवइ । | कय (चंद्र) तापता. |
| ६०. तहँ मुह-कबरि-बन्ध सोह धरहिं । णं ससि-राहु मल्ल-जुज्झु करहिं । तहे कुरल भमर-उल-तुलिअ सहहिं । णं तिमिर-डिम्भ मिलिअ खेल्लन्ति । | तिचें मूख (आनी) विणयें-पटो सोबा धरतात. जणु शशि-राहू मल्ल-झूज करती. तिचे कुरळे केंस भोंवऱ्या कुळां लागीं तुलिल्ले सोबतात. जणु तिमिर-बाळां मेळून खेळटी. |
| ६१. थणहं जं अइतुंगत्तणु, सो हु लाहु न; सो छेयउ । सहि, जइ नाहु केवँइ तुडि-वसेण अहरि पहुच्चइ । | थानांची जी अती उंचसाण, तो लाभ न्हय; तो तोटो ! सखे, (म्हजो) नाथ केवांय चुकून अधराक पोंचता. |
| ६२. जिवँ तिवँ तिक्खा शर लेवि ससि जइ छोल्लिज्जन्तु । तो जइ का वि गोरिहें मुह-कमलि सरिसिम लहन्तु । | जेम तेम तिखे शर घेवन शशीक जर सोलीत, तर जगांत कदाचित गौरीच्या मुखामळाचें सारकेपण (तो) लाभत. |
| ६३. सइ मुद्धि, कवोलि निहित्तउ चूडुल्लउ, सासानल-जालझलक्किअउ, वाह-सलिल-संसित्तउ चूण्णीहोइ । | सये मुग्धे, चुडो पोल्यार दवरलो तर स्वासाच्या उज्याजाळांनीं जळून, (उस्वास) बाफंच्या उदकान भिजून चूर्ण जातलो. |
| ६४. हिअइ गोरडी खुडुक्कइ । गयणि मेहु घुडुक्कइ. वासा-रत्ति-पवासुअहं एहु विसमा संकडु । | हृयांत गौरी खुडूक (बसल्या). गगनीं मेघ घडगडटा. पावशा रातच्या प्रवाशाचें हें विषम (कठीण) सांकडें. |
| ६५. अम्मि, पओहर वज्जमा । जें निच्चु मह कन्तहाँ सम्मह थन्ति । समरंगणइ गय-घड भज्जिउ जन्ति । | अम्मी, (म्हजे) पयोधर (थानां) वज्राचे । जे नित्य म्हज्या कांतामुखार ठाकतात. समरांगणी गज–घट (कुंभ) भंगूक जातत. |
| ६६. अम्मीए, सत्थावत्थेहिं सुधि माणु चिंतिज्जइ । पिए दिट्ठे हल्लोहलेण अप्पाणु को चेअइ ? | अम्मी गे, सस्तावस्तेंत सुखान मान चिंतुंचो (कर्मकर्तरी). पिय दिसलो (कीं) बोवाळान आपणाक कोण चेतायत (शिटकायत) ? |
| ६७. जामु चाउ पम्हट्ठउ न; चारहडिय, धम्मु पम्हट्ठउ न । तसु जम्मु पर सभलउँ । मइँ सबधु करेप्पिणु कधिदु । | जाणे त्याग (गूण), पराक्रम आनी धर्म व्हगडांवक नात, ताचो जल्म परम सफळ हांव सपूत घेवन सांगतां. |
| ६८. जइ केवँइ पिउ पावीसु, अकिआ कुड्ड करीसु । | जंय केवां पिया पावन, अक्रीत कोड करीन. नबे सुरईत पाणी जेवीं प्रवेशता, (तेवीं) |

| अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|
| नवइ सरावि पाणिउ जिवँ<br>सव्वंगें पइसीसु। | सर्वांगांनीं ताचेमदीं पसरन. |
| ६९. व्रासु महारिसि एँउ भणइ,<br>जइ सुइ-सत्थु पमाणु,<br>मायहँ चलण नवन्ताहं<br>दिवि दिवि गंगा-ण्हाणु. | व्यास महर्षी हें म्हणटा :<br>जर श्रुती-शास्त्र प्रमाण (आस), (तर)<br>मायेचे चरण नमतल्याक दिशिदिशीं<br>गंगा-न्हाण (लाभता). |
| ७०. केम समप्पउ दुट्ठु दिणु ?<br>किध रयणी छुडु होइ ?<br>नव-वहु-दंसण-लालसउ<br>सोइ मणोरह वहइ। | दुष्ट दीन केवीं सोंपत ? सटकनं रान<br>कशी होयत ? नवे व्हंकलेच्या दर्शनाची<br>इच्छा करपी तो हो मनोरथ उबारता. |
| ७१. सिरि आणन्द, बिम्बाहरि तणु<br>रयणवणु किह ठिउ ?<br>निरुवम रसु पिएँ पिआवे<br>सेसहो जणु मुद्र दिण्णी. | श्री आनंद, बिम्बा (सारक्या) अधरार<br>ल्हान दांना व्रण कसो उल्लो ? पिय निरुपम<br>रोस पियेलो. उरिल्ल्याचेर जणु मुद्रा<br>(मारून) दिल्या. |
| ७२. सहि, पिउ मइं जइ सदोसु दिठ्ठु<br>निहुअउँ तेवँ भण।<br>तासु पक्खाडिअं मज्झु मणु<br>जेवँ जाणइ न, तेवँ भण। | मये, पिय म्हजेलागीं जर दोषी दिसलो,<br>तर गुप्तीं म्हाका तशें म्हण. ताचें पक्षपाती<br>म्हज्या मनाक कळचें न्हय अशे तरेन म्हण. |
| ७३. बलिराय, मइं तुहुं भणिअउ,<br>केहउ मग्गण एहु।<br>वढ, जेहु तेहु वि न होइ,<br>एहु सइँ नारायण। | बळिराय, मियां तुका म्हणिल्लो, केहो<br>मागणो हो ! वेडया, (एँसो, तँसो) एँहो<br>तैहो न्होय. हो सैम नारायण. |
| ७४. जाम कुंभयडि सीह-चवेड-<br>चडक्क निवडइ न।<br>ताम समत्तहं मयगलहं<br>पइ पइ ढक्क वज्जइ। | जंववेर कुंभतडीर सिंहाच्या थापटाचो<br>फटकार पडना, तंववेर समस्त मस्त<br>गजांच्या पावला पावलाक धोल वाजतात. |
| ७५. जइ सो प्रयावदी केत्थुवि<br>सिक्खु लेप्पिणु घडदि।<br>तो जेत्थुवि तेत्थुवि एत्थु<br>जगि तहि सारिक्खु भण। | जर तो प्रजापती खंयच्यानय शिक्षण<br>(नमुनो) हाडून (जग) घडटा (आसत)<br>तर जंयथंय अथंय जगांत तिचे सारके<br>(कोण आसा तें) म्हण. |
| ७६. जाउँ नेह गलन्ति न,<br>ताउँपर तिलहँ तिलत्तणु।<br>नेह पणट्ठइ, ते ज्जि तिल<br>तिल फिट्टवि खल होन्ति। | जंववेर तेल गळना. तंववेर तिळांचें तिळ-<br>पण. तेल नष्ट जालें (कीं) तेच तीळ<br>तिळपण व्हगडावन खळ (पेंड) होती. |

| अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|
| ७७. बम्भ, जे के वि नर<br>सव्वंग-छइल्ल, ते विरला।<br>जे वंका, ते वंचयर,<br>जे उज्जुअ, ते बइल्ल। | वामणा, जे कोणय लोक सर्वांगचतूर, ते विरळे. जे वांकडे. ते चड फटींग. जे उजू (मार्गी), ते बैल (बावळट). |
| ७८. हरि पंगणइ नच्चाविउ।<br>लोउ विम्हइ पाडिउ।<br>एम्वहि राह-पओहरहं,<br>जं भावइ तं होउ। | हरीक प्रांगणांत नाचयलो. लोक विस्मयांत पाडले. एवीं राधे-थानांचें जें भावता तें होवं. |
| ७९. ते दीहर लोअण अन्ने,<br>तं भुअ-जुअलु अन्नु।<br>सु घण-थण-हारु अन्नु।<br>तं मुह-कमलु अन्नु जि।<br>सु केस-कलावु अन्नु जि।<br>जेण स गुण-लायण्ण-णिहि<br>णिअम्बिणि घडिअ<br>स प्राउ विहि अन्नु जि। | ते दिग्ग लोचन अणवे; तें भुजां जुवळ अणवें; तो घण थानां हार अणवो; तें मुखा-मळ अणवेंच; तो केंसां खोंपो अणवोच; जाणे तो गुणां-लावण्याचो निधी, भक्कम कमरेची स्त्री घडयली तो विधी (ब्रह्म-देव) अपूर्व-अणवो च. |
| ८०. प्राइव मुणिहँ वि भंतडी।<br>ते मणिअडा गणन्ति।<br>अखइ निरामइ परम-पइ,<br>अज्ज वि लउ लहन्ति न। | मुनींकय चड करून भ्रांती (दुबाव) आसुंये. ते मणी मेजनात.<br>अक्षय, निरामय परम पदाक<br>अजुनय ते लय पावनात. |
| ८१. को वि विरहाणल-जाल करालिअउ<br>पहिउ बुड्डिवि ठिअउ।<br>अनु सिसिर कालि सीअल-जलहु धूमु<br>कहन्तिहु उट्ठिअउ। | कोणय विरहाच्या उज्याजाळांनीं ग्रासिल्लो पथिक बुडिल्लो आसुंये।<br>नातर शिशिर काळांत शीतळ जळांतल्यान धुवों खंयच्यान उठलो ? |
| ८२. महु कन्तहो गुट्ठ-ट्ठिअहो<br>झुम्पडा कउ वलन्ति।<br>अह रिउ-रुहिरें अह अप्पणें<br>रुहिरें उल्हवइ, न भन्ति। | म्हजो कान्त गोठयांत आसतना झोंपडचो कशो जळटीत ? एक रिपूंच्या रुधिरान वा आपल्या रुधिरान तो झोंपडचो पालयतलो. दुबाव ना. |
| ८३. सहि, जइ पारक्कडा भग्गा,<br>तो मज्झु पिएण।<br>अह अम्हतणा भग्गा,<br>तो तें मारिअडेण। | सखे, जर परके भंगले तर ते म्हज्या प्रियाक लागून. आनी आमगेले भंगले तर तो ताका मारिल्ल्यान. |
| ८४. कन्तु जु सीहहों उवमिअइ तं महु<br>माणु खण्डिउ। | कान्ताक सिंहाची ओपार मारती, तर म्हजो मान खंडिलो. रक्षण नाशिल्ल्या |

| अपभ्रंश | कोंकणी |
| --- | --- |
| सीहु निरक्खय गय हणइ । पिउ पय-रक्ख-समाणु (हणइ) । | गजाक सिंह हणटा. पिय पद रक्षकां मयत गजाक हणटा. |
| ८५. माणि पणट्ठइ जइ तणु न (चइज्ज), तो देसडा चइज्ज । दुज्जण-कर-पल्लवेँहि दंसिज्जन्तु. भमिज्ज मा । | मान नष्ट जातकच तन त्यागिना तर देश-त्याग कर. दुर्जन ह्यानाच्या खुणांनीं दाखयतीत असो भोवूं नाका. |
| ८६. लोणु पाणिएँण विलिज्जइ । अरि खल मेह, गज्जु म । सु वालिउ झुम्पडा गलइ, अज्जु गोरी तिम्मइ । | लवण (लावण्य) पाणयान विरघळटा. अरे खळ मेघा, गजूं नाका. ती जळिल्ली झोंपडी गळत. आज गोरी तिंवत (भिजत). |
| ८७. किवणु किर खाइ न, पिअइ न, धम्मि विद्रवइ न, रूअडउ वेच्चइ न, जमहो दूअडउ खणेँण पहुच्चइ । इह किवणु जाणइ न । | किरपण खरेपणान खायना, पियेना, धर्माखातीर दान करिना, (एकय) रुपयो खर्चिना. यमदूत खिणान पोंचत हें किरपण नकळ (जाणना). |
| ८८. मइँ वुत्तउं, धवल, तुहुँ धुरू धरहि । कसरेँहि विगुत्ताइं । पइँ विणु भरू चडइ न । एम्वइ वुन्नउ काइं ? | मियां हुतलां, धवळ्या, तूं धुरा धर. (त्या) मठ्ठ बैलांनीं (आमकां) विटयल्यात. तुजेविणे भरो चडना. एवींच (तूं) याण कित्या ? |
| ८९. वढ, दिवेँहि वित्तढउँ खाहि । एक्कु वि द्रम्मु संँचि म । जेण जम्मु समप्पइ सो कोवि द्रवक्कउ पडइ । | वेडचा, दिसभरान जोडिल्लें खा. एकय दमडो सांचोवं नाका. जाणे (कर्न) जल्म सोंपत असो दबडगो पडत. |
| ९०. जिवँ सुपरिस तिवँ झकटइँ, जिवँ नइ तिवँ वलणाइं जिवँ डोंगर तिवँ कोट्टरइं हिआ, विसूरहि काइ । | जेवीं सत्पुरुष तेवीं झगडीं, जेवीं न्हंयो तेवीं वळणां, जेवीं डोंगर तेवीं घोळी. हर्या, विसुरता (खेदता) कित्या ? |
| ९१. जसु केरएँ हुंकारडएं मुहहुँ तृणाइं पडन्ति, सु केसरि गयउ । हरिणाइं, निच्चिन्तइँ जलु पिअहु । | जागेल्या हुंकारड्यांनी मुखांतल्यान तणां पडटात, तो केसरी गेलो. हरिणांनो, निचींत जळ पिया. |
| ९२. साहु वि लोउ सत्थावत्थहं आलवणु करेइ । जो सज्जणु सो आदन्नहँ मब्भीसडी देइ । | साबार लोक स्वस्थावस्थेंतल्यालागीं उलोवणीं करतात. जो सज्जन आसता, तो भिव नाकात, म्हण दुःखार्ताक आस्वासन दिता. |
| ९३. ढोल्ला, अइ भण एँह परिहासडी | वाबल्या, अरे म्हण, हो परिहास (थट्टा) |

| अपभ्रंश | कोंकणी |
| --- | --- |
| कवर्णहिं देसि। पिअ, हउँ तउ केहिं झिज्जउँ, तुहुँ पुणु अन्नहि रेसि। | कोणा देशींचो ? हांव तुजे खातीर झिजतां तूं आणीक कोणाखातीर झुरता ! |
| ९४. एँउ गृण्हेप्पिणु ध्रुं मइं जइ प्रिउ उव्वारिज्जइ। मइ करिएव्वउँ किं पि ण वि पर मरिएव्वउँ देज्जइ। | हो (आहेर) घेवन मियां जर प्रियाक उंवाळून उडोवंचेलो, तर मियां करचेलें कांयच ना, परंत मरचेलें दियात. |
| ९५. सयल धर जेप्पि चयप्पिणु, तउ लेविणु पालेवि। सन्तें तित्थेसरेण विणु भुवणे वि को सक्कइ ? | सगळी धर्तरी जिखप आनी त्यागप, तपव्रत घेवप आनी पाळप, हें संत तीर्थेश्वराबीण भुवनांत कोण करूंक शकत ? |
| ९६. वलयावलि-निवडण-भएँण धण उद्धब्भुअ जाइ। नाइ वल्लह-विरह-महादहहो थाह गवेसइ। | बांगड्यो हातांतल्यान सकल पडटीत ह्या भयान, धन्या, हात उबारून चलता. जणू वल्लभाच्या विरह (रुपी) महाडोहाचो थांग सोदता. |
| ९७. भुवण-भयंकरु दहमुहु संकरु-तोसिअ रह-वरि चडिअउ, णिग्गउ। चउमुहु, छंमुहु एक्कहिं झाइवि लडवि, णाव दइवें घडिअउ। | भवन-भयंकर दशमूख, शंकराक संतुष्ट करून रथाचेर चडलो आनी निघलो. चतूर्मूख (ब्रह्मदेव) आनी षण्मूख (कार्तिकस्वामी) ध्यानांत एकठांय हाडून दैवान जणू (ताका) घडयल्लो. |
| ९८. आयइँ, लोअणइँ जाअी सरइँ। न भन्ति। अप्पिएँ दिट्ठइ मउलिअहिं; पिएँ दिट्ठइ विहसन्ति। | ह्या लोकांचीं लोचनां (पूर्व) जल्म स्मरतात. दुबाव ना. अप्रिय दिसलें तर कवळेतात. प्रिय (जन) दिसले तर विस्फारतात. |
| ९९. अणउ करन्तहो पुरिसहो आवइ आवइ। | अन्याय करतल्या पुरसाचेर आपत्ती येता. |
| १००. जउ पवसन्तें सहुँ गय न, तस्सु विओएँ मुअ न, सुहय-जणस्सु संदेसडा दिन्ते हिं लज्जिज्ज। | प्रवाशा सांगता गेलें ना, ताच्या वियोगान मेलें ना. प्रिय जनाक संदेश धाडूंक लज दिसता. |

हे अपभ्रंश भाशेंतले शंबर श्लोक हेमचंद्रान उत्तराध्ययन, दशवैकालिक, सेतुबन्ध, कर्पूरमंजरी, पउमचरिय, वसुदेवहिण्डी, गउडवहो, दोहापाहुड, परमात्म-प्रकाश बी ग्रंथांतल्यान घेवन सिद्ध-हेम-शब्दानुशासन ह्या आपल्या प्राकृत भासांच्या व्याकरणांत व्याकरणी नेमाचीं उदाहरणां म्हणून दिल्यात.

ह्या श्लोकांची भास कोंकणी भाशेक जायती लागची अशें दिसून येता. त्या श्लोकांच्या कोंकणी भाशांतराची मोड ही आधुनीक गोंयची कोंकणी भाशेची मोड आसा.

प्रत्यक्षांत अपभ्रंश भाशेच्या तरेकवार मोडींचें रुपांतर कोंकणी भाशेंत घडलें तें अकराव्या शेंकड्यासावन तेराव्या-चौदाव्या शेंकड्यामेरेन घडिल्लें आसूंक जाय.

चवदाव्या शेंकड्यासावन विसाव्या शेंकड्यामेरेन सातशीं वर्सांच्या काळांत अरबी, फारशी (दिल्लीकार, बहामनी, आदिलशाही मुसल्मानी राज्यकर्ते), कानडी (शिलाहार, कदंब, विजयनगरचे आनी यादव राज्यकर्ते) पुर्तुगेज (इ. स. १५१० ते १९६० हीं ४५० वर्सां), इंग्लिश (१८४८ ते १९९० इ. स.) ह्या पांच भासांचो राजकीय प्रभाव कोंकणी भाशेचेर पडलो.

त्या भायर राजाश्रय नाशिल्ले कोंकणी भाशेचेर शेजारच्या राज्यांतल्या मराठी, कानडी, गुजराथी, हिंदी बी भारतीय भासांचो आनी राजकर्त्याकडच्यान लातीं, फ्रेंच बी युरोपियन भासांचो आनी संस्कृत भाशेचो जायतो प्रभाव पडला.

इतलें आसुनय मूळ अपभ्रंश भाशेचो आनी जैन संस्कृतायेचो जो प्रभाव कोंकणी भाशेचेर आनी कोंकणी अस्मितायेचेर पडला, तो सातशीं वर्सांउपरांतय पुसून वचूंक ना. हें अपभ्रंश आनी कोंकणी भाशेच्या संबंधाचो अभ्यास करतकच दिसून येता.

## ८. अपभ्रंश भाशेंतलें निवडक साहित्य–

## भविसयत्तकहा

धणवाल नांवाच्या जैन कवीन धाव्या क्रिस्ती शतकांत माएसर (महेश्वर) गांवांत हें काव्य अपभ्रंश भाशेंत रचलें. त्या काळांत अपभ्रंश भास लोकांच्या तोंडांत घोळटाली अशें जाणकार संशोधक सांगतात. पाइअलच्छी हो शब्दकोश रचपी धनपाल हो वेगळो ग्रंथकार. ह्या ग्रंथाच्या कर्त्या धणवालाची अपभ्रंश शैली ही हेमचंद्राचे शैलीहून पोन्नी आसा. धनपालाच्या काळांत भास लोकांच्या उलोवपांत आशिल्ल्यान उतरांचीं रुपां बदलतालीं. व्याकरणाचे नेम कडक नाशिल्ले. हेमचंद्राच्या काळांत बाराव्या शतकांत अपभ्रंश भास उलोवपांत नाशिल्ल्यान व्याकरणी नेम निश्चीत थारिल्ले मेळटात. शब्दांचीं रुपांय बदलनात; कारण अपभ्रंश भास जिती नासली. लिखाणांत बांदिल्ली आसली. माए-सर हो गांव मारवाडांतलो आसुंये. वा उत्तर गुजरातेंतलो जांवये.

हेमचंद्राचे भाशेपरस धणवालाची भास कोंकणी भाशेक मातशी पैस पडटा. खंच्याय अपभ्रंश पुस्तकाची रचना खंय घडली आनी केन्ना घडली हीं दोन कारणां कोंकणी भाशेक ती अपभ्रंश शैली लागसारची काय पयशिली तें थारायता. भविसयत्तकहा ह्या पुस्तकाची छपाई आनी प्रकाशन पयलेच फावटी १९२३ सालांत बडोद्याक जालीं. दुसरी आवृत्ती १९६७ सालांत छापली. तंवसर ही दीर्घ कविता दिगंबर जैनांकडेन हातबरपा रुपांत पडून आसली.

ह्या ग्रंथांतलीं उतरां गुजराथी, मराठी आनी हिंदी भासांत आगळीं-उणीं बदलून देंवलीं अशें ह्या ग्रंथाचे संपादपी सर्गेस्त प्रो. सी. डी. दलाल आनी डॉ. पांडुरंग दामोदर गुणे हे सांगतात. ह्या ग्रंथांतल्यान कोंकणी भाशेंत आयिल्लीं उतरां हांवें सोदून काडल्यांत. त्या भायर कांय वाक्यां आनी वाक्यांश कोंकणींत आइल्ले हांवें मुखार दाखयल्यात :

| अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|
| ते तउ अमंगलु करइ। | तो तुजें अमंगळ करीत. |
| ाहिं तइ बप्पहो | आमी तुज्या बापायची |
| ाव करिवि जीवहं। | सेवा करून जियेतात. |
| कन्नहिं कुंडलाइं आइद्धइं। | कानीं कुंडलां अडकयलीं, |
| उप्परि वेढियाइं पहचिधइं। | वयर वेडी पटयल्यात. |

| अपभ्रंश | कोंकणी | अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|---|---|
| अड्ढाइय | अडेच | उल्लाव | उलोवंक लायता |
| अड्ढतिय | ,, | उवरि | वयर |
| अत्थिर | अथीर | उव्वत्तण | वटणें |
| अन्नेक्क | आनीक | ऊसरइ | ओसरता |
| अप्प, अप्पण | आपूण | ए | ए, आरे, आगे, आगो |
| अप्पाण, अप्पुणु | ,, | उव्वर | उरप |
| अंबिल | आंबील | ऊण | उणो |
| अम्म | अम्मा | एत्तउ, एत्तिअ | इतलें |
| अम्ह | आमी | एइ, एति | येय, येता, येती |
| अवमाण | अवमान | एउं | हें |
| इक्कंतरु | एकांदर | एउंजि | हेंचि, हेंच |
| उच्चारइ | उच्चारता | एकल्ल | एकलो |
| उच्छलइ | उसळऽ, उसळटा | एक्कन्त | एकान्त |
| उज्जमण | उजबण | एक्कन्तर | एकंदर |
| उग्घाड | उगडप | एक्कमेक्क | एकमेक |
| उग्घाडिय | उगडिल्लो | एत्तहि, एत्थ | अथंय |
| उज्जाडिउ | उजवाडले | एत्तिय, एत्तडय | इतलो, एवडो |
| उज्जालिय | उजळिल्लो | एवड्ड, | एवडो, एदो |
| उज्जुअ | उजू | एहु | हो |
| उट्ठ | ओंठ | ओणल्ल | ओनवल्लो |
| उट्ठइ | उठऽ, उठटा | ओलक्खिय | वळखप |
| उट्ठावइ | उठयता | ओलि | वळ |
| उड्डावइ | उडूंक लायता | ओल्लाव | उलवप |
| उत्त | पूत | ओल्लिय | ओलें |
| उत्तरइ | उतरऽ, उतरता, | ओसरिय | ओसरप |
| उत्तारिय | उतरयलो | कइआ | केल्या |
| उल्लव | उलो | कक्ख | खाक |
| उल्लवइ | उलयता | कज्जल | काजळ |

| अपभ्रंश | कोंकणी | अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|---|---|
| कंचुल्ली | चोळी | कुवर | कुंवर |
| कट्ठ | काठी | कूड | कोडें |
| कडय | कडें | केह | कॅहॉं, कसो |
| कडाह् | कडय | कोइल | कोगूळ |
| कडुय | कोडू | को | को, कोण |
| कड्ढइ | काडी, काडटा | कोट्ठो | कोठो |
| कढकढन्त | कडकडीत, खतखतीत | खज्ज | खाजें |
| कणिस | कणस | खज्जइ | खाय, खाता |
| कंटय | कांटो | खंचइ | खेंची, खेंचता |
| कंडु | चेंडू | खणइ | खणी, खणटा |
| कइस | कयसो | खत्त | खेत्री |
| कण्ह | कृष्ण | खंध | खांदो |
| कन्न, कण्ण | कान | खप्पर | खापर |
| कन्नाड | कर्णाटक | खडफड | खटपट |
| कप्पइ | कापी, कापता | खंड | खांडें |
| कप्पड | कापड, कपडो | खंभ | खांबो, खांव |
| कप्पूर | कापूर | खय | खेय |
| कंपिय | कांपिल्ली | खल्इ | खळऽ, खळटा |
| कंपावइ | कांपयता | खल्भलिय | खळवळप |
| कम्मयर | कामेरी | खाय | खाल्लो, खाता |
| कय | केलो, केल्लो | खार | खार |
| कवण | कोण | खारिय | खारो |
| कलस | कळसो | खिड्ड, खेड्ड | खेळ |
| कलिय | कळी | खीण | क्षीण |
| किरिया | किरया | खीर | खीर |
| किलेस | किलेस | खुडई | खुडप |
| किल | खरो | खुब्भ | खुबप |
| कील | खेळ | खेड | खेडें, खेळ |
| कुक्कुड | कुकड | खेल्लइ | खेळऽ, खेळटा |
| कुक्खि | कूस | गणइ | गणी, गणटा |
| कुच्छिय | कुच्छीत | गणण | गणना |
| कुरुल | कुरळो (केंस) | गंठि | गांठ |
| कुलकुलइ | कुलकुलाट करता | गद्दह | गाडव |
| कुलहरहो | कुळारचो | गंद | गंध, गंद |

| ापभ्रंश | कोंकणी | अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|---|---|
| ाभ | गाब | चुंबइ | चुंबी, चुंबिता |
| ालइ | गळऽ, गळटा | चुड | चुडो |
| गम्भ | गीम | चूरिय | चुरलें |
| ुज्जर | गुजीर | चेडय | चेडो |
| ुज्झ | गूज | चोरइ | चोरी, चोरता |
| ुथ | गुथप | चोरत्तण | चोरपण |
| ुदल | गोंदळ | चोल्ल | चोळी |
| गुमगुमन्त | घुमणारो | च्छोऽइ | सोडी, सोडटा |
| गुरुहार | गुरवार | छक्क | छक्को, सको |
| गोट्ठ | गोठो | छज्जइ | साजऽ, साजता |
| घल्लइ | घाली, घालता | छट्ठ | सटो |
| घवघवन्त | घमघमाट | छडय | शिताडो |
| घाण | घाण | छण | सण |
| घेप्प | घेवप | छंडई | सांडी, सांडटा |
| चउक्क | चौक | चालइ | चालयता |
| चउत्थ | चौथ | छिन्दइ | शिनता, शिनी |
| चउकोणी | चौकोन | छिवइ | शिंवता, शिंवी |
| चक्क | चाक | छित्त | शेत |
| चंग | चांग | छुट्टइ | सुटऽ, सुटटा |
| चडप्फड | तडफडप | ज | जो |
| चडइ | चडऽ, चडटा | जइसउ | जैंसो |
| चप्पइ | चापप | जगड | झगडप |
| चमक्क | चमक | जग्गइ | जागऽ, जागता |
| चम्म | चाम | जंघ | जांग |
| चयइ | चळऽ, चळटा | जत्ता | जात्रा |
| चयारि | चार | जत्थ | जेथंय |
| चरह | चरऽ, चरता | जलइ | जळऽ, जळटा |
| चरउ | चोर | जहि, जउ | जंय |
| चरपुरिस | गुप्तचर | जाणइ | जाणऽ, जाणटा |
| चल्लइ, चलइ | चलऽ, चलता | जाल | जाळ |
| चाणक्क | चाणाक्ष, चलाख | जालिय | जाळिल्लो |
| चीरइ | चिरी, चिरता | जिम्मइ | जेवी, जेवता |
| चुक्कइ | चुकऽ, चुकता | जियइ, जीवइ | जियेता |
| चुण्ण | चून | जीह | जीब |

| अपभ्रंश | कोंकणी | अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|---|---|
| जुज्झ | झूज | तओ | तेन्ना |
| जुयल | जुंवळ | तक्खण | तक्षण |
| जुवाण | जुवान | तड | तड |
| जूअ | जूओ, जुगार | तण्डव | तांडो |
| जूड | जुडी | तत्थ | तेथंय, थंय |
| जेत्तिय | जितलो | तन्ह | तान |
| जेत्थइ, जेत्थहि, जेत्थु | जेथंय, जंय. | तंब | तांबे |
| जोक्ख | जोखप | तंबिर | तांबडो |
| जेह | जसो, जेहाँ | तरइ | तरता |
| जोगी | जोगी | तह | तॉहाँ, तसो |
| जोग्ग | जोगो | तावेल | तावळी |
| जोयइ | चोयी, चोयता | तिक्ख | तिखो, तिजोखो |
| झंखइ | झांकऽ, झांकता | तिलय | तिळो |
| झडत्ति | सटकन्न, सट्ट करून | तिल्ल | तेल |
| झडप्पइ | झडपता | तिसट्ठि | त्रेसट |
| झेप | झेंप | तिह | तशें |
| झुलुक्क | झुळूक | तीसम | तिसावो |
| झलक्क | झळकप | तुहुँ | तूं |
| ठविय | थेयल्लो | तेतीस | तेत्तीस |
| ठाय | थाव | तेत्तहे | तेथंय |
| ठाण | ठाणें | तेत्तिय | तितलें |
| डाल | ताळी | तेत्थु, तेत्थहो | तेथंय |
| डोम्ब | डोंब | तोडइ | तोडी, तोडटा |
| डोल्ल | डोलप, धोलप | थट्ट | थाट |
| ढक्क | धांकप | थण | थान |
| णइ | न्हंय | थंभ | थांबप |
| णत्थि | नासता, ना | थरहरइ | थरथरता |
| णव | णव | थल | थळ |
| णाउं | नांव | थाल | थाळो |
| णासइ | नासता | थिर | थीर |
| णिरिक्ख | निरखप | थोअ, थोव | थोडो |
| त | तो | थोर | थोर |
| तइय | तुगेलो | दइव | दैव |
| तइयहँ | तेवाँ | दडवड | धडाधड |

| अपभ्रंश | कोंकणी | अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|---|---|
| दण्डावइ | दंडयता | नाउं | नांव |
| दलइ | दळी, दळटा | नासइ | नासता |
| दलण | दळण | नीसरइ | निसरता |
| दळबट्टइ | दळवटटा | नेमित्त | निमीत |
| दहि | धत्र | नेसण | न्हेसण |
| दिवड्ढ | देड | न्हाइ | न्हाय, न्हाता. |
| दिसइ | दिसऽ, दिसता | न्हाण | न्हाण |
| दीव | दिवो | न्हावइ | न्हावयता, न्हाणयता |
| दुक्ख | दुक्ख, दूख | पइ | पती |
| दुक्खल्लिय | दुखिल्लो | पइज्ज | पैज |
| दुक्खाविय | दुखावप | पइसइ | प्रवेशता, |
| दूसण | दुशण | पओली | पांवळी |
| देइ | दीय, दिता | पक्क | पिको |
| देक्खइ | देखता | पक्ख | पाखो |
| देवर | देर | पंगुरइ | पांगरी, पांगुरता |
| देवल, देवउल | देवूळ | पंगुरण | पांगरूण |
| देस | देस | पंचासय | पांचशीं |
| देहुर | देवारो | पच्छिम | पच्छीम |
| धगधगन्त | धगधगीत, खतख़तीत | पज्जलिय | पाजळिल्लो |
| धण् | धोणू | पज्जालइ | पाजळी, पाजळटा |
| धरइ | धरी, धरता | पट्टासण | पट्टासन |
| धरणि | धरणी | पट्ठवइ | पाठयी, पाठयता |
| धवलित | धवो केल्लो | पडइ | पडऽ, पडटा |
| धाडिय | धाडप | पंडव | पाण्डव |
| धावइ | धांवऽ, धांवता | पडह | पड्डो |
| धिट्ठ | धीट | पडिसद्द | पडसाद |
| धीव, धूय, धूअ | धूव | पण्णास | पन्नास |
| धूव | धूप | पत्त | पत्र |
| धोवइ | धुयी, धुयता | पत्तल | पातळ |
| नइ | न्हंय | पत्तियइ | पातयेता |
| नग्गल्ल | नागडो | पन्हु | पानो |
| नच्चइ | नाचऽ, नाचता | पप्पडा | पापड |
| नत्थि | नासता, ना | पब्भट्ठ | बाटप, भष्टप |
| नंदइ | नंदता | पयल्लय | पावल |

| अपभ्रंश | कोंकणी | अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|---|---|
| परिक्ख | पारख | पुंजइ | पुंजायता |
| परियल | परळ | पुंजविय | पुंजायल्लो |
| परिहण | पैरण | पुणु | पुन्रा |
| पसाउ | पसाय | पुत्त | पूत |
| पाउस | पावस | पुरिस | पुरुश |
| पाय | पांय | पुव्वि | पुर्वी |
| पल्लंक | पलंग | पेक्ख | पेखप |
| पल्लट्टइ | पालटटा, परतता | पोट्ट | पोट |
| पवाल | पोवळें | पोत्त | पांत (वस्त्र) |
| पसर | पसरप | पोत्थय | पोथी |
| पसाय | पसाय | पोप्फल | फोपळ |
| पहर | पार | पोसइ | पोशी, पोसता |
| पहार | फार | फट्टइ | फाडी, फाडटा |
| पहिलय | पयलो | फरसु | फरशी |
| पहुच्चइ | पोंचता | फलय, फलह | फळो |
| पाइक्क | पायक | फलेइ | फळटा |
| पाउस | पावस | फार | फार (खूब) |
| पाणिय | पाणी | फिट्टइ | फिटटा |
| पाय | पांज | फुट्टइ | फुटटा |
| पारक्क | परको | फुडिय | फुटिल्लो |
| पारणय | पारणे | फेडइ | फेडी, फेडटा |
| पालइ | पाळी, पाळटा | फड | फड (मंडळी) |
| पावइ | पावऽ, पावता | बइसइ | बैसता, बैसऽ |
| पास | पाशीं | बंध | बंदन |
| पिउ | पिल्लो | बंधारि | बंदखण |
| पिक्क | पिको | बंधइ | बांदी, बांदता |
| पिज्जइ | पियेता | बप्प | बापूय |
| पिट्टिवि | पेटून | बय | बळार |
| पियइ | पियेता | बलवंत | बळवंत |
| पीड | पिडा | बहव, बहुअ | भोव |
| पीडिज्जंति | पिडेतात | बहिणि | भयण |
| पुज्ज | पुजा | बहिरिय | भयरो |
| पुज्जइ | पुजी, पुजता | बहुत्त | भोवतेक |
| पुज्जिइ | पुजून घेय | बारह | बारा |

| अपभ्रंश | कोंकणी | अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|---|---|
| बासण | बासण | भुल्ल | भुलप |
| बाह | वाफ | भवण | भोंवडी |
| बाहिर | भायर | भविस | भविष्य |
| बीय | बीय (दुसरो) | भारिय | भारी |
| बुज्झइ | बोधी, बोधता | भावइ | भावता |
| बुड्डइ | वुडऽ बुडटा | भास | भास |
| बोल्ल | बोल | भिगार | भांगर |
| बोल्लइ | बोलऽ बोलता | भिडइ | भिडटा |
| बोल्लवइ | बोलयता | भुक्खालअ | भुकेल्लो |
| भउहा | भुंवय | भोज्ज | भोज्य |
| भक्ख | भकप | भोलो | भोळो |
| भक्खइ | भकता | मइल | म्हेळो |
| भग्ग | भंगप, भंग | मइलइ | म्हेळयता |
| भज्यइ | भाजता (अ) | मउअ | मोव |
| भंजइ | भाजता | मउण | मौन |
| भंजण | भाजप | मग्ग | मागो, माग, मगेर |
| भडारय | भाटकार | मग्गइ | माग, मागता |
| भडारिय | भाटकान्न | मंकुण | भिकूण |
| भणइ | म्हण, म्हणटा | मच्छ | मासळी |
| भंड | भांडप | मच्छर | मत्सर |
| भंडण | भांडण | मज्जार | माजर |
| भंडारिय | भांडारी | मडक्क | मडकें |
| भंडुल्ल | भांडवल | मढ | मठ |
| भण्णइ | म्हणटा (अ) | मण | मन |
| भंतर | भितर | मणुअ | मनीस |
| भमइ | भोंवता | मणोहर | मनोहर |
| भमर | भोंवरो, भोंवर | मंडण | मंडण |
| भमाडइ | भोंवडाय | मंडव | माटव |
| भयभीसइ | भयान भियेता | मत्थय | माथें |
| भरइ | भरता | मरइ | मरता, मरऽ |
| भल्लय | भलो मनीस | मसाण | मसण |
| भल्लि | भालो | मलइ | मळटा, म्हेळऽ |
| भवण | भवन | मलिण | म्हेळो |
| भाइ | भाव, भाई | माम | मामु, माम |

| अपभ्रंश | कोंकणी | अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|---|---|
| मुट्ठि | मूठ | मोल्ल | मोल |
| महग्घ | म्हाग | मोर | मोर |
| महत्तण | म्हत्व | रक्खइ | राखी, राखता |
| महत्तर | म्हातारो | रक्खस | राखेस |
| महल्ल | म्हाल (मुखेल) | रक्खण | राखण |
| महारउ | म्हारग, म्हजो | रज्ज | राज्य |
| महिस | म्हस | रन्न | रान |
| महु | म्होंव | रम्मइ | रमऽ, रमता |
| माइय | माय | रयण | रत्न |
| माण | मान | रयणी | रजनी |
| माणयारी | मानकार | राउल | राऊळ |
| माणुस | माणूस | राणउ | राणो |
| माम | मावळो | राणी | राणी |
| मायरि | मायेचो | रुक्ख | रूख |
| मारइ | मारता | रुचइ | रुचऽ, रुचता |
| माल | माळ | रोवइ | रडटा |
| मास | मांस | लउडि | लांकूड |
| माहुलिंग | मावळींग | लग्गइ | लागता |
| मिरिय | मिरयां | लंघइ | लाग मारता |
| मिलइ | मेळटा | लज्ज | लज |
| मिसल | मिसळप | लंछण | लंछन |
| मुक्ख | मुर्ख | लड्डिय | लाड |
| मुग्ग॰ | मूग | लड्डुअ | लाडू |
| मुच्छ | मुर्च्छा | लब्भइ | लाभ, लाभता |
| मुट्ठि | मूठ | लंपड | लंफूट |
| मुहुल्लय | म्होवाळें | लहु | ल्हान |
| मेलइ | मेळयता | लायइ | लायी, लायता |
| मेलावय | मेळावो | लाह | लाव |
| मोकल्लइ | मोकळो करी | लिहइ | लियता |
| मोक्ख | मोक्ष | लोण | लोणचें |
| मोग्गर | मोगरो | ल्हिक्कइ | लिपयता |
| मोडइ | मोडी, मोडटा | वइरि | वैरो |
| मेहुणअ | मेवणो | वक्खाणइ | वाखाणी, वाखाणटा |
| मोत्तिय | मोतीं | वग्घ | वाग |

| अपभ्रंश | कोंकणी | अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|---|---|
| वंक | वांकडो | विणय | विनय |
| वंकुड | वांकडो | विणीय | विनीत |
| वंकइ | वांकयता | विणु | वीण |
| वच्चइ | वचऽ, वयता | विब्भाडिउ | इबाडलो |
| वज्जइ | वर्जिता | विब्भाडिय | इबाडिल्लो |
| वज्जावइ | वाजयता, वर्जयता | विमाण | विमान |
| वट्टइ, वत्तइ | वर्तता | वीसमइ, वीसवइ | विसंवता |
| वड्ढार | व्हड | वीसरइ | विसरता |
| वड्ढइ | वाडऽ वाडटा | वेग्ग | वेग |
| वण | वन | वेयणा | वेदना, वेण |
| वणि, वाणि | वाणी | सइं, संय | संय |
| वत्त | वार्ता | सक्कइ | शकता |
| वन्न | वर्णप | संचइ | सांचता |
| वन्नइ | वानता | संचरइ | संचरता |
| वरइ | वरी, वरता | संचारइ | संचारता |
| वरि | बरी, बरें | संझ | सांज |
| वरिस | वर्स | सट्ठि | साठ |
| वलइ | वळी, वळटा | सत्त | सात |
| ०वल्ल | ०वालो (चो) | सत्तम | सातवो |
| ववसाय | वेवसाय | सद्द | शब्द |
| वसइ | बसऽ, वसता | संत | शान्त |
| वहइ | व्हांवऽ, व्हांवता | संतप्पइ | संतापता |
| वार | वेळ | संति | शान्ती |
| वारवार | वारंवार | संतोस | संतोष |
| वावरइ | वावरता | संधाण | संदान |
| वावि | बाव | समप्पण | समर्पण |
| वाहइ | व्हरता | समप्पइ | सोंपता |
| विसय | वीस | समत्त | समाप्त |
| विक्कय | विक्री | संभवइ | संभवता |
| विचित्त | विचित्र | संभालइ | सांबाळटा |
| विच्च | बिदी | सरइ | सर ऽ, सरता |
| विज्जय | वैंजकी | सलाय | सळय |
| विज्जुल, विज्ज | वीज | सल्ल | सल्ल |
| विडंबण | विटंबणा | सवत्ति | सवत |

| अपभ्रंश | कोंकणी | अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|---|---|
| ससुर | सासरो | सोसइ | सोसता, सोशी |
| सासय | सासणाचो,सासायेचो | सोहलय | सोहळो, मुवाळो |
| साहुक्कार | सावकार | सोहइ | सोबता |
| सिक्ख | शिकप | हउं | हांव |
| सिक्खवइ | शिकयता | हक्कारइ | हाकारी |
| सिज्ज, सेज्ज | शेज | हड्ड | हाड |
| सिज्झइ | शिजता | हणइ | हणी, हणटा |
| सिढिल | सदळ | हत्थ | हात |
| सिप्पि | शिपी | हत्थि | हती |
| सुक्क | सुको | हरहि | व्हरता |
| सुक्ख, सोक्ख | सूख | हल्लिय | हाल्ऽ, हाल्ता |
| सुत्त | सूत | हसइ | हांस ऽ, हांसता |
| सुन्ह | सून | हीण | हीण |
| सुवन्न | सोनें | होइ | होई |
| सेट्ठि | शेट | | |
| सेणावइ | शेणवी, शणै | **खाजीं (खाद्यान्नां)** | |
| सेरउ | सैर | सलोणं | मीठ घाल्लें, खारट |
| सेव | सेवा | सालिभत्तं | साळी भात |
| सोलह | सोळा | सुस्सार मुग्गा | मूगांचें सार |
| सोलहम | सोळावो | घयं | घी, तूप |
| सोवाण | सोपण | कच्चरा | कचऱ्यो |
| सोवाशिणि | सवाशीण | पप्पडा | पापड |

## ९. महाकइ पुप्फयंतविरइयउ महापुराणु

डॉ. हिरालाल जैन हो एक विद्वान भारतशास्त्री जावन गेलो. पुष्पदन्त कवीच्या महापुराण ह्या अपभ्रंश काव्याचें पयलेंच संपादन पुण्याच्या वाडिया कॉलजचे प्रोफेसर डॉ. पी. एल. वैद्य हाणी करून हातबरपाचें पुस्तक छापलें. त्या पुस्तकाचे प्रस्तावनेंत डॉ. जैन सांगतात कीं, १९१७ सालाआदी अपभ्रंश भाशेचें छापून उजवाडायल्लें पुस्तक मेळनासलें.

१९२४ सालासावन विदर्भांतल्या कारंजा गांवांत जैनांच्या ग्रंथ भांडारांतल्या हातबरपांचें संशोधन विद्वान जैन मुनी आनी विद्यापिठांच्या प्राध्यापकांनीं करूंक सुरवात केली. पुष्पदन्त ह्या महाकवीचीं तीन अपभ्रंश काव्यां ताणी उजवाडाक हाडलीं. डॉ. पी. एल. वैद्य हाणी पुष्पदन्ताचें जसहर चरियु हें काव्य संशोधून उजवाडायलें. डॉ. हिरालाल जैन हाणी पुष्पदन्ताचें णायकुमारचरियु हें काव्य संशोधून छापलें.

पुष्पदन्ताच्या महापुराणाचे दोन भाग केले. पयलो आदिपुराण. हें डॉ. वैद्यांनीं उजवाडायलें, दुसऱ्या भागाचें नांव उत्तरपुराण. ताच्या बारा संधीं (अध्याय) चें प्रकाशन जर्मनींत डॉ. आल्मडॉर्फ ह्या भारतशास्त्र्यान केलें. ताका हरिवंशपुराण अशेंय म्हणटात.

अकरावो राष्ट्रकूट सम्राट क्रिस्ताब्द ९३९ सालांत सिंहासनार बसलो. ताचे राजधानींत, मालखेडांत ताचो प्रधान भरत आसलो. भरतान पुष्पदन्त नांवाचो एक अपभ्रंश भाशेचो कवी आपल्या आश्रयाक दवल्लो. ताका जैन तिर्थकरांचें महापुराण रचूंक प्रोत्साहन दिलें. पुष्पदंत मुळचो शैव पंथी बामण. पूण त्या काळांत जैन धर्म उदरगतीक येवपाचें वातावरण जंयथंय उमळून येतालें. पुष्पदंताचेर जैन धर्माचो प्रभाव पडलो आनी ताणे ९५९ क्रिस्ताब्द सावन ९६५ सालामेरेन आदिपुराण आनी उत्तर पुराण ह्या दोन भागांनीं त्रेसट महापुरुषांचें चरित्र काव्यांत रचलें.

हाचे आदीं क्रिस्ताब्द ८५० सालासावन जिनसेन नांवाच्या जैन कवीन जैन तीर्थंकर आनी महापुरुशांचें महापुराण संस्कृत भाशेंत रचूंक घेतिल्लें. ताणे ४२ पर्वां रचतकच तो भायर पडलो. ताचो शिष्य गुणभद्र हाणे राष्ट्रकूट दुसरो कृष्ण ह्या राजाचे कारकतींत क्रिस्ताब्द ८९८ सालांत तें महापुराण संस्कृत भाशेंत पूर्ण केलें. हेंय त्रेसष्ट महापुरुशांचें चरित्र आसलें.

हीं दोनय महापुराणां दिगंबर पंथी जैनांचीं आसलीं. क्रिस्ताब्द ११७० ते ११७२ ह्या काळांत हेमचन्द्र ह्या जैन कवीन संस्कृत भाशेंत श्वेतांबर पंथी जैनांखातीर त्रेसष्ट महापुरुषांच्या चरित्रांचें महापुराण संस्कृत भाशेंत रचलें. हो हेमचंद्र अपभ्रंश भाशेचो पयलो व्याकरणकार, कवी आनी शब्दकोशकार जावन गेलो. ताणे रचिल्ल्या पद्य शब्दकोशाचें नांव देशीनाममाला. अपभ्रंश भाशेंतल्या देशी उतरांचो तो शब्दकोश आस, असो हेमचंद्राचो दावो आस. त्या कोशांत संस्कृत भाशेंतल्यान अपभ्रंश भाशेंत आइल्लींय कांय उतरां आसात.

जैन कवींमदीं क्रिस्ताच्या तिसऱ्या शेंकड्याच्या अदमासाक विमल-सूरि ह्या कवीन पउमचरियम् ह्या नांवान वाल्मिकी रामायणाची रामकथा खूबकडेन बदलून प्राकृत भाशेंत रचली. क्रिस्ताच्या धाव्या शतकांत चतुर्मुख स्वयंभू ह्या कवीन आनी ताच्या त्रिभुवन ह्या पुतान पउमचरियु ह्या नांवान अपभ्रंश भाशेंत वाल्मिकीची रामकथा खूब फेरफार करून रचली. अशे भाशेन ह्या काळांत बऱ्याच कवींनीं काव्यां रचलीं. तीं काव्यां उत्कृष्ट आसलीं म्हणून आधुनीक भारतशास्त्री तांकां ताखेतात. पूण तीं काव्यां कालिदास, भवभूति, दंडी, वाल्मिकी, व्यास बी संस्कृत कवींच्या काव्यांच्या तोलाचीं जांवक नात हें सगळ्याक मान्य करचें पडटा. प्राकृत भाशांचो अभ्यास हीं काव्यां वाचल्यावगर पूर्ण जायना.

प्रत्येक ग्रंथ खंयच्या प्रांतांत रचिल्लो आनी कोणा काळांत रचिल्लो, हें पळोवप महत्वाचें आसता. अपभ्रंश ही एकच भास. पूण कालमानान आनी प्रांतोप्रांतांत तिच्या उतरांचीं रुपां बदल्ललीं दिसतात. देशकालानुसार संस्कृत भाशेंतलें न हें अक्षर प्राकृतांत आनी अपभ्रंशांत ण ह्या अक्षरांत बदलता. कांय काळान हें ण अक्षर बदलून न जाता.

अपभ्रंश भाशेंत णवव्या-धाव्या शेंकड्यांतलो व ह्रो उच्चार अकराव्या बाराव्या शेंकड्यांत बदलून ताचो ब असो उच्चार जालो.

हे जे उच्चारांत फेरबदल जाले तांची नोंद केल्ली आमची, म्हणून ह्या बरपांत अपभ्रंश भाशेंतलीं उतरां बरयतना खंच्या पुस्तकांतल्यान ती उतरां घेतल्यांत तें नोंदलां. आनी तें पुस्तक खंयच्या शेंकड्यांत आनी कोणा प्रांतांत रचिल्लें तेंय नोंदलां. हाका लागून जायतीं उतरां आगळ्या उण्या फरकान आइल्लीं वाचप्यांक मेळटलीं. तीं मुद्दाम आसलीं तशींच नोंदल्यांत.

एकच ग्रंथ महापुराण त्रेसष्ट महापुरुषांचें चरित्र. पूण वेगवेगळ्या काळांत आनी प्रांतांत वेगवेगळ्या कवींनीं रचला. म्हणून उतरांची संहिता बदलता. अर्थ चड करून मारकोच आसता. ह्या विषयाचेर विस्तारान बरोवं येता. पूण ह्या पुस्तकांत तें बरोवप शक्य ना. पुष्पदंताचें महापुराण धाव्या-अकराव्या शेंकड्यांतली अपभ्रंश भास दाखोवन दिता. ते भाशेंतलीं उतरां कोंकणी भाशेक कितलीं लागसारचीं आसलीं तें पळोवया :

## १०. पुष्पदन्ताच्या महापुराणांतलीं अपभ्रंश उतरां आनी तांचें कोंकणींत जाल्लें रुपांतर

| अपभ्रंश | कोंकणी | अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|---|---|
| कप्पड | कापड | चडाविय | चडयल्लो |
| कयर | कोयर | चंग, चंगअ | चांग |
| करंड | करंड | चिक्खल, चिक्खिल्ल | चिखल |
| करोडि | कट्टं (तकलेची कवटी) | चुक्कइ | चुकऽ, चुकता |
| कंसाल | कांसाळें | चोभल | चुंबळ |
| कुंड, कोंड | कोळंबी | छज्जइ | सजता |
| कुंयरि | कुंवरी (प्राकाराची) | छल्लि | साल |
| कोट्ट | कोट (वणत) | छंडइ | सांडी, सांडटा |
| खुरुप्प | खुरपें | छिवइ | शिवता |
| खेउं, खेव | खेंव, खेम | छिक | शिंकप |
| खेड | खेडें | छोडअ | सुटका |
| खोल्ल | खोल | जांवाय | जांवंय |
| गोंछ | घोंस | जूरण | झुरप |
| गोंदल | गोंदळ | जूरइ | झुरऽ, झुरता |
| घल्लइ | घालता, घाली | जेवइ | जेवी, जेवता |
| घाल्लिय | घाल्लें | जोइय | चोयल्लो |
| चक्खइ | चाखी, चाखता | जोक्खइ | जोखता, जोखी |
| चट्ट | च्येड | झडप्पइ | झोडी, झोडटा |
| चडइ | चडटा | झडप्पण | झोड |

| अपभ्रंश | कोंकणी | अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|---|---|
| झलझलिय | झुळझुळीत | दोर | दोर |
| झंपड | झांकी, झांकता | पत्तल | पातळ |
| झंपड | झांपड | परअ | परां |
| झुल्लइ | झुलता, झुलऽ | पल्लट्टिअ | पालथिल्लो |
| झुंबुक्क | झुबको | पहुल्ल | फूल |
| झेन्दुअ | चेंडू | पंगुत्त | पांगरिल्लो |
| झेन्दुलिया | शिदळ | पंगुरइ | पांगरी |
| टक्कर | ठोकर | पांगुरण | पांगरूण |
| टेंट | टेंठ | पाहुण | पावणो |
| डाल | ताळी | पिच्चइ | पिकता |
| डेवंत | देंवतो, देंवती | पोट्ट | पोट |
| डोल्लइ | धोलऽ, धोलता | पोट्टलो | पोटली |
| ढलइ | ढळटा, ढळऽ | पोप्फली | फोपळ |
| ढंकइ | धांकी, धांकता | पिट्टइ | फिटऽ, फिटटा |
| ढंकिय | धांकिल्लो | बइसइ | बैसऽ, बैसता |
| ढाल्इ | ढाळी | बप्प | बाबल, बाब |
| ढिल्लीहूय | धील जाल्लो | बाहिरि | भायर |
| णिच्छट्टइ | निसटऽ, निसटटा | बुक्करइ | भोंकी |
| णीवइ | निवऽ, निवता | बुड्डइ | बुडऽ, बुडटा |
| तलप्प | थापट | बुंध | मून, मूळ |
| तल्ल | तळें | बोल | बोल |
| तंडअ | तांडो | बोल्लइ | बोलऽ, बोलता |
| तुप्प | तूप | भउंहा | भुवय |
| तोंड | तोंड | भम्म | भामां |
| थरहरण | थरथरप | भल्ल | भलो |
| थव | थवो | भंडइ | भांडऽ, भांडटा |
| थिप्पिर | थिबकप | भिडिअ | भिडिल्लो |
| थेंभ | थेंब, थेंबो | भुक्कइ | भोंकी |
| दल्वट्टइ | दळवटटा | भोल | भोळो |
| दडत्ति | धडांयच कर्न | मड्ड | माड |
| दलवट्टिअ | दळवटिल्लो | माहुंडल | मांडूल |
| दाढा | दाड | मेरा | मेर |
| दीवड | दिवड | मेलअ | मेळो |
| वड्ड | व्हड | मेंढअ | मेंढा |

| अपभ्रंश | कोंकणी | अपभ्रंश | कोंकणी |
|---|---|---|---|
| मोक्कल्लिय | मेकळो केल्लो | वद्दल | वादळ |
| मोड्डिय | मोडिल्लो | विट्टल | विटाळ |
| रडि | रडें | सलसलइ | सळमळऽ, सळसळटा |
| रहट्ट | न्हाट, राट | साडी | साडी |
| रहल्लि | ल्हार | सिप्पि | शिपी |
| रंगइ | रांगता, रांग | सेंभ | शेंबूड |
| रंजण | रांजण | सोण्णार | सोनार |
| रंडिय | रांडाव | हट्ट | हाट |
| रुंद | रुंद | हल्लइ | हलऽ, हलता |
| रुंदिम | रुंदी | कुडव | कुडव |
| रेल्ल | रेलप | महाघर, म्हानघर | मांगर |
| लल्ल | लुडबो | मरहट्ठिया | मराठी (स्त्री) |
| लीह | रेग | वाविउ | बांयों |
| लुक्क | लिपिल्लो | मिरिवत्त | शिरवंत |

## ११. महापुराणांतल्या उताऱ्यांचें कोंकणी भाशांतर

| | |
|---|---|
| (१) सारमेउ छणयंदहु भुक्कउ। | कुत्रो चंद्रिमाचेर भोंकूं. |
| (२) तं मणुयत्तणु मसाणहु जाउ। | तें मनीसपण मसणांत वचूं. |
| (३) पासुलिया तुलाहिं। | फांसळयांच्या (बरी) तुळयांनीं (पाटयो) |
| (४) जो बलवंतु चोरू सो राणउ। | जो बळवान चोर (तो) राय (गणो) जाता. |
| (५) होमि दियंबरो। | हांव दिगंबर (जैन) जातलों. |
| (६) सहवाहु ओसहु णत्थि। | मबावाक वखद नासता. |
| (७) हउं जित्तउ. पइं तुहु सइ खंविउ। | तुवें म्हाका जिखलो. तुवें म्हाका क्षमा केली. |
| (८) विरोलिए पाणिए घिउ होइ किं? | चाळिल्ल्या पाणयाचें घी जाता? कितें? |
| (९) लाहु चिंततहो जंतहो, मूलु वि जाइ। | लाब चिंतितल्या जिवाचें मूळच ना जाता. |
| (१०) दुक्खइं जिम अणइच्छियइं होंति। | दुक्खां जशीं अनिच्छेन होतत! |
| (११) तिह सोक्खइं सहसा परिणवंति। | तशीं सुखांय सहमा (नकळत) परिणमतात (सोंपतात). |
| (१२) अहो दूरि हुअ चन्दहो जोण्ह किं मइलज्जइ? | अहो, दूर आशिल्ल्या चंद्राचें चांदनें कितें म्हेळटा? |
| (१३) जहा जेण दत्तं तहा तेण पत्तं। | जशें जाणे दिलें, तशें ताका पावलें. |

| | |
|---|---|
| (१४) सुपायत्रवा कोद्दवा जत्त माली, | माळी जेथंय कोदवो उपता आसत. |
| (१५) कहं सो नरो पावए तत्थ साली ? | तेथंय त्या नराक साळी कशो पावतीत ? |

## १२. पुष्पदंताच्या हरिवंस पुराणांतल्या सिद्धार्थ राजाचें वर्णन

| | |
|---|---|
| बहु धणु, गुणु, बहु सिय जुत्तउ । | भोव धन, भोव गुण, भोव श्रियेन युक्त. |
| तहि णिवसइ जिण कमलव्व रुत्तउ । | ताचे थंय जणु कमळांचो ऋतू राविल्लो. |
| जिणच्च पसाहिय तह णर णारिउ । | ताचे थंय नित्य नरनारी शिणगारिल्ले आसताले. |

## १३. मार्कंडेय कवीन्द्राचें प्राकृतसर्वस्वम् व्याकरण

ओरिसा प्रांतांत मोळाव्या शतकांत मार्कंडेय कवीन्द्र हचा कवी आनी व्याकरण-कारान 'प्राकृतसर्वस्वम्' हें सगल्या प्राकृत भासांचें व्याकरण रचलें. ताणेच दशग्रीववध हें खंडकाव्य आनी विलासवति हें सट्टक रचलीं. ताणे १५६० ते १५६६ इसवी सनांत रचिल्ल्या प्राकृतसर्वस्वम् हचा व्याकरणांत अपभ्रंश हे प्राकृत भाशेचें व्याकरण रचलें. ताच्या काळांत प्राकृत भासो उलोवपांत नामल्यो. पूण प्राकृत भासांतलें पोन्नें साहित्य वाचून कवी आनी व्याकरणकार प्राकृत भासांत काव्यां, सट्टकां आनी व्याकरणां रचताले. पुरुषोत्तम, रामशर्मा, क्रमदीश्वर, रामतर्कवागीश आनी मार्कंडेय कवीन्द्र हे सगले कवी आनी व्याकरणकार हेमचंद्रा उपरांत जावन गेले.

मार्कण्डेयाच्या प्राकृतसर्वस्वांत मुखार दिल्लीं प्राकृत उतरां अपभ्रंश आनी मागधी भासांतल्यान कोंकणीत आनी मराठींत रुपांतरीत जाल्यांत : अपभ्रंशा वेगळ्या उतरांची भास कंसांत संक्षेपान दिल्या.

| अपभ्रंश / मागधी | कोंकणी | मराठी |
|---|---|---|
| आअग्सि (मा) | आरसो, हारसो | आरसा |
| आर्ण्हि | हाणीं | यांहीं, यांनीं |
| आणेइ | आणी, हाडी (रितीभूत) आणटा, हाडटा | आणी, आणतो |
| उक्केरो (मा) | उकरड, उकड्ड | उकिरडा |
| उघडेइ (मा) | उगडी, उगडी (रि.भूत) उगडटा | उघडी, उघडतो |
| उच्छू (मा) | ऊंस, उशि (कांडो) | ऊंस |
| उज्जू (मा) | उजू | उजू |
| उट्टो (मा) | उंट | उंट |
| उट्ठिअं | उठिल्लें | उठलेलें |
| उट्ठिअउ, उट्ठिओ | उठलो | उठला |

| अपभ्रंश / मागधी | कोंकणी | मराठी |
|---|---|---|
| उट्ठेदि | उठऽ, उठटा | उठे, उठतो |
| उड्डिज्जइ | उडटा, उडऽ | उडे, उडतो |
| उत्थिदो | उठिल्लो | उठलेला |
| उँबरो | उंबरो, हुमरां | उंबरा, उंबरठा |
| उम्हा | हूम | – – – |
| उल्लट्टइ | उलट्टा | उलटतो |
| उल्लुअं | लुंविल्लें | लुवलेलें |
| उल्लुवइ | लुंवी (रि.भूत) लुंवता | लुंवी (री.भूत) लुंवतो. |
| उवरि | वयरि, वयर | वरि, वर |
| उव्वरिय | उरिल्लो | उरलेला |
| उव्विज्जइ | वाजेता | उद्विग्न(सं) होतो |
| उस्सासो (मा) | उसासो | उसासा |
| एआरिसो | अॅसॉ, अइसॉ | असा, ऐसा |
| ऍकल्लो, ऍक्कोल्लो | अॅकलॉ | एकला |
| ओक्खलो | उखळ | उखळ |
| ओढणं | ओडणी | ओढणी |
| ओल्लं | ओलें, वलें | ओलं, ओलें |
| ओप्पिअं | ओपिल्लें | ओपलेलें |
| ओसढं | ओखद, वखद | ओखद |
| ओसरइ | ओसरऽ (रि.भू.) ओसरता | ओसरे, ओसरतो |
| कइ | कांय | काही |
| कइआ | कंज, केवां | केव्हां |
| कट्टइ (मा) | कातरी, कातरता | कातरी, कातरतो |
| कड्ढइ (मा) | काडी, काडटा | काढी, काढतो |
| कड्ढूण | काडून | काढून |
| कढइ | कडयी, कडयता | कढवतो, कढवी |
| कणिआरो, कण्णआरो (शौ) | कणेर | कण्हेर |
| कहंतिहु | खंयथावन | कुठून, कोठून |
| कत्थ | खडे, खथंय | कुठें, कोठें |
| करइ, करेदि | करी (रितीभूत), करता | करी (रितीभूत) करतो |
| काऊण | करून | करून |
| किसरो | किसर | कुसर, कुसळ |
| कुच्छी | कूस | कूस |
| कुंभारो | कुंबार, कुमार | कुंभार |

| अपभ्रंश / मागधी, शौ. | कोकणी | मराठी |
|---|---|---|
| केत्तिअं | कितलें | किती |
| कंधो (शौ) खन्धो (मा) | खांदो | खांदा |
| करइ (मा) | करी, करता | करी, करतो |
| करेइ (मा) | करयता | करवी, करवतो |
| केरो | ०घेरचो, ०गेलो, ०चो, ०जो | ०कडचा, ०कडील |
| कुमरो (माहाराष्ट्री) | कुंवर | कुमार (सं) |
| कोद्दालो (मा) | कुदळ | कुदळ |
| कुम्हंडो, कोइंडो (मा) | कुंबाळो | कोहळा |
| खणो (मा) | खीण | क्षण (सं) |
| खंभो (शौ) | खांबॉ | खांब |
| खंड् (शौ) | खांडें | खड्ग (सं) |
| खउरइ | खवळऽ, खवळटा | खवळे, खवळतो |
| खल्लिओ (शौ) | खळ्ळो | (नि)खळला |
| खीरं (शौ) | खीर | खीर |
| खाइ (भा) | खाय, खाता | खाई, खातो |
| खुज्जा | खुजॉ, खुजट | खुजा, खुजट |
| गद्दहो | गाडव | गाढव |
| गाइ, गाअइ | गाय, गाता, गायता | गाई, गातो |
| गद्ध, गिद्धो (माहाराष्ट्री) | गीद | गिधाड |
| गुणिल्लो (शौ) | गुणिलो, गुणुलो | — — — |
| गुंथइ (मा) | गुथी (रितीभूत), गुथना | गुथी (रीतिभूत) गुंथतो |
| घम्मो (शौ) | घाम | घाम |
| घरं (शौ) | घर | घर |
| घेउआण, घेऊण (शौ) | घेवन | घेऊन |
| घेउं (मा) | घेवं, घेवंक | घेतां |
| घोट्टइ (मा) | घोंटटा, घोंटी (रीतीभूत) | घोंटी, घोंटतो |
| चुक्क | चुकप | चुकणे |
| चुक्कं | चुकिल्लें | चुकलेलें |
| चड | चडप | चढणे |
| चाहसि | जाय आसा | चाहसी |
| चोप्पड | चोपडप | चोपडणें |
| छह (शौ) | स | सहा |
| छड्ड | सोडप | सोडणें |
| छड्डइ | सोडी, सोडटा | सोडी, सोडतो |

